# कपयाळें

सुधा खरंगटे




अस्मिताय प्रतिष्ठान
मडगांव - गोंय

कपयाळें

(कथा झेलो)

प्रकाशन क्र. : 18



उजवाडावणी : डिसेंबर 2013

उजवाडावपी :
डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार
सचीव,
अस्मिताय प्रतिष्ठान,
मडगांव - गोंय.

छापपी :
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट,
वळवय - गोंय

मुखचित्र :
कलानंद कामत बांबोळकार

मोल : ₹ 200/-

Kapyallem

(Collection of short stories)

Publication No. : 18



First Edition : December 2013

Publisher :
Dr. Harishchandra Nagvenkar
Secretary,
Asmitai Pratishthan
Margao - Goa

Printer :
Hiru Narayan Naik
Rutu Offset,
Volvoi-Goa

Cover :
Kalanand Kamat Bambolkar

Price : ₹ 200/-

म्हजो सर्गेस्त घरकार

श्री. गोविंद ल. खरंगटे

हांच्या उगडासाक

# मांडावळ

# दोन उतरां प्रतिष्ठानाचीं

श्रीमती सुधा खरंगटे हांणी बालसाहित्यांत मोलादीक भर घाल्या आनी त्या योगदाना खातीर पुरस्काराूय जोडल्यात. भुरग्यां खातीर बरोवप चालू आसतनाच तांणी कथा बरयल्यो, त्यो वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी छापून आयल्यात.

ह्या झेल्यांत तांच्या 19 कथांचो आस्पाव केला. तांणी इतल्योच कथा बरयल्यात अशें न्हय; उजवाडाक आयिल्ल्या तांच्या कथांमदल्यान तांणीच वेंचीक अश्या ह्या 19 कथांचो हो झेलो केला. तांच्या कथांचो हो पयलोच झेलो. तो उजवाडा हाडपाक अस्मिताय प्रतिष्ठानाक खोस जाता.

सुधा खरंगटे हांच्या ह्या कथां झेल्या खातीर कथाकार म्हूण नामना जोडिल्ले श्री. दामोदर मावजो हांणी प्रस्तावना बरयल्या. मुखचित्र श्री. कलानंद कामत बांबोळकार हांणी काडलां. आनी पुस्तकाची सोबीत छापणावळ ऋतू ऑफसेटचे श्री. हिरू नारायण नायक हांणी केल्या. अस्मिताय प्रतिष्ठान तांकां सगल्यांक दिनवासता आनी बरें मागता.

प्रतिष्ठानाचें हें 18 वें प्रकाशन इल्लें उसरां येता. अशें आसलें तरी हो कथां झेलो वाचप्यांक दर्जेदार साहित्याचो आस्वाद घेतिल्ल्याचें समाधान दितलो असो आवंडो प्रतिष्ठान बाळगिता.

मडगांव : गोंय
4 नोव्हेंबर 2013

**उदय भेंब्रे**
अध्यक्ष, अस्मिताय प्रतिष्ठान

# सर्जनशील मनाचे उत्फर्के

कथा कशी बरोवची हाची बेस बरी देख म्हळ्यार सुधा खरंगटे हिगेल्यो ह्यो कथा. सुधाबायन खूब उसरां बरोवपाक आरंब केलो. अशें आसुनूय तिच्यो कथा इतल्यो नकसूद कशो उतरल्यो? ताचें कारण तिणे जरी पेन हातांत धेवपाक कळाव केलो तरी तिचें सर्जनशील मन सतत क्रियाशील आशिल्लें. नवे अणभव टिपीत, नवे विचार आपणायत, नव्या बदलांचो सोद घेत आशिल्लें. तिचें मन सतत जागें दवरपाचें मोलादीक काम केलें तें तिगेल्या वाचनान. अखंड आनी कांत वाचन तिचे गांठीक आशिल्ल्यानच तिगेल्या अणभवांक कथेचो आकार दिवप तिका शक्य जालें.

भुरगेपणांतले संस्कार, अणभव, विचार म्हळ्यार सर्जनशील कलाकारालें भांडवल. सान पिरायेचेर पळयिल्लीं बरीं वायट सपनां धरून बरें वायट समजना अशे किशोर पिरायेवयल्या अणभवांनी लेखकाच्या मनांत खोल आनी अढळ अशी सुवात आडायिल्ली आसता. विचारांची प्रगल्भता वाडत वता तशें ह्या अणभवांक वेगळें परिमाण मेळटा. तातुंतल्यान दर्जेदार साहित्य निर्माण जाता. ही प्रक्रिया सरसकट सगळ्याच लेखकांच्या वांट्याक येता. सुधाबायेच्या वांट्याक ती इल्ली उसरां आयली. पूण उसरां आयली तरी दुरुस्त आयली हांचें आमकां समादान आसा. ह्यो कथा निखट्यो वाचनीय न्हय तर चित्तवेधक आनी मनाकाळजाक स्पर्श करपी आसा. सुधाबायेन आपणें जिवीतभर जोडिल्ल्या अणभवांचो आपरोस ह्या कथांतल्यान वाचकामेरेन पावयला.

लेखक जेन्ना दुसऱ्याचे अणभव आपले करता तेन्ना तो अदीक समृद्ध जाता. लेखक जर दादलो आसलो जाल्यार बायलेच्या अंतरंगात वचून बायल पात्राच्या

निवेदनांतल्यान कथा बरोवप हें ताचेखातीर एक आव्हान थारता. प्रस्तूत लेखक बायलमनीस आसुनूय दादल्या पात्राक मुखेल पात्र (Protagonist) करून तिणे कथा बरयल्यात, आनी त्यो भोव बऱ्यो उतरल्यात. तेचपरस चड म्हत्वाचें म्हळ्यार तिणे सान पिरायेच्या भुरग्याक Protogonist करून कथा बरयल्यात. भुरग्यांची मानसिकता बेस बरी समजून घेवन आनी भुरग्या-मनांत रिगून बरयिल्ल्यो कथा अप्रतीम म्हणपाइतल्यो सुंदर आसात. अणभवांचे कक्षेंत रावन बरोवप सोपें. पूण अणभवांची कक्षा वलांटून बरोवप कठीण. तेखातीर दुसऱ्यांचे अणभव पयलीं आपले करचे पडटात. कार्लुश ही कथा लेखकान किरिस्तांव समाजांतल्या पात्रांकडेन आनी ते जीवनशैलीकडेन एकरूप जावन बरयल्या. नाजाल्यार तें निवदेन उकलायें वा अडेचें जावपाचें.

लेखकान बरयिल्ल्यो चडशो कथा वा म्हणूंया सगल्योच कथा, मध्यमवर्गियांच्यो संवेदना प्रकर्शान मांडपी आसात. विशय सदचेच नासले तरी आगळेवेगळे न्हय. अशें आसुनूय कथा (Stereotype) आदलेंच चाकोरींतली न्हय. विशय संवकळीचे शे दिसतात तरी तातूंत नाविन्य आसा. कितें तरी वेगळें आसा. मध्यम वर्गियांचें गांवगिरें जिवीत तातूंत पळोवंक मेळटा रासवळ कुटुंबां, आदलीं चवकेचीं घरां, तें मेळप मिसळप, एकमेकांले पापड - लोणचीं करप - हें आतां काळाभायरें जावपाक लागलां. सुधाबायल्या कथांनी तें चित्र जितें जिवें करून आमच्या सामकार दवरलां. ताका आमी उर्बेभरीत येवकार दिवपाक फावो.

गरजेभायर कथेक विस्तार दिवप ना ह्या पथ्याक सुधाबायेन बेस बरो पाळो दिला. 'कांय खीण.. भांगराळे' हे कथेंत सैमाचें वर्णन आयलां. वर्णन विस्तारान करपाक कथेंत वाव आशिल्लो. पूण कथेची जितली मागणी तितलेंच वर्णन आयिल्ल्यान कथा सुंदर जाल्या. कथांनी अनेक संघर्शाचेर उजवाड घाला. आवयन केल्ले चुकेची ख्यास्त तिका फावता अशें लेखपी पूत आनी मांयक समजून घेवन हुशारकायेन तांकां जोडून दवरपी सून, आवय बापूय अपघातांत मरतकच अमेरिकेंतल्यान गोंया पाविल्ले तांचे धुवेची आवतिकाय, घरच्यांनी मेंगो करून दवरिल्ल्या घोवाक कोणाक दुखयनासतना जाग्यार हाडपी बायल. अशे अनेक विशय घेवन बरयिल्ल्या कथांचें खाशेलेंपण म्हळ्यार संघर्ष उबो करतां करतां अखेरेक नाट्यपुर्ण कलाटणी दिवन वाचकाच्या दोळ्यांत टच्च करून खोशयेचें दूख काडपाक लावपाची लेखकाची कळाशी.

भुरग्यांची निश्पाप मानसिकताय, किशोर पिरायेवयली निकतीच येवंक लागिल्ली जाण, तरणेपणांतली चंचलताय, युवा-युवतींची सपनाळी पिराय, घोव-बायलांची घुस्मट, जाण्टेपणांतलें एकसुरेपण - सुधाबायचे नदरेंतल्यान कांयच सुटूंक ना. कथेंतलें प्रत्येक पात्र आनी जणेक घडणूक मनाक पटपासारकी. 'काणी एका राधाची' ही एकच कथा कलात्मक पावंड्यार वयर सरता देखून तिका हांव फशिल्ली कथा म्हणीन. पूण हेर सगळ्यो कथा उजळ्यो. 'हळदकुकूम' ही एकच शोकान्त कथा सोडल्यार हेर सगळ्यो कथा सुखान्त. प्रत्येक कथेची अखेर मनाक आनंद दिवपी. मराठींत व. पु. काळे नांवाचो नावाजतो लेखक जावन गेलो. ताणे मध्यमवर्गियांच्या जिविताचेर काळजाक हात घालपी कथा बरयल्यो. सुधाबायल्यो कथा तितल्योच मनभुलवण्यो. कूसभर सरसच म्हणीन.

ही लेखक भुरगेंमन उकतायता तेन्ना चड फुलून येता. भुरग्यांचें मन पारखुपाची कळाशी लेखकाकडेन आसा. जाण्टीं सहजतायेन उलोवन वतात ताचो भुरग्या-मनाचेर कसो परिणाम जाता तें दाखोवपी सुंदर कथा हांगा आसात. देखीक 'सावत्र आवय', 'जादू' वा 'पोसको' ह्यो कथा भुरग्यांची मानसिकताय समजून घेवनच बरयल्यात म्हणपाचें जाणवता. सपनांत शेणपी आनी कल्पनेंत रमपी 'तनरी' लेखकान खूब बरी उबी केल्या. 'आलतड-पलतड' कथेंत इतलें सुंदर वातावरण निर्माण केलां. अमेरिकेच्यान गोंयांतल्या गांवघरा येतकच जणेके गजालीक विटपी चली उबी करतनाच दोन संस्कृतायांमदलो फरक लेखकान भोव फिशालकायेन दाखयला. जिणे-अणभवांनी समृद्ध अशी लेखकच अशो कथा बरोवंक शकता. सुधाबायल्यो ह्यो कथा वाचकाक मानवतल्यो, भावतल्यो हाचो म्हाका पुराय भरवंसो आसा.

**- दामोदर मावजो**

1

# तनरी

आयतार. शाळेक सुटी, दक्षा हांतरूणार लोळत पडिल्लें.

मागीर सट्‌कन ताका याद जाली... मीनागेर वचूंक जाय. ताच्या पुस्तकांतलें तें कृष्णाचें चित्र आज कशेंय करून फारावंक जाय...!

दक्षा सडसडीत उठलें आनी तोंड धुवंक गेलें. आका थंय भाणाचो उजो सारको करीत उदक तापयतालें. फू... फू... करून नळये उजो फुंकतना आकाच्या दोळ्यांत धुंवर वतालो.

भाणभर खतखतीत तापिल्लें उदक. ह्या शिंयाच्या दिसांनी हुनहुनीत उदक घेवन तोंड धुवपाक मज्जा येता. दक्षा तांबये भर भरून उदक रकयत रावलें. घोंट घेवन दोळ्यार, तोंडार उदक मारत रावलें.

दक्षा उदक रकयत आसा हें पयलीं आकाच्या लक्षांत आयलेंच ना. मागीर धुंवरान भरिल्ले दोळे पुसतकच ताची नदर दक्षाचेर गेली.

'जालें ना गो तुजें तोंड धुवन? भाण अर्दें केलें सामकें. आनी तें हांतरूण पांगरून पातळावन दवरलां तें कोणें घडी करून दवरपाचें? आतां ल्हान ना तूं. आकान ताका धपकायलें.

'आकाऽ आकाऽऽ'

तूं दोळ्या मुखार नाकाऽऽ'

दक्षान आकाक वेडायत म्हळें.

दक्षाक आकाचो रागच येतालो. आपूण व्हड म्हणून कितेंय करप? दिस्सभर दक्षाच्यो चाडयो आईक सांगप.

आतांय आकान आईक सांगलेंच – 'व्होनीबाय, दक्षा उठलां. पूण ताचें

हांतरूण – पांगरून थंयच लोळटा.'

आईन मागीर रांदचेकुडींतल्यान आवाज चडयलो – 'दक्षाऽ सगळें घडयो करून कवळून दवर आनी मागीरच च्या पिवंक यो हां.'

दक्षा पांय आपटीत कुडींत गेलें. हांतरुणांच्यो पांगरुणाच्यो घडयो मारूंक लागलें. त्या आकाक एक दीस हांव बुद्द शिकयतलेंच! दातांचो फोणो म्हणून बरें!

दक्षा मनांत येवजीत रावलें. आकाच्या फोण्याचेर एकच मूठ घालूंक जाय. आपशींच भितर वतले सगळे दांत.

चिंतता चिंतता ताची थंयच तनरी लागली. पांगरुणाची घडी करतालें तें दक्षा हातांत पांगरूण घेवन अशेंऽ अंत्राळांत पळयत येवजीत उरलें.

'एऽऽ तनरीऽ कितें चिंतूंक लागलें?

चल, सडसडीत जावं दी कामां. च्या न्हिवता तुजी भितर.' आका सामकी फाटच घेता ताची. 'तूंच तें तनरी.' दक्षान तिडकून म्हळें.

'हांव तुजे भशेन अशेंऽ अंत्रांळांत नदर लावन येवजीत बसना. कितें येवजितालें गो? सगल्या संवसाराची चिंता तुजेरच पडिल्ले भशेन.

दक्षान मागीर कशीं तरी हातरुणां – पांगरूणां कवळून दवरलीं आनी पाय आपटीत रांदचे कुडींत वचून आईक आकाच्यो चाडयो सांगल्यो.

'आई, आका पळय गे म्हाका चाळयता तें!'

'कितें केलें ताणें? आनी तुजें ताचें कित्याक पडना गो?'

'हांव हातरूणां काडटालें मगे, तर म्हाका एऽतनरी म्हणूंक लागलें.'

'मागीर तूं कित्याक गो तें तनरी लागिल्ले भशेन येवजीत बसता? सोड ती संवय. मागीर हांव पळयतां तुका कोण चाळयता तो! आतां ल्हान ना तूं दक्षा. अकरा सोंपतलीं. आईन सांगलें.

दक्षाक आईचोय राग येता. तिणेंच तर ताका तें नांव दवरिल्लें.' 'तनरी'.

दक्षाक राग इल्लो चडूच येतालो. रागा भरशीं ताका कितें कितें करन दिसतालें. हातान करूंक जमना तें मागीर तें येवजणेन करतालें. येवजूंक लागलें तशें ताका भोंवतणच्या संवसाराचें भानच उरनासलें. एकाच जाग्यार आसा तश्शें उबें रावन तें येवजितालें.

ते तनरी भितर तें आकाक ख्यास्त दितालें.

शाळेंत पयलो नंबर घेतालें.

सायकलीचे रेसींत पयलें येतालें.

ताच्या मनांत येता तें तें करून मेकळें जातालें.

पूण हें सगळें आईक कशें सांगप?

आई लाटफळ्याचेर रोटी लाटताली, तव्यार घालताली, परतिताली, रान्नींतले इंगळे भायर ओडून ताचेर रोटी वडयताली.

रोटी फुगून एऽदो बोमाडो शी जाताली.

'आई, तुज्यो रोटयो कायबऱ्यो जातात गें. बोमाडे कशे.'

'चल, हें तें दुसरें लाटफळें घे, शिकयतां तुका बोमाडे करूंक.' आईन दक्षाक म्हळें.

काम करपाचें आंगार आयलें तशी कूस मारप हें दक्षालें सदचेंच धोरण. ताणें बेगीन बेगीन रोटी उबारलीच.

'आई गे, भूक लागली म्हाका' म्हणत तें हुनहुनीत रोटी खावंक लागलें.

'कामचोर खंयचें!' आईन मनांतच म्हळें.

च्या पिवन जातकच दक्षा भायले कुडींत आयलें. सुमी थंय बसून कविता पाठ करतालें.

'पळय गो दक्षा, सुमी काय बरें अभ्यासाक बसलां तें. चल, तूंय बी पुस्तक घेवन बस.' भाऊन सांगलें.

'सरान आमकां दोगां-दोगांक बसून अभ्यास करूंक सांगला. हांव मीनागेर वतां अभ्यासाक.' ताणें सांगलें.

'हे एक मास्तर... नवें नवेंच येवजता हांकां दोगां जाणां एकठांय बसल्यार अभ्यासाबदला खबरीच चड जातल्यो हें कशें समजना तांकां?' भाऊ मास्तराचेर बेजारलो.

दक्षा भायर वतालें इतल्यान आकान ताका पळयलें.

'खंय चलूली ही तनरी सकाळीं सकाळीं?' आकान म्हळें आनी आका लागीच आसा त्या नेटार सुमीन दक्षाक चाळयलें.

'तनरी तनरी थाऽ पैशाक बांगडे धाऽ.'

आकावेलो सगळो राग सुमीचेर काडीत दक्षान ताचे फाटीर एकच धुमको घालो.

सुमी व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागलें.

भाऊन सुमीक वेंगांत काडलें. कितें जालें काय विचारलें आनी दक्षाक तापयलें.

'एऽ तनरीऽ, सुमीक मारल्यार तुका पेट घालतलो हां. हांगा यो गो तें.'

पूण दक्षा थंयचें पळत दारा आड लिपलें.

भाऊ मागीर सुमीक समजावंक लागलो. पूण सुमीची रड थांबच ना. शेवटाक भाऊ बेजारलो.

'जाणा सुमी? हांव त्या दक्षाक मागीर असोऽ थापट दितलों.' आनी भाऊन दक्षाक कसो मारतलों ताचें सँपल दाखोवपाक सुमीच्या कुल्यार एक सणसणीत थापट दिलें.

सुमीक बरेंच दुखलें. पूण तें एकदम रडपाचें थांबलें. ताणें भाऊक विचारलें, 'आनीक रे? आनीक कसो मारतलो सुमीक?'

'आनी मागीर ताका असोऽ जांगवळ काडटलों.'

भाऊन सुमीक जांगवळ काडून दाखयलो.

सुमीक कुलो दुखतालो आनी जांगय दुखताली. पूण हें सगळें आपल्याक न्ही, तें भाऊ दक्षाक करतलों हें येवजूनच तें खोशी जालें. ताची रड थांबली आनी परतेंऽ व्हडान कविता पाठ करूंक लागलें.

दारा आड लिपून दक्षा हें सगले पळयतालें. भाऊन सुमीक कशें फटयलें! मज्जाच केली. तें हांसतच घराची सोपणां देवन आंगणांत पावलें.

पूण आका आडवें आयलेंच ताका.

'खंय चल्लें गो हेडूंक?' आकान विचारलें.

'हेडूंक खंय. हांव अभ्यासाक वतां मीनागेर. परीक्षा आसा न्ही?'

'अभ्यासाक वता? पुस्तकां खंय तर?'

'मीनाकडेन पुस्तकां नात तर?' दक्षान विचारलें आनी तें चलूंकच लागलें.

'दक्षाऽ मीनागेर वतलें जाल्यार जेवन बी सांजचें वच. आतां हांगाच बस पुस्तक घेवन.'

बाबानय अशें म्हणटकच दक्षा मुकाट्यान घरांत परतलें. बाबाचें उतर दक्षाच्यान केन्नाच मोडूं नज. भाशेचें पुस्तक घेवन तें बाबाच्या पांयाकडेन बसून धडो वाचूंक लागलें.

जेवन हातार उदक पडनाफुडें मात तें रावलेना. तडक मीनागेर गेलें.

मीना अभ्यासाक बशिल्लें. दक्षा थंय बसलें तसो अभ्यास सुटलो. दोगांय खबरी करूंक लागली.

'मीनाऽ अभ्यास करता काय खबरी करता गो?' मीनाचे आवयन भितल्ल्यान विचारलें.

'पूण आमकां मास्तरानच सांगलां, दोगां जाणां बसून अभ्यास केल्यार बेगीन जाता आनी बरो जाता म्हूण.' मीनान आवयक सांगलें.

मास्तराचें नांव सांगलें तशी आवय ओगी पडली. तरीकय तिणें म्हळेंच, ह्या मास्तरांक आतां कोणें सांगपाचें?'

'कितले म्हणून विशय शिकपाचे गो? इतिहास, भूगोल, गणित, भाशा..' दक्षान कपलाक आंठयो घाल्यो.

'तरी बरें, चित्रकलेचो विशय पाठ करूंक नाका.' मीनान म्हळें आनी दोगांय पिशांभशेन हांसत सुटलीं.

'कसलो हांसपाचो अभ्यास चल्ला काय म्हणटां...' मीनाची आवय तापली. तशीं दोगांय ओगी पडलीं.

'चल, पयलीं गणितां सोडोवंया. तुजी पाटी-काडी घेवन यो. उदाहरणां सोडोवंक बरी पडटली.' दक्षान आयडिया करून मीनाक भितर धाडलें. आनी ताच्या दप्तरांतलें तें कृष्णाचें पुस्तक काडलें. कृष्णाचें चित्र! कृष्णा हांसत मुरली वाजयत उबो आसलो. दक्षान चित्र अचळय पिंजून काडलें, घडी करून आपल्या बोल्सांत घालें आनी बोल्सांत दवरिल्लो सुताचो धागो चाबडायत बसलें.

मीना पाटी घेवन आयलें. दप्तरांतलें गणिताचें पुस्तक काडतना कृष्णाचें पुस्तकय भायर आयलें. मीनान पुस्तक हातांत काडलें आनी म्हळें, 'बरेंऽऽ दिसता न्ही गो तें कृष्णाचें चित्र?'

पूण पुस्तक उकतें केल्यार चित्रच ना भितर.'

'दक्षा, तुवें काडलां कृष्णाचें चित्र...?'

'हांवें हात लेगीत लावंक ना हांव... ओगीच म्हजेर आळ घेवंनाका...'

'पूण काल तर आसलें मुगो.'

'याद कर... शाळेंत कोणें कोणें पुस्तकाक हात लायिल्लो काल.

मीना येवजूंक लागलें, ताका दक्षाचोच दुबाव.

'दक्षा... खऱ्यांनीच तुवें न्ही मुगो?'

'ना गो. सोपूत घेऊं? दोन दोळ्यांच्यान तर... हांवें तुज्या चित्राक हात लेगीत लावंक ना.'

फटींचो सोपूत घेतल्यार कितें जाता तें दोगांय जाणां आसलीं. दक्षा फट उलयल्यार फाल्यां सकाळीं ताचे दोळे फुटचे नात तर?'

मीना सामकेंच घुसपलें. कोणें काय? अशें म्हजे चित्र पिंजून काडसर कोण आयिल्लो आमगेर?'

मीनाचें अभ्यासांत लक्षच लागना जालें.

दक्षा तर निमित्तच सोदतालें.

दोगांयनीय थारायलें. अभ्यास फाल्यां करचो. आनी दक्षा भायर सरलें.

रस्त्यार पावतकच व्हिस्तीदाच्या बोल्सांत हात घालून दक्षान कृष्णाच्या चित्रावेल्यान हळूच हात भोंवडायलो. आज दोन दोळ्यांचे मोल दिवन ताणें तें चित्र हासील केल्लें. आनी उपायच नासलो. मीना सादेपणान तें चित्र कशेंच दिवंचें नासलें.

घेतिल्लो सोपूत लागूं नये म्हूण तोंडांत घाल्लो सुताचो धागो ताणें थू: करून थुकून वडयलो.

पयलीं दक्षा फटींचो सोपूत घेवंक थर्त भितालें. तसो सोपूत घेतल्यार कितें जाता तें आईन ताका खूब ल्हानपणांत सांगिल्लें. ज्या मनशाचो सोपूत घेता तो मनीस रोकडोच मरता. देवाचो सोपूत घेतल्यार देव मागीर केन्नाच पावना आनी दोळ्यांचो सोपूत घेतल्यार दोळे फुटतात.

कुड्डो नागाप्पा बडी घेवन चलता तेन्ना ताचे फाटल्यान तवनास भुरगे ताच्यो कितें भगलो करतात तें दक्षान पळयिल्लें.

'आई, नागप्पान सोपूत घेतिल्लो गे फटींचो?'

'हय जातलो. वोगीच दोळे फुटले ताचे?'

'पूण आई, तो सदांच तसोच दोळो फुटकोच आसलो खंय मगे.'

'पयलींच्या जल्मात घेतिल्लो जातलो गो. चल भायर. म्हाका कामां आसात. बेश्टेंच पीडनाका म्हाका...' आईन दक्षाक भायर धांवडायलें.

आनी एक दीस ताका सोदू मामालें सुमती भेटलें ताणें दक्षाक बेस्स बरो उपाय सांगलो.

'जाणां मगोऽ, हातीन सुताचो धागो घेवंचो मगोऽ तोंडांना घालून नुथयेन ओलो करचो मगोऽ... मागीर कसलोय सोपूत घे तूं. कांयच जायना तुका.'

रोकडोच दक्षाक ताचो अणभवय आयिल्लो.

शाळेंत दक्षाचो हात लागून रेवतीची शायेची बाटली रकली. आतां रेवती आपल्याक दवरता... दक्षान चिंतलें आनी सुमतीचें वखद करून पळोवंया म्हूण दप्तराचोच सुताचो धागो तोडून बेगीन बेगीन तोंडांत घालो.

इतलें म्हणसर रेवतीची नदर गेलीच. तें दक्षाचेर सामकें जुडूनच आयलें.

'दक्षा, म्हजी शाय कोणें रकयली? तुवें मुगो?'

'हांवें? हांवें शी? हांवे हातलेगीत लावंक ना तुजे शायेचे बाटलेक.'

'ओगीच फट उलोवं नाका.'

'हांव कित्याक फटी उलोवूं कोणाचो सोपूत घेवं.... सांग.' दक्षान नेटान विचारलें.

तशें रेवती म्हळें, 'दोन दोळ्यांचो सोपूत घे पळोवयां.'

'दोन दोळ्यांच्यान तर, हांवे तुजी शाय रकयली ना.'

रेवती मागीर ओगीच हाचेर ताचेर तिडूंक लागलें. पूण दक्षाचे वाटेक गेलें ना.

पूण मागीर ती रात–दक्षाचे सवन जिणेंत इतली भयदिणी आनी इतली व्हडली रात केन्नाच आयली नासली. रातभर तें जागेंच आसलें. दोळे घट्ट धांपून. मोट्ठें धाडस करून ताणें दोळे उकते करून पळयिल्लें. दोळ्यांसामकार काळो किट्ट काळोख...

हो काळोख रातीचो? काय म्हजे दोळे फुटिल्ल्यान म्हाका काळोख दिसता.'

दक्षान दोळ्यांमुकार हात धरून पळयिल्लें. कांयच दिसना... हांव कुड्डें जालें काय कितें? त्या नागप्पाभशेन?''

'दक्षा घुसमटून रडूंक लागिल्लें. रडून रडून ताचें उशें भिजिल्लें. तोंडार पांगरूणाचो बुरखो मारून तें भितरले भितर घुस्मटत राविल्लें.

झिळमिळ्यार ताणें धाडस करून दोळे उकते केल्ले. तोंडावेलें पांगरूण काडून हात दोळ्यांमुखार धरिल्ले दोन हात चक्क दिसताले. दक्षान चोंयवशीन पळयिल्लें. सगळें सगळें दिसतालें. हांव कुड्डें जावंक ना. म्हजे दोळे फुटूंक नात. सुमती सांगतालें तें खरेंच जाल्लें..

ते खोशयेन तें जें न्हिदिल्लें तें बद्द आकान खुदलावन उठयसर न्हिदूनच पडिल्लें.

'एऽऽ तनरीऽऽ! एऽऽ तनरीऽऽ!'

माली दक्षाकच उलो मारतालें मालीक गांवांत सगळीं जाणवाय म्हणटात. गांवावेल्यो जाणवायो ताका लागतात.

आतांय मालीन ताका 'एऽ तनरीऽऽ म्हळें तशें दक्षान ताका रागान पळयलें.

'एऽतनरीऽ, खंय चल्लें गो?'

'एऽ जाणवायो, हांव चल्लें म्हाका जाय थंय. तूं विचारतलें कोण?'

'हांव कोण? हांव वाटेवेली घोण!' मालीन म्हळें.

दक्षाय उणें नासलें. ताणें दोनय हात पांखटयाभशेन हालोवन मालीक चाळयलें.
'घोणी घोणी तुजे पांखटे हालय

घोणी घोणी तुज्या पिलांक चाळय.'

मालीक मागीर झगडपाचो किंवाटो आयलो.

ताणें म्हळें, 'चाळयता तें सुणें, अकलेन उणें.'

मागीर दोगांचेंय झगडें सुरू जालें. उतरांचेंच!

दक्षान म्हळें, 'तूंच तें सुणें!'

'तशें जाल्यार तूं धुकर.'

'तूंच तें!'

'तूं गाढव'

'तूंच तें.

आतां कितें करप? हार घेवप पूण हार घेवन ओगी बसल्यार मालीच न्ही तें. ताणें आयडिया काडली.

'तूं दोन गाढव!' मालीन दक्षाक सांगलें.

'तूं धा गाढव.' दक्षान म्हळें.

'तूं हजार गाढव.'

'तूं लाख गाढव.'

हाचे मुकावेलो आंकडो दोगांकय येना आसलो. पूण दक्षान एक सगळ्यांत व्हडलो आंकडो याद जालो.

'तूं रामाची शेंडी आनी तुळशीचें मूळ गाढव.'

आतां हांचेर तुजें कितें म्हणणें आसा?' अशा अर्थान तें भोंवयो हालोवन मालीक चाळोवंक लागलें.

मालीचें हाचेर कांयच म्हणणें नाशिल्लें.

'रामाची शेंडी आनी तुळशीचें मूळ. हो तांच्या सगळ्या इश्टीणींमदीं निमाणो आंकडो. मालीचे आज्जेनच तांकां सांगिल्लें. रामाची शेंडी मळबाक तेंकता आनी तुळशीचें मूळ पाताळाक तेंकता हाचे व्हड कांयच आसूंक शकना.

पूण अशी हार कोणें खावची? दक्षा अशें हासता, मोडता, ताचें लक्ष ना अशें पळोवन रस्त्यावयलो मूठभर तांबडो धुल्ल काडून मालीन दक्षाच्या केंसांर गुलाल कसो फाफुडलो.

आनी ताणें कितें केलां तें दक्षाक कळचे पयलींच थंयच्यान पऽळ काडली.

दक्षान मागीर ताका येतात तितल्योय सगळ्यो गाळी मालीक भेटयल्यो. चार पायांचीं जनावरां, दोन पायांची शेवणीं, सोरोप, बेबूक... कोण्ण तातूंतल्यान सुटूंक ना. दक्षाक झाडा पेडांचीं नांवां लेगीत गाळी कशो वापरूंक येतालीं. पूण इतलें म्हणसर मालीच ताचे दोळ्यांआड जाल्लें. दक्षाचें तोंड आपशींच बंद जालें.

मागीर थंडसाणेन ताणें माथ्यावेलो धुल्ल फांफुडलो आनी तें चलूंक लागलें.

चलतना ताचीं चिंतना चालूच आशिल्लीं.

केंस वळयतना आई हो धूल्ल पळयतली.

मागीर धुल्लांत खेळटा म्हूण दोन खुटले पडटले. माथ्यावेल्यान भाणभर खतखतीक उदक न्हाणयतली. रिठे लावन केंस सामके निवळ करतली. मागीर केंसांक खूब्ब जटा जातल्यो. पाड पडिल्ले हे केंसय लांबे लांबे, कोंगरे कशे, तेल लावन जटा काडटना आई केंस खूब्ब दुखयतली.

आनी हें सगळें त्या जाणवाय मालीक लागून.'

दक्षाक मालीचो राग-राग येता. कितलें दुश्ट माली..! राक्षस खंयचें! नरकासूर खंयचें!

दक्षाचें येवजणेंत मालीचो राक्षस जावंक वेळच लागना. थंयच ताची तनरी लागता. मालीच्या तोंडाक दोन सुळे कशे दांत येतात. केंस सुटून पिंजारिल्ल्यो जटा जातात. गोरेपिट्ट मालीचो रंग काळो काळो जाता. तोडांतल्यान एद्दी व्हडली तांबडी जीब भायर काडून माली नरकासूरा भशेन नाचता. दक्षा कृष्णाचो भेसघालून तलवार घेवन नचतां... नाचतां... नाचतां तलवारीन राक्षसाक मारता. घोऽऽ करून मालीचो राक्षस जमनीर पडता. ताच्या केंसांत रस्त्यावेलो सगळो तांबडो धुल्ल भरता.

मागीरच दक्षाची तनरी सोंपता.

खोशयेन हांसत हांसत दक्षा रमाकाल्या घरांत भितर सरता.

रमाकाले पडवेर सदांच 'सभा' भरता.

'सभा' हें नांव दक्षानच दवरिल्लें. खरेपणी दक्षाक त्या शब्दाचो अर्थच खबर नासलो. पूण रमणबाब एक खेपे मडगांवां सभेक गेल्लो. तेन्नाच्यान ताच्या तोंडांत कितलेशे दीस तोच्च विशय घोळटालो. सभेक अशें जालें, सभेक कोण अशें उलयलो,..सभेक इतलो लोक आशिल्लो.

दक्षाचे कानाक तो 'सभा' हो शब्द बरो लागिल्लो. पूण तो खंय वापरचो, हेंच ताका समजनासलें. एका दिसा रमाकागेरच्यान घरा येवन ताणें सांगलें 'आई गे, आज रमाकागेर सभेंत बरीं झगडीं जालीं.'

आईन दक्षाचेर दोळे मोट्ठे केले. तशे म्हणनात आं म्हळें. पूण भाऊ आका, बाबा, सगळीं हांसली. बाबान तर म्हळें लेगीत, 'सभा' म्हळ्यार फट न्ही. खरेंच सभा भरता थंय.

तेन्नाच्यान रमाकाली सभा हें नांव तांच्या घरांत घट्ट जालें.

रमाकाचे पडवेर शेजारपाजारचीं सगळीं बायलां आपापलीं कामां घेवन बसतालीं. सांजचो मायतो बरोऽ वतालो. कामांय जातालीं. आनी मुख्य म्हणचे कोणाकच कसलीच खबर चुकनासली. कोणाचें वाती वळप चलतालें. दक्षाचें आका आपलें विणप घेवन कमळां विणटालें, मीनाची भयण चादराचेर डिझायन भरत बसताली, रंगाली आवय आपलो पत्रावळींचो मांड घेवन बसतालीं.

हातान कामां चलतालीं, आनी तोंडांत सगळ्या संवसारावेल्यो खबरो.

थंय बसल्यार दक्षाच्या गिनान्यांत खूबच भर पडटाली म्हूण दक्षाय बी आपल्या इश्टीणीबरोबर केन्नाय थंय तेंकतालें. दक्षाचें आका तांका कुचितत्र्यांनी हेडगें दक्षा आनी ताची प्रभावळ' म्हणटालें.

रमाकाले ˙ सभेंत सगलीं उलयतालीं पूण मुखेल उलोवपी आसली ती 'सोनीआवय', वासंती मावशी आनी रमाका...

वासंतीमावशी पणजे, मडगांवां, आपल्या सोयऱ्यांगेर येवपी वचपी. ती शारांतल्या मोठ्या मोठ्या लोकांच्यो व्हडल्यो व्हडल्यो खबरी- तांच्या घरांतलीं लग्नां, साखर-पुड्यांच्यो खबरी मिरसांग लावन रूचीन सांगताली. तिच्यो खबरी सुरू जाल्यो तशीं सगळीं 'आं' करून आयकत बसतालीं.

सोनीआवय पेपर बी सद्दां वाचपी. वरांचीं वरां वक्ल लावन पेपराक नाक तेंकोवन बसपी. संवसारावेल्यो घडणुको सगळ्यांक सांगतां सांगतां संवसार लार्गी आयला, आतां जगबूड जावपाची आसा अशें सांगून सगळ्यांच्या काळजाक कलकल घालताली.

आनी रमाका... तें सर्व सर्वज्ञ कशें दिसचें सगळ्यांक! कसलीय खबर कोणेंय सांगूं दी... ती आपूण पयलींच जाणां आशिल्लेवरी तिणें ताचेर भाश्यां करचीं. सगळीं तोंडार रमाकाक खूबच रेस्पेद दितालीं. पूण असवडीं जायतीं जाणां ताका 'कावळ्याआवय' म्हणटालीं हें दक्षाक खबर आसलें.

असो हो रमाकाले पडवेवेलो सभेचो आंवांठ!

पूण आज रमाकाले पडवेर कितें वेगळेंच चलतालें.

आज बायलांमदीं रमणबाब बशिल्लो.

दक्षाक खुक् करून हांसुंकच आयलें. ताका म्हणन दिसलें, बायलां मर्दीं आसा एक दादलो.

ताच्या माथ्यार धंयाचो गाडगो.

पूण ताणें मोठ्या यत्नान आपलो हांसो दामलो. रमणबाबाल्या हातांतले फोटो पळोवन तर ताची खातरीच जाली- सेर्त ही रतनाले सोयरीकेची खबर!'

रतन रमाकालें एकलें एकसुरें अपुरबायेचें चली. तातूंत गोरें धवें सुंदर!

रमणबाब ताका सोयरिको पळोवंक लागल्यार वर्स जाल्लें. खंयचीय सोयरीक पळयली तशी तातूंत एक तरी खोड आसतालीच.

कोण मातसो काळो म्हूण रतनाक नापसंत.

कोण शिकला कमी म्हूण रमाकाक नाका जातालो.

हावा-शिवा करून सोयरीक जमत आयलीच जाल्यार सभेंतल्या कोणेंय बायलेन खबर हाडची

'आगो, तागेलें कॉलेजींत खंय कोणाकडेन प्रकरण चलतालें.'

आतां हे प्रकरण कसलें हाची कसलीच वासपूस करिनासतना सोयरीक मोडली म्हूण समजुपाची! वेल्यान म्हणचें, नाका गे बाये वीखाची परीक्षा!'

पूण रमणबाब असो निर्शेवपी मनीस नासलो. तो सदांच आपले अपुरबायेचे सुंदरेक सोयरीको सोदीत आसलो.

दक्षाक वातावरण पळयल्यार सोयरीक जालीशीच दिसता. सगळ्यांचींच तोणां फुलिल्लीं. पडवेर पांय घालतनाच दक्षाक सगळें जाल्ल्याचो 'वास' आयलो. ताणें हांगां थंय पळयलें, 'पेडे-बिडे कांयच दिसनासले.

पेडे खावपाचो प्रोग्राम सोंपलो काय? दक्षा आपल्याक पेडो चुकलो म्हूण बरेंच चुरचुरलें.

'हें आयलें हेडगें!'

दक्षाचें आका थंय बसून तुवालो विणटालें ताणें दक्षाक पळोवन म्हळें, सगळीं फिस्स करून हांसली.

दक्षाक आकाचो राग आयलो. घरांत आशिल्लें जाल्यार तें म्हणटलें आसलें - 'आकाऽऽ शोंकाऽऽ'

'तूं दोळ्यामुखार नाका.'

पूण इतल्या बायलांच्या मुखार आकान चाळोवप? सगळ्या बायलांचे नदरेंतल्यान तें वायट जावपाचें. दक्षान मागीर मनांतल्या मनांत आकाक चाळोवन घेतलें आनी तें रमणबाबाच्या म्हऱ्यांत वचून बसलें. रमणबाब जमिल्ल्या बायलांक सांगतालो तें मन दिवन आयकूंक लागलें.

'बी कॉम शिकलां.... बी कॉम.'

'खरें काय कितें?' दोगीतिगी एकदमच होरायतात.

'तर कितें? आनी बँकांत सिर्वीस करता.'

'आगे बायेऽऽ! मागीर दुडवांक तोटोच ना.' परतो तोच बायलांचो पोंवो वोरशेता. बँको म्हळ्यो की तांचे दोळ्यांमुकार नोटांच्यो राशीक दिसूंक लागतात.

'बापूय भाटकार हां... पाड्याक हजारांनी नाल्ल घेता.'

'जांव हां जांव. बरोऽ न्हंवरो मेळ्ळो रतनाक. चंद्रामावशी म्हणटा. उरिल्लीं बायलां मान हालोवन तेंको दितात.

रतन भुल्लुशिल्लेबशेन हांसत आशिल्लें. मदींच लजेतालें. दक्षाक ताची मजाच दिसली. फोटो पळोवन पळोवन सगळीं रतनाच्या भाग्याक तोखेतालीं. असो हो भाग्यवंत पळोवन आपल्याय दोळ्यांचे सार्थक करचे खातीर दक्षान फोटवाचेर नदर मारली.

सुंदर, हांसत्या मुखाचो तरणाटो, फोटवांत टाय बी मारून हांसतालो. काळे काळे दोळे, मुदयाळे केंस, वांकडो भांग.'

वांकडो भांग? मातसो कानाकडेन सो.'

कितेंतरी येवजीत दक्षा बल्कावरांचेर वचून बसलें.

हय! राजेशमामा असोच मागो काडता. चंद्रा मावशेलो घोवय बी. आनी गोमीश भाटकारालो पेद्रूय बी असोच भांग काडटा.!तरीच!

दक्षाचे दोळे कुवाडें सुटिल्लेभशेन चकचकले.

खोशयेन भरिल्ल्या रमाकान दक्षाकच न्हवरो दाखोवंक हाडिल्लेभशेन ताका विचारलें, 'कसो आसा गो न्हवरो? आवडलो मुगो? आसा मुगो पसंत?'

दक्षानय मोठो विचार केल्लेबशेन सांगलें – 'बरोऽ दिसता गो रमाका. पूण.'

'पूण? पूण आनी कितें गो दक्षा?'

सगळे सभेचें लक्ष आपल्याकडेन आसा मूं, हाची खातरी करपाखातीर दक्षान चोंयवशीन नदर भोंवडायली आनी मागीर सवकासेयन विचारलें, 'तामीट चड व्हड ना मुगो रमाका?'

'ए... कितें?' रमणबाबाक अकस्मात शेळो घाम सो फुटलो.

'तामीट रे रमणबाब! खरडऽ! चड व्हड ना मूं?'

'आगो पोराऽ कितें उलयता तूं?' रमाका दक्षाचेर तापलेंच.

'खरड गो रमाका. राजेश मामाक आसा पळय, गोमीश भाटकाराले पेद्रूक आसा पळय.'

दक्षा आपले म्हणण्याची फोडणिशी करूंक वतालें, पूण रमाकाचें ताचेकडेन लक्षच नासलें.

रमाका रमणबाबाक पळयतालें. ताच्या दोळ्यांच्या उज्यान रमणबाब हुलपातालो.

ना म्हळ्यार... आं... आसा मातशें! तशें ल्हानशेंच! बरोच वेळ रमणबाब खांकडे काडीत रावलो... आनी सूर सांपडिल्लेभशेन अकस्मात तापलो. 'हय, हय आसा ताका खरड! कितें जालें?' हांव म्हणटां, कितें जालें ताका खरड आसल्यार? बाकीचे गूण भायर पडले? आनी... आनी त्या चुतडाक कशें कळ्ळें काय म्हणटा हांव..!

रमणबाब आंगार जुडून येता सो पळोवन दक्षा हळूच थंयचें कडसरलें आनी भायलेवटेन वचून उबें रावलें.

न्हवऱ्याक खरड आसा हें समजना फुडें रतनाक घुंवळ येवंक लागली. रमाकाली वाचा धरिल्लेभशेन जाली. सगळी सभा हातांतली कामां तशींच सांडून भायल्यान उबें आशिल्ल्या दक्षाकडेन पळयतालीं. थोडीं रागान, थोडीं कुचित्र्यांनी, थोडीं अपुरबायेन शीं. दक्षा हळूच तांचे नदरे मुकावेलें कुशीक सरलें.

बशिल्ल्या बायलांक चाबडावपाक एक विशय मेळ्ळो.

'कसलीं बाये ही कळागत! काय बरी जावंक आयिल्ली सोयरीगत मोडपाची कसली ही पाडी बुद्ध?'

लक्षणांच तसलीं ताचीं – एद्दी व्हडली घोडी जाल्या, अजून चले भुरग्यांबरोबर गोंयडे बालांनी खेळटा.'

'झाडार आनी चडता तें पळोवंक जाय. आमची सगळी पेर पाडा घाल्या हाणें. पेराचो धोडो झाडार उरूंक दिना.'

'आमचीं गुलाब शेंवतीं झाडार फुलली रे फुललीं आयलेंच हें किरमूंक! इतली घट्ट वंय केल्या पोरसाक, पूण खंयच्यान मातसो जागो मेळटा त्या खांचींतल्यान हें भितर सरता.'

'ताचें कांयच सांगनाका तूं. तें मुगो, कट्टेच्या बुराकांतल्यान आनी सुयेच्या नेड्यांतल्यान लेगीत भितर सरूंक उणें ना.'

'अकरा वर्सा खंय ताका. पूण पळोवंक दिसना व्हंकल कशी लग्नाची.'

'व्हंकल खंयची? होंको म्हण होंको.'

वणटीक पावसा वाऱ्याची वावझड लागूं नये म्हण चुडटांचो झड बांदिल्लो. त्या झडाक तेंकून उबें रावन, नाकटां चाबडायत दक्षा थंडपणान सगळें आयकतालें.

निमाणें 'व्हंकले'चो होंको जाल्लो आयकून ताका पोट फुटून हांसूंक येवंक लागलें. ताणें हांसतच थंयच्यान पळ काडलो.

झणझणीत वारें सुटिल्लें. मार्गावेलो धूल्ल लेगीत हुबूंक लागिल्लो. रस्त्याचे कुशीकच पचर - आंबो आसलो. 'ढब्ब्' करून त्या आंब्याचें तोर दक्षाच्या मुकारच पडलें. दक्षान तें उबारलें. दीख पुसलो आनी घांस मारलो.

थू... सामकें आंबट पचक...

आनी दक्षाक अकस्मात याद जाली. रामाबांयचेकडल्या साखरआंब्याचीं तोरां सामकीं हळडुवींच जाल्लीं. आतां ह्या वाऱ्यान वोंवळां कशीं झडटलीं.

चलतां चलतां दक्षान धांवपाक सुरवात केली. ताचें मन केन्नाच गांवंक लागिल्लें.

आयलें वारें परतलें

कुंडयकाराक व्हरतलें.

कुंडयकार पापी

शिल्ली भाजून खावपी

शिल्ली जाली मोव

हरी ताचो घोव

हरीगेर जाण्टो चेडो

ताचें नांव बेडो

बेड्याक आयलो राग

ताणें धरलो वाग!

दक्षाक असलीं वाऱ्याक चाळोवपाचीं बरींच पदां येतालीं. असलीं पदां म्हळ्यार वाऱ्याक खूब्ब राग येता. तो चडच नेटान व्हांवता. आनी मागीर आंब्यामुळांक तोरांचो पावस पडता.

पूण दक्षा थंय पावलें तेन्ना साखर आंब्याच्या मुळांत पोरां-थोरांचो होड पोंवो आसलो. कोण होंटीनी तोरां पुंजायताले. कोण तोरां बोल्सांनी भरताले. पोतयो घेवन आयिल्लीं पोतयांनी तोरां भरतालीं.

वारो थांबलो तशीं सगळीं आपापली जोड सांबाळत घरा चल्लीं.

फकत दोनचार राखण्यापोरां आंब्यामुळांत उरलीं.

दक्षाक सामकें चिटमिटे पडले. कशें बाये हांव भुल्लशिल्ले भशेन रमाकागेर इतलो वेळ रावलें? बेगीन आयिल्लें जाल्यार कितलीं तोरां पुंजायतलें आसलें. साखरेभशेन गोड गोड तोरां.

इतल्यांत ढब्ब करून एक तोर पडलें. दक्षान बेगीन बेगीन तें उबारलें आनी आंब्याच्च्या रूखाक ताचो दीक घांसून म्हळें,

'आंब्या, आब्या दीक तुका घोंट म्हाका.'

'आंब्या, आंब्या, दीक तुका, घोंट म्हाका, आनी तिसरे खेपो आंब्या, आंब्या, म्हणचे पयलींच ताचे सामकारच एक तोर पडलें.

दक्षान हात घाल्लचे पयलींच इनास राखण्यान ताचेर झोंपय मारली आनी तोर काडलें.

दक्षाक राग आयलो. आवाज मातसो कडक करून ताणें म्हळें, 'इनास, म्हजें तोर म्हाका जाय.'

'तुगे तोर? खंयचें?' इनासान विचारें, 'हांवें आंब्याक दीक घांशिल्लो. तुवें पळयलें ना?'

इनास मस्तो पोर. तो दक्षाचीं फकाणां करता.

'आनको दीक घांस. आनको तोर पोट्टोलें. मागीर खा.'

दक्षाक, तिडक आयली. ताणें रागान इनासाक विचारलें, 'म्हजें तोर दिता काय ना तूं?'

'तुगे तोरां तुकोडे – म्हागे तोरां म्हुकोडे.' अशें म्हुणून इनास खिः खिः करून हांसूंक लागलो. बाकीचीं पोरांय दांत काडून हांसूक लागली.

इनास कितें तरी वायट उलयलो जावंक जाय असो दुबाव दक्षाक मारलो. कितें तें ताका कळना जालें. मागीर दक्षाचें तापलेंच.

'सुबेज उलयता? तुका दाखयतां राव.'

'दाकोय! दाकोय! आमी चोयतात!'

इनासान अशें म्हणनाफुडें सगले पोर खिक् खिक् करून हांसूंक लागले. तशें दक्षान इनासाच्या तोंडार एक थापट फुलयलें.

सगले पोर थक्क जावन दक्षाचें कर्तूब पळयतच उरले. तोंडान झगडीं करपाक दक्षा कोणाकच आयकना हें ते सगळे जाणां आसले. पूण इनासासारख्या त्या मस्त्या

आडांगी पोराच्या तोंडार फुलोवप?

इनास आंगार जुडून येतात हें पळोवन दक्षान मातशी बाग घेतली. तें ओणवें जालें. आनी इनासाच्या दोनय पायांक पागडी घाली. इनास धब्ब करून जमनीर धाडवलो. तशें दक्षान ताचे हातांतले तोर ओडून घेतलें. आनी म्हजेंकडेन सांबाळूनराव.' अशें झेतान ताका सांगून नेटान घरची वाट धरली. इनासान हाताक मेळिल्लो गुणो काडून दक्षाचेर शेंवटिलो. पूण दक्षान केन्नाच घराकडेन धांव मारिल्ली.

'आयलें गो हेडगें गांवार हेड घालून?' दारांतच आकान ताका येवकार दिलो.

'हूँ' करून ताणें नाक किसळायलें आनी घरांत भितर सरलें.

ताणें तोर काडून धाकटे भयणीच्या हातांत दिलें. सुमी तें रूचीन चोखूंक लागलें.

'ताका आनी ती आमटां पचरां खावयनाका गो. रातभर खांकत बसतलें मागीर तें.' आवयन म्हळें.

त्याबरोबर सुमी तोर घेवन नाच्च जालें.

'आयलें दक्षा?' हांगा यो गो तें...'

बाबाचो उलो आयकून तें सालांत धांवलें.

बाबा हो दक्षाचो घरांतलो सामको आवडतो मनीस. दक्षाच्यो खूब खूब अपुरबायो करपी. दक्षान कितेंय उलंव दी. बाबान ताचें कौतुकच करप! घरांतलीं सगलीं दक्षाच्या करण्या-उलवण्याक अवचिन्नपणां म्हणटाली. पूण बाबा मात 'म्हजो बिरबरल तो' अशें म्हणून ताका हांसतालो.

दक्षा धांवतच बाबा म्हऱ्यांत वतालें तें अर्दारच धपटलें. बाबा म्हऱ्यांत कोण बसला तो? पोपटसर? आज आमगेर तो कित्याक आयला?

खरें म्हळ्यार त्या सराचें नांव आसलें बापटसर. पूण ताचें पोपटाचे चोंचीभशेन नाक. ताचेवेलें तें बंवळ बी पळोवन दक्षान ताका नवें नांव दवरिल्लें. पोपटसर. सगळ्या वर्गाक तें नांव खूब आवडिल्लें. आनी सगळीं ताका ताचे तोंडार न्ही, पूण असवडीं उलयतना ताका पोपटसरच म्हणटालीं. ताच्या नांवावेल्यान दक्षान आईचो पळय मार खाला.

ती आनी एक मज्जाच जाल्ली.

बापटसर नवोच आयिल्लो तेन्ना पयल्याच दिसा दक्षान घरा येवन आईक सांगिल्लें, आमकां मगे पोपटसर इतिहास भुगोल शिकोवंक आयला.

बापटसर मातसो ध्येयवादी, भुरगीं बरीं शिकचीं ही ताका तळमळ. तो भुरग्यांचे घरा वचून पालकांक मेळटालो. बरें शिकतल्या भुरग्यांची तुस्त करतालो आनी बरीं शिकनात त्या भुरग्यांच्यो चाडयो सांगतालो.

एक दिसा बापटसर दक्षागेर आयलो – दक्षाच्या पालकांक मेळूंक.

सुमी भायरच आशिल्लें. ताणें आईक उलो मारलो. 'आई, दक्षालो भुगोलसर आयला गे. तशी आई भायर आयली. सराच्या तोंडार नदर घालतनाच तिका दक्षान नांव सांगिल्लें तें याद जालें. तिणें ताकतिकेन म्हळें, 'येयात पोपटसर. दक्षाचे बाबा भायर गेल्यात. तुमी बसात. रोकडेच येतले ते.'

तशें सरान दोळे मोट्ठे करून आईक सांगलें, 'माझे आडनांव बापट आहे. पोपट नाही.'

आईक लजेन मर काय उर जालें सामकें. दक्षा घरा येतकच आईन मागीर सगळो राग दक्षाचेर काडिल्लो.

आतां हो पोपटसर बाबाक म्हजो चाडयो सांगता काय? दक्षाक ना म्हळ्यार कलकलपाकच लागलें. बाबा बऱ्याक बरो, पूण रागाक सामको वायट!

दक्षाचो अदमास खरोच आसलो. बापटसर बाबाक दक्षाच्योच खबरी सांगतालो.

'पोरीला बुद्धी आहे हो. पण अभ्यासकरायला नको. वर्गांत शिकवताना जेवढे कानावरून जाते तेवढेच. तेवढ्यावर पास होते बघा. बाकी सगळे आतां हा इतिहास भुगोलाचा पेपर तुम्हीच वाचा म्हणजे झालं.

दक्षाक पोपटसराचो राग येता. चाडयाळो खंयचो. हांवय व्हडलें जातकच टीचरच जातलें. पूण अशी भुरग्यांची फाट केन्नाच घेवंचेंना.

बापटसराक कसो निवळावचो? तें चिंतूंक लागलें. आपूण सालांत बाबा म्हऱ्यांत आसा हें लेगीत दक्षा विसरलें. ताची थंयच तनरी लागली.

दक्षा वर्गांत बसलां. बापटसर ताकाच मुद्दाम बोर्डार धाडटा. दक्षा वता तेंच बापटसराचेर लंवडून, धोंपर मारून ताचें वक्लच वडयता. बापटसर कुड्ड्याभशेन 'माझा चष्मा कुठांय, माझा चष्मा कुठांय' करीत वक्ल सोदता. दक्षा कदेल मदीं ओडता. बापटसर अडखळता. आनी घोऽ करून पडटा. ताची तकली मेजाक

आपटता. तो व्हडान किंळचता. वर्गात सगळीं भुरगीं हांसतात. दक्षाय बी व्हडान हांसता हाः हाः हाः

बाबान कान पिळतकच तें साबुद्दीर आयलें. पळय जाल्यार सगळीं दक्षाक पळोवन हांसतात. हाः हाः हाः आई लेगीत?

आका तर सगळे दांत भायर काडून हांसतालें.

बाबान परतोऽ दक्षाचो कान पिळ्ळो.

'आवयस! बाबा, हांवें कितें केला?'

ताणें विचारलें.

'हीं उतरां तुजीं? हो पेपर तुजो? वाच तूंच.' बाबान पेपरच दक्षाचे दोळे सामकार नाचयलो.

दक्षान वाचलें, टीपा लिहा : घाट, धबधबा, दरी, टेकडी.

दक्षान नितळ अक्षरान उतरां बरयिल्लीं. बरोबर तर आसात उतरां. पूण पोपटमास्तरान रागान चूक धरल्यात जातलीं. दक्षा चडच गोंदळ्ळें.

घाट – ही देवळांत असते. मोठी घांट देवळांत वर टांगलेली असते. तिचा ठणठण आवाज येतो. लहान घाट आरती करताना वाजवितात. तिचा किणकिण आवाज येतो.

'आवयस्!' दक्षा किंळचता. ताचो कान दुखता. पूण उतरां आयकून सगळींच किटकिटतात. दक्षाक कळचना. खंय चुकलां हांगा! सारकें तर बरयलां हावें.

'मुखार वाच.'

बाबान म्हळें.

दक्षान वाचलें. धबधबा. त्याला धबधबें किंवा धबधबीत म्हणतात. चणे बटाट घालून करतात. सुंगटें घातल्यास जास्त रूचीक होते.

आकाच्या दोळ्यांतल्यान आतां हांसून हांसून दुकां व्हावूंक लागलीं.

इतिहासाच्या पेपरांत तीन थोर महिलांची नांवें लिहा : असो प्रश्न आसलो तातूंत दक्षान बरयिल्लें, 1) रमाआका, 2) सोनीची आई 3) वासंती मावशी

'सगळें तर सारकें आसा आनी बाबा, हांव परीक्षेंत पास जालां. ताणें बाबाक सांगलें.

बाबाचो खुटलो माथ्यार पडलो तेन्ना ते भानार आयलें. 'चल थंयचें भितर.

पुस्तक घेवन बसतलें. हांगा थंय हेडूंक गेल्यार याद राख.' कशे हे मास्तर तुका पास करतात. तेंच अजाप! बाबान मास्तरांकय दोश दिलो.

दक्षा रागा-रागान भितर गेलें. बाबान मारलें खरें पूण ताची अपुरबाय बाबाच करतलो हें तें जाणां आसलें. आतां हांव फुगून बसल्यार बाबा समजावंक येतलो, अशें येवजून तें कोनशाक वचून पोले फुगोवन ओग्गी बसलें.

सुमी ताचे फाटल्या फुडल्यान ताळयो मारीत नाचूंक लागलें.

'रागार गे फुगार

घोवान दिली कातली

फिस्स करून हांसली.'

सुमीक दक्षाक चाळोवपाची संद चडशी मेळच नासली. पूण आज सगळीं जाणां दक्षांक हांसल्यांत. बाबान दक्षाक मारलां.

सुमीन परतेंऽ चालू केलें. 'रागार गे फुगार..' तशें दक्षाचें एक चुळचुळीत थापट सुमीचेर पडलें.

सुमी व्हडाव्हडान रडूंक लागलें.

आई धांवतच आयली. तिणें सुमीक वेंगांत काडलें आनी विचारलें, 'कितें जालें बायेक म्हज्या?'

'दक्षान थापट मारलें.' सुमीन हुंडकेंत सांगलें.

'कित्याक मारलें गो ताका?' आईन विचारलें.

'तें म्हाका चाळयता तें पळय मुगे.'

'आतां सगळ्यांनी चाळोवपाचेंच केलां न्ही तुवें?'

'पूण तें ल्हान न्ही? ल्हानान व्हडांक चाळोवपाचें?'

'आपल्याचेर येतकच सगळ्यो रितीभाती बऱ्यो समजतात तुका. चलात गिळूंक भितर.'

आनी सुमीच्या बावळ्यांक धरून ताका ओडीत जेवपाक व्हेलें.

दक्षाक जेवपाक ओडीत व्हरचें पडचना. तें ताकतिकेन पयलेंच वचून पाटार बसता.

आईन आमाडे घालून सुंगटांचें हुमण केल्लें. दक्षान आमाडे मागून मागून घेवन खाले. पोटभर जेवण जातकच ताका बरें दिसलें. ताचो राग खंयचे खंय नाच्च

जालो. आतां ताका ‘कंठ’ फुटलो.

खबऱ्यो सांगता सांगतां आपलो साखर आंब्या मुळांतलो पराक्रम तें नेटार सांगूंक लागलें.

आनी मागीर इनासाचे पायांक हांवें अशीऽ पागडी घाली आनी घोऽ करून मारलो ताका जमनीर, गर्वान फुगून तें सांगतालें. सगळ्यां वाडून जातकच आवय पानार बशिल्ली. दक्षाचीं उतरां आयकून तिच्या हातांतली उंडी तशीच उरली... तोंडांत घाल्ली उंडी ताळ्याक लागली. उस्तुरें गेलें... उदकाचो पेलो तोंडांक लायलो आनी हात धुवून ती तशीच पानावेली उठली.

दक्षाचीं केंसटां धरलीं आनी लागली ताका पेटपाक. एके वटेन मारताली, दुसरेवटेन तोंडान चाळयताली.

‘वतलें परतें आंब्या मुळांनी?’

‘राखण्याच्या पोरांबरोबर झगडटलें?’

‘करतलें परतीं झगडीं? मारामाऱ्यो? खुस्त्यो?’

दरेक प्रश्ना कणकणी एक धपको पडटालो. फाटीं फुडें पळयनासतना थापटां पडटालीं.

पयल्या दोन थापटांनी दक्षा अजापलेंच. ताका कळलेंच ना. कितें जालां आईचें? कितें म्हणटा ती? कित्याक मारता?

मागीर थापटां दुखतात म्हणतकच ताणें विचार करपाचोच सोडून दिलो आनी व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागलें.

गजाली, हुयेली मारूंक लागलें.

आईचे हातांतले केंस सोडोवन घेवन पळूंक सोदूंक लागलें.

‘बाबा रेऽ बाबा रेऽऽ’ करून बाबाक उले घालूंक लागलें.

ताका पळपाची संद मेळचे पयलीं आईचेच हात दुखले.

ती खरशेली. सुसकारली. ताका सोडून दिवन एकलीच बडबडपाक लागली.

‘खंयच्या जल्माचें हें पुण्य पदरांत पडलां, देवच जाणां... हेदोळ त्या रतनाली सोयरीक पाडा घाली म्हूण आयकल्लें, म्हणसर हीं अवचिन्नपणां करून आयलें? राखण्यांच्या पोरांबरोबर हें वाडटें हुडटें चली मारामाऱ्यो आनी खुस्त्यो खेळटा?

जिवच घेतलें परतें म्हणून आंब्यामुळांनी हांगा थंय भोंवल्यार!'

निमाणें उतर दक्षान घट मतींत धरचें म्हूण चडच मोठ्यान म्हणिल्लें आईन.

पूण ती धमकी आयकुवपाक दक्षा थंय आसलें तर मूं?'

ताजी केन्नाच तनरी लागिल्ली.

आवयच्या मारापरस आकाचें दांत काडून हांसपच ताका चड दुखिल्ले.

आकाक ख्यास्त दिवपांकच ताका तनरी लागिल्ली.

ताणें मनांतल्या मनांत आकाचे सगळे दांतच हुमटावन वडयिल्ले.

आकाचें तोंडाचें बोळकें पळोवन तें ताळयो मारून हांसूक नाचूंक लागिल्लें.

कामू आज्जेभशेन बुकूबुकू करून बोळकें हालयत आका विणूंक लागलें.

जेवता तेन्ना शीत मुडून उणी तोंडांत घालून पुकू पुकू करून जेवंक लागलें.

लाडवाचो कुडको घेवन फातरीर धाडावन धाडावन पिटो करून तोंडांत घालूंक लागलें.

दक्षाच्यो चाडयो आईक सांगतना 'होनीबाय, 'दच्चान मुगे अच्चे केयें, दच्चान मुगे तच्चें केयें' करून लुडबें उलोवंक लागलें.'

घेतलें म्हजी फाट? हांसतलें म्हाका? तशेंच जाय तुका.

दक्षा खुक् करून हांसलें.

आकान अजापांन तकली वयर काडून पळयलें. आतां तर मार खावन रडटालें. म्हणसर पापीण हांसूंक लागलें.

आकाक अजापात वडोवन दक्षा न्हिदूक गेलें. हांतुणार आंग तेकयतकच आंग दुखूंक लागलें आनी आईन कितलें मारलें ताची याद दक्षाक जाली.

'कितलें मारलें म्हाका आईन. सामकें मरसर मारलें. मेल्यारच बरें आसलें हांव.'

आनी दक्षान ताळीच मारली. हांव मेलें तीच तर आईक ख्यास्त.

मागीर ताची तनरी लागलीच.

आईचो मार खावन खावन दक्षा मरून पडलें. आई रडटा, बाबा रडटा, आका रडटा... सगळींच रडटात.

'काय बरें पोर. हावें दुस्मानीन ताका मार मार मारलें. आई दक्षाक पोशेता हुंडकेता.

'दक्षा, उठ गो पोरा. तुज्यो चाडयो केन्नाच सांगचें ना.' आका किळच्यो मारता.

शेजारची कमला आवय रडटा. कांय बरें पोर गे! पातकान चली जालें गे बाये. सगळे गूण चल्याचे. काय बरें म्हाका आंब्यार चडून आमल्यो काडून दितालें! ती परंवता.

इतल्यांत रमाका खबर आयकून धांवतच येता. 'गेलें गो पोराऽ? काय बरें गुणाचें भुरगें. आमच्या रतनाचें' सोयरकिवेळार हाणेंच शिटकायलें म्हाका. नाजाल्यार त्या खड्ड्याक काडून दितली आसलीं आमच्या गुणाच्या रतनाक.

हातुंणार पडिल्लेकडेन दक्षाची तनरी लागिल्ली. केन्ना तातुंतकच न्हीद लागली ताकाच खबर ना.

आई पांगरूण सारकें करूंक आयली. तेन्ना दक्षा घोरेतालें आनी मदींच खुक् खुक् करून हांसतालें.

ताच्यो केंसावेल्यान, तोंडावेल्यान मायेन हात भोंवडायत आईन म्हळें, 'पिसाय खंयचें! न्हिदांत लेगीत लागली गे बाये पोराची तनरी.'



## 2

# परिवर्तन

वासंतीचें लग्न थारावन हांव हुस्क्यामेकळो जालों. वासंती म्हजें धाकटें चली. व्हडलें रुपस न्हय पूण राजस. नाक-दोळे जागच्या जाग्यार. चड लांब न्हय, मोटवेंय न्हय अशें थायादीक चली! रेस्पेताचें! व्हडलीं दोगांय गोरी-धर्वी, रुपवान! अश्यो मागण्यो येवन बऱ्या घरांनी लग्न जावन गेलीं. हाची दोन-तीन कडेन व्हेली सोयरीक जावंक नासली.

वासंती त्या कारणान चेपण पडिल्ले वरी जालां असो घरच्यांचो समज... पूण तो निखालस खरो न्हय! वासंतीचो गूण म्हणात वा दुर्गूण म्हणात, तें भयंकर स्वाभिमानी. सदचे भशेन हांसत खेळत घरांत वावुरतालें. चल्या कडच्यान नकार आयलो म्हणून कळटकच म्हणटालें, 'बाबा, तकले वेलें टॅन्शन गेलें पळय.. सुटलें सायबा एकदांचें...' सगळें सगळें मस्कऱ्यांचेर व्हरपाचो सभाव ताचो. म्हणपाचें न्हय, पूण म्हज्या तिनय चलयांमदीं ह्या धाकल्याचोच म्हाका चड मोग. हांवें अभिमानान म्हणचें लेगीत आमगेलेक, 'आमचें हें चली ज्या घरा वतलें थंय जैत घेतलें!'

देसायांलें घर व्हडलें. चार चौगांचें. गिरेस्त घराणें! फोंडूबाब देसायाले दोग पूत, व्हडले रघुवीरबाब आनी धाकलो रावजीबाब. रावजीबाबालो पूत रमेश सरकारी नोकरेंत आसा. सिर्वीस ओगीच नांवाक ती! घरची येणावळ आसा तीच पुरो! रावजी बाबाच्यो दोगीय धुवो लग्न जावन घोवागेर गेल्यात! घराचे वांटे जावनय रघुवीरबाब आनी रावजीबाब मायेमोगान आपल्या घराब्या सयत एकठांय रावतात.

येद्या व्हडल्या घरांत सोयरीक जाल्या चलयेची म्हणटकच आमगेली मातशी चिंतुंकच पडली.

'मांय-मांव कशे काय? अशीऽ भायल्यान चवकशी केल्ली व्हय?' आमगेलेलें

सदांच अशें! धुवांच्या सोयरिकां वेळार ती न्हवऱ्या पयलीं तांच्या आवय-बापायची चवकशी काडूंक सांगतां. आतां रुपा आनी दीपा दोगांयच्च्योय मांयो सभावान भांगर. अर्थी अपुर्बायो करपी... पूण हीं पोरां तांचें म्हऱ्यांत उरल्यार तू? दीपालें घर दिवचले जाल्यार तांचो घोव नोकरी करता मडगांवां. मागीर ताका मडगांवां बिराड करचेंच पडलें. रुपालो घोव तर मुंबय रावपी. आठ दीस बी घरा मांय-मांवा सरीं उरलें जायत.. रोखडेंच मुंबय आपल्या फ्लॅटार गेलें. अशे राजा - राणयेचे संवसार दोगांयचेय! पूण वासंतीचे बाबतींत अशें जावचें ना हें हांव जाणून आसलों. रावजीबाबाचें घर म्हापश्यां आनी रमेशाली सिर्विसूय म्हापश्याचं! पूण नक्षत्राक बरें पडलें. बाकिर्ची उलोवणींय बरीं जालीं आनी म्हत्वाचें म्हणचें, घरच्यांक आनी चल्याक चली पसंत पडली.

आतां वासंतीचें मत घेवंक जाय आसलें. तेंच एक मात हांव विसरिल्लों.

'वासंती, बाय, शांबाशेटीगेर वचून जॉक दिता मुगो हाताचें? आनी कांकणांचो, हाराचो मोदेल पळय! तुका आवडटा तसलें भांगर करूं दी. भांगर घालप्याचे आवडीन करूंक जाय न्हय?' हांवें हांसत धुवेक म्हळें.

'बाबा, म्हजे आवडिचें भांगर करतलो जाल्यार ते दोट्टी गोंट कित्याक करूंक सांगता? तुका खबर आसा न्ही, म्हाका जड जड भांगरां घालूंक मातय आवडना म्हूण?' वासंतीन म्हाका आपलो राग स्पश्ट जाणयलो.

'बाय गो, थोड्यो गजाली आपणाक जाय म्हणून करच्यो. थोड्यो दुसऱ्यां खातीर करच्यो पडटात. जाणटीं मनशां आसतात थंय तांकां जाय तशें करचें वावुरचें पडटा म्हज्या शाण्या...' हांवें ताका थातारत म्हळें.

वासंती मागीर कांयच उलयलेंना. शांबा शेटीगेर वचून जॉक बी दिवन आयलें. पूण चली बरेंऽ खोशी दिसनासलें. हांवेंय दोळ्यांर धांपण ओडिल्ले भशेन केलें. ओगीच रावलों.

आपणें घरदार बरेंऽ पळोवन दिवचें चली! मागीर तें आनी ताचें नशीब! म्हजो जीव आसतना अक्षता उडयतां ताच्या माथ्यार!

***

बाबान म्हजें लग्न थारायलां खरें, पूण म्हजो जीव सकल-वयर जाता. म्हजें लग्न जुळोवपा पसत थोड्यो व्हाणो झरोवंक नात बाबान. आतां ताचें जालां जाणटेपण. तातूंत प्रेशराची आनीक पिडा. केन्ना चडटा, केन्ना देंवता... सदां

उठून ती गुळी घेवप... जेवणाखाणाचेर ताबो दवरप... तेलकट ना, तुपाचें ना... आमच्या बाबाक तसो जेवणाखाणाचो सामको घोस्त! खंय खंय वचून नुस्तें फैदासून हाडटलो. मागीर ताचें हुमण, सुकें, आंबट-तीख, धबधबीत, तळप अश्यो परी करूंक लायतलो. आपूण घोस्तान जेवतलो आनी दुसऱ्यांकय आग्र्यान खावयतलो. पूण आतां ताच्या खाणा-जेवणाचेर दोतोरान सामकीच बंदी घाल्या. आरोग्य बरें उरल्यार सगळें न्हय?

न्हवऱ्याचो फोटो पळोवन हांवें मोन्यांनीच 'हां' म्हणून तकली हालयली. ह्या वयार बाबाक आनीक दगदगे कशे काडूंक लावचेले? मांय सादी आनी हो पुतय सामको सादो म्हणून मनूमावशी पयर आईक सांगताली. मागीर बाबान म्हळें, 'सादो म्हणून कितें गो मनू? सरळ सभावाचो भुरगो तो! सरकारी नोकरी ओगीच करता तो? खरें म्हळ्यार ताका नोकरेची गरजच ना. पूण बेकार बसपाचो सभाव न्ही ताचो... कामसू भुरगो तो!'

मनूमावशी मागीर ओगीच रावली. आई मात सकयल वयर जाताली. कानाकडेन कितें गुणूगुणू करीत रावली. बाबा बेजार जालो. मागीर हांवेंच म्हळें आईक, 'आई, जसो आसा तसो म्हाका चलता गे. तूं कित्याक ओगीच बाबाचो जीव खाता?'

बाबान तें आयकलें जावंक जाय. ल्हवूच येवन म्हजे तकलेर थापटिल्ले भशेन, फाटीर पोशेल्ले भशेन केलें.

लग्न मोट्या थाटान जालें. त्या बोवाळांतय हांवें रमेशाक पळोवन घेतलो. हांसत्या मुखाचो... राजबिंडो कसो! हांवें समाधानान ताच्या गळ्यांत माळ घाली. व्हंकलपावणी वतना दीपाताई, रुपाताई आनी आई खूब रडलीं. पूण अजाप म्हळ्यार बाबानय म्हाका पोटाकडेन धरून दोळे व्हांवयले आनी म्हळें, 'दिल्ल्या घरा म्हजें बाय जैत घेतलें...!' मागीर काकीबायन म्हळें, 'धाकली धूव चड मोगाची म्हूण आज समजलें गो बाये!'

घर म्हणून केदें? आकांताचें! घरा सामकार एद्दें व्हडलें पोरसूं! व्हंकलपावणी भितर काडपाक केदो बोवाळ! राट दाखोवंक मांय आरत घेवन येयसर भायल्या पोर्चाच्या दोनय वाटांनी चडिल्ल्यो जुयेच्यो वेली... तिच्या फुलांचो घमघम म्हज्या नाकांतल्यान सामको काळजा मेरेन पावलो. आनी म्हाका दिसता त्या वासा बरोबरच त्या घराचो मोग म्हज्या काळजांत रुजलो जावंक जाय! मनांत किल्लल्लो भंय,

खंत आपशींच ना जाता अशें दिसलें.

नणंडो, बापोलनणंडो, काकयो, मामयो... मांयो, आजीमांयो...कोणा कोणाची म्हूण वळख धरपाची? सगळ्यो मेळून पंचवीस तीस बायलो... तातूंत दादलेय घुसळ घालताले. 'नांवां घेयात, नांवां घेयात...' असो बोवाळ चलतालो.

करवली जाल्ली ते नणंडेन-शांतान गाठवल सोडयतना सडसडीत नांव घेवन उडयलें - 'भाजयेंत भाजी मेथिची आनी शांता सुरेशाची प्रितिची...' मागीर म्हज्या आनी म्हज्या घोवाचे - रमेशाचे फाटल्यान लागलीं सगळीं जाणां!

म्हाका तर असलीं नांवां बी घेवंक येनात आनी लज दिसता ती वेगळीच. पूण नणंडो म्हाका दोनय वशिंनी धोंगसूंक लागल्यो.

सट्ट करून म्हज्या दोळ्यां मुखार दारांतल्यो त्यो जुयांच्यो वेली उब्यो रावल्यो. हांवें तकली सकल घालून ल्हवू आवाजांत घेतिल्लें तें नांव आयकूंक सगळो बोवाळ एकदम सो बंद जालो. कोणालें भुरगें रडटालें तें लेगीत अजापीत शें जावन ओगी जालें. हांवें म्हळें, 'रमेशबाबाच्या दारांत जुयांच्यो वेली, आनी आज सावन हांव ह्या घरची जालीं...'

नांव घेवन सोंपनाफुडें परत हांसो-बोवाळ-कळकळ. मागीर कोणें तरी म्हळें, 'जावं बाबा! आज सावन रम्याचो 'रमेशबाब' जालो. आनी कुचित्र्यांनी सो तो फस्स करून हांसलो.

म्हाका तें आयकून कशेंशेंच जालें जिवाक!

'आरे रम्या, आतां तूं नांव घे मरे! बायलेचेर ताण जावंक जाय हां.'

'ताणें मू? घेतलें नांव! ओगीच ताचे वाटेक वचनाकात...' एक जाण्टी शी बायल उलयली. आनी सगळींच हांसलीं.

'आरे, रम्याक पयलीं शिकयात तुमी बरेंशें नांव. मागीर घेतलो तो...'

'पुरो रे तुमचें!' म्हजी मांय उलयली. 'रमेश, सरळ सादेंच घे तूं नांव. 'वासंती' म्हणून!'

मागीर हाणें आबूज सो जावन म्हळें,

'वासंती...'

सगळे जाण खी खी करून हांसले.

म्हाका हें सगळें विचित्रशें दिसलें. सगळी उमेद गळूनशी पडली. 'रम्या,

रम्या' करून बकच्छायो केल्ले भशेन तीं उलोवणीं...' बरोच सादो' म्हणटाली मनूमावशी... ओगीच गळो भरून आयिल्ले भशेन जालें.

कितें दवरलां काय नशिबांत वाडून...?

भरिल्ल्या दोळ्यां मुखार बाबा उबो रावलो. 'म्हजें बाय दिल्ल्या घरा जैत घेतलें...' म्हणपी!

***

वासंती सारकी बायल म्हाका मेळत हें हांवें. केन्नाच चिंतूंक नासलें. दिसूंक मात्शें सांवळें, पूण कितलें देखणें जाणा! आनी न्हेसून करून भायर सरलें म्हणचे तेंच सगळ्यां मदीं उठून दिसता... पूण रुपाचें सोडच, सभावान कितलें म्होंवाळ! उलयिल्लें उतर लेगीत आयकतल्याच्या कानांत संगीत जाल्ले वरी घुमतलें. शकून – म्हजे बापोलभयणीन – म्हळें लेगीत, 'वासंती वैनी उलयता म्हळ्यार कानांक खातखुतल्यो जातात म्हणून. आनी कर्तुपी कसलें? नवी व्हंकल म्हणून ओगी फाटी रावचें, काम करिनासतना ओग्गी बसचें अशें केन्नाच ना ताचें! दिशिल्ल्या कामाक हात घालतलें अशे आईच काकीक सांगताली तें हांवें आयकल्लें. शेखर–प्रकाश लेगीत 'रम्या, तुवें चान्स बरो मारलो रे!' म्हणून म्हज्या भाग्याक तोखेतात... आनी म्हजेकडेन जेन्ना 'तुमी... तुमकां' करून उलयता न्हय तें... तेन्ना हांव राजा कसो दिसता म्हज्या जिवाक! ह्या संवसारांतलो दुसऱ्याच संवसारांत पाविल्ले भशेन...

पूण ज्युस्त दुसऱ्याच खिणाक प्रकाश ना जाल्यार शेखर 'एऽ रम्याऽ, मातशें नुस्तें हाडून दी रे बाजारांतल्यान... म्हाका पिक्चराक वचूंक जाय!' म्हणून नुस्त्याची पोती आनी पयशे म्हज्या हाताक लायतात. पैशे दितले वीस ना जाल्यार पंचवीस रुपया... आनी काकीक जाय आसता बरेंऽशें नुस्तें! आतां बरोऽ नुस्त्याचो वांटो पन्नास बगर मेळना. झक मारीत बोल्सांतले पंचवीस रुपया घालून काकीच्या हातांत नुस्तें दितां. तर 'आरे सारकें पळोवन घेतलां मरे? तुका त्यो नुस्तेकान्नी कांय न्ही करून फटयतात.... पळय, पोंवशेला हो विस्वण... त्या प्रकाशाक नुस्तें बरें हाडुंकय कळटा आनी मोलावंकय बरें कळटा... पूण आपल्या कामां मुखार ताका म्हर्जी कामां करपाक केन्नाच फावना... सांगचे सांगून कोणाक नुस्तें हाडूंक सांगप...? जावं बाबा, तुवें हाडलें होच उपकार...'

हीं काकीलीं उतरां. तींय बी वासंतीच्या कानार पडत अशीं? वासंतीचे नदरेक

नदर दिवपाचो धीरच म्हाका जालोना. ताच्या दोळ्यांतल्यान... चवथी कडेन पेटयतात त्या सुरसुऱ्यांचो किटी उसळटात अशें म्हाका दिसलें!

पूण कितें करूं? मोठ्यान उलट उलोवचें... झगडीं करचीं हें म्हज्या सभावांतूच ना!

आनी वासंतीच्या दोळ्यांतल्यो त्यो किटी... म्हज्या काळजांतश्यो कित्याक पेट्टात? वासंती हुजीर कोणेंच म्हाका 'एऽ रम्याऽ' करून उलो मारचो न्ही अशें म्हाका दिसता.

काल सांजचें वासंतीन म्हळ्ळें, 'हे शेखर, प्रकाश बी तुमच्याच वयाचे न्हय?'

हांवेंय ओर्रान ताका सांगलें, 'हय! म्हजे बापोलभाव खरे, पूण सख्ख्या भावा परस करतात हां म्हाका...! आमी बरोबर शिकल्यात खेळ्ळ्यात. म्हजेर खूब माया आसा तांची...' हांव तांच्यो व्हडविकायो सांगत रावलों.

'पूण तुमची मात तांचेर तितली माया ना शी दिसता...' वासंती हांसत म्हणूंक लागलें. तें म्हजो मस्कऱ्यो करताशें दिसलें म्हाका. हांवें ताच्या तोंडाक दुबावान पळयत म्हळें, 'ना कशी? म्हजीय तांचेर माया आसाच! हांव तांचें एक लेगीत उतर मोडिना...'

'तें पळयलां हांवें! पूण ते कशे तुमकां मोगान उलो मारतात?'

'कशे उलो मारतात? सांग मगो.' हांवें हांसत म्हळ्ळें.

वासंती म्हजें नांव केन्नाच घेना हें हांव जाणा आसलों.

'तुमीच सांगात न्ही, कशे उलो करतात तुमकां?'

म्हाका मागीर वासंतीक चड तिडावप बरें दिसलें ना. म्हणून हांवें सांगलें, 'एऽ रम्याऽ' असो उलो करतात.

'तेंच्च म्हणटां हांव! तुमी केन्नाच तांकां अपुरबायेन 'एऽ पक्क्याऽ!' ना जाल्यार 'एऽ शेकऱ्या' अशें म्हणिल्लें हांवें केन्नाच आयकूंक ना.

मागीर आईन उलो मारलो म्हूण वासंती सकल गेलें.

वासंतीलीं उतरां म्हाका बरींच नाकसुरीं गेलीं. खरेंच! फाटले-फुडले भाव कशे आमी! प्रकाशापरस हांव वर्स-देड वर्सान ल्हान आसलों पूण शेखरा परस दोन वर्सांनी व्हड आसलों... ते म्हाका सदांच 'रम्याऽ' म्हणून उलो मारताले आनी

हांवें कित्याक तांका केन्नाच 'पक्याऽ' 'शेकऱ्याऽ' म्हणूंक ना? तांका वायट दिसत म्हूण? काय असो उलो मारप म्हाका आवडना म्हूण? काय मुरवतीन? वासंतीक ते म्हाका 'रम्याऽ' म्हणटात तें वायट दिसलें काय? शे! शे! वासंतीक वायट दिसूंक फावना. वासंतीच्या दोळ्यांतलो म्हजे विशिंचो रेस्पेद कमी जावंक फावना. वासंतीचे नदरेंतल्यान हांव देंवंक फावना...!

सगळी रात म्हजे तकलेंत हेच विचार चलताले. वासंतीच्या दोळ्यांतल्यो उज्या – किटी म्हजें काळीज हुलपायताल्यो.

रातची न्हीद सारकी पडली ना. उठूंक वेळ जालो. ताकतिकेन ऑफिसाक वचपाक भायर सरलों. इतल्यांत 'आरे रम्या, तुजे स्कुटरिची चावी दी पळोवया मात्शी...' म्हणत प्रकाश दारांतच उबो.

सदचे भशेन म्हजो हात चावी दिवपाक मुखार सरलो, पूण तो फाटीं घेत हांवें म्हळ्ळें, 'म्हाका पयलींच ऑफिसाक वचपाक लेट जाला रे...' हांव भायर चौकेर पावलों.

म्हज्या हातांतली चावी ओडून घेत प्रकाशान म्हळें, 'जावं रे रम्या! आयचो दीस बसीन वच तूं! तुका लेट मार्क पडल्यार व्हडलें कितें तातूंत?'

वासंती म्हजे फांटल्यान उबें रावन सगळें पळयतालें, आयकतालें. फाटीं वळून पळयलें ना हांवें. पूण ताच्या दोळ्यांतल्या किटिंचो धग म्हजे फाटीक जाणवता अशें म्हाका दिसलें. खंयच्यान म्हाका नेट आयलो, देवच जाणा! हांवें त्या नेटार प्रकाशाच्या खांदार हात घालो आनी म्हळें, 'एऽ पक्याऽ, फकाणां नाकात हां तुजीं! चावी दी हांगा! तुका जायच जाल्यार शेकऱ्याली स्कूटर घेवन वच. ताका कितें, कॉलेजींत वचून शिकोवपाचें! पयलें लॅक्चर चडशें आसचना... न्ही रे शेकऱ्या? एऽ शेकऱ्याऽ...'

शेखर थंयच्यान वतालो तो अजापीत जावन धांवतच आयलो, 'कि... कितें जालें?' ताणें विचारलें.

'ह्या पक्याक तुजे स्कुटरिची चावी दी मातशी... ताका सामकें अर्जंट पिक्चर बी पळोवपाचें आसतलें...' हांवें व्हडान म्हळें.

प्रकाश आनी शेखरच न्हय, चवखेर तांदूळ वेंचूक बशिल्ल्यो बायलो, खेळटालीं तीं भुरगीं, वॉल्तेरार बसून धोलतालो तो जाण्टेलो आजो लेगीत चकासूर जावन काम थांबोवन आमकां पळोवंक लागलीं.

ह्या धक्यांतल्यान पयलो जाग्यार शेखर आयलो जातलो. ताणें आपणाले स्कुटरिची चावी प्रकाशाक दीत म्हळें, 'भाई, म्हाका पयलीं दोन लॅक्चरां नात... लेट जाल्यार जाता. तूं रम्याली... रमेशभाईली चावी दी ताका...'

'घे... घे रे रम्या... रमेश...!' प्रकाशान चावी दीत म्हळें.

प्रकाश नेर्वोजसो जावन उलयता हें पळोवन म्हाका ताची मजाच दिसली.

मागीर फाट परतून हांवें 'आई, येतां गेऽ! येतां गो वासंती' म्हळें आनी वासंतीच्या दोळ्यांतलो तो अभिमान, आदर, मोग पळोवन हांव इतलो भुल्लुसल्लों... हांसत शिळोणी घालत स्कूटर स्टार्ट केली. मनांत एक वर्णूंक येना असली ल्हवपीक खोस... उमेदिचो शिरशिरो आंगभर...

ऑफिसाक पावलों. आमचो प्यून सतीश... हांव आयलों तरी केन्नाच उठून उबो रावना... आज म्हज्या दोळ्यांक पळयत अजापीत सो जावन उठून उबो रावलो. ताका एक ग्लास उदक घेवन यो अशी ऑर्द सोडून हांव म्हज्या मेजार आयलों आनी कामाक लागलों.

घड्याळींत पांच जावचींच आसात, वेरेंकार उठलो. 'देसाय, ही फायल मातशी पळय रे... म्हाका बेगीन वचूंक जाय घरा...'

आपल्या मेजावेल्यो दोनूय फायली म्हज्या मेजार उडयल्यो आनी घरा वचपाची तयारी करूंक लागलो.

वेरेंकारालें हें सदचेंच! आपले काम दुसऱ्याच्या – चड करून म्हज्या – माथ्यार मारप आनी आपणें बेगीन भायर सरप. वेरेंकारच कित्याक? पेरैरा, ज्युली, साखरदांडो... सगळ्यांक बेगीन घरा वचूंक जाय जाल्यार हांवच सांपडटां वेंटीक धरूंक! म्हज्या मोव आनी भिडेस्त सभावाचो तीं फायदो घेतात हें समजुनय हांवें केन्ना तांकां तांचें काम करूंक 'ना' म्हणूंक नासलें आजवेळ! पूण आज म्हजेच गोमटेर कसलो म्हारू बशिल्लो देव जाणा.. वेरेंकाराल्यो फायली उबारून ताच्या हातात दिल्यो आनी तिडकीन सांगलें, 'हांवें म्हजेंच काम पेंडींग दवरलां. तुज्यान जाता जाल्यार म्हजेंच थोडें काम कर तूं...'

ऑफिसांतले सगळेचशे एकदम म्हजेकडेन पळोवंक लागले. ज्युलीन म्हळें, 'मिस्टर' देसायाक तापूंक येता हें म्हाका आजूच सोजमोलें. 'ते बरोबर साखरदांडो कितें तरी म्हणूंक वतालो. पूण हांवें ज्युलीक म्हळें, 'मोव आसता थंय खणप जाताच. पूण अती जातकच कोण सोंसता?'

'रझांव तुगेलें!' पैरैरान आपलो केंस नाशिल्लो खड्डो हालयत म्हळ्ळें. वेरेंकार मागीर उतर काडीनासतना मोन्यांनी आपल्यो फायली घेवन आपल्या मेजार गेलो.

म्हाका आजवेर दिसत आसलें, 'हें अशेंच चलपाचें. सगळो समाज म्हाका आपल्या आंगठ्या पोंदा दांबुनच दवरतलो. हांवें सगळ्यांचें आयकून घेवपाचें... परती जाप केन्नाच दिवपाची न्हय.. दोळे वयर काडून दोळ्याक दोळो दिवन उलोवप हें म्हजें काम न्हय! सगळ्यांनी म्हणचें - रमेश सादो भावार्थी. रमेशाक कितेंय चलता... रम्याक कसलीच खोड ना!

ल्हानपणा सावन हेंच चलत आयिल्लें. 'आरे, खारें सुकत घालां... ताचेर नदर दवरात रे मातशी. ना जाल्यार कावळे व्हरतले...' सगळे भुरगे खेळूंक धांवताले. आयकलें ना अशें करून... फकत हांव तें राखत बसतालों... कावळे आमडीत..

आगो, इतले बेगीन नुस्तें तळुंनाका म्हळ्यार भयणीन म्हणचें, 'भाईक चलता गे न्हिविल्लें... बाबा कांय जेवपाक ना आज... भाईक कसलीच खोड ना...'

अशे तरेन हांव घडत गेल्लों. सगळीं जाणां म्हाका गृहीत धरतालीं. कित्याक?... आज हांव सगळ्यांचेर बंड करून उठ्ठलों...

***

'बाप्पा, म्हाका प्रोमोशन मेळ्ळें' अशें सांगून रमेशान म्हाका नमस्कार केलो आनी हांव खरोच सुखावलों. ऑफिसांत सगळे हाचो फायदो घेतात. सगळेच पांच-साडेपांचांक कूस मारतात आनी हो एकलोच साडे स मेरेन मान मोडून काम करीत बसतालो. हाका मेळपाचें प्रोमोशन लेगीत बरोबरचे गुड्डुलसांव करून आपल्याक मेळोवन घेताले. आयच्या ह्या संवसारांत इतली मुरवत आनी बरेपण आशिल्ल्या मनशाक समाज वयर तकली काडूंक दिता? ल्हानपणांत रमेशाले जे गूण म्हणून हांव तोखेतालों तेच व्हड जातकच ताचे दोश कशे दिसूंक लागले... सगळें जाणून वळखून ओग्गी रावतलो. मुखदुर्बळ सो! असलो सभाव संवसारांत उपकारता? ना जाल्यार म्हज्या दोनय चलयांक पळय. अक्षर-बरप शिकूंक फाटीं पूण आपल्या सुवार्था वेळार कश्शोय आपलीं कामां साधोवन घेवपी! रमेशालो पयलो पगार जाल्लो तो दीस म्हाका आजय याद जाता. पगाराचे पयशे हाडून म्हज्या हातांत दिवन रमेश म्हाका नमस्कार करता थंय आसा... शांतान आनी

सुमित्रान वयले वयर झोंबून घेतले पयशे. 'भाईल्या पयल्या पगाराची साडी जायच आमकां' म्हणत बऱ्यो जरिच्च्यो सिल्काच्च्यो साडयो हाडूंक पयशे घेतले. आनी रघुवीराले - म्हज्या भावाले - भुरगे म्हणून उणे नात - शेखर आनी प्रकाश. हाणीं तर 'पार्टी जायच' म्हणत ताचेकडेन पार्टी घेतली. घरभर लोकांनी पयल्या पागाराचें म्हणून कितें ना कितें घेतलेंच रमेशाकडल्यान. आनी शेखर प्रकाश नोकरेक लागले तेन्ना पयल्या पगाराचो एक दुदापेडो दिवन फटयलीं सगळ्यांक! उमामावशी धरून सगुणेंआका मेरेन सगळ्यांक आपलीं कामां रमेशाच्या माथ्यार मारपाची जाल्या संवंय! ह्या मुखदुर्बळाचें कशें जातलें ह्या संवसारांत अशें म्हणून आमगेली सदांच खंत काडटाली. पूण सून घरांत आयली आनी सामकी 'सुपांतय धरना आनी वोल्लेंतूय धरना' अशी भुल्लुसल्या. कित्याक काय म्हळ्यार रमेश असो बदलला... असो बदलला... घरचीं सगळीं मनशां ताचेकडेन कितेंय उलोवचे पयलीं... ताका काम सांगचे पयलीं धा खेपो विचार करतात. दिसतालें, मरतना रमेशाचें कशें जातलें ही खंत घेवन मरतलों. पूण देवा, आतां केन्नाय व्हर, चिंता नासतना येतां तुजे म्हऱ्यांत...

***

आज वासंती आनी ताचो घोव जेवणाक येवन गेलीं. जांवंय येवचो आसा म्हूण दीपा आनी ताचो घोव आयलीं. मनूय बी आपल्या घोवाक घेवन आयलें. रुपा मुंबय आशिल्ल्यान येवंक पावलें ना. कितल्या दिसांनी घर कशें भरिल्ले भशेन दिसलें. वासंती आंगान बरेंच भरलां आनी तोंडाक पळयनासतनाच सुखावलां म्हणून कळटा. रमेश तर कितलो बरो म्हणून सांगूं... पयलींच दिसपाक राजबिंडो, दोनूय जांवंय म्हजेच, पूण दीपालो घोव ताचे मुखार सामकोच डीम पडलो. दीपाल्या घोवाक मटण-बिटण आसल्यार बिअर बी मारूंक जाय पयलीं. रमेशाक 'एक ग्लास तरी घे' म्हणून ताणें सामको आग्रो केलो. 'सवादांचें उदक मरे तें! तो सोरो न्हय...' अशो मस्कऱ्यो लेगीत केल्यो. पूण रमेश कसोच बदलो ना ताका. 'म्हाका आवडटा जाल्यार हांव एक ग्लास कित्याक, सगळी बाटली लेगीत पितलों, पूण आवडना ती वस्त हांव नाका जावन तोंडाक लावचों ना...' अशें हांसत सडसडीत सांगलें. मनू बाबडें जावन हळूच कानांत येवन सांगता म्हाका - 'रमेश मुखदुर्बळ आनी सादोभावार्थी... सामको 'लोलो' म्हणून म्हाका तांच्या घरांतल्या मनशां कडच्यान कळिल्लें... म्हणून हांवें तुज्या कानार घालें गो ताई... तो सादो म्हणून... 'मनूच्या जिवाक सामकें अपराधी कशें जाल्लें जातलें. हांवेंच ताका मागीर थातारीत म्हळें,

'आसतात गो मनू असलीं मनशां... आसतलीं कोणूय सोयरीक पाड घालपी... तूं मनाक लावन घेवंनाका... आनी आतां घरभर लोकांक म्हजें वासंती म्हळ्यार सामकें मस्तकार खंय... आयकलां मुगो तुवें?' मनू मागीर शांत जालें.

'बाबा, येतां हां', वासंतीन आपल्या घरा वतना म्हाका नमस्कार केलो. तसो रमेशानय येवन पांयांक हात लायलो. दोगांकय तोंड भरून आशिर्वाद दिलो, 'सुखी जायात. बरेंऽ जावं तुमचें. आनी आतां नातवाचें तोंड दाखयात बेगीन...' अशें म्हळ्ळें मात, जांवयान ल्हवूच हांसत म्हाकाच आयकूंक येतलें अशें सांगलें, 'दोतोरागेर वचून येतकच सारकें सांगतां...'

तशें वासंती पळय अशें लजेलें...!

वासंतीच्या लग्ना वेळार मनाक जो हुस्को जाल्लो तो अजून मेरेन काळजाक पिडटालो, आतां तो खंयचे खंय नाच्च जालो...

'चलयेक त्या चल्याक दिवचे परस ताच्या गळ्याक फातर बांद आनी बांयंत उडय' अशें सांगपी त्या मनशांक म्हज्या वासंतीचो संवसार पळोवन कितें दिसता जातलें! तांकां विचारुंक जाय म्हाका, म्हजें हें चली व्हेल्ल्या घरा जैतच घेतलें अशें हांवें सांगूंक नासलें?



# 3

# एक तुका - एक म्हाका

रुपा धांवत धांवत मेघना म्हऱ्यांत आयलें. दोनूय हात फाटल्यान लिपयल्ले...

'मेघन, कितें आसा सांग म्हज्या हातांत?'

मेघन ताचे कडेन पळयत ओगीच रावलें.

दोनूय हात मुखार काडीत रुपान हातांतल्यो चॉकलेटी मेघनाच्या दोळ्यां सामकार नाचयल्यो.

'पळय, चॉकलेटी!! बाबान हाडल्यात...'

'म्हाका नाका...' मेघनान म्हळें.

'अशें कशें?... एक तुका, एक म्हाका...'

रुपान एक चॉकलेट बळयां मेघनाच्या हातांत तोंपली. आनी ताका तेक्कून बसून आपल्याली चॉकलेट सोलूंक लागलें.

मेघन आपशीं कुशीक सरलें. ताका हांगा सगळें विचित्रच दिसतालें. रुपाचें तें आंगलटाक येवप, खांदार हात घालप, तेंकून बसप... अशीं कशीं हांगचीं मनशां!!! रुपा एक ल्हान... पूण जाणटींय बी तशींच!... कसलेच मॅनर्स नात... एटिकेटस् नात... हांचे मदीं कशें रावतलें हांव...?

'खा मुगो चॉकलेट...!'

'I don't want... नाका...'

'अशें कशें? तुका गोड आवडना? तुका कितें आवडटा? तुका तोरां आवडटात? आंबट बरीं! खूब लागल्यांत... हाडू? पोरसांतल्या आंब्याक खूब

लागल्यांत... हाडूं? आत्तां हाडटां पळय दोन तोरां.... एक तुका, एक म्हाका...' आनी रुपा धांवतच गेलें थंयच्यान.

मेघन अखिन्न जावन हांसलें. तोरां खंय! मीठ लावन खावप! काल आमटाणी बोटां खा खा करून म्हजे फाटल्यान लागिल्लें हें रुपा... म्हजें कजन... डॅडील्या भावालें चली... रात दीस म्हजेच फाटल्यान.

'चल गो, पत्त्यांनी खेळुंया... कॅरम खेळुंया... हांव आनी तूं टी. वी. पळोवया चल...' अशें करीत आसता. काल पासयेक म्हणून व्हेलें म्हाका. रस्त्याचेर चलपाचें नासलें. सगळ्याक बुरशेपणां... कोणय थंयय थुकता... नाक साफ करता... शिंकता... एकलो तर रस्त्याचे कडेकच फाट करून टॉयलेटाक... शीः!!! हांगा हांव कशें दीस काडटलें?

चिंतून चिंतून मेघनाची तकली फुटपाक पावली. 'मॉम, डॅड, तुमी अशीं कित्याक म्हाका सोडून गेलीं?' मेघनाचें मन आकांत करतालें... तुमचे बरोबर हांवूय गेल्लें जाल्यार सुटिल्लें. ह्या लोकां मदीं येवन पडचें नासलें. आमी रावतालीं तो संवसार कितलो सुंदर आसलो! हांगा पळयल्यार सगळें विपरीतच! हीं सगळीं म्हजी मनशां खंय! पूण म्हाका सगळीं परकीच दिसतात. तांच्या आनी म्हज्या रावपा-खावपांत, वागपा-उलोवपांत सगळ्यांत कितलो डिफरन्स आसा...! अमेरिका आनी इंडिया... दोन तोंकां!

मेघनाच्या दोळ्यां सामकार आपलें घर आयलें. कितलें नितळ-निर्मळ! धुल्लाचो कण लेगीत मेळूंक कुस्तार... ताचो रूम कितलो सुंदर सजयिल्लो मम्मान! वणटीक कितलो सुंदर वॉलपेपर... मम्मान सगळें घरच इंटिरियर डॅकोरेटरा कडल्यान सजोवन घेतिल्लें. घरा सामकाराचें तें सुंदर गार्डन. तो अभ्यासाचो रूम, ते खेळ, थंयचें स्कूल, थंयची फ्रॅंडस्... सगळें येवजिल्यार सपनांतलें कशें. अशें कशें एका खिणांत नाच्च जालें? खंय गेले म्हजे सुखाचे दीस? मम्मा म्हाका अपुरबायेन 'प्रिन्सेस' म्हणटाली. राजकन्या. आनी आतां भिकारीण..?

रुपा धांवत खरशेत आयलेंच!

'घे गो तुका तोर... मीठ लावन खा. घे...'

मेघन रडटा तें पळोवन तें काचाबूल जालें. 'मेघन, बाप्पा सांगता, तुवें फाटलें येवजूंक जायना. ते खातीर कितें तरी करप. उलोवप, खबरी करप... खावप. घे, तोर खा. घे न्ही...!'

मेघनान ‘नाका’ म्हणून मान हालयली.

‘मेघन, रुपा, चलात... जेवन घेयात...’ मेघना मुखार ताची काकी उबी आसली. हांसत्या मुखाची, मेघनाक उलोवपाक हांसोवपाक दिस्सभर प्रयत्न करपी.

मेघन मोन्यांनी उठलें आनी जेवंक बसलें. म्हऱ्यांतच रुपा बशिल्लें. काकीन दोगांकय वाडलीं. ‘जेव आं बाय सारकें... तुका तीख लागता म्हणून हें वेगळें हुमण केलां. आमचें तीख तुका सोंसना न्ही? हो विस्वण खा... तळिल्लें आवडटा मुगो तुका? हें घे कुलेर... गार्फ... जेव सवकासायेन...’ काकीन ताका कांटो चमचो दिलो.

‘आई, पापड दी न्ही म्हाका. दोन भाज. एक मेघनाक, एक म्हाका.’ रुपान म्हळें. काकीन मागीर पापड भाजून हाडले.

‘घे गो बाय, खावन पळय... कसो लागता? कडयेन जेवता? हुमण नाका? काय धंय दिवं तुका? घे. धंय घे...’

मेघनाक दिसलें, आतां ही बायल जेवण भरोवपाक लागतली आपल्याक!

‘अशी कशी ही काकी?’ मेघन चिंततालें. दिस्सभर कामांतच आसता. हिका आपणालें लायफच ना. सकाळीं उठून हाका च्या, ताका कॉफी, कोणाक चपात्यो, कोणाक भाकऱ्यो... म्हजे खातीर टोस्ट करतली. कूक जाल्ले भशेन सामकी किचनांत... कोणेंय कितेंय ‘बरेंऽ जालां’ म्हळ्यार पुरो, हज़ार डॉलर टीप मेळिल्ले भशेन तोंड फुलता हिचें!!! म्हजे खातीर पिझा करूंक शिकल्या. करताय बरो... पूण खंयय गेली, भोंवली, क्लबांत गेली, किटी पार्टी केली असलें कांयच ना...! मम्मी कशी आपल्या लायफांत बिझी आसताली. पूण ही घरभर लोकांच्यो डिमांड सांबाळीत आसता... पप्पा केन्नाय गोंयां या म्हणटालो. पूण मम्मीन ‘शीः त्या गांवठी लोकां मदीं!’ अशें म्हणून म्हाका केन्नाच हांगा हाडलें ना... आनी आतां जल्मच हांगा...?

मेघनाच्या खांद्याक धरून काकीन ल्हवूच हालयलें, ‘बाय, जेव मुगो! म्हजे जेवण बरें लागना?’

मेघनान मागीर बेगीन बेगीन म्हळें, ‘इटस् ओके... बरें लागता...’ आनी तें जेवपाचो यत्न करूंक लागलें.

रुपा म्हऱ्यांतच बसून जेवतालें. ताचे कडन पळोवचें ना म्हळ्यार लेगीत

मेघनाचे दोळे ताचेवटेन वताले. तें हातांनी शीत कालयतालें, उंडयो करून तोंडांत घालतालें. मदींच बोटां चोखतालें. लोणच्याक बोट लावन टक्टक्... सूं... करून आवाज काडटालें.

मेघनाक रुपाक पळोवन धवळूंक लागलें. जेवण नाकाशें दिसलें. तें पाना वेल्यान उठिल्ले पळोवन काकीन म्हळें, 'हें कितें? जालें तुजें? वाडटें हुडटें चली तूं! पोटभर जेवना जाल्यार व्हड कशें जातलें?'

'नाका काकी... थँक्स!' मेघन उठलेंच थंयच्यान. आनी भायर वचून बसलें. मम्मा डॅडीचे यादीन ताचे दोळे आपशींच व्हांवंक लागले.

'बाय, अशें रडून जिवाक त्रास करून घेवंनाका गो शाण्या...'

'ही आयली म्हजी ग्रॅनमा.... डॅडाची आवय...! आतां ही म्हाका आपले वेंगेंत घेवन बसतली... नाका म्हळ्यार आयकुची ना...'

मेघनाचो काका सांगतालो, 'भाईलें ऑफीस पंदराव्या माळ्यार आनी हेमावैनी सतराव्या माळ्यार काम करताली. सकाळचीं तिगांय बरोबर भायर सरतालीं. मेघनाक स्कुलांत पावोवन दोगांय आपल्या ऑफिसाक वतालीं. त्या दिसा ऑफिसाक पावन थोडोच वेळ जातलो, तें विमान येवन आपटलें तसो सबंद टॉवरच पेटलो दिसता... हज्जारांनी लोक काम करपी तांतूंत... सगळें काबार निमाणें दर्शन नाच... हाडां लेगीत मेळूंक नात न्हंयंत विसर्जन करतलों म्हळ्यार...' काकाचो गळो भरून आयलो.

'फोंड काडून जितोच पुरपाचो त्या बिन लादेनाक.' एकलो पोटतिडकीन उलयलो.

'असल्या राक्षसांक करीत ती ख्यास्त उणीच.' दुसरो म्हणूंक लागलो.

'आनी आतां अमेरिका सोडटा ताका? हात धुवन ताचे फाटल्यान लागतली...'

जापेक आयिल्लो एक-एकलो एक-एक उलयतालो. मेघनाली नदर भायल्यान येतल्या बाप्पाचेर पडली. 'हो म्हजो ग्रॅनपा...! पोरसांत कितें खणटालो जातलो... हात मातयेन भरिल्ले. न्हेशिल्लें पुडवें इतलें वयर खोयिल्लें... आंगाक बानयेन लेगीत ना. फकत खांदार एक सुताचो धागो... जानवें....

मेघनाचें आंग शिरशिरलें. ताका याद जाली... ह्या आज्यान म्हाका आपले बरोबर जेवंक बयसल्लें तेन्ना जेवतना भुर्र-भुर्र भुरके मारीत जेवतालो. आऽब्बा,

अऽय करीत धेंकर काडटालो. मेघनाक हांसोवपाक जोक्स सांगतालो.

हो डॅडालो बापूय म्हळ्यार मेघनाक खरेंच दिसनासलें. डॅड मेल्ल्याचें हाका मात्तूय दुख्ख ना कशें?

'शिकता कितें हें?' जापेक आयिल्ल्या एकल्यान विचारलें. 'सातवेक आसा... म्हळ्यार थंयचें शिक्षण खेरीत न्ही...! हांगा इश्कोलांत कशें रुळटा पळोवचें...!'

'चुरचुरे पोराचे! इतल्या ल्हान वयार आवय-बापूय दोगांय वचप म्हळ्यार!'

आजो एकदम व्हडान तापलो आज्जेचेर!

'तूं बायेक घेवन हांगा कित्याक बसल्या? नाका जाल्ल्यो खबरी करता भुरग्यां मुखार! बाय, तूं भितर यो म्हजे बरोबर... शाणें तें!'

मातयेच्च्याच हातांनी मेघनाक उठोवन भितर घेवन गेलो.

आज्याचो हात सोडोवन मेघनान म्हळें, 'हांव न्हिदतां. हेडेक. तकली उसळटा...'

'बायेची तकली उसळटा खंय. ताका कसलीय गुळी दी...'

काकी गुळी घेवन आयली. आजी बाम घेवन आयली. ताचे तकलेक लावंक लागली.

'आतां कशें दिसता? तकली उसळटाली ती कमी जाल्या मातशी?' तांच्या बोवाळान मेघनाची तकली चडच फुटूंक लागली.

अशीं कशीं हीं मनशां! मात्तय प्रायव्हसी दिनात. मागीर मेघनान सांगलें, 'आय ॲम फायन... तुमी चलात... हांव न्हिदतां...'

सगळीं रुमांतलीं भायर गेलीं तशें मेघन उठून बसलें आनी धोंपरांत तकली घालून रडत बसलें.

कोणें तरी ताच्या खांदयाक हात लायलो. रुपा आयिल्लें. मेघनाच्या म्हऱ्यांत बसून ताणें ल्हवूच ताचे दोळे पुसले. पूण ते व्हावंचे थांबनात. तशे रुपाचेय दोळे व्हांवंक लागले. मेघना म्हऱ्यांत बसून तें हुडक्या-हुडक्यांनी रडूंक लागलें.

'...तूं कित्याक रडटा रुपा?''

'हांगा बाप्पा ना न्ही... रडून घेतां....'

'म्हणजे?'

'आज्यान सांगलां, भाईकाकाची, काकीची याद काडून कोण्णें रडूंक जायना.... आमी रडल्यार तूं रडत रावतलें...'

'पूण आजो, आजी सगळीं आपल्या कामांत आसतात.... हांसतात... कोणाकच म्हजीं डॅड-मॉम गेल्ल्याचें दुख्खच ना शें दिसता...'

'तुजे मुखार रडप ना म्हूण आज्यान सांगलां. आज्यान आनी आज्जेन हांथरूण धरिल्लें... जेवणखाण नाच, उदकाचो थेंब घेना आसलीं. आजी तर सारकी काकाक उले घालताली. पूण तुका घरा हाडलें न्ही... आज्यान आज्जेक सांगलें, होच आमचो संदेशबाब. तुका दूख दाखोवन दिवप ना.... सगल्यांनी आनंदीत रावंक जाय. म्हाका तुजेच बरोबर राव म्हळां.... इश्कोलाक लेगीत वचनाका म्हळां...'

'म्हणून तूं म्हजे बरोबर ह्या रुमांत न्हिदता?'

'तुका रातचें एकलें दिसत म्हणून... ना जाल्यार हांव आज्जेच्या ना जाल्यार आई म्हऱ्यांत हांतूण पातळायतां... तुका एकल्याक भंय दिसना गो?'

'ना... पूण म्हाका असली संवंय ना. हो रूम... मातयेन शेणान सारयल्ल्यो वणटी... आमचें घर अशें नासलें....' कितल्या दिसांनी मेघनाक आज उलयन दिसलें.

'हांगा पोरणीं घरां अशींच आसतात. आमचें घर आज्याच्या आज्यान बांदिल्लें.... खूब पोरणें... ह्यो खाटी लेगीत आईच्यो...'

'आनी आतां काका-काकीक खंयची कॉट?'

'पिशें काय कितें तूं? आईक जमनीरच सुस्त न्हीद पडटा. शेंदरी मेळ्ळयार पुरो. उशें लेगीत नाका. हाताचेंच उशें...' अशें म्हणून रुपा हासूंक लागलें. मेघना आपलेकडेन उलोवंक लागलें हाची ताका खोस जाल्ली.

'अशी कशी गो तुजी आई?' कितले दीस मनांत सांचिल्लो ओग मेघनान भायर घालो. 'आपल्या जिवाचें कांयच ना कशें तिका? सगळे ल्हान-व्हड तिचो फायदो घेतात. आजी पांय लेगीत चेपून घेता. तिका कळना कशें?'

रुपान अजापान मेघनाकडेन पळयलें. 'आई म्हणटा, आपणें दुसऱ्यांचें केल्यार दुसरो आपलें करता... एकामेकांची माया आसप. तेंच व्हड. तुका अमेरिकेच्यान हांगा हाडचें आसलें न्ही... तेन्ना तर... रुपान एकदम जीब चाबली आनी तें उलोवपाचें थांबलें.

'तेन्ना कितें? सांग मुगो...' मेघनान विचारलें.

'कांय न्ही गो... अशेंच तोंडांतल्यान आयलें...'

'रूपा...?'

रुपान मागीर ताका विसरायेर घालपाक म्हळें – 'तें गो... तो विमानाचो हल्लो. सगळो लोक भिले जातले न्ही थंय... आनी तूं तर...'

'म्हाका हाडपाक काका वचपाचो आसलो.... तेन्ना कितें जालें?'

रुपा थोडो वेळ ओगीच रावलें. मागीर ताणें हळूच विचारलें, 'हांवें तुका सांगलां तें तूं कोण्णाक सांगचें ना मुगो? घे देवाचो सोपूत...'

गळ्याक हात लावन मेघनान म्हळें, 'गॉड प्रॉमिस.. हांव कोणाकच सांगचें ना... केन्नाच...'

मागीर रूपान सांगलें – 'अमेरिकेक येवपाक वचपाक तिकेटीक खुब्ब पयशे लागतात खंय न्ही? आमी श्रीमंत न्ही... आनी पयशे हातांत आसतात तेन्ना आजो कोणय गरजेवंत आयल्यार ताका ना म्हणिना... पयरच एका सोयऱ्याचे चलयेच्या लग्ना खातीर मागून व्हेल्ले... त्या दिसा मागीर आज्या कडेन पयशे नात... आनी पप्पान लोन मागलें पूण तें मेळटासर ऑफिसांत खूब दीस वचपाचे. आईन मागीर आपलें सगळें भांगर काडून दिलें. आज्यान नाका म्हळ्यार तिणें म्हळें, मेघन म्हजी धुवच. त्या भांगरा मुखार ह्या भांगराक व्हालोर आसा?'

मेघानाच्या दोळ्यां सामकार ल्हवू ल्हवू करून त्या बुरश्या गांवठी मनशां मदलें नितळ निर्मळ अंतकरण झळकूंक लागलें.

'आनी मागीर पप्पान म्हजें भांगर लेगीत विकलें.'

'तुजें भांगर?'

'गोंयांत लग्ना वेळार चलयेक भांगरान भरून दितात न्ही! आई म्हजे खातीर दसऱ्याक आनी दिवाळेक अर्द पोवन तरी भांगर घेवन दवरता... कितलिंशींच पोवनां-अर्दपोवनां आशिल्लीं...'

'तुका वायट दिसलें ना तुजें भांगर विकलें म्हणून?'

'पिशें काय कितें हांव? वेल्यान म्हाका तुजे सारकी भयण मेळ्ळी ती! हांव कितलें आशेतालें जाणां भयणी खातीर लोकांच्यो भयणी पळोवन? आनी आई आतां परती दिवाळेक – दसऱ्याक पोवनां घेवंक लागतली पळय... एक न्ही,

दोन. एक तुका, एक म्हाका... एक तुका, एक म्हाका...'

मेघनाक भितल्ल्यान कसलो ओग आयलो ताकाच कळ्ळें ना.

दोळ्यांतल्यान दुकां धारी लागल्यो. ताणें रुपाक घट्ट वेंग मारली आनी ताच्यो पापयो घेत रावलें. ह्या गालाची, त्या गालाची... परती परती...

रुपा घुसमटलें. अशी वेंग मारून पापी घेवपाची ताका संवंय नासली. मोग दाखोवपाची ताची तरा दुसरी आसली... ताणें पोले फुगयत मेघनाक विचारलें, 'हें कितें गो मेघन?'

'कितें जालें किस घेतल्यार?'

'पूण अशें घट्ट वेंग मारून? परती परती? पिशां भशेन ह्या पोल्याची, त्या पोल्याची?'

'कळ्ळें ना तुका?'

'कितें तें?'

गोंयांत आयिल्ल्याक पयलेच खेपे खळखळून हांसत मेघनान म्हळें, 'ह्या पोल्याचो कीस तुका, त्या पोल्याचो कीस म्हाका. एक तुका, एक म्हाका'.



4

# सावत्र आवय

हुंबऱ्यार दवरिल्लें माप पांयान लवंडून नयनान घरांत पावल घालें. दारभर तांदूळ फाफशिल्ले. आयजेच्या पदराक घट्ट धरून राजेश नयनाची प्रत्येक हालचाल तेळटालो.

पांयांक रुप्याचीं पांयजणां–नाजूकशीं, शालनआत्याला पांयजाणां भशेन. व्हडल्या व्हडल्या डिजायनाचीं न्हय. 'हीं पांयजणांयबी म्हजे मम्मीचींच जातलीं.' लग्नाक कमलमावशी सुशीताईक सांगताली तें ताणें आयकल्लें – ''कोणाचें भाग्य कशें फळफळत सांगूं नजो. पळय, सगळें भांगर लकयलां...''

''सगळें राजेशाले मम्मीचें?''

''आनीक खंयचें तर? धाकुटपणाक कोण अशीं शृंगारून दिनात भांगरांनी...''

''राजेशाक मात बरो करून सांबाळल्यार पुरो...''

''बरी सावत्र आवय मेळपाक नशिबूच जाय बाये. सुंदरय आसा... घोवाक मुठींत दवरूपी आसल्यार.... राजेशाक मागीर देवानूच राखपाचो...''

पंदरा दीस जाले, राजेश वता थंय असल्योच खबरी आयकतालो.

मामागेर गेल्लो तेन्ना मामाईन वेंगेंत काडून दोळ्यांतल्यान दुखा व्हांवयिल्लीं. ''पोरा, कितें आसा रे तुज्या नशिबांत? म्हजें पोर गेलें तुका एकटो उडोवन. आतां सावत्र आवयच्या हातांत पुता तूंऽ.''

नानान मागीर केदयान धेंगसो घाल्लो मामाईचेर. ''ओगीच ताका कित्याकितेंय सांगून भेशटायनाका. पयलींच पोर हाडकुळो. भंयान आंग सोडत...''

स्कुलांत किशोरान ताका विचारल्लें – ''तुकां सावत्र आवय हाडल्या खंय

रे, राजेश?''

राजेशाक पयलीं तो कितें विचारता तें कळ्ळेंच ना. तो ताच्या तोंडाक पळेतूच उरलो. इतल्यान पीटरानूय म्हळें, ''तुजो पापा परतो काजार जाता खंय राजेश?''

किशोर आनी पीटर राजेशाचे सामके जिवाभावाचे मित्र. तांकां आपली खोशी सांगना जाल्यार आनीक कोणाक सांगतलो आसलो तो! ताणें मोठे उमेदीन सांगलें, ''हय रे, पप्पा म्हाका आतां नवी मम्मी हाडटलो!''

राजेशालो पप्पा जो सकाळीं ऑफिसांत वतालो तो बद्द रातचो आठांक बी घरा परततालो. केन्नाकेन्नाय बेगीन घरा येतालो. ना अशें न्हय. पूण चडसो रातचोच घरा पावतालो. आजो-आजी घरांत आसतालीं. पूण तरीकय ताका घरांत वाजच येतालो. आतां नवी मम्मी आयल्यार मजाच जाली...

''मांय म्हुण्टाली, तुका नवी मम्मी तरास कोन्ना जाल्यार पुरो'',पीटरान मर्दीच म्हळें.

''म्हजीय मम्मा तुजो खूब हुस्को करता. तुका नवी मम्मी बरी मेळ्यार पुरो म्हणटा...''

राजेश किशोराच्या आनी पीटराच्या तोंडाक पळेतच उरलो.

कितें करप?... पप्पाक सांगूं, म्हाका नवी मम्मी नाका म्हणून?... खरीच नवी मम्मी वायट आसता? ''सावत्र भुरग्यांचो मोग करचो सोडून ती तांकां कामां सांगता, मारता?... मागीर म्हजें कशें जातलें? म्हाका कसलींच कामां करूंक येनात... परतीं म्हजींच कामां सगळ्यांक करचीं पडटात.

स्कूल सुटल्यार अर्द वर जालें. पूण राजेश पीटर आनी किशोर तिगूय जाण भायल्या सपणार बसून आशिल्ले. तिगांचीय तोंडां गंभीर. सावत्र आवयच्यो सगळ्यो काणयो याद करून जाल्यो. काणयेंतले सावत्र आवयन सावत्र भुरग्यांक घरचीं, भायलीं - सगळीं कामां करूंक लावप, जेवपाक शेळें उरिल्लें दिवप आनी कामाक आळस केल्यार मार घालप...

''...आनी स्नो-व्हायटाची स्टेप-मदर चोय रे... तिका ख्यास्ती दिता ती...''

''...आनी सिंड्रेलाची काणी खबर ना तुका?...''

“पूण त्यो सगळ्यो चलयो... हांव चली तर? म्हजी नवी मम्मी म्हाका कांय करचिना. आनी म्हाका मारल्यार म्हजो पप्पा तिका दवरता तर? सारको धांवडावन घालतलो घरांतल्यान...”

“तुका त्रास केल्यार तुजी मम्मी न्हू, तिचे गोमटेर बसतली. चोय तूं! म्हुजे मांयन सांगलां म्हाका.“

ताणीं वाचिल्ल्या काणयांनी ‘फेरी गॉडमदर’ आसताली. राजेशान चींत-चींत-चिंतले. ताच्या दोळ्यांमुखार फेरी-गॉडमदर आयलीच ना. निमाणें शाळेच्या प्यूनान तांकां हटकिलें, “आरे, टायम कितलो जालो, खबर आसा? चलात, घरा चलात. घरचीं सोदूंक येत तुमकां.”

तिगांनीय आपली बॅगां फाटीर मारलीं आनी घरची वाट धरली.

लग्नाक दोन दीस आसात म्हळ्यार रमेशकाका, काकी, शालन आतें, भावोजी, मंगलमावशी बी सगळीं राजेशागेर आयलीं जणएकल्यान ताची मांडयेर घेवन अपुरबाय केली, ताका कॅडबरी दिली, खेळ दिलो आनी - ताचे चुरचुरे, ताची काकूट केली. आतां मात राजेशाक कॅडबरी गोड लागना जाली, खेळांत जीव रमना जालो, ताचें तोंड सामकें बावलें. तो पप्पा म्हऱ्यांत गेलो. पप्पा आपलेच भितर सो शिळोणी घालतालो.

“...पप्पा...”

“कितें रे राजू?” पप्पान ताका वेंगेत काडलो.

“पप्पा...”

“सांग मरे! कितें जाय म्हज्या शाण्याक?”

“पप्पा, नवी मम्मी आमकां कित्याक जाय रे?” राजेशाचे दोळे भरून आयिल्ले.

पप्पा समजलो. कोण कितें उलयतात तें तोय आयकतालो. पूण राजू तें मनाक लावन घेत हें ताणें धरूंक नासलें.

“हें पळे राजेश, कोणय कितेंय उलोवं दी,आपणें आयकूं नये... हांव आसां न्ही तुका...”

“पप्पा, तूं सामको म्हजोच मरे?...”

“सामको, सामको तुज्जोच!”

राजूक मात्सो धीर आयलो. पप्पा आपल्याक नवे मम्मीच्या मारांतल्यान वाटायतलो. ताका मात्शी उमेद जाली.

‘‘राजेश मरे तूं??’’ कांकणांचो किणकीण आवाज. गोंठ-पाटल्यो खळखळ्ळ्यो.

‘‘खंय शेणला तूं?’’ नयनान हळूच ताच्या खांदयाक हात लायलो. कच्च करून राजेशान आंग काडलें.

‘‘म्हाका हात लायनाका! हीं म्हजे मम्मीचीं भांगरां तुवें घाल्यांत...’’ राजेशाच्या तोंडांतल्यान आयलें.

‘‘तुजे मम्मीचीं भांगरां घालपाक म्हज्या आंगार जागोच पयलीं खंय आसा? ह्यो गोंट-पाटल्यो म्हाका म्हज्या बापायन केल्यात. हो हार मांयन पांयपाडणेक घाला... हें फीत तेलाक घालां...’’

‘‘खऱ्यांनीच...?’’

‘‘तुज्यान तर...!’’

नवी मम्मी ताका पळोवन मुमुरख्यांनी हांसताली. अशी दोळ्यांनी हांसपी बायल राजेशान पयलेच खेपे पळयल्ली

‘‘कितें पळयता?’’

‘‘तूं दांत दाखय नासतना कशी हांसता?’’

‘‘तुका शिकोवं?’’ नयनान ल्हवूच ताच्या पोल्याक हात लावन म्हळें.

‘‘पूण मातसो वेळ लागतलो. ट्यूशन लावची पडटली म्हजी.’’

‘‘ब्रें!’’... ही ट्यूशन लावपच. पूण हांसपाची ट्यूशन लाय म्हळ्यार पप्पा म्हाकाच हांसतलो. राजेशान मात्शें चिंतलें.

‘‘तूं म्हजी नवी मम्मी. तुका ट्यूशनाची फी दिवची पडचिना.’’

नयनानूय मातशें चिंतिल्ले भशेन करून म्हळें, ‘‘कित्याक? खंयची वस्त फुकट मेळना. ट्यूशनाक फी दिवचीच पडटली.’’

‘‘हांव पयलीं शिकपी. फी मागीर दितां म्हणपी आनी शिकून जातकीर तुका फटोवपी.’’

‘‘हांव केन्नाच फटोवन घेवपी न्हय, फटयतल्याक ख्यास्त दिवपी.’’

नयनान गंभीर जावन सांगलें.

"...आब्बा! म्हाका ख्यास्त दितली म्हणटा! राव तुका..." राजेश अती अपुर्बायेन वाडिल्लो. सगळ्यांचे अपुर्बायेचो. सगळीं तो सांगता तें आयकतालीं. नाजाल्यार एकतर तो व्हडान आड्डतालो, नाजाल्यार 'थूः!' करून थुकतालो.

राजेश थूः करून नयनाचेर थुकलो. नयनान ताच्या हाताक घट धरलो. म्हळें, हो लेंस घे आनी थुकी पुसून काड."

"ना काडचों...!"

"तशें जाल्यार तुका राव दाखयतां!"

तेन्ना व्हडल्यान किळांच मारून राजेश रडपाक लागलो. आजो, आजी, सुरेश-राजेशालो पप्पा-सगळे धांवत आयले...

"राज, कितें जालें?"

"कांय ना! राजेश म्हाका ट्यूशन दितालो... किळच्यो मारपाचें. न्ही रे राजेश?" नयनान राजेशाक दोळो मोडलो.

ट्यूशन... दोळ्यांनी हांसपाचें... सट्टकरून राजेशाक याद जाली. तो रडपाचो थांबलो.

हय! आनी नवी मम्मी म्हाका ताचे बदला दोळ्यांनी हांसपाक शिकयतली."

मात्शें येवजून ताणें म्हळें, "आनी आमी दोगांय फी दिवचीं नात एकामेकांक. बादाबाद!"

मात्शी म्हर्‍यांत आयली जाल्यार पोरान किळच्यो मारल्यो! कितें केलें, देव जाणा पोराक! देवा, तूं पाव रे सायबा! मनांतल्या मनांत देवाक होरावन आकाबाय भितर गेली.

"मम्मीचें आनी तुजें कितें चल्लां रे राजू?" पप्पा हांसलो.

"कांय ना पप्पा! तूं चल भायर... चल न्ही..." सुरेशान नयनाकडेन पळेलें. नयनान कुरू केली, "चल तूं". सुरेश मोन्यांनी भायर गेलो.

राजेशान नवे मम्मीक आतां सारकीच जोखली.

"तूं म्हाका मारची ना मगे?"

"ना! पूण तुवें म्हजें आयकूंक जाय. पयलीं म्हळ्यार तुवें म्हाका 'मम्मी'

म्हणूंक जायना.''

"'मम्मी म्हणूंक जायना? आनी कितें म्हणूं तर हांव तुका? आई?''

"'हय! आई.''

"'कित्याक?''

"''आई' म्हळ्यार कानाक बरें लागता. 'मम्मी' भायली शी दिसता.''

पिशीच बायल ही! राजेशान चिंतलें हांव म्हजे मम्मीक 'मम्मी'च म्हणटालों. किशोर आपले आवयक 'मम्मी' म्हणटा. प्रतीक पयलीं 'आई' म्हणटालो. पूण ताचे आवयनूच ताका 'मम्मी' म्हणूंक शिकयलें, लज दिसता म्हणून. पीटर असवडीं आवयक 'मांय' म्हणूं, पूण लोकांमदीं 'मॉम', 'मम्मी' नाजाल्यार 'मां' म्हणटा. आनी ही नवी मम्मी... आई!... बरेंच जालें, तिकाच मागीर लज जातली. म्हजें काय वचपाचें ना. ताका भितल्ल्यान हांसूक येतालें, म्हणून ताणें सकयल पळोवन म्हळें, "'बरें, हांव तुका 'आई' म्हणटां.''

"'चल तर, जेवपाक चल भितर.''

राजेश भितर गेलो. आजयेन ताका वेंगेंत ओडलो. 'जेवता मरे राजू? आनी नवे मम्मीकडेन बरेऽ करून दीस काडूंक जाय तुवें... नाजाल्यार पुता...''

"'ना! हांव तिका 'मम्मी' म्हणचोंना...''

"'आनी कितें म्हणटलो?''

"'आई.''

"'बाब, आतांच्या बायलांक 'आई' म्हळ्यार मानवना. आपणें 'मम्मी' म्हणचें, मेकळें जावचें...''

"'ना... हांव 'आई'च म्हणटलों...''

"'असो हट्ट करचो न्हय रे...''

"'कितें जालें आकाबाय?'' सुरेश आवयक आकाबाय म्हणटालो. तिचीं सगळींच भुरगीं तशेंच म्हणटालीं.

"'ह्या राजूक पळे...''

"'कितें रे राजू?...''

"'हांव तिका 'आई'च म्हणपी...''

“पिशेपणां करचीं न्हय रे राजा...”

“हांव म्हणपी, म्हणजे म्हणपी, म्हणजे म्हणपीच.”

राजू पांय आपटूंक लागलो. सुरेशाक कितें करचें कळ्ळेंना. आकाबाय काचाबूल जाली. नयन थंयच म्हऱ्यांत उबें आसलें. ‘आई’ कितें करता तें पळोवंक राजून किळच्यो मातशो थांबोवन तिच्या तोंडाकडेन पळेलें. तें थीर नदरेन ताचें पांय आपटप पळेतालें. राजेशाले पांय ताचे इत्सेभायर आपटुपाचे थांबले. ताचे नदरेक नदर दिवन नयनान दोळो मारलो. राजेशाक हांसूंक आयलें... ताचें आनी आईचें हें गुपीत...

आजयेन ताका थंयचो उबारून हाण्डीर घेतलो आनी भायर व्हेलो.

“शीऽ शीऽऽ म्हाका धरूंनाका... हांव आतां ल्हान न्हय...”

आई मुखार आजयेन ताका हाण्डीर धरलो म्हूण राजेशालो मोठो बोवाळ चलतालो.

हांव परतो लग्न जालां खरों... पूण हातुंतल्यान कितें घडत सांगूं नज, सुरेश चिंततालो. दोगांय चार दिसांक बेंगलोराक गेल्लीं. थंयच्यान सुरेशान घरा फोन करून राजू कसो आसा काय विचारल्यार राजून म्हणिल्लें, “पप्पा पप्पा, तूं बेऽग्गीन घरा यो... आनी नवे मम्मीक मात थंयच दवर आं... तिका हांगा हाडूंच नाका...”

सकाळीं उठ्ठनाच राजू कॅडबरी खावंक बशिल्लो. आईक थंय आयिल्ली पळोवन ताणें तिका दाखयत कॅडबरी खावंक-सुरवात केली. आनी आईन ताची कॅडबरी काडून घेतली.

राजूक तिडक मारली. जाणटीं सदांच ताका चॉकलेटी दितालीं, कोणूच ताची चॉकलेट ओडून घेना आसलीं...

“म्हजी कॅडबरी दिता काय ना?”

“तुवें पाव खालो? तूं दूद पिलो?”

“हांव ना पिवचों दूद.” राजून तिच्या हाताक घांस काडपाचो यत्न केलो.

“म्हजे दांत पळे आनी तुजे पळे...”

“...?...”

“असल्या कुसक्या इबाडिल्ल्या दातांनी तुज्यान कोणाक घांस सुद्धां काडूंक जमचेंना...”

“तुज्यान जाता?”

“हय!”

“हांव तुजेर थुकतलों. म्हाका राग आयला तुजो.”

“राग आयल्यार तुका वाग खातलो...”

“तुकाच वाग खावन उडयतलो...”

“हांव वागाकच घांस काडपी...”

आब्बा! वागाक घांस मारपी बायल! किशोराक, पीटराक सांगचेंच पडलें...

“तुजे दांत इतले घट कशे?”

“हांव बरेऽ पाजतां ते... ब्रशान बी घांसता... यो, दाखयतां तुका...”

राजून आईकडल्यान दांत घांसून घेतले. पूण ताचो राग अजून निवळूंक नासलो. नयन बोटांनी ताच्यो दांतांच्यो माळो घांसतालें. राजेशान किंवाट्यान ताच्या बोटाक घांस काडलो.

आवयस्स!! नयनाच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं... दिसलें, धरचो आनी बरोच... पूण दुसऱ्याच खिणाक ताणें हांसून म्हळें, “पळयलें मरे, एकाच दिसान दांत कितले घट जाले ते! म्हजें बोट लेगीत दुखलें...”

राजेशान मोन्यांनी दूद-पाव खालो. नयनान ताका अर्दी कॅडबरी दिली. ती खायत ताणें विचारलें, “अर्दी तूं खातली न्ही आई?”

“ना रे बाबा. तुकाच दितलें दनपरां. जेवतकीर. आतां फ्रिजांत दवरतां... जालें खावन? घोंट घे कुचकुचून.’ राजून घोंट घेतलो, आनी तो भायर खेळूंक गेलो.

“इश्कोलाक वता मरे? कितें शिकता दाखय पळोवंया म्हाका!” नयनान राजेशाक म्हळें.

राजेशान आपलें बॅग तिका दाखयलें. ताचो होमवर्क पळोवन आई ताका कितली तोखेली!

“आग्गे बायेऽ! इतलें सुंदर अक्षर!!”

“पूण टीचर म्हाका ‘बॅड हँडरायटिंग’ म्हणून रिमार्क मारता!”

“आब्बा, आनीक कितलें बरें अक्षर जाय तर तिका? राजेश, तूं टिचरीक बुद्द कित्याक शिकयना?”

''कशी?'' तोय उमेदीर आयलो.

''हांव दाखयतां. ही 'जी' आसा न्ही, तिची मरे अशी सकथले वळीक गांठ तेंकोवची. 'एल्' सारकें वयर व्हरचें.''

राजेश पळेतच उरलो. ताणें बरयल्ली लायन आईन पर्थून बरयतकूच सुंदर दिसूंक लागली.

''आई, राव हांव काडून पळेतां...''

''तुका वाज येना मरे?''

''ना! तुका येता?''

''पळोवया. कोणाक पयलीं वाज येता ताणें म्याँव म्हणप...''

मागीर वरभर तीं दोगांय वहीचेर अक्षरां वयर-सकयल करीत बसलीं. ''आसूं. टिचरीक फाल्यां बुद्द शिकोवची. आतां म्हाका वाज आयलो.'' राजेशाकूय वाज आयिल्लोच. फकत 'म्याँव' म्हणचें पडत म्हणून तो अक्षरां घोळयतालो

ताणें व्हडल्यान ताळयो मारल्यो. ''आई, 'म्याँव' म्हण! 'म्याँव' म्हण!'' सगळें विसरूनच गेल्ले भशेन नयनान दोनूय हात तोंडार धरले, दोळे मोठ्ठे करून म्हळें, ''आरे देवा, हांव विसरूनच गेल्लें. शेवटाक म्हाकाच 'माजर' केलें तुवें!''

'' 'म्यांव' म्हण! 'म्याँव' म्हण! राजेशाक कितें करूं, कितें नाका अशें जाल्लें. ताणें ताळयो मारल्यो, उडक्यो मारल्यो... निमाणें ताणें टिचरीक बुद्द शिकोवचे पयलीं आईकच बुद्द शिकयल्ली.

''बरें बाबा, चड बोवाळ नाका तुजो, हांव 'म्याँव' म्हणटां.'' आनी नयनान माजराचो आवाज काडीत 'म्याँव' म्हळें.

''पूण फाल्यां हांव तुका माजर करपी'', नयनान म्हळें.

''पळोवया!'' राजेशान झेतान सांगलें. आनी केन्नाच 'वाज आयलो' म्हणप ना हेंय मनांत थारायलें.

पीटराक आनी किशोराक सांगून सुद्दां उडयलें ताणें, सावत्र आवयक आपूण ज्युस्त जाग्यार हाडटां म्हणून. ''म्हाका बरी त्रास दिवंक सोदता ती, जाणा मरे, कोणूय चॉकलेटी बी म्हाका हाडटा तेन्ना सगळ्यो तिचे सुवादीन करच्यो पडटात, मागीर ती दिता तेन्नाच खावच्यो पडटात... म्हाका भाजी सुद्दा खावंक लायता ती... दांत घांसूंक लायता... पूण पळयात तुमी, म्हजे दांत तिच्या दांतांभशेन

चकचकीत जातकीच हांव कसो तिका घांस काडटां तो! म्हजेकडेन शाणेपण करूंक सोदता? ती पैज मारता मरे, आनी सद्दां हांवूच तिका हारयतां... 'म्याँव' म्हणूंक लायतां... अशी लज ताता तिका मागीर..."

पीटराक-किशोराक ताचो चड हुस्को जातालो.

"तुका मारना बी मरे ती?"

"ना रे, सामकीच पेज ती! म्हाका सकाळची व्यायाम करूंक लायता! हांव ढिश्यांव डिश्यांव करून फकाणांनी दोन मुठी मारूंक गेल्यार "नाका रे, नाका रे" करून काकुळटेक येता. मागीर ती आनी पप्पा आनी हांव... आमी तिगांय खूब हांसतात..."

"पप्पा, तुका आयस्क्रीम हाडटालो तें बंद केलां म्हणटालो न्ही तूं? तेंय तिणेंच सांगून केलां जातलें पप्पाक तुज्या."

राजेशान म्हळें, "पूण ह्याच आठवड्यांत पांच आयसक्रिमां जालीं जाणात तुमी? आईच हाडून दिता"

"खरें? म्हणजे सावत्र आवय तशी वायट नासता तर!"

"पूण तीं तिचेकडल्यान 'जोडचीं' पडटात. स्टोरी बूक सगळें वाचून काडप, मॅथ्साचे पांच एक्झसायज बरोबर सोडोवन दाखोवप, टेस्टीक 'ए' घेवन दाखोवप अशें जायतें कितें कितें करूंक लायता... हें केल्यार तुका आयस्क्रीम, तें केल्यार तुका कॅडबरी... सामकी किचमण्याची रे सामकी... पूण पप्पा आनी आजो-आजी सुद्दां म्हणटात..."

"कितें?"

"हांवें आईक सामकी बोल्सांत घाल्या म्हणून. पयर आमची टिचर आमगेर आयिल्ली."

"खरें? विल्मा टिचर तुमगेर गेल्ली?"

"हय, देवाच्यान तर. म्हाका पेपरांत 'ए' दिल्या तिणें. आईक काँग्रेच्युलेशन्स म्हणूंक लागली."

"कित्याक?"

"देव जाणा... तांच्यो बायलांच्यो खबरी आयकूंक हांव बसतां? पूण आईक हांवें भिवचें बदला आईच म्हाका भिवन आसता..."

पीटर-किशोर तोंडां 'आं' करून राजूच्यो खबऱ्यो आयकताले.

सावत्र आवयक सुद्दां बुद्द शिकोवपी राजू... स्नो-व्हायट, सिंड्रेला, तांची स्टेप-मदर... सगळीं पात्रां तांच्या दोळ्यां मुखार आयलीं... तीं सगळीं काणयांतलीं पात्रां... खरीं न्हय.खरो राजेश... स्टेपमदर आयल्यार सुद्दां भियेवपी न्हय, तिकाच बोल्सांत घालपी राजेश आज तांचो 'हिरो' जाल्लो.



5

# कार्लूश

"कार्लूऽश, ओऽ कार्लूश...!" जाकीनान दुरगा भायर रावन उलो मारलो. बंगल्याचे फाटले वटेन ती गॅरेज आसली. नवीच सुरू जाल्ली,पूण रात दीस गाडयांची खेट पडटाली. सर्विसिंगाक... रिपेरिंगाक...

आपल्या घराच्या वारांदांत उबें आशिल्ल्या बेलिंदान गॅरेजी वटेन पळयलें. तो गोरेलो घारश्या दोळ्यांचो तरणाटो दुरगाचे भितल्ले वटेन आयलो. ताच्या हातांत डबो दीत जाकीनान म्हळें – "मामायन दोस धाडिल्ल्या"

भितर रिपेरींग चलतालें ते गाडयो पोंदा उदारोच पडून नट टायट करपी तो काळुंद्रो... तो जाणवाय... हांसून तकली हालोवंक लागलो.

होच खातलो सो दिसता ती सगली दोस... बेलिंदान चिंतलें. "कितू खोशी जाला चोय.... खोश्शी जावन हांसोता... त्या कार्लुसा पोटांत कितेंच पोडोंक दिना जातलो... केसो मातला चोय.... बॉडीबिल्डरा भाशेन..."

बेलिंदा तो येत सावन ताचेर ओगीच बेजारिल्लें. तो त्या बंगल्याच्या दुरगांत भितर सरला त्या दिसा बेलिंदा आपल्या वारांदांत न्हावन बी सकाळच्या वतांत आपले केंस सुकोवंक बशिल्लें. गेट बंद करपाक तो परतलो तशी ताची नदर बेलिंदाचेर पडली. बेलिंदान ताचे कडेन दोळो मोठ्ठे करून रागान पळयलें. तसो कसली तरी खोस भोगिल्ले भशेन तो खळखळून हांसलो. उदकाचो घोगो पडिल्ले भशेन. ताच्या काळ्या-सांवळ्या तोंडांत ते चकचकीत धवेफुल्ल दांत. सामको कॉन्ट्रास्ट...

बंगल्यांत भितर सरतां सरतां ताणें परतून फाटीं वळून बेलिंदाचेर नदर मारली आनी म्हळें, "रापुंझॅल'

बेलिंदा रागान उठून भितर गेलें...

किचनांत मांय मांस रांदताली...

"...मांय..."

"कितें जालें गो बाय?"

"जुझे फरांसीक भाटकाराले घरांत कोण कोण येताय मुगे! फाटीं ते गॅरेजी सामान घेवन कोण कोण आयिल्ले... तो घारसुलो... आनी टोळयो... आनी एक जाणवायसो काळुंद्रो..."

"बाये, बेश्टींच नांवां दवरूंक शिरी पोडना अं लोकांक..."

"मांय, म्हाका तेंगें नांवां फोबोर ना न्हूं... जणएकलो वेगळो वळखूंक येसोर नांवांच शिरी पोडटा.... तो गोरेलो, घारशेऽ दोळ्यांचो तो घारसुलो, आनी तो टोळा भाशेन हे वाटेन ते वाटेन पिटीक पिकीक करून धंवपी बारकेलो - तो टोळयो, आनी आतां हो जाणवाय काळुंद्रो...!"

"आतां तेणें कितें केलें?"

"मांय,... दोळे आसात म्हूण पळेतूच रावप तेणें? हांवें मागीर दोळे मोट्टे केले तेदना कडेक सरला. आनी हांसोता वयल्यान आनी म्हुणटा कितें जाणा - रापुंझॅल..."

मांयन बेलिंदा कडेन पळयलें. आज ताणें केंस धुयिल्लें... पिंगशा कोराचे फाटभर केंस... आनी ल्हान भुरग्यां वरी दिसपी फुगरे पोले... पिंगशे-काळे मोठशेच दोळे... ताच्या तोंडार नदर घालता तो खीणभर ताका पळेतूच उरतालो. मांय बेलिंदाचेरूय बेजार जाली -

"बाय बेलिंदा, कितू फावटीं सांगलें तुका, केंस धुतोच वारांदार बसोन सुकोयनाका म्हूण...? मागीर लोकांगे नदर लागोता..."

बेलिंदा व्हडान हांसलें. आनी ताकाच अजाप जालें, कोणा भाशेन हांसोंच्या ट्राय केलें हांवें?... जाणवाये भाशेन...?

"आनी दादल्यां भाशेन एशें हांसो नाका व्हडाव्हडान... चेडूं भुरग्यान आपणागे मर्यादे भितोर रावंक फावो..." मांयन धेंगसो घालो.

"व्होय मांय..." बेलिंदान म्हळें आनी तें परतें भायर व्हारांदार गेलें. ताणें परती भायर नदर मारली. गॅरेजी वाटेन एकली कोंकण्या बायल दुरगा भायर उबी

आसली.

"कार्लूऽश..." तिणें उलो केलो

"परतो तोच घारसुलो तरणाटो दुरगा वटेन पावलो. हातांची ग्रीज बोंदरान पुशीत ताणें म्हळें, "कितें जायें?"

"आरे, हे त्या चांफ्याचीं चार फुलां काडून दी रे! जुजें-फरांसीक सदांच मागल्यार काडून दिवंक लायतलो. आमगेर श्रावण आयताराचे पुजेक देवाक जाय. आनी पत्रे खातीर पानूय काड एक..."

जुजे-फरांसीक भाटकाराल्या घराच्या चारूय वटांनी ताणें तरेकवार फुलझाडां लायिल्लीं. भाटकार गेलो. पूण झाडां आनी तांचीं फुलां घराची भोंवतण परमळीत करतालीं.

त्या घारसुल्ल्यान हळडुवींच भांगराचीं कशीं तीं परमळीत फुलां काडून ते बायलेक दिलीं.

"पान काड मरे एक..." तिणें म्हळें.

"हीं चोय... फुलां बराबर पानांय आसाय... चोय सारकी..." घारसुल्यान बेजारून तापिल्ले बशेन म्हळें. तसो तो काळुंद्रो हांसूक लागलो.

"देवाक फुलां दिल्यांय मुरे? बोऱ्या मनान, बोऱ्या तोंडान दी..."

घारसुलो तोंडांतल्या तोंडांत पुटूपुटू करीत परतलो.

"हो काळुंद्रो तेगे चीफ मॅकानिक मिस्ता..." बेलिंदान चिंतलें. "केसल्याय फोबरांनी आपूण तोंड घालता."

दनपरां जेवतना पाय मांयक सांगतालो तें बेलिंदान आयकलें. जाणा रोझी, जुजे फरांसीक भाटकारागे सोगले कार्लूशाकूच पोडलां... भाटकारान सेलाद फोलीर बोरोवन दोवरलां खूंय तेशें..

"भाटकारा भावागे तेग चेडे न्हूं?"

"व्होय...! पूण त्या कार्लूशाचो चड मोग भाटकाराक..."

"इतू तेंप खूंय आसलो तर तो?"

"कुवेटाक... व्हडलो मॅकानीक न्हूं तो!

तिगां सिर्वीस सोडून आतां हिंगा रावों येयला..."

मांय-पायच्यो खबरी आयकत बेलिंदा ओगी बसून जेवतालें.

''गुणानूय बोरो तो कार्लूस... जाणा तूं? भाटकाराक पयलो आताक येयल्लो तेन्ना कार्लुशानूच तेका बॉम्बे व्होरोन व्होडल्या दोतोराक दाखोवन बरो केल्लो. सगळो देसपेस कार्लूशानूच केलोलो...''

''आनी जायत्या जाणांक पावला खूंय तो...''

''आनी, हांव आंबे देंवोयतना हुमले खाले म्हूण बरगेल्ल्या खांदयार चडलों आनी खांदो मोडोन खाला शेंवटल्लों त्या ओगतार कोण पावलो म्हाका? कार्लूशच न्हूं? कारांत घालोन व्होडले ओस्पिसेंत व्हरोन म्हाका पोत्तो सारको तेणेंच केला न्हूं?'' पायन फाटल्यो यादी उस्तिल्यो.

''सोदांच पोर हांसतो... केन्नाच तिडकल्लो ना. तापार जाल्लो ना...''

कार्लूशाचे गूण आयकतना बेलिंदाच्या दोळ्यां सामकार गोरेलो, घारश्या दोळ्यांचो कार्लूश उबो रावलो.

''घारशे दोळ्यां मुनशां इतू बोरीं आसतात म्हूण हांव नेणा आसलें...''

दुसऱ्या दिसा मारिया सदचेभशेन बेलिंदागेर आयलें.

''बेलिंदा, आजोन न्हेसों ना तूं? चल, बेगीन न्हेस...क्लासाक येवचें ना तूं?'' ताणें विचारलें.

''हांव आनी येयना? मातशें पांचूच मिणटां राव...'' बेलिंदान म्हळें.

एस्.एस्.सी. पास जातकच बेलिंदा हो कोर्स कर, तो कोर्स कर, खंयचीं लुगटाचीं फुलां करपाक शीक, खंयचें कटिंगाक वच अशें करून वेळ पासार करतालें.

बेलिंदान व्हिस्तीद चेंज केलो. आपल्या लांब पिगश्या केंसांची विणी घालून तें भायर सरलें.

''आरे, तुगे रापुंझॅल खूंय चोल्लें रेऽ'',

फाटल्यान आवाज आयलो.

तो घारसुलो कार्लूश? काय काळुंद्रो...??? बेलिंदान रागान पळयलें. काळुंद्रो तकली सकल घालून आपल्या कामांत घुसपल्लो आनी कार्लूश फाट करून उबो आसलो.

तो काळुंद्रोच जातलो कॉमँट पास करपी.

मारियान पळयलें, बेलिंदाक राग आयला. ताणें म्हळें, "बेलिंदा, तू येदेंशें कॉमँट पास केल्यार रागार जाता? म्हाका चोय गो! कोणेंय कितेंय मुणल्यार हांव खूंय कॅर कोत्तां? सरळ चलोंक लागतां..."

"चल तर, आमी चोलोंक लागया..."

बेलिंदान हांसत म्हळें आनी तीं आपल्या मार्गाक लागलीं.

कटिंगाचो क्लास सोंपतकच दोगांय मारियाल्या घरा लागीं पावलीं. मारियाली मांय दारांत उबी आसली. जाणटेलो मानुएलपाय आनी धाकुटलो मिंगेल घारसुल्या कोलगाकडेन खेळटालो.

"मानुएलपाय, आज खुंयचें कांतार केलां?" बेलिंदान हांसत विचारलें. मानुएलपाय उतरा उतराक कांतरां करतालो.

"आयज मुगो, हांयें आनी मिंगेलीन ह्या घारसुलाचेर कांतार केलां, न्हूं रे मिंगेल?"

मिंगेल आपल्यो नव्योच आयिल्ल्यो दांतां काणयो दाखयत हांसलो. "कांताय कॅयां..." तकली हालयत ताणें म्हळें.

मारियान आनी बेलिंदान सोपणाचेर बसकण मारली.

"घारसूल, हिंगा यो गो!" मारियान म्हळें. पिंगशे ल्हंवेंचें, घारश्या दोळ्यांचें कोलूग शेंपडी हालयत तांचे म्हऱ्यांत आयलें.

मानुएलपायन रोखडेंच कांतार कोमेस केलें –

"कोल्यामाम येयलो रे, घारसुलान चोयलो,

कोल्यामामाक घारसुलान धांवडावन घायलो.

राना मेरेन पायलो रे, भोंकाक घांस माल्लो

कुडको तेचो काडलो रे, घारसुलान खायलो..."

घारसुलाक पळयतां पळयतां बेलिंदाक ताच्या जाग्यार घारश्या दोळ्यांचो कार्लूश दिसूंक लागलो.

कोल्यामामा फाटल्यान कार्लूश धांवता धांवता. ताच्या भोंकाच्यो कुडको काडून खाता..." येवजुनूच तें जें हांसूंक लागलें तें थांबचना... हांसता तशें हांसता. हांसो थांबोवंक गेल्यार ताका चडूच हांसो फुट्टा...

मारियाले मांयन म्हळें, "पाय, तुगे हें कांतार बेलिंदाक चोडूच गोस्ताक गेलें

मिस्ता! चोय, कशे भाशेन हांसोन मोत्ता तें...!''

''मागीर? - मुगे कांतरां आसतातूच तितले पावोराची!!! तुमकां तेंचो व्हालोरूच ना. बोलिंदाक चोय...'' मानुएलपायन म्हळें.

मागीर बेलिंदा चड वेळ रावलें ना.

''चोड ओगोत केल्यार मांय सोंवतेली...'' अशें म्हणत तें ताकतिकेन उठलें आनी घरा आयलें.

दुरगाचे गेटीरच घारसुलो कार्लूश उबो आसलो, बेलिंदाक पळोवन मातशें हांशिल्ले वरी करून ताणें विचारलें - ''खूंय पासोयेक गेल्लें कितें गो!''

बोलिंदाच्या मनांत आयलें, ''तूं कोल्यामामा फाटल्यान धांवतालो तें चोवंक गेल्लें...'' म्हणचें पूण ताणें 'हय' म्हळें आनी तें धांवत घरांत भितर सरलें. परतें हांसूंक आयल्यार ताच्यान बेगीन थांबोवपाक जावचें नासलें.

''कितें जालां गो बाय? आपले भितोरूच हांसोता शें?'' पायन विचारलें.

''ना पाय. मानुएलपायन बोरें कांतार केलां, तें येवजुनूच पोत्तें हांसों येयलें...'' ताणें म्हळें.

भायल्यान काराचो आवाज आयलो. बेलिंदान व्हारांदांतल्यान पळयलें, 'कार्लूश, काळुंद्रो, टोळयो. तिगूय बरे न्हेशिल्लेय बी... पूण फांत मारून काळुंद्रोच सामको हिरो कसो दिसतालो. दुसरे दोगूय गोरे-धवे जावनूय ताचे मुखार डीम पडटाले. आनी कारचलोवपाकूय बी काळुंद्रोच बशिल्लो. ''कार्लूश डबल पाग दिता जातलो तेका.... मॅकानिकाचो आनी ड्रायव्हराचो...'' बेलिदान चिंतलें आनी ''शी! त्या काळुंद्रयाच्यो फोबरी म्हाका कित्याक?''

अशें म्हणून चिंतपूच फांफडून उडयलें.

''बाय बेलिंदा, चोय गो, मोगरीं खुटून धाडल्यांत...' मांयन बेलिंदाक उलो मारलो.

धव्याफुल्ल मोगरे कळ्यांची रास पळोवन बेलिंदा सामकें पिशें जालें. मोगरीं ताच्या सामक्या घोस्तार्ची....

''चोय गे मांय... मोने कळेय तोडल्याय... काय बरे कळे... चुरचुरे.''

''तुका सगल्यांचेच चुरचुरे पोडटाय! आतां मोन्या कळ्यांचेय चुरचुरे! हें चोय सूयसूत.वळेसर गुंथून माळ तूं...'' मांयन म्हळें. ''मांय, कोणें धाडले गे

कळे?''

''कार्लूशान, आनी कोणें? मागीरलदारच्यान घे म्हूण मोगरे वाल पातळोल्या भाटकाराली... तूं कळे काडून हाडटालें मुगो... याद ना तुका?'' मांयन विचारलें.

''पूण मांय, भाटकार मोत्तच वावर नासोन मोगरे वाल म्हुट्टेल्या म्हणटाली न्हूंय तूं?''

''आतां कार्लूशान केला मिस्ता वावर. आतां फुलता मिस्ता बोरी. कार्लूशान सांगिलां, जाय तेदोनां व्होर म्हूण फुलांकळे...'' मांयन म्हळें.

बेलिंदा मोगरीं गुंथूंक बसलें पूण आतां ताका मोगऱ्यांचो वास पयलीं इतलो बरोऽ आयलो ना... कार्लूशान धाडल्यांत म्हूण काय? ओगीच गुंथपाचे म्हूण गुंथले ताणें कळे आनी वळेसर भितर व्हरून दवरलो.

''माळ मुगो तीं मोगरीं...''

''मागीर माळटां... मांय...''

''मागीर? आज जालां कितें गो तुगेलें? मांयन अजापान विचारलें.

बेलिंदान लिगां घेवन फुलां माथ्याक लायलीं आनी रात जातकच कुशीन मोखून मारलीं. नाजाल्यार हेर वेळार तें लेंस ओलो करून मोगरी तातूंत गुठलावन उशाकडेन दवरतालें आनी दुसऱ्या दिसा सकाळीं ती माथ्यांत तुरयतालें.

दुसऱ्या दिसा सांजे मांयन म्हळें, ''बेलिंदा, वोस मुगो, कळे काडून हाड... जुजेफीन मानागेर सायबिणीक सांगलां.... तिकाय एक माळ गुंथून व्होर...''

मांयक वायट दिसूंक फावना म्हूण मनांत नासुनूय बेलिंदा दुरगा फाटले गेटी कडेन गेलें. गेटीक लॉक आसलें. पूण असलें लॉक आशिल्ले गेटीवेल्यान तें कितलेशेदां चडून भितर गेल्लें. आतां व्हड जालां म्हूण मांय गेटीर बी चडल्यार तापयता. पूण मांय खंय आसा हांगा...?

बेलिंदान आनीक वेळ केलो ना. पटपटीत गेटीचे भायले वटेन वयर चडलें आनी आतां तें भितल्ल्यान उडी मारतलें इतल्यान दोन हात मुखार आयले आनी अचळय ताच्या बावळ्यांक धरून, ताका सगळ्या सगळें उबारून भितल्ल्यान घेतलें आनी जमनीर उबें केलें.

...काळुंद्रो...!? ...ही-मॅन कसो...!! बेलिंदाक कितें उलोवचें कळना जालें.

उतर ओगीच लुडबेंशें गेलें ताचें... ''हांव... मोगरे कळे... मांयन धाडिलां...'' अशें कितेंशें ताणें म्हळें.

''ही चोय मोगरेवाल...'' मोगरेवालीक बोट दाखोवन ताणें म्हळें आनी हांसतच तो आपल्या कामाक गेलो. बेलिंदा ताचे फाटल्यान ताका पळयतूच उरलें....

त्या दिसाच्यान बेलिंदाक बेकारसाणेचो टायम पास करपाक हें एक बरें मेळ्ळें...! काळुंद्रो... तो ही-मॅन. दीसभर कितें करता, खंय वता तें तेळत बसपाची संवंयूच जावन पडली ताका.

सकाळीं उठून भायर व्हारांदर येवन बसता म्हळ्यार तो जॉगींगाच्या ड्रेसांत परतो आयिल्लो ताका दिसतालो. मागीर तें चिंततालें, ''म्हुजे मांय! हांव इतले बेगीन सआंक उठोतां म्हूण चोयल्यार, हो तेन्ना जॉगींक सोंपोवन पोत्तो येता!!! कोंब्या सादार उठोता मिस्ता हो!!! आनी आतां भितर वोसोन एक्झरसायज बी कोत्ता, कितें? मांय बरें कितेंय रांदल्यार त्या कार्लूशाक धाडून दिता...

हेका कितेंय धाडल्यार....?? पूण हो गिळटाच जातोलो तें.... बेश्टोच असो ही मॅन जाता?'

येवजितां येवजितां बेलिंदाचे फुगरे पोले चडूच फुगिल्ले बशेन जाताले.

''बाय बेलिंदा, हिंगा यो गो...''

''कितें मांय?''

''बाय, हें धोणस मातशें कार्लूशाक व्होरोन दिता...?''

''तूंच व्होरोन दी न्ही मांय... प्लीज मांय...'', कार्लूशाच्या तोंडार नदरूच घालन दिसनाशिल्ली ताका.

मांय मागीर आपूणच धोणस घेवन गेल्ली.

त्या दिसा कटिंगाचो क्लास सोंपोवन बेलिंदा घरा आयलें आनी पळय जाल्यार मांय-पाय दोगांय खोशयेन सामकीं नाचपा कडेन पावल्यांत.

''मांय, कितें जालां? आज जोबोर खोशी दिसोता मुगे तूं...'' ताणें विचारलें.

''फोबोर आसाच तेशी खोशयेची...''

मांयन म्हळें.

मागीर पायन ताका वेंगांत काडलें आनी म्हळें, ''म्हुगे धुवे, तूं मोठें नशीब मागोन येयलां सायबीण मांय कडेन.... आगो, कार्लूश तुको काजार जावंक मागोता...''

''...कि... तें...?'' आपल्या खांदा वेले पायचे हात फाफडून उडयत बेलिंदा कडेक सरलें... ''य... पाय... हांव सांगून दोवोत्तां तुमकां... हांव इतू बेगीन काजारूच जांवक सोदिना... आनी त्या कार्लूशा कडें तोर नाच्च ना...''

मांय-पांय चकासूर जावन आपले धुवेच्या तोंडाक पळयतूच उरले.

मांयकूच पयलीं उतर फुटलें... ''आगो, कितें उणें आसा तेका, म्हुण्टां हांव!... आं....! इतू बोरो मुनीस हांवें जाल्यार संवसारांत चोवंक ना. दिसूंक बरो, हांसकुरो... दुडवांकार... येदें व्हडलें घर... आनी लागींच मांय-पायची तुजेर नदर! आनी कितें सोदिता तूं हेच्या व्होड?''

''चेडवा, म्हुजे धुये... दारांत चलोन आयिल्लें नशीब अशें फांपरावं नाका...'' इतलेंच उलोवन पाय भितर वचून बसलो.

मांय मागीर रागानूचशी कुजनांत गेली. आनी बेलिंदा एकलेंच भायर व्हारांदांत कदेलार बसून रावलें.... चिंतत...

''आतां आमी उतर दिलां तेंचें कितें करप?'' पाय भितर मांयचेर तापतालो.

कोणाक खोबोर हें चेडूं एशें भाशेन उलयतेलें म्हूण? केन्नाच उतरा भायर नासलें... आतां कोणय म्हारू बोसला हेचे गोमटेर...? शिजलो मेळ्ळ्यार हरवेंच जाय म्हणपाची बुद्द.... चेडवा नशिबांत कितें आसा, सायबीण मांयच जाणा...'' मांय सुस्कारली.

बेलिंदाक रातभर न्हीद पडली ना. तें चिंतत आसलें. कार्लूशाचे तांचेर जायते उपकार आसले... पाय आंब्या रुखावेल्यान पडून ताचो पांय मोडलो तेन्ना कार्लूशानूच ताका ओश्पिसेंत व्होरून बरो केल्लो खूंय... मांय - पायची चूक ना... दोळ्यां मुखार चेडूं उरतलें अशें पाय उलयतालो. आमचो आदार ताका, ताचो आदार आमकां.... शेवटाक बेलिंदान थारायलें, कार्लूशाक 'हय' म्हणचें.

सकाळी तें उठलें तेन्ना मांय-पाय ओगी बशिल्लीं.

''पाय, कार्लूशाक तुवें कितें सांगलें?''

''कितें सांगू आतां...?'' पाय सुस्कारलो.

‘‘सांग तेका पाय, हांवें ‘हय’ म्हणलां म्हूण...’’

बेलिंदान अशें सांगना फुडें मांय-पाय खोशयेन भरलीं सामकीं, मांयक तर बेलिंदाक खंय दवरूं,खंय नाका अशें जालें. ‘‘म्हुजे धुये, आज तुवें म्हाका जोबोर खोस दिल्या.’’ अशें म्हणून मांयन बेलिंदाच्या कपलाचो उमांव घेतलो. मांयची खोशी पळोवन बेलिंदाक आपणें थारायलां तेंच खरें हें परतून जाणवलें.

पाय मात बेलिंदाकडेन बारीकसाणेन पळयतालो.

‘‘बेलिंदा, तुगे खोशी आमकां जाय. तूं खोशयेन कार्लूशाको काजार जावंक सोदिता? चोय धुये, मागीर पातकां-दुबाव नाकाय. तुजे खोशयेंत आमची खोशी. एकदां उतोर दिवन मागीर नेगार वोचोप ना म्हुजे बाय... काय तुगे आनी कोणाचेर मोग...’’

‘‘ना पाय... तशें कांयच ना! हांव नेणटें... तुमी कोत्तात तें म्हुगे बऱ्याक हें हांव जाणां पाय! तुमच्या उतरा भायर हांव ना...’’ बेलिंदाचे दोळे पायचो मोग, ताची समजिकाय पळोवन भरून आयले.

दनपरां जेवतना मांयन म्हळें, ‘‘बोलिंदा, बाय सांजेर... न्हेसोन बा रेडी राव आं, कार्लूश तुका आपणा बराबर कोलव्यां पासयेक व्होरूंक सोदिता... साडेपांच म्हुटल्यार रेडी राव म्हणलां तेणें...’’

‘‘बरें मांय...’’ बेलिंदान म्हळें.

बेलिंदा पांचांकूच तयार जावन बसलें.

आपणाल्या पिंगश्या केसांची सदचे बशेन ताणें फांती घाली.शेदाच्या व्हिस्तिदाक फेर्र मारलें. तोंडाक पोव बी लावन व्हिस्तीद घालून बरो चेर मारलो आनी बसलें व्हारांदांत.

साडेपांचांक काराचो हॉर्न आयकून तें उठलें. ‘‘मांय, तो येयलो मिस्ता...’’ताणें म्हळें. मांयन ‘बरें’ म्हळें.

आपल्याचे नवे खोंटां बूट पांयांक चडयत ताणें ‘येता मांय’ म्हळें आनी तें सोपणां देंवलें.

कार्लूश कारांत बसून बेलिंदाक पळयतालो. भिंडा-कोराच्या त्या सिल्काच्या व्हिस्तिदांत बेलिंदा गोरेंच पांखलीण कशें दिसतालें. ‘‘मान खाला घालून ओगी शें चलता? तोंडार हांसो ना... मात्तूय उमेद ना... हांव तेका मानवलों ना काय?’’

कार्लूशाक ओगीच काळजांत दुखिल्ले भशेन जालें. ताचें मन दुबावान भरलें. बेलिंदा लागीं पावतकच ताणें काराचें दार उकतें केलें. बेलिंदा कारांत चडून बसलें आनी वारांदांत उबी आशिल्ले मांयक ताणें हात हालयलो. कार्लूश आतां गाडी स्टार्ट मारतलो - मागीर मारतलो - तें चिंतत रावलें - हो कार स्टार्ट कित्याक करना?

''बेलिंदा...''

''कितें?''

''तूं बेजार आसा म्हुजेर?''

''ना...'' बेलिंदा नदर वयर करुंकूच तयार नासलें.

''तूं खोशी आसा आमचें काजार जातेलें म्हुणोन? मुगे तोंडांक पोळोवन सांग...''

बेलिंदान नदर वयर केली... आनी... आनी काळुंद्रयाक आपले म्हऱ्यांत बशिल्लो पळोवन ताणें म्हळें ''तूं...? आनी कार्लूश खंय तर...?''

''हांवच... कार्लूश...! कितें जालें??!

''मागीर तो... तो... घारसुलो...?''

''कोण घारसुलो? आं.... आं... तो किस्तोद? मुगे कुजनेर तो... कितेंय रांदूक सामको फिशाल... तेचें कितें...?''

काळ्या कुपांतल्यान सुर्या भायर सरचो तसो बेलिंदाच्या सगल्या तोंडार, ओंठार, दोळ्यांर हांसो फुलून आयलो... ताचें आंग-पांग सगळें ल्हवपीक जालें. कारांत बसचें काय उठचें आनी नाचूंक लागचें.... ताका कळचना जालें. कितें करूं? कितें करूं? दोनूय हातांच्यो मुठी आंवळून ताणें कार्लूशाच्या हड्ड्यार, फाटीर, खांदयार, हात पावता थंय धुमके घालीत म्हळें, फटीग खंयचो!... मस्तो... काळुंद्रो खंयचो... तूं... तूंच कार्लूश??''

आनी ताच्या खांदार तकली दवरून तें दोळ्यांतल्यान खोशयेचीं दुकां गळयत रावलें.



# 6

# 'भुरग्यां-आवय'

"तूं बसलां न्ही घरांत, नोकरी सोडून 'भुरग्यां-आवय' जावन! कशे जमतलें आमकां व्हिडिओ घेवपाक?" नितीनान तिडकीन म्हळें.

"आरे, पूण, हांव कित्याक नाका म्हणटां तें कशें कळना तुका? व्हिडिओ हाडटकच मागीर कॅसेटी हाडून सिनेमा पळोवपाचो नाद लागतलो. भुरग्यांक बरें न्ही तें! अभ्यासावेलें लक्ष मागीर वता. पयलींच रोहन शिकूंक मातसो फाटींच. हांव ताका कसो घेवन बसतां अभ्यासाक, पळयना तूं?"

"पूण सगल्यांगेर आशिल्ली वस्त आपल्यागेर ना जाल्यार तांका फ्रेंडांमुखार कमीपणां येतात... विरूस जातात भुरगीं हें कळना तुका?"

हरशीं नितीनालीं आनी सुनितालीं झगडीं अशीं जायच नासलीं. पूण सुनितान नोकरी सोडत सावन तांचें मर्दी मर्दी पेटूंक लागिल्लें. आतां सिया णव वर्सांचें आनी रोहन सात वर्सांचो जालो तरी नितीनाच्या मनांतलें तें किल्मीश अजून वचनासलें.

"ना जाल्यार त्या मिलिंदाचे बायलेक पळय गो! तुजीच इश्टीण मुगो ती? बरोबरच बी.कॉम् जाल्यांत तुमी! आज तें खंय आनी तूं खंय?"

"हांव हांगा घराक, म्हज्या संवसाराक, म्हज्या भुरग्यांखातीर आनी तें ऑफिसाक... आनी ताचीं भुरगीं एकलींच घरा... ताका जमता तें. म्हाका जमना..." सुनितान हांसपाचेर व्हरपाचो यत्न केलो.

"तें येदें व्हडलें ऑफिसर आनी तूं बसलां घरा, भुरग्यां आवय जावन...! ताका शक्य आसा तें तुज्यान कित्याक जालें ना?"

"आरे, जण एकल्याची कालेत वेगळी, सभाव वेगळो. ते करिअर मायंडेड!

ल्हानपणा सावन ताचो हावेस आसलो करिअर करपाचो. म्हणून ताणें बी.कॉम जातकच शॉर्ट हँड टायपिंग, कम्प्यूटर कोर्स, मॅनेजमेंट कोर्स अशें कितें कितें शिकून घेतलें. हांवें करिअराचें केन्ना चिंतुंकूच ना. घर, घरकाम हातुंतूच म्हाका आवड. आतां शिकोवप आवडटालें म्हणून ट्रेनिंग केलें आनी टिचर जालें.''

''पूण ती टिचरीची नोकरी तिगोवप तुका जमलें ना. अशें कशें गो तूं?'' नितीनान बेजारून विचारलें.

''भुरग्यांक चेडवांचेर सोडून दीसभर ऑफिसाक वचप ताका जमता. म्हाका पुटवना तें...! आनी तुका लग्ना वेळारच हांवें सांगिल्ले मरे, भुरगीं जातकच नोकरी सोडटलें म्हणून?''

''तेन्ना म्हाका दिशिल्लें, तूं ओगीच इमोशनल जावन उलयता म्हणून... म्हाका खंय खबर तूं अशी 'भुरग्यां-आवय' जावन रावतलें म्हणून?''

नितीनान ताका चाळोवपाक 'भुरग्यां-आवय' हें नांव सोदून काडिल्लें.

''आतां कळ्ळो मूं तुका म्हजो सभाव? आरे, तू अशें कित्याक चिंतता? तुका कितें कमी पगार आसा? आनी पयशे म्हळ्यारच सगळें सूख अशें कित्याक दिसता तुका? आमच्या सियाक पळय मरे! वर्गांत 'बेस्ट स्टुडन्ट' म्हणून स्पेशल बक्षीस मेळयलां ताणें. पयलो नंबर तर केन्नाच सोडना. रोहनय सदांच फस्ट-क्लासांत पास जाता. इश्कोलांत सगले टीचर तुज्या भुरग्यांक तोखेतात.

''आनी हें सगळें तुवें नोकरी सोडिल्ल्यान जालां?'' नितीनान कुच्छित्रीपणान म्हळें.

''तें म्हाका खबरना. पूण म्हाका सदांच दिसलां की बापूय जेन्ना पयशे जोडपाखातीर घरा भायर वता तेन्ना घरा रावन आवयन भुरग्यांविशींची कर्तव्यां सांबाळूंकच जाय...!''

''कसलीं कर्तव्यां? रांदप, वाडप, घर साफ करप...'' नितीनाचें तोंड चालू जालें.

''भुरग्यांक बरें भशेन वयरकाडप, तांकां बरी देख लावप, बरें कितें वायट कितें हें समजावप... तांकां देशाचे बरे नागरीक करप...'' सुनिताभितर लिपिली टिचर उलोवंक लागली.

''आनी तांणी व्हिडिओ गेम मागल्यार तांकां रडोवप... घरांत एक व्हिडिओ घेवया म्हळ्यार 'आमकां गरज ना' म्हणून तांकां विरूस करप... अशे तरेन तांच्यो

गरजेच्यो वस्तू तांकां दिवप ना...''

''म्हणजे तुज्या मतान व्हिडिओ बी सामक्यो गरजेच्यो वस्तू?'' सुनितान अजापान विचारलें. ''कमलआकाल्या चल्याक पळयला मरे तुवें, कसो दीसभर व्हिडिओ गेम खेळत बसात तो? खंय भायर वचप, ग्राऊंडार खेळप ना, फुटबॉल ना, क्रिकेट ना... असल्यांनी भुरग्याचें आरोग्य बरें उरता?''

''बरें बाये! तुजेंच खरें! सामकी आपल्या-वाद्याची बायल तूं. तुजेकडेन वाद कोणे घालचो?'' नितीनान बेजारून म्हळें.

पूण खंय तरी भितर ताका सुनिताचें म्हणणें खरें दिसतालें. तोंडान उलयना जाल्यार लेगीत मनाभितर ताका केन्नाकेन्नाय सुनिताची खरेंच तोखणाय दिसताली.

दर आयतारा घरांतलीं कामां काडून तातूंत सगळ्यांक ओडपाचो सुनिताचो सभाव! ह्या आयतारा कितें आसतलें काय? अजून कांय बोवाळ ना...' पेपर घेवन बशिल्लेकडेन नितीन चिंततालो. आज आयतार जाल्ल्यान च्या पीत पेपर वाचपाक मेळटालो. 'आऽऽ' करून आळस काडीत ताणें दोनय पांय उबारून स्टुलाचेर दवरले आनी हातांत पेपर घेवन ताचेर दोळे भोंवडायत रुचीन च्याचे घोंट मारूंक लागलो. तकलेंत मात विचारांचो खेळ चालूच आसलो.

- अमेरिकेन तालीबानाचेर बाँब शेंवटूंक कॉमेस केलां. आतां गेर्र पेट्टलेंच! ताचे फाटोफाट म्हारगाय येतलीच. पयरच कामत म्हणटालो, गॅस शंभर रुपयांनी चडटलो म्हणून! परशुरामाल्या दुकानार तांदळांची पंचवीस किलांची पोती चारशां वेल्यान रोखडीच चारशें पन्नासांचेर व्हेली ताणें! साखरय वाडटलीच! थोडें सामान हाडून घरांत उडयल्यार बरें जातलें आशिल्लें. पूण पयशांचें कशें करप? खंयूय पार्ट-टायम सिर्वीस रातची बी पळयल्यार बरी दिसता... छ्याऽ! ह्या सुनितान नोकरी सोडून वाट लायली संवसाराची! सामकी आपले-वाद्याची बायल! लोकांलीं भुरगीं वयर सरनात? तीं व्हड जायनात? भुरग्यांक घरा येतकच आवय जायच खंय! कसले विचार हे सुशिक्षीत बायलेचे?! आतां जग खंय पावलां आनी हें सुनिता? खंयच्या काळांतल्यो खबरी सांगता म्हाका?

सामकी भुरग्यां-आवय जावन बसलां!

च्याचें कोप कुशीक दवरून नितीनान परतें पेपरांत तोंड घालें. इतल्यांत सुनितान ताच्या हातांतलो पेपर ओडून घेतलो.

“सगलो आयतार पेपर वाचपाकच घालतलो काय बाजारांत वचून नुस्तें भाजी बी हाडटलो?” ताणें विचारलें.

“आगो हाडटां गो. आज तरी मात्शे सुशेगादीन कामां करूंदी.”

“कित्याक? गोंयकारांचें सुशेगादपण दाखोवपाक हो आयतार बरो पडटा तुका, न्ही?” सुनितान पेपर परतो दिलो.

“मम्मी, म्हाका आज पाव-लोणी नाका हां! आज पोळे ना जाल्यार उपमा...” सिया भितल्ल्यान आड्डलें.

“नाका हां मम्मीऽ, आज तूं शिरो कर.” रोहनाक गोड खाणाचो चड घोस्त आसलो.

‘बोवाळ कित्याक रे तुमचो? तोंड धुयात पयलीं...” नुस्त्याची पिशवी नितीनाच्या हातांत दिवन सुनिता भितर गेलें.

नुस्त्या बाजारांत आज खूब गर्दी आशिल्ली. विस्वण बरे पडिल्लेशे दिसताले. वता थंय नुस्तेकान्नी मुखार कळवेचे दिसताले. नितीनान एके नुस्तेकान्नीक वांटो कसो दिला काय विचारलें.

“पोन्नास रुपोय बाब!” तिणें सांगलें.

“आवयस्! पन्नासांनी?... आनी पोंवशेल्ले बी न्ही मुगे?”

“आवोय! कितें म्हुणटा रे तूं हो अिसोण पोंवशेल्लो?” नुस्तेकान्नीन ताका रागान पळयलें तशें नितीनाक लज जाल्ले भशेन जाली.

“दी... एक वांटो दी...” ताणें म्हळें.

पन्नास रुपये तो काडून दिता थंय आसा, ताचे फाटीर एक पेजाद थापट पडलें. फाटोफाट ‘नितीन मरे! आज सकाळीं सकाळींच बाजाराक आयलो काय कितें?’ करीत मिलिंद म्हऱ्यांत उबो.

“आरे मिलिंद, तूं आनी बाजाराक येता म्हणून हांव नकळ आसलों.” नितीनान अजापान म्हळें.

“आज आयतार न्ही रे? व्हरून उडोवया म्हळें नुस्तें घरांत. आगो, हो तो कळवो कितल्याक दिला?”

“...तिनशें रुपोय! सामको ताज्जो आहा चोय!” नुस्तेकान्नीन दुसऱ्या गिरायकाक नुस्त्या - वांटो पोतयेंत घालून दीत मिलिंदावटेन तोंड करून सांगले.

बोल्सांतल्यान तीनशें रुपये काडून नुस्तेकान्नीक दिवन मिलिंदान विस्वण घेतलो आनी कापूंक दिलो.

नितीन पळयतच उरलो. नुस्त्याखातीर तीनशें रुपये अश्शेच काडून दिवपी मिलिंदाची ताका मनांत नसायशी जाल्ली.

मिलिंद नितीनाच्यान ऑफिसांत काम करता. दोगांनीय एकाच वर्सा ती कंपनी जॉयन केल्ली. पूण दोगांयच्याय रावपांत कितलो फरक आसलो! मिलिंदाकय प्रीती-पराग हींदोनच भुरगीं. मिलिंदाली बायल आनी सुनिता तर सामक्यो इश्टिणी. एकामेकांगेर येवपी-वचपी. दोगांयचे फ्लॅटय बी पंदरा मिनटांचेर वाटेर आसले.

नितीनान चिंतलें, 'आमच्या रावपांत फरक कित्याक आसचो ना? सुलून सुनिताभशेन हुतहुतेपणां करून नोकरी सोडूंकना... तांचीं भुरगीं वयर सरूंक नात? सुनितालें म्हणून अतीच जाता.'

घरा येवन नुस्त्याचो वांटो सुनिताकडेन दितना ताणें म्हळें, ''मिलिंद मेळिल्लो गो आज बाजारांत.''

''हय? कितें सांगतालो? सुलू कशें आसा खंय? आनी भुरगीं...?''

''तें हांव विचारूंक गेलों ना. हांवें हो पन्नास रुपयांचो वांटो हाडलो. तेय बी पन्नास रुपये भायर काडटना मन फाटीं-फुडें जातालें. पूण ताणें अश्शेच तीनशे रुपये नुस्तेकान्नीमुखार उडोवन येऽदूदो विस्वण कापून व्हेलो!''

''तांकां कितें? सुलू सांगतालें, नवो तीन बेडरूमाचो फ्लॅट बूक केला म्हणून...'' सुनितान सांगलें.

''आसता एकएकल्याचें नशीब!'' सुस्कारत नितीनान म्हळें.

''तूं आनी एक एक अजापच उलयता. नशीब खंयचें?तुका खबर ना तीं दोगांय जाणां नोकरी करतात तें?एकल्याची जोड संवसाराक खर्च करतात. तुजे भशेन न्ही... जोडपाक एकलो आनी खावपाक चार तोंडां!''

''आतां समजलें मगो तुका हें? सुनिता, तुवें सिया वेळार नोकरी सोडून चूक केली... वायट दिसता काय ना आतां?''

''दिसताय बी आनी दिसनाय बी! आतां जाल्लें जावन गेलें. भुरग्यांमुखार नोकरी व्हड रे? शिवाय हांव ट्युशनां दितांच न्ही घरांत!'' सुनितान म्हळें.

''तें जालें गो. पूण... तरीकय मनांत येता... अजूनय तुज्यान... म्हणचे म्हाका

अशें म्हणचें आसा... आगो, सुलू आनी मिलिंदाक पळय मगो... नितीनाच्या मनाची कश्शीच समज पडनासली.

"अशी भुरग्यां-आवय जावन बसनाका गो."

"एक दीस वच तांगेर आनी पळय... खरें सूख पयशांनी मेळटा काय कशें मेळटा तें!" सुनिता नुस्त्याची पोती घेवन भितर गेलें.

जेवतना विस्वणाचें हुमण पळोवन सियान म्हळें,

"रोहन, बेगीन यो जेवपाक. आज फिस्ट आसा."

रोहन ताकतिकेन येवन कदेलार बसलो. ताका सुनितान म्हळें, "हात धुल्यात मरे?" तसो लजेल्लेभशेन जावन तो बेसिनांत हात धुवन आयलो.

हांसत खबऱ्यो करीत मजेन जेवणां जालीं. मदींच सियान म्हळें, "पप्पा, आयसक्रीम हाडल्यार खूब दीस जाले. ना रे रोहन?"

"हय पप्पा! आज आयसक्रीम जायच हां!"

नितीन कितेंय उलवचें पयलींच सुनितान तोंड घालें. "आज पप्पा आयसक्रीम दितलो, पूण आतां न्ही... सांजचें! आतां हें केळें खायात." सगळ्यांच्या मुखार केळीं दवरत सुनितान परत सांगलें, "थोड्या वेळान म्हाका तुमचो सगल्यांचो आदार जाय...!"

"जाऽलें! आयताराचो सुशेग पेड्डेर करपाचो बेत आसतलो तुजो...!!" नितीनान म्हळें,

"आनीक हांव करतलें तरी कितें? एक आयताराकच म्हाका हाताक मेळटात न्ही तुमी सगले?"

"मम्मी, म्हजो होमवर्क उरला हां करपाचो...!"

रोहनान आंग मारपाचो यत्न केलो.

"आरे, तुजो होमवर्क आतां करून उडय न्ही..." सुनितान ताका समजायलो. "ते मेरेन हांव मातशें आड पडटां."

चार वरांचेर च्यो आक्त आटापून सुनितान सगल्यांच्या आधारान किचन निवळ करपाक कोमेस केलें. रंगाचो डबो आनी ब्रश पळयतनाच नितीनान पोरणी हाफ-पँट आनी टी-शर्ट चडयलो.

काम सोंपले आनी वणटीवेल्या घड्याळान टण् टण् करून सात टोले दिले.

''किचन सामकें चकचकीत व्हंकलशी दिसता'', सियान रिमार्क मारलो.

''आतां तुमी एक-एक करून बाथरुमांत वचून चकचकीत जायात पळोवया! आयसक्रीम खावंक वचया न्ही?'' सुनिता अशें म्हणटा थंय आसा, दोगांय भुरगीं 'हांव पयली, हांव पयलीं' करीत बाथरुमात न्हावपाक धांवली.

''म्हाकां पयलीं एक कप च्या जाय'', नितीना सांगलें.

''निखटी च्या काय कितेंय जाय बरोबर?''

सुनितान गॅस पेटोवन च्याचें आयदन चडयत विचारलें.

नितीनाक सुनिताची एकेकदां खरेंच अपुरबाय दिसता. वयल्या माळ्यावेल्या कामतीगेर रंग काडपाक मनीस आयिल्लो. ताका आपोवन नितीनानय आपल्याय फ्लॅटाय रंग काडूंक एस्टिमेट विचारिल्लो, त्या मनशान सात हजार सांगिल्ले. रंगाचो खर्च खेरीज! कामतीन मागीर आपल्या अणभवावेल्यान सांगलें, 'धा-बारा हजार भायर काडचेच पडटले' म्हणून... पूण सुनितान हो खर्च नाकाच म्हळें. सुटयेच्या दिसांनी सगळ्यांच्या आधारान एक एक रूम रंगोवन सगलो फ्लॅट चकचकीत करून सोडलो. आतां वणटी बी कामतीच्या वणटींभशेन दिसनासल्यो. रंगोवप चडशें रफच जाल्लें. पूण सुनिताचें म्हणणें एकच – 'आमी कितें प्रॉफेशनल तर? आमकां घर खंय प्रदर्शनाक दवरपाचें ना...' भुरगींय खुश आसलीं. वांचिल्ल्या पयशांत भर घालून स्कुलात वचपाक दोगांकय सायकल मेळपाची आसली.

आयसक्रीम खावन जातकच नितीनान सुनिताक म्हळें, ''आतां घरा वचून तुका परतो रांदपाचो वावर मुगो? काय भायरच जेवन घरा या?''

''मम्मी, दनपारचें शीत-हुमण बी कितलें उरलां, न्ही गे?'' सियान विचारलें.

''मम्मी, तूं इल्ली कडी कर आनी पापड भाज. त्या हॉटेलांतल्या जेवणापरस म्हाका तुवेंच रांदिल्लें जेवण आवडटा.''

मोठे व्हडविकायेन आपल्या दोनय भुरग्यांक पळयत सुनितान म्हळें, ''चलात तर... घरा परतुंया.''

घरा पावतकच सुनितान हात-पांय धुले आनी देवाक दिवो लायलो. नाल्ल फोडून कडी करून ताणें पापडांचो डबो काडलो. ताणें आयडियेन दनपरांच शीत चड करून दवरिल्लें. तें गरम करपाक दवरलें. सिया रोहन देवाक नमस्कार करून 'शुभंकरोति' म्हणून बापायक पांयां पडलीं आनी आवयक पांयां पडूंक किचनांत

आयलीं.

"मम्मी, हांव भाजतां गे पापड!" सियाक किचनांत कितेंय काम करपाची सदांच उमेद.

"हात हुलपावन घेना मुगो?" सुनितान ताका पयलीं शिटकायलें. मागीर चिमटो घेवन गॅसार पापड कसो भाजचो तें दाखयलें.

"मम्मी, पापड तळना कित्याक तूं? तळिल्लो पापड चड बरो लागता..." रोहन ताटां-पेले काडून मेजार मांडूंक लागिल्लो.

"आरे, तेल चड खावप बरें न्ही. आनी चार पापडांक लागून उरिल्लें तेल व्यर्थ वचचें ना?" सुनिताली काटकसर उलयली. "हांव न्ही, भाजिल्ल्या पापडाचेर बरो खोबरेलाचो थेंबो घालतां हां... मागीर काय बरो लागतलो पळय."

रोहनान 'हां' म्हणून तकली हालयली. मागीर शीत-कडी भुरकायत मोठे रुचीन तो पापड खावंक लागलो. "जालें... सोंऽपलोऽऽ" ताणें मर्दीच तोंड वांकडें करीत म्हळें.

"कितें जालें? पापड सोंपलो रे?" नितीनान विचारलें.

"पप्पा, तागेलें सदचेंच तें. तूं लक्ष दिवंनाका." सिंया हांसूंक लागलें. "तो दरेक आयताराक न्हिदतना म्हाका सांगता तें..."

"आतां हांव तुका सांगना. पप्पाक सांगतां..." रोहनान पोले फुगोवन म्हळें, "पप्पा, आयतार रोखडोच सोंपता, न्ही रे? फाल्यां परतो समोरा... इश्कोल... अभ्यास! परतो आयतार येतसर कितलेशेच दीस आसात..."

"चड दिसांनी येता म्हणून तर आयताराची चड व्हडवीक आसता. सदांच आयतार आसल्यार तुका ताचो वाज येतलो." बापायन ताका समजायलो.

"म्हजो वाडदीस आयताराक कित्याक येना?" रोहनान तक्रार केलीच.

"चलात! न्हिदात आतां सकाळीं बेगीन उठूंक जाय न्ही?" सुनितान ताका थापटिलो तशे रोखडेच ताचे दोळे धांपूंक लागले.

रोहनाच्या वाडदिसाक सुनिता शेजारच्या भुरग्यां बरोबर प्रीती-परागाकय आपयताच. सुलूय बी प्रीती परागाच्या वाडदिसाक सिया-सोहनाक आपयलेबगर रावना.

वाडदिसाक रोहनाचे आवडीच्यो पुरणपोळ्यो केल्ल्यो फ्रूटसॅलडय केल्लें.

सियाचे आवडीचो पुलाव, छोले आनी पुरयो तळिल्ल्यो.... सगळीं भुरगीं खेळून नाचून पुरो जावन आवडीन जेवलीं.पूण प्रीती – परागाच्यो बढायो मारप चालूच आशिल्लें.

“म्हज्या वाडदिसाक मम्मीन पंजाबी चिकन मागयल्लें. आनी मटर–पनीर, फ्रायड राईस्. आनी केक केदो व्हडलो हाडिल्लो...” पराग झेत मारलो.

“आनी स्वीट डिश कितल्यो... पुडिंग, आयसक्रीम, गुलाबजाम... सगलें व्हडल्या हॉटेलांतल्यान मागयल्लें.” प्रीतीन याद केली.

“पूण म्हाका भायलें जेवण आवडच ना. म्हजे मम्मीन केल्लेंच बरें लागतां.” रोहनान म्हळें. पूण ताचें तोंड इल्लेंशें जाल्लें.

“हांवें तर तें चिकन तोंडांत लेगीत घालें ना... आमची मम्मी काय बरें करता चिकन...!” सियान रोहनाक साथ दिली.

सुनितान पळयलें, भुरगीं झडग्यांचेर पावंक उणीं नात. ताणें भुरग्यांक म्हळें, “आरे! केक खायात मरे!”

सुनितान ओव्हनांत भाजिल्लो केक व्हडलो डेकोरेटिव्ह नाशिल्लो, पूण रूचीन बरोऽ जाल्लो. भुरग्यांक आवडलो. पुरणपोळयो तर भुरग्यांनी आवडीन खाल्ल्यो. आंवंय!' म्हणपी प्रीती–परागान तर फ्रूट–सॅलड तीन तीन वेळा घेवन खालें.

“तुज्या पप्पान तुका कितें प्रेझेंट हाडलां रे वाडदिसाक?” मदींच परागान विचारलें.

“नवी शर्ट–पँट. ही पळय, हांवें आतां घाल्ल्या ती! बरीऽ दिसता न्ही?”

“पूण कपडे सदांचेच मरे! ते नवे हाडटातच! आनीक कांयच हाडूंक ना? म्हज्या पप्पान म्हाका व्हिडिओ गेम हाडिल्ली पळय! याद ना तुका? आमी कितले खेळिल्ले तेन्ना!” परागान याद केली.

रोहनाचें तोंड पडलें. मागीर सियान सांगलें, ‘आमकां सायकली हाडपाच्यो आसात' म्हणून.

शेजारचीं भुरगीं आपापल्या घरा गेलीं. मागीर प्रीतीन म्हळें, “चल, व्हिडिओचेर बरें पिक्चर घालून पळोवया. कसली कॅसेट आसा हाडिल्ली?”

रोहन आनी सीया ओगीच रावलीं.

“तुमगेर व्हिडिओ ना रे?” मोठेंच अजाप जाल्ले भशेन परागान म्हळें, “आतां

कितें जाप दितली भुरग्यां-आवय?'' नितीनान चिंतलें.

मागीर 'आमच्या पप्पान आमकां हें हाडलां , मम्मीन तें हाडलां करीत उतराउतराक प्रीती-परागाल्यो बढायो मारप चालूच आसलें. शेवटान नितीन तें आयकून बेजारलो. ''चलात रे, तुमकां घरां पावयतां. रात जाली पळय.'' ताणें पांयांक बूट चडयलें.

''इतले बेगीन? आमी आनीक थोडो वेळ रावतात न्ही!'' प्रीतीन म्हळें. ''आमची मम्मी बी अजून येवंकच नासतलीं.''

''आठ जालीं मरे! आयलीं जातलीं...'' सुनितान सांगलें.

''ना आंटी! ह्या दिसांनी ऑफिसाक खूब काम आसता. मम्मीक साडेआठ तरी जातातच!'' प्रीती.

''मागीर तुमी... तुमी कितें करतात?'' सियान विचारलें.

''आमी टी.व्ही. लायतात. व्हिडिओचेर नव्यो कॅसेटी घालून पिक्चरां पळयतात. वाज आयल्यार न्हिदतात. मागीर...'' परागान सांगलें.

''आनी जेवण?'' रोहनाक अजाप जालें.

''मम्मी येतकच कितेंय करता. तिका पुरो जाल्लें आसल्यार येतनाच हॉटेलांतल्यान कितेंय हाडटा. ती मागीर आमकां उठयता.''

रोहन आयकतच उरलो. ''तुमी इश्कोलांतल्यान घरा येतकच कोण वाडटा तुमकां?'' ताणें विचारलें.

''वाडूंक कित्याक जाय? रांदपिणीन मेजार रांदून दवरिल्लें आसता. आमी जाय तें घेवन जेवतात.''

प्रीतीन सांगलें.

''हांव जाल्यार फ्रिजांत कितें आसा तें पयलीं पळयतां. केक, फळां, पिझ्झा... तेंच खातां चड करून...'' परागान सांगलें.

''आनी सगळी पेप्सी बी पिवन रिकाम्यो बाटल्यो दवरता'' प्रीतीन ताका तिडायलो

''आनी तूं पिता तें? तेंय सांग मगो...!'' पराग आतां झगड्याक पेटलो.

सुनीताक पोटांतल्यान पोरांचो कळवळो आयलो. ''आरे, आमचें घर पयस काय ना! केन्ना केन्नाय इश्कोल सुट्टकच हे वटेच्यान येवचें. हुनहुनीत जेवण जेवन

वचचें घरा! मात तुमच्या मम्मी-पप्पाक पयलीं सांगून दवरात.'' ताणें म्हळें.

''तांकां कित्याक सांगूंक जाय? तांकां खंय कळटा आमी खंय गेल्यांत तें? तीं येतलीं रातचीं...'' परागान हांसत म्हळें.

''अंकल, हांव केन्नाच अशें वचनां हां. पूण हो पराग न्ही, आपल्या फ्रेंडांबरोबर जाय जाय थंय हेडटा. हांवें पप्पाक सांगतलें म्हळ्यार म्हाका मारूंक येता...'' प्रीतीन चाडयो केल्यो.

''प्रीती, आतां तुवें हें अंकलाक कित्याक सांगलें? तुका राव दाखयतां... अंकल, हें प्रीती ओगीच सांगता हां. हांव ट्युशनाक गेल्लों...''

''पूण हांव तुज्या सरागेर तुका पळोवंक गेल्लें तेन्ना तूं ट्यूशन-क्लासाक खंय आशिल्लो?

''आनी तूं ट्यूशन चुकोवन पिक्चराक गेल्लें तें फ्रेंडां बरोबर?''

''पूण हां... तुजेभशेन परतें परतें वचना. केन्नाय एक दीस वतां.''

हाचेर पराग प्रीतीक मारुंकच धांवलो. सुनितान ताका आडायलो. प्रीतीक वेंगेंत काडलें आनी दोगांकय सांगलें, ''आरे, अशें झगडनये! काय बरीं भांगरासारकीं भुरगीं मरे तुमी! तुमचेच खातीर तुमचे मम्मी-पप्पा जोडूंक वतात न्ही? हें लक्षांत दवरून तुमी बरें करून एकामेकांक सांबाळून रावंक जाय. वेळार आपलो होमवर्क, अभ्यास करूंक जाय. शाणी मरे तुमी? घरच्या कामाक जाता तसो मम्मीक आधार बी करूंक जाय तुमी.''

''हांव करतां तसो. न्ही गे मम्मी?'' रोहन सगल्यो प्लेटी बी व्हरून बेसिनांत दवरतालो.

सिया ग्लास एकठांय करतालें. तांकां दोगांकय काम करतना पळोवन प्रीती - परागाक पयलीं अजापशें जालें. मागीर तींय बी आपखोशयेन तांकां मदत करूंक लागलीं.

''पळयात हां! सांबाळून... फोडशात बी!'' सुनितान प्लेटी, ग्लास बी धुले भुरग्यांनी ते पुसले आनी नितीनान ते व्हरून जाग्यार मांडून दवरले. भुरग्यांक काम करपाक खूब मजा दिसली. शेवटाक साडेआठांक नितीनान म्हळें, ''पुरो हां आतां. चलात रे, तुमचीं मम्मी-पप्पा हुस्केतलीं.''

नाखोशयेनच प्रीता-पराग हातपुसून वचूंक भायर सरलीं. सुनितान नितीनाकडेन

छोले आनी पुरणपोळयो डब्यांनी घालून दिल्यो. ''सुलूक दी. ताका खूब आवडटात.'' ताणें सांगलें.

बेल मारतनाच सुलून दार काडलें.

''जालो वाडदीस? कसलो वेळ करप हो?'' ताणें विचारलें.

''भुरगीं भुरगीं मजा करतात म्हणून वेळ केलो पावोवपाक.'' नितीनान डबे सुलूसच्च्य हातांत दीत म्हळें, ''हें सुनितान दिलां तुका.''

''आनी आमी बेगीन घरा येवन म्हणून कितें करपाचें? तुमी काय घरा नासतातच...'' प्रीतीन सुबेजपणां केलीं.

''घरा बसून अभ्यास करूंक जायना?''

मिलिंदान विचारलें. ''आनी तूं रें पराग? रिपोर्टकार्ड पळयलां तुजें? चार सब्जेक्टांक तांबड्यो लायनी मरे! प्रीती हे खेपेक पास जालां तरी...''

पराग आयकलेंच ना अशें करीत भितर वचूंक लागलो.

''आरे पप्पा, तुका विचारता. असो कसो फेल जाता रे तूं? इतलीं ट्यूशनां... फी म्हणून थोडी आसता?'' सुलून रागान विचारलें.

पूण पराग थंय लक्षच नाशिल्लेभशेन वचूंक लागलो.

''खंय वतारे? हांगा यो असो.'' मिलिंदान ऑर्द सोडली.

''म्हाका न्हीद येता. हांव चल्लो न्हिदूंक!'' अशें उद्दटपणान उतर दीत पराग पांय आपटीत भितर गेलो. प्रीती तर पयलींच भितर पाविल्लें.

मागीर सुलू बडबडत रावलें. ''तरी बरें. म्हयन्या म्हयन्याक नवो कंपास जाय. एक नवें पेन जाय... तेंय बी सादें उपकरना... हिरोच जाय. आनी मॅथ्साक कितले काय म्हळ्यार चार मार्क!''

''ही देख मुगो तुजी भुरग्यांक? पळय, बापायच्या उतराक जाप दिवंक लेगीत वेळ ना ताका...'' मिलिंद तणतणपाक लागलो.

''म्हजी देख वयर काडनाका आतां. तुवेंच वाट लायल्या ताची. तो सांगता-सांगता त्यो नाका जाल्ल्यो वस्तू घेवन दिवप.. हें हाड-हाडलें तें हाड-हाडलें...!''

आतां तांचें पेट्टलें हें पळेवन नितीनान म्हळें ''बरें तर, येता हांव सुनिता वाट पळेतलें.''

नितीन घरा पावलो तेन्ना सिया-रोहन सुस्त न्हिंदिल्लीं. सुनिता ताची वाट पळयत जागतालें.

“पावयलीं भुरग्यांक? सुलू कितें म्हणटालें?” सुनितान विचारलें.

“कितें आनी म्हणटलें? हांवे पुरणपोळ्यो दिल्यो तेन्ना खोशी जालें. सुनिता... तुवें नोकरी सोडून...”

“जालें तुजें परतें सुरू? नितीन, तुका हांव निमाणें सांगतां, भुरग्यांक एकटीं उडोवन हांव नोकरेक निखालूस वचपी न्ही. मागीर तूं कितलोय चाळय म्हाका ‘भुरग्यां-आवय’ म्हणून. म्हाका लागच ना.”

“आगो पूण हांव कितें म्हणटा तें तरी आयक! हांव म्हणूंक वतालों...”

“कितें म्हणूंक वतालो?”

“तुवें म्हजें उतर मोडून नोकरी सोडली आनी खरेंच शाणेपणां केलीं.” नितीनान म्हळें.

सुनिता ताच्या तोंडाक अजापान पळयतच उरलें!



7

# हळदकुकूम

आज ताईलो हळदकुकूम! पयलोच, म्हणून कुळारा करपाचो! घरांत सामको बोवाळ-बोवाळ चल्ला. आजी, वैनी, काकी, आका... सगळींच जाणां सामकीं कामांत!

फुलयिल्ल्या तिळांचो वास सुटला. आकान व्हडली परात घेवन तांतूंत सगळी खाज एकठांय केली. तीळ, भिकणां, भाजिल्ली दाळ, कातले कुडके आनी काजू बियांचे कुडके!

चिकी-गोडाचो पांक करून आईन रान्नी वेलो तोप सकयल देंवयलो आनी आकाक म्हळें, ''आगो, ती कायल दी पळोवया!''

कायल घेवन मागीर उंद उज्यार दवरून आईन वाटीभर पांक तांतूंत घालो आनी चाळपाक लागली. मदींच दाये वयलो पांक बोटांचे चिमटेंत घेवन तार आयली काय पळयलें.

''आगो, पांक जायत आयलो गो सुमी...''

''वैनी, हें भोगुणें घेवं गे मापाक?''

''घे! पयलो घाणो करून पळोवया...''

आकान खाजीन भोगुणें उपाट भरून ती खाज कायलींतल्या पांकांत ओतयली.

कायल रान्नी वेल्यान सकयल काडून आईन चाळो मारलो. पांच जाणांच्या धा हातांनी पटपटीत लाडू वळून उडयले.

''बरेऽ जातात गे लाडू! माप सारकें आसा!''

मागीर झपझपीत हेवटेन लाडू तयरा जावन तांची रास जावंक लागली. तेवटेन

खाजिचो दोंगर आनी तोंपातलो पांक कमी जावंक लागलो.

एक हात कमरार दवरून आनी दुसऱ्या हातान आपलें तांबडें आलवण तकलेवेल्यान कपलार सारकें ओडून घेत आजी हांसली.

“चवगांचो हात खंय दुस्मानाचेर लेगीत पडूं नये.” तिणें ओपार मारली. घरभर तिळां-लाडवांचो घमघम सुटलो.

मागीर भाऊ आनी काका येवन लाडवांची रूच पळोवन गेले.

मुन्नी थंयच खाजिचे परातींत हात घालून चाळत बशिल्लें. मर्दींच दाळ काडून तोंडांत उडय, भिकणां सोल अशें करतालें.

“आगो, मुन्नी, तुजें हांगा कितें काम? चल, भायर वच खेळपाक... तुगेले सोनीक घे आनी खेळ तिचे बराबर.”

आईन थंयच आशिल्ली ताची बावली काडून मुन्नीच्या हातांत दिली. “हांव ना! माका लालू कलूंक जाय!”

“आयलें हें व्हडलें लालू करपी! लालू खंय लालू! चार सोंपून पांचवें वर्स लागलें घोडयेक आनी अजून लुडबें उलयता म्हणून बरें!... चल थंयचें!...” आईन धेंगसो घालो.

मुन्नीच्या दोळ्यांत रोखडींत उदकाचीं कोणां भरलीं.

“पावसा पावसा योऽ रे योऽऽ”, ताईन चाळोवपाक सुरवात केली. मुन्नी मागीर हिमट्यो काडून रडूंक लागलें.

“ताचे वाटेक वचनाकात गो!” आजी तापली. ती खांब्याक तेंकून थंयच उबी आसली. “पूण पळे तरी ताका, कशें बुळुबुळू करून रडटा तें.”

“मुन्नी, शाण्या, अशें रडूबाय जावंचें न्हय आं! तूं शाणें न्हय म्हजें? कर आं, तूं लाडू कर आं...!”

आज्जेन वेंगेंत काडलें तशी मुन्नीची रड थांबली. आनी नेटान सगळ्यांकडेन पळयत ताणें खाजिचे परातींत परतो हात घालो. खाज वयर सकयल करतना जमनीर रकली. पूण आतां मुन्नीक उलोवपाची कोणाचीच कापाजदाद नाशिल्ली. मुन्नीय बी तें बेस बरें जाणा आशिल्लें.

ताई सामकें सपनेल्ल्या दोळ्यांनी लाडू वळटालें. बाकिच्यांचें चार लाडू जातासर ताचो एक जातालो... ताचें मन दुसरेच कडेन...

पयलो हळदकुकूम! सगळ्या गांवाक आमंत्रण दिवन जालां. ताईल्या घरचीं- मांय, जाव, नणंद बी येवपाचीं आसात. घरच्यान वायणां धाडल्यांत. चिडक्यो आनी नाल्ल! चिडक्यो कितल्यो सोबीत रंगयल्यात! पयल्या हळदकुकमाक चिडकी-वाटीच वाटपाची रीत! चिडकेच्या गळ्यांत अनशिच्या दोऱ्यान गुंथिल्ल्यो पांच काळ्यो पिड्डुको बांदल्यात. चिडके भितर पांच तरेचीं धान्यां घाल्यांत. ताई येवजिताले - नाल्लाच्या वळ्यांत चिडकी दवरप, दुसरें वळें तिचेर धांपप. मागीर पदराच्या तोंकान धरून पोंदचें वळें आनी चिडकी सवायशिणीक दिवप!

मुन्नीक आतां लाडू वळपाचो बेजार आयलो. सोनीक-आपले बावलेक खांक्याक मारून तें उठलें आनी सालांत गेलें. सालांत मेजार चिडक्यो सारक्यो मांडून दवरिल्ल्यो त्यो मुन्नीचे नदरेंत गेल्यो. तांबड्योच चिडक्यो. धव्या आनी भांगराच्या रंगान तांचेर काय बरी वेल कशी काडिल्ली! चिडकेच्या तोंडार इल्लेंशें धांकणें! मुन्नी सामकें म्हऱ्यांत वचून तोखेवपाक लागलें... काय बऱ्यो इल्ल्योश्यो मडक्यो... म्हाका खेळपाक मेळटल्यो...! ताच्या मनांतली खोस ताच्या तोंडार दाटून आयली...

इतल्यान भाऊन ताका धपकायलें.

"ए मुन्नीऽ! चिडक्यांक हात लावप ना आं! फोडून-बिडून उडयशीत! चल, भायर चल पडवेर. थंय खेळ!"

भायर गेल्यार तुळशीकडेन आंगणांत गर्दी! ताई भांगरा बी घालून तुळशीकडेन वायण दिवंक बशिल्लें. ताचे भोंवतणी सगळीं जमिल्लीं. एक-एकलें एक एक सांगतालें -

"आगो, तशें करप न्हय गो! एकाच हातान कितें चणे दवरता? दोनूय हातांचो असो पोसो कर आनी चणे तुळशींत दवर..."

"अश्शें! आतां पदरान धरून वायण दवर. तिळगूळ दवर...! आगो मुन्नी तूं कितें करता तें?"

"हांव पलय दोनय हातांनी चने घालतां...!" दोनूय मुठी चण्यांनी भरून तुळशीचेर शेंवटीत मुन्नीन हात आईच्या पदराक पुसले.

"बाय, अशें करूं नये आं! ताई देव करता न्हय? ओग्गी बसप आनी पळोवप!"

ताटांत पांचूच चिडक्यो आशिल्ल्यो. स्पेशल चिडक्यो. ह्या चिडक्यांच्या

गळ्यांत पिड्डुकांबरोबर एक-एक ल्हानसो भांगराचो मणी गुंथिल्लो. चिकडे भितर पांच धान्यांबरोबर नाखटायेदी रुप्याची वाटी आशिल्ली. ह्यो चिडक्यो रितीप्रमाण घोवागेरच्यान धाडिल्ल्यो. तांतली एक तुळशीक दवरून जाल्ली.

"वैनी, आतां ह्यो चिडक्यो कोणा-कोणाक दिवप सांग आं म्हाका...!"

"आगो, तुळशीकडेन दवरल्या ती तुका. एक देवतेक काडून दवर. एक आवयक दी, एक मांयक दी...!"

"तरीकय एक उरता मगे!"

"दी मागीर तुजे व्हडले जावेक!"

मुन्नी थंड बसून आयकतालें. पूण पांचूय चिडक्यांचें वांटे जातकीर मात ताच्यान रावं नजो जालें.

"आनी माका गो? मजी चिलकी खंय?"

"ही आयली व्हडली सवाशीण! आगो, तुजें लग्न जालां?"

"आई, माका लग्न कल मगे! माका चिलकी दी मगे!"

आज्जेन मागीर ताईकच तापयलें.

"सवायशीण न्हय जाल्यार कितें जालें? कुमारिका ती! शांतादुर्गेची वोडवी ती! दी ताका एक - ताच्या तोंडान देवताच मागता जातली... पाटार बसोवन हळदकुकूम दी ताका...!"

मागीर सालांतल्यान एक चिडकी हाडून ती मुन्नीक दिवपाचो सुवाळोच जालो. देवतेची वोडवी न्हय? मुन्नीनय बी खुशाल भरीत जावन पाटार बसून हळदकुकूम लावन घेतलो. चणे बोल्सांत घाले. तिळांलाडू तोंडांत भरलो आनी चिडकी घेवन उठलें तें सोनीक खांक्यात मारून पडवेर गेलें.

हळडुवींच शेंवती आनी तांबडीगुंज रतनआबोलीं घेवन सुलू आनी वत्सू फांतयो घालूंक बशिल्लीं. पांयांच्या आखाण्याक केळिचो वाय घुसपायिल्लो. वायाचेर पोंदाक शेंवतें धरून ताचेर तांबडींच रातनआबोलीं... तांच्या देंठांचीं मोतयां वयर काडीत फांतयो घालतालीं. मदीं मदीं पांचवो बोकडयो आनी झगझगीत झीग...!

"मुन्नीबाय, फांतयांक हात लावप ना..."

"देवाच्यो फांतयो? देवाक मालपाच्यो?"

'देवाच्यो न्हय गो!''

''कोनाच्यो तल?''

''ह्यो दोन मगो ताईक, ही आईक, ही आकाक...''

''आनी मजी फांती खंय?''

''तुका आंबाडो खंय आसा? तूं खंय माळटलें?''

''हांव हांगा मायतलें?'' मुन्नीन ताळवेर हात दवरून सांगलें.

''आबोल्यांचो गोण तुजे ताळवेर गोऽऽ.''सुलू कांतरां करून ताका हांसूंक लागलें.

मुन्नीचे पोले फुगले. तें रडकुरें परतलें. तशें वत्सून ताका बेगीन बेगीन म्हच्यांत ओडलें.

''मुन्नी, हांव घालतां आं तुका फांती! कसली जाय? शेंवत्यांची काय आबोल्यांची?''

''माका ही जाय... तांबली... तांबली...'' दोनूय हातांच्या मुठिंनी रतनआबोलीं मुड्डीत मुन्नीन सांगलें.

''आगो, आगो, अशीं फुलां मुड्डूं नये...!''

''फुलांक दुकता?''

''हय तर!''

''मागील तीं ललनात कित्याक? फुलां कित्याक ललनात?''

''आतां पळे, तुका फांती जाय मगो? मागीर ओग्गी बस पळोवया!''

वत्सून मागीर मुन्नीखातीर रतनआबोल्यांची झीग बी धरून सुंदर फांती घाली. मुन्नीचे केंस वळोवन ताचे ताळवेर ती फांती बांदली. आपल्या माथ्याचीं लिंगां काडून तीं लावन फांती बरी घट्ट बसयली.

मुन्नीच्या काळ्याकाळ्या मुदयाळ्या केंसांचेर ती तांबडीगुंज फांती सोबीत दिसूंक लागली.

मुन्नी मागीर सामकें तांबडें – खूश जालें!

घरांत पयलींच उत्सवाचो सो बोवाळ – घरभर गोड गोड वास... तांतूंत ताका चिडकी मेळ्ळ्या खेळपाक आनी आतां ही फांती...!!

मुन्नीची खोससामकी भरून ओतपाक लागली. पायांतलीं पांयजणां छुमछुमायत तें सगळ्यांक आपली फांती आनी चिडकी दाखयत सुटलें.

"मुन्नी, यो राणी, आतां माम्माम् करया न्हय? गोड-गोड पायस खातलें मुगो?" आईन ताका मायेन म्हऱ्यांत ओडलें.

"आई, मजी तांबली-तांबली फांती पलय..."

"आगेऽ बायेऽऽ! कोणें माळ्ळी म्हज्या शाण्याक?"

"वच्चूताईन..."

मुन्नी आज मात्तूय मस्ती करी नासतना मुटमुटीत जेवलें.

"आतां शाणें जालें आं बाय म्हजें!" आईन ताका तोखेत म्हळें.

मुन्नी मागीर आपले भितरूच मुरगुटलें.

दनपार उलगली. भितरले कुडींत साडयांचो, शालवांचो बोवाळ...!

"ए ताई, हांव ही चंदेरी साडी न्हेसूं काय हें सिल्क गो? पळे पळोवया...!"

"दोनूय साडयो बऱ्यो दिसतात! पूण आज तूं तुजी ती कांजीवरम साडी न्हेस मगो! परकी लोक घरांत येवपाचीं..."

"परकी म्हळ्यार तुगेलीं घरचीं मुगो?"

ताई लजलें. ताका हांसत सुमीन मागीर कांजीवरम साडी काडली.

"वैनी, म्हाका हो णववारी शालू न्हेसयता मगे? सामकें घुस्पतां गे हांव...!"

ताईच्या हातांत गोंट-पाटल्यो, कांकणां-तोडे किणकिणटाले. गळ्यांत हार, माथ्याक भांगतिळो, नाकांत नथ, कानांत वेड... ताई सारकेंच लक्षीम कशें दिसतालें.

मुन्नीक ताईची नथ बरीऽ दिसली.

"माकाय बी तसलें नाकाक घाल..."

"आगो पोरा, तुजें नाक खंय तोपलां नथ घालपाक?"

"मजें नाक तोप तल... माका दी तें..."

"हाड गो सूय... तोपया हाचें नाक." आकान फकाणां केलीं.

"नाकाक सूय तोपप?"

“हय तर! बुराक जावंक नाका?”

“मागील लगत येता?”

“हय तर!”

“मागील बुबूऽ जाता?”

“हय! जाय तुका नथ?”

मुन्नीक नथ आवडना जाली. पूण आतां ताका भांगतिळो बरो दिसलो.

“हेंऽ तें केंसांत माका घाल!”

“वैनी, पळे गे मुन्नीक!”

आईन मागीर मुन्नीक हांडीर मारलें. “चल, म्हजे बायेक हांव घालतां आं सगळें. नवो पोपो घालतलें मुगो सुंदर सुंदर...!”

मागीर आईन मुन्नीक सजयलें. चार घेऱ्यांचो नायलॉनचो गुलाबीच व्हिस्तीद घालो. गळ्यांत सरपळी घाली, हातांत कांकणां घालीं.पोव लायलो, दोळ्यांत काजळ घालें.

मुन्नी नाचत-नाचत आज्जे म्हऱ्यांत गेलें.

“आऽ ज्जेऽऽ, पलय! म्हजी चिलकीऽ, म्हजी फाती, मजो पोपोऽ!”

“आगे बायेऽ! कोणें गो हाका फांती बी माळून नटयलां? कमल, बेगीन काळें लाय हाच्या पोल्याक! दिश्ट लागतकीर मागीर कळटलें! आनी ल्हान भुरग्यांक अशो रतनआबोल्यांच्यो फांतयो माळनात... जाणा मुगो? अशें चड नटोवंनये गो भुरग्याक! सगळ्यांचे दोळे सारके नासतात! मनशाचीच कित्याक, झाडांपेडांची, पानांफुलांची आनी फातरांची लेगीत दिश्ट लागता...”

“आज्जे, पुरो गे तुजें! ओगीच कितें!”

“आमगेलीं पुता जाणट्यांलीं तत्वज्ञानां! तुमी आतांच्यो चलयो आयकूंक आयल्यांत? करात फकाणां म्हजीं!” आजी बडबडत रावली. आईन बेगीन बेगीन काजळाची डबी हाडली आनी मुन्नीच्या पोल्यात ताचें बोट लायलें. तशी आजी बडबडपाची थांबली.

नवो व्हिस्तीद घालून, सोनीक खांक्यांत मारुन आपली चिडकी घेवन मुन्नी घरभर घुसळ घालूंक लागलें.

“आगो, मदीं मदीं घुसपुंनाका गो! हांव पडटलें आसलें पळे!”

"मुन्नी, चल आतां सालांत वचून बस! आतां हळदकुकमाक खूब बायलो येतल्यो! तांकां आमी मागीर हळदकुकूम लावया..."

"आनी कितें कलया?"

"आनी चेर लावया."

"आनी कितें कलया?"

"आनी चणे दिवया, तिळगूळ दिवया, चिडकी दिवया..."

सालांत बसपाक बरीं जमखानां घाल्लीं. शेंदऱ्यो घाल्ल्यो. मुन्नी हरणाचें चित्र आशिल्ले नवे शेंदरेर वचून बसलें.

'टण्! टण्! टण्! टण्!' सालांतली घड्याळ वाजली.

मुन्नीक बसून बसून वाज येवपाक लागलो.

भितर सगळीं साडयो न्हेसतालीं, आमाडे घालतालीं. फांतयो माळटालीं.

मुन्नी मागीर मागीलदारांत गेलें.

लक्षीमें न्हाणयेंतल्या व्हडल्या भाणांत कळसुल्यांनी उदक भरतालें.

'लचीमी, तूं कितें कलता?"

"मुन्नीबाय, हांव उदीक भरतां आं!"

"तूं उदक कित्याक भलता?"

"भाऊक रातचें न्हावों नाका?"

"लचीमी, हांवय उदक भलतां..."

"पिशें! तुज्यान कळसुसी उबारूं येता?"

"म्हजी पलय, चिलकी आसा!" मुन्नीन लक्षीम्याक आपली चिडकी दाखली.

"बरी आहा आं तुजी मडकी! चल घरांक वचोंया! उदकांत पडल्यार तुका थंडी जातली..."

"पून माका चिलकेंत उदक भलूंक जाय!"

"तुका आनी कित्याक तें उदीक?"

"मजे शोनीक घुश्श्याऽ कलूंक जाय!" आपली बावली लक्षीम्या मुखार नाचयत मुन्नीन सांगलें.

“मागीर भरया आं उदीक! यो आतां. आमी भितर या घरांत...”

लक्षीमें मुन्नीक भितर घेवन आयलें. ताणें मागीलदार आड केलें. मुन्नीक मात आत्तांच उदक भरूंक जाय आसलें. ताचे बावलेक न्हाणोवंक जाय आसलें. ताणें मागीलदार उकते केलें. मागीलदाराची सदचीच वाट... सरळ पाण्ट्यार वताली.

मुन्नी ते वाटेन आईबरोबर तिच्या बोटाक धरून सदांच पाण्ट्यार वतालें. आईलें न्हावन जायसर पावलभर उदकांत पचपच करून नाचतालें. धडेर बसून उदकांत फातर शेंवटितालें.

मुन्नीन आपलीं धाकटुलीं जोतीं पांयांत घालीं.... आईबरोबर वतना घालतालें तशी... आनी पाण्ट्याचे वाटेर सरळ चलूंक लागलें.

वत अजूनय खर आशिल्लें. कितलो उजो जातालो. मुन्नी सामकें घामेलें! चलून चलून ताचे पांय वळून आयले. ताका पुरो जालें. पूण पयसुल्ल्यान व्हांवतलो पाण्टो ताका आपयतालो - ‘मुन्नी, यो! बेगीन बेगीन यो!”

त्या किण्ण वाठारांत मुन्नीलीं पांयजणां वाजतालीं. पाण्ट्यार जितो मूस लेगीत नाशिल्लो. पाण्ट्याचें उदक व्हांवतालें... नितळ हारशाभशेन! मुन्नीन आपलीं जोतीं काडून धडेर दवरलीं.

“शोनी, हांगाच बश आ! तुका घुश्श्याऽ कलतां!” बावलेक धडेर बसयत ताणें सांगलें. चिडकी हातांत घेवन पांयजणां घाल्लें एक गोरेंपिट्ट पावल ताणें उदकांत घालें....

हळदकुकमाच्यो बायलो जमूंक लागल्यो. नवीं कापडां, साडयो, माथ्यांत फुलां-फांतयो! बशिल्लेकडेन एकामेकांची खबर घेवप, नविदादी सांगप चलतालें.

भितर ताईली मांय, जाव आनी नणंद च्या घेतालीं. मदींच ताईले मांयन म्हळें, “आनी मुन्नी खंय तर आज? बोवाळ ना सो ताचो?”

“भायर आसतलें सालांत! ताका एक चिडकी दिल्या न्ही, ती घेवन नाचत आसा. मुन्नीऽ, ए मुन्नीऽऽ”, आका मुन्नीक हाडपाक सालांत गेलें. पूण मुन्नी सालांत नाशिल्लें.

“वैनी, मुन्नी खंय गे? ताईली मांय विचारता ताका!”

“आत्तां हांगाच आशिल्लें. भायर पडवेर पळय. बसलां जातलें आपणाली

चेडकी आनी बावली घेवन खेळत!''

पूण पडवेरुय मुन्नी दिसलेंच ना.

मागीर घरभर सगळीं मुन्नीक सोदूंक लागलीं.

''आत्तां तर हांगाच आशिल्लें! रांदची कूड, मदली कूड, कोठये कूड, वासरी, माळी.... खंयच मुन्नी ना. खंय गेलें काय हें पोर?''

शेजाऱ्यांगेर विचारून जालें.

''आत्तांच हांगा पळयिल्लें'', विचारिल्लो सांगतालो. आतां मात सगळ्यांचेर कलकल आयलो.

मुन्नीची आई कपलां आपटून घेवंक लागली. पिशांभशेन. 'मुन्नी गोऽ मुन्नी गोऽ' करीत हांगा थंय धावंक लागलीं. आज्जेलें तोंड मात वाजतालें. – ''तरी हांव सांगतालें, पोराक नटयनाकात, फुलां माळुंनाकात! कोण कसो भुलोन व्हरता सांगूंक नजो! देवते, पाव गे सायबिणी! शांतादुर्गे, तुज्या बाळकाक तूं राख! दनपारच्या कडार झाडां आनी फातर लेगीत भुलयतात... पाण्टो आनी बांयो लेगीत ओडून व्हरतात उदकांत... कोणें भुलयलें रे म्हजे बायेकऽ!''

पाण्टो, बांय, उदक हीं उतरां कानार पडनाफुडें लक्षीम्यान व्हडान किळांच मारली.

''आज्जेऽ, मडकेंत उदीक भरून बावलेक न्हाणयतां म्हणटालें गेऽ'' आनी मागीलदारच्यान ताणें पांण्ट्यार धांव मारली. फाटोफाट आजी–तांबड्या आळवणाचो पदर बोडावेल्यान सकल देंवला हाचें भान नाशिल्ली, उकती बोडकी.

''मुन्नी गोऽऽ! मुन्नी गो!!'' आज्जेचे उले आयकतल्यांचें काळीज हालयताले.

झाडांनी हळूच आंग चोरून घेतलें. वारो खंय तोंड लिपोवन बसलो कोण जाणा! वाटेवेले फातर मेल्लेभशेन पडून रावले. शेवणीं–सुकणीं मोनीं जालीं. पाण्ट्याचें उदक आपूण कांय नकळच जाल्लेभशेन थंडसाणेन व्हांवतालें. उदकार उफेताली ती रतनआबोल्यांची फांती मात कितेंतरी उलोवंक सोदताली.

आनी पाण्ट्याचे धडेर मुन्नीची बावली इल्लेंशे तोंड करून मुन्नीची वाट पळेत बशिल्ली... एकटीच!!



# 8

# कल्याणी

कल्याणीन निमाण्या कपड्याक फॅर्र मारलें. कपडे मेजार दाळून दवरले.

“मम्मी, रुपा-दीपाक सांग आं, तांचे सगळे कपडे फॅर्र मारून दवरल्यात म्हणून...! हांव वतां गे कॉलेजीक...!” थंयच दवरिल्लीं आपलीं बुकां उबारून ताणें पांयांक चप्पल चडयलें.

ताची मम्मी ताचे पयलींच दारांत पाविल्ली. तिणें कल्याणीच्या हातांत धा रुपयांची नोट दवरली.

“बसीन वच गो...! ह्या वतांतल्यान चलत वचनाका.”

“लागींच आसा मगे कॉलेज! आनी म्हाका वतांतल्यान वचपाची संवयूय आसा.”

“तरीय तूं बसीनच वच. ओगीच वतांत करपुपाक...?!”

मम्मी उलयतां उलयतां भितर गेली लेगीत.

कल्याणी तिगेलें तिसरें चलीं. व्हडलीं दोगांय जुंवळ्यांतलीं... रुपा आनी दीपा...! गोरीं पिट्ट, सुंदर, शिकूंकय हुशार!!! बापायक तांचो मोठो अभिमान.

कल्याणी हो तांच्या आयुश्यांतलो अपघात! चलो जातलो हे आशेन आवयन मागून घेतिल्लो... आनी चलीच जालें!!!

जालें तें जालें! आपल्या भयणीं भशेन रंग-रुप घेवन येवपाचें तरी! पूण ना. सांवळो रंग खंयच्च्यान फामिलींत भितर सरलो, कोण जाणा! रुपानय साधारणच! बापायन धुवेच्या तोंडार नदर घाल्ली आनी मम्मीक म्हणिल्लें - “चलो जाय आसलो न्ही? आतां सांबाळ गो अवतार...”

भरीक भर म्हणून कल्याणी ल्हानपणांत सामकें रडकुरें, किरकिरें... दिस्सभर

आवयक वाज हाडचो सामको रडून बापूय तर ताका हात लावंक तयार ना...

पूण भुरगेपणां सोंपून कल्याणी मातशें व्हड जालें आनी आपल्या गुणांनी मम्मीक सामकें जाय-जायशें जालें.

पूण कल्याणीचो पप्पा?

रूपा-दीपा मुखार कल्याणीक पळयल्यार ही आपली धूवच न्हय अशें ताका दिसचें.

"पप्पा, फाल्यां आमच्या स्कुलाची पिकनीक वता." दीपान वा रुपान म्हणचें आनी पप्पान रोखडेंच बोल्सांतलें पाकीट काडचें! "कितले पयशे जाय म्हज्या दीपूक?" ताणें विचारचे.

रुपा-दीपाक कितेंच उणें जावंक जायना आसलें पप्पाक!

कल्याणी मात कितेंय मागूंक गेल्यार ताणें म्हणचें, "म्हज्या काना कडेन किटकीट नाका तुजी. तुजे मम्मीक सांग..."

रूपा-दीपा बापायचे भोंवतणी लागोळेपणां करीत आसतात. हें पळोवन कल्याणीन आपणेंय वचचें, पप्पाचे मांडयेर बसूंक पळोवंचें. पूण पप्पान ताका केन्नाच लागीं करचें न्हय. कल्याणीन पप्पाच्या गळ्याक वेंग मारूंक वचचें तर पप्पान रोखडोच मम्मीक उलो मारचो - "मीना, हे तुजे धुवेक व्हर पळोवया हांगची! पडले-आपटलें जाल्यार रड सुरू जातली ताची..."

मागीर पडपाची आनी आपटुपाची वाट पळेनासतना कल्याणीच्या मोठ्या मोठ्या दोळ्यांतल्यान तेदींच मोठीं दुकां गळपाक लागचीं. पुसता तितले दोळे परते भरून येवचे....

"पळय, पळय! जाली गो ताची रड सुरू...!" पप्पान म्हणचें.

मम्मीन येवन वेंगेंत काडटकच तिच्या गळ्याक वेंग मारून कितलो वेळ हुडकेत रावचें ताणें...!

पप्पाची कल्याणी कडली ही वागणूक पळोवन मम्मीक खूब दूख भोगचें. पप्पाचें पळोवन रूपा-दीपानय कल्याणीक हँच्-फँच् करचें.

एक दीस तर कल्याणी आकूळ-पिकूळ जावन रडत मम्मी म्हऱ्यांत पावलें.

"बाय, कितें जालें गो? कोणें मारलें? पप्पान कितें म्हळें...? रुपा-दीपान चाळयलें...?"

मम्मी विचारत रावली. कल्याणीक थातारून थंड करतकच ताका उतर फुटलें

“मम्मी, खरेंच गे तुवें म्हाका सूपभर कुंडो दिवन घांटणी कडल्यान विकतें घेतलां?”

मम्मीच्या काळजांत कच्च जालें.

“कल्याणी, कोणें सांगलां तुका अशें...?”

“रूपा सांगता... दीपाय सांगता...!”

“रूपाऽऽ, दीपाऽऽ, हांगा येयात गो! तुमी कल्याणीक घांटणी कडल्यान विकतें घेतलां म्हळ्ळें...?”

रूपा बोंचो फुगोवन ओग्गी रावलें. मम्मीक राग आयला हें पळोवन दीपान मागीर सांगलें... “पप्पाच म्हणटालो... म्हणून मागीर आमी म्हळ्ळें... फकाणांनी गे, खऱ्यांनी न्हीं...”

मम्मीक भयंकर तिडक आयली.

“नसतीं फकाणां म्हाका सोंसनात...” तिणें हॉलांत बशिल्ल्या पप्पाक आयकूंक येवंचें म्हूण मोठ्यान सांगलें – “रूपा, दीपा,” तुमकां कोणा कडल्यान हाडिल्लीं तें पळोवंक हांव शाबुद्दीर नासलें. तुमी जाल्लीं तेन्नां म्हाका गुंगी दिवन सिझेरियन करचें पडिल्लें. पूण कल्याणी जालां तेन्ना हांव सामकें शुद्दीर आसलें.” तिणें कल्याणीक वेंगेंत काडून सांगलें – “हें बाय म्हजें! सामकें म्हजें...!!!”

कल्याणी मागीर खोशी जावन थंयच्यान गेलें. पूण तरीकय तांच्या मनांत दुबावाची कीट उरिल्लीच! ताणें मम्मीक विचारलें – “मम्मी, पप्पा गोरो, रूपा–दीपा गोरीं, तूं लेगीत गोरी.... हांवच कित्याक गोरें न्हीं गे?”

मम्मीन ताका समजायलें – “कल्याणी तूं कितें काळें तर? मातशें सांवळें. कृष्णा भशेन. तुजें नाक कशें शिरवंत...! दोळे कितले सुंदर! केंस काय बरे मुदयाळे! गोरें मनीसच सुंदर आसना. काळें सांवळेंय सुंदर आसता.” मागीर ताका वेंगेंत ओडून ताची पापी घेत मम्मीन म्हळें – “मनशान मनान सुंदर आसचें गो बाय! गुणांनी सुंदर आसचें. तुजे भशेन, मागीर मनीस आनिकय बरो दिसता...”

“मागीर म्हाकाय रूपा–दीपा भशेन तांबडे मोचे हाड न्हीं. पप्पा म्हणटा, म्हाका सोबचेनात. म्हाका पळय पप्पान काळे मोचे हाडल्यात...”

मागीर पप्पाच्या फाटल्यान लागून मम्मीन कल्याणी खातीर तांबड्या मोच्यांची पार हाडून घेतली. हे मोचे रूपा-दीपाच्या मोच्यां परस चड सोबीत आसले. मोच्यांचेर रसमान आनी जरीन भरिल्ली सुंदर फुलां आसलीं. मोचे पळयतनाच रूपान तांचेर झोंपय मारली - ''म्हाका जाय हे मोचे...!!''

''आगो, ते मोचे कल्याणीक हाडल्यात...''

''कल्याणीक म्हजे मोचे दी मम्मी... हे मोचे म्हाकाच जाय!''

मागीर पप्पान ते मोचे रूपाक दिले. आनी रूपाले मोचे कल्याणीक दिले.

कल्याणीक आपणेंय गोरें जावचें हो सोस लागलो. आपलो गोरो गोरो पप्पा जो साबण लावन न्हाता, तोच्च साबण लावन न्हावपाचो ताणें हट्ट करचो. हॉलांत काळ्या-धव्या तिजुल्यां वेल्यान चलतना, ताणें आपलो पांय काळ्या तिजुल्यांचेर केन्नाच पडूंक दिवचो न्हय... फकत धव्या तिजुल्यां वेल्यान चलचें. शाळेंत केसांक रिबीन बांदतलीं जाल्यार काळेंच रिबीन बांदपाचें. दुसऱ्या कसल्याच रंगांचीं रिबिनां बांदूंक जायनात असो हेडमास्टरालो कायदो. काळें रिबीन बांदचें पडटा म्हूण कल्याणीन हट्ट्रान आपले सुंदर केंस कापूंक लायले. दूद धवें म्हूण तें कल्याणीन पिवपाक त्रास करचो न्हय. - ''मम्मी, सद्दां फ्लावराचीच भाजी कर गे,'' म्हूण हट्ट करचो...

कल्याणीलें हें गोरेपणाचें पिशें पळोवन मम्मीनय तरेकवार बरीं-बरीं लोशनां. क्रिमां हाडून ताच्या तोंडाक-आंगार लावचीं....

व्हड जातां-जातां कल्याणीक आपली पिशेपणां समजून आयलीं. आपूण सांवळे तें सावळेंच उरतलें हें ताका समजून आयलें.

पप्पान घरांत कितेंय हाडलें तशीं रूपा-दीपा पयलीं आपलो हक्क दाखयतालीं. उरिल्लें ते कल्याणीक, रूपा-दीपा परस कल्याणी खरें तर दोन वर्सांनी ल्हान पूण कल्याणीचो जावेस घसघशीत! तेंच व्हडलें दिसप!!!!

त्या दिसा कल्याणीचो वाडदीस आसलो, मम्मीन ताका सुंदर मोरपिसी रंगाचो सिल्काचो सलवार सूट हाडलो. कल्याणीन सलवार हातांत घेतलो.

''- मम्मी, कितलो सोबीत गे...!!!'' मोव-मोव सिल्क. ताणें आपले पोले त्या सलवाराचेर तेंकयले. त्याच्या दोळ्यांतल्यान खोशी ओतताली सामकी...

इतल्यांत रूपा थंय पावलें. ताणें कल्याणीच्या हातांतलो सलवार घेवन पळयलो आनी दीपाक उलो मारलो... ''दीपा, दीपा ऽ. हांगा यो बेगीन! काय बरो सलवार

हाडला पळय मम्मीन...''

दीपा धांवतच आयलें.

''खरेंच गो! कितलो सुंदर रंग... न्हीं? म्हाका सोबतलो पळय...'' दीपा सलवार आपल्या आंगार धरून आपल्याक तोखेवंक लागलें.

''आगो, रूपा... दीपा... तो हांवें कल्याणीक हाडला. बर्थडें - प्रेझेंट...!''

''मम्मी, तूं म्हणून सामकीच करता आं!... त्या काळुराक हो रंग सोबतलो तरी? आनिकय काळे दिसतलें मगे! ताका कसलोय लायट रंगाचो...''

''चड जालें आं तुजें आता... कित्याक सोबचो ना ताका...?'' मम्मीक संताप मारलो सामको.

दारांत उबो रावन पप्पा सगळें आयकतालो. ताणें म्हळें - ''मीना, पिश्यांच्यो अपूरबायो तुज्यो! कावळ्याक मोर करूंक धडपडटा तूं सदांच!... आगो, दोळे उकते दवरून पळोवंक शीक...''

कल्याणीचें तोंड सामकें बावलें. ताणें म्हळें - ''मम्मी, खरेंच गे! हो रंग म्हाका सोबचोना... दीपाक आवडला न्ही? ताकाच दवरूंक दी तो...''

''दीपा, म्हाकाय घालूंक दितलें मुगो?'' रूपान विचारलें.

''हय तर! चल, आमी ट्राय करून पळोवंया...'' आनी दोगांय सलवार घेवन आपल्या रुमांत धांवलीं.

मम्मीन कल्याणीच्या तोंडाक पळयलें.

''मम्मी, तूं वायट दिसून घेवनाका गे! म्हाका दुसरो सलवार हाड आं फाल्यां...''

आपले हे धुवे मर्दीं ही समजिकाय, सोंशिकताय खंयच्या आयली, हेंच मम्मीक कळनासलें.

कशें जातलें हे चलयेचें!

दोगय भयणी ताका वापरताल्यो... ओर्दीं सोडटाल्यो...

आनी हांसत्या तोंडान कल्याणी तांचीं कामां करतलें. रूपा तर कल्याणीक आवडटालें तेंच झोंबून घेतालें...!!!

मम्मीक नितीनाल्या लग्नाची याद जाली. नितीन तिचो धाकलो भाव. ताच्या

लग्नाक सगळीं उमेदीन आशिल्लीं. मम्मी आपलो भांगराचो करण काडून भांगर आंगार चडयताली. तातूंत मोत्यांचो कंठो पळोवन कल्याणीन म्हले - "मम्मी, कितलो सोबीत न्हीं? हांव घालूं गे हो मातसो?"

मम्मीन तो कंठो काडून ताच्या गळ्यांत घालो.

"तुज्या गळ्यांत खरोच सोबता आं... तुकाच दवरतां तो..." मम्मीन म्हळें.

रूपाक रोखडीच नसाय जाली.

"कल्याणी, म्हज्या गळ्यांत कसो सोबता पळोवंया! मातसो म्हाका दी घालपाक...!" कंठो आपल्या गळ्यांत घालून ताणें म्हळें - "पप्पा, पळय न्ही! हांव कशें दिसतां हो कंठो घालून?.... पळय गे मम्मी...!"

"कशें दिसता? तुवें गळ्यांत घाल्ल्यान हो पोरनो कंठो सामको नवोच जावन लिकलिकूंक लागलो..." पप्पान म्हळें.

मागीर मातसो घालून पळोवंक घेतिल्लो तोच कंठो घालून रूपान लग्नांत मिरयलें.

घरांत कसल्याय कामाक हातबोट लावपाक रूपा - दीपाक सांगल्यार कामचोरपणां... हजारा निमित्तां....

"मम्मी, म्हज्या नाखटांचें पॉलिस वतलें मगे...!"

"शी!! बोटाक डाग पडटले मगे...!" अशें कितेंय उलोवन तांणी सदांच कामां टाळचीं.

तातूंत पप्पाचें तांकां जल मेळटालें! "मीना, कल्याणीक सांग गो तसलीं कामां!... म्हज्या बावल्यांचे वाटेक वचनाका..."

कसलेच नखरे नाशिल्लें, भायर-भितर सरळ, खळखळून हांसपी, कसलींय कामां करूंक सदांच फुडें आशिल्लें कल्याणी स्कुलांत मात सगळ्यांचें आवडटें आसलें. सदांच मदत करूंक तयार! टिचरी तर ताका तोखेताल्यो. शिकूंक व्हडलें स्कॉलर न्हय. पूण फर्स्ट क्लास कसो तरी मेळयतालेंच!

रूपा-दीपा शिकूंक हुशार... पयलो-दुसरो नंबर काडपी पूण तितलींच गर्विश्ठय बी. रूपाचो, बुद्दीचो गर्व आशिल्लीं...!!! एस्. एस्. सी. क दोगांय बोर्ड रँकांत आयलीं.

एस्. एस्. सी जातकच दोगांय कॉलेजीचे फॉर्म घेवन आयलीं.

पप्पान सांगलें - ''मुखार आपूण कितें करतलें. हाचो विचार करून फॉर्म भरपाचो आं! रूपा, तुजो विचार कितें?''

''पप्पा, हांव सायन्सीक वतलें आं! हांव दोतोरच जातलें!''

''आनी दीपा, तूं गो?''

''पप्पा, हांव कॉमर्स घेतां... एकलें दोतोर पुरो! हांवें सी. ए. जावचें येवजिलां...''

''शाब्बास! अशें व्यवस्थीत थारावंक जाय.''

कल्याणी थंयच उबें आसलें. ताका एस्. एस्. सी. जावंक अजून दोन वर्सां आशिल्लीं. पप्पाची शबासकी मेळची म्हणून ताणें उमेदीन म्हळें - ''पप्पा, हांवें तर आतांच थारावन दवरलां...''

''कोण जातलें म्हजें बाय...?'' मदींच मम्मीन विचारलें.

''मम्मी हांव मगे, 'बाई' जातलें. आनी भुरग्यांक बरें करून शिकयतलें...'' कल्याणीन ओर्रान सांगलें.

पप्पा व्हडा व्हडान हांसलो... कुचित्र्यांनी...!

''पापया, आपल्याच्यान जायना जाल्यार मनांत इत्सा तरी व्हड दवरची!!! निदान तोंडान् तरी म्हणचें आसलें - हांव दोतोर, इंजिनियर, आर्किटेक्ट अशें कोणय जातलें म्हणून...!''

''पूण पप्पा, म्हाका 'बाई' जावपच सगळ्यांत बरें - व्हड दिसता...'' कल्याणी सामके गोंदळ्ळें.

मागीर पप्पा बरोबर रूपा-दीपाय ताका हांसलीं. कल्याणीचें तोंड येदेंशें जालें. ताणें मम्मीच्या तोंडाक पळयलें - ''मम्मी 'बाई' जावप बरें न्ही गे?''

मम्मीन ताका वेंगेंत काडून म्हळें - 'कल्याणी, तूं खुब्ब बरी टिचर जातलें पळय! म्हाका सामकी खात्री आसा.''

तितल्यारच कल्याणी खोशी जालें.

वर्सां गेलीं. रूपा दोतोर जालें आनी पप्पान व्हडली पार्टी दवरली. सगळीं सोयरीं... पप्पाले फ्रँडस्, रूपा बरोबरचे सगळे दोतोर... सगळ्यांक आमंत्रणां... रूपा-दीपा आपल्या फॅशनेबल ड्रेसांत अप्सरा कश्यो दिसतालीं. तांची स्टायल,

तांचो मेकअप तांचे नखरे. पप्पा पयस रावन तांका अभिमानान तोखेतालो... तेन्नाच ताची नदर हांगा थंय फुलांची सजावट करतल्या कल्याणीचेर पडली.

साधारण रुपाचें, सांवळें कल्याणी वयार येतकच आतां नदरेंत वचपा सारकें सोबीत दिसतालें. ताचे ते नितळ, मोठे दोळे ताच्या तोंडाक एक आगळीच सोबितकाय दितालें. खळखळून हांसपाची ताची ल्हानपणाची संवंय अजूनय तश्शी आसली... ताच्या व्यक्तिमत्वांत अशें कितें तरी आसलें - पळयतल्याक ताचे विशीं आपलेपण आदर, अपुरबाय दिसची.

"जावं, सायबा. कोणय टिचर वा प्रोफेसर येन्नाच पळोवंक लागल्यार चड व्हाणो झरोवंच्यो पडच्यो नात..." पप्पान चिंतलें.

फुलांचे व्हाज सजयतां सजयतां कल्याणी मोठ्या अभिमानान आपल्या भयणींक पळेतालें. रीमामावशी, समीआत्तें, तांचे घोव, काका-काकी सगळीं जाणां रूपा-दीपा भोंवतणीचशीं घुसपतालीं. तांच्यो अपुरबायो करपाक तांचे मदीं सर्तशी लागिल्ली. सगळ्याकडेन हांसत - उलयत रूपा-दीपा सहजतायेन वावुरतालीं. तांकां पळयतना कल्याणीच्या दोळ्यांतल्यान खोस ओतताली सामकी...!!!

आनीक कोणूय आशिल्लें जाल्यार ताका खरोच मनाक कॉम्प्लेक्स जावपाचो! पूण आवयच्या भक्कम आधारान कल्याणी आतां मनान खंबीर जाल्लें. आत्मविश्वासान भरिल्लें.

मदींच व्हडल्या काकान पप्पाक म्हळें - "आरे वसंत, आनी तुजो 'कावळो' खंय तर? दिसलेंचना येत सावन!"

"आसतलें हांगाच खंय तरी." पप्पान म्हळें. "कसलीं तरी नाका जाल्लीं कामां करीत आसतलें..."

"कावळो?" मधूबाबान - पप्पाल्या मित्रान विचारलें. तसो काका सामकोच गोंदळिल्ले भशेन जालो. ताणें हांसिल्ले वरी करून म्हळें - "तो आमचो फेमिली - ज्योक! वसंतालें धाकलें चली - कल्याणी, ताका फकाणांनी आमी कावळो म्हणटाले..."

कल्याणी तांचे फाटल्यानच रवीमामा कडेन उलयतालें.

"काका, तुजो 'कावळो' हांगाच आसा आं!" हांसत हांसत ताणें काकाक फुडो केलो.

"हें आमचे कल्याणी," काकान म्हळें.

आनी मधूबाब ताच्या तोंडाक पळयतच उरलो. लॅमन कलरची साडी न्हेसिल्लें. सांवळेंच पूण तजेलदार कांत... मुदयाळ्या केंसाची लांबशीच फांती... जायांचो पोड माळिल्लो... नितळशे मोठे दोळे – आनी तोंडावेलो तो हांसो!!! कसलोच मेकअप ना... कसलेच नखरे नात...!!!

''हो कावळो?'' अशें विचारपाचें मधूबाबाच्या तोंडांत आयिल्लें. पूण ताणें म्हळें – ''वसंतबाब, खरोच नशिबवान आं तूं! एकलें दोतोर, दुसरें सी. ए. आनी तिसरें... – हें कल्याणी कितें करता?''

पप्पालें तोंड एकदम पडलें.

''हांव मॉर्डन इंग्लीश स्कुलांत शिकयतां.'' कल्याणीनच सांगलें. आनी ते थंयच्या वचूंक लागलें.

''एक मिनीट.'' मधूबाबान म्हळें. ''तूं मॉर्डन इंग्लीश स्कुलांत टिचर?'' कल्याणीन 'हय' म्हणून मान हालयली. तशें एकदम उत्तेजित जावन ताणें म्हळें – ''म्हणजे तूंच ती आमच्या निकीली, अरूली 'कल्याणी टिचर'?''

कल्याणी गोंदळ्ळें – 'निकी...? म्हणजे निकीता घाणेकार?''

''हय! आनी अरूण – म्हजीं नातरां. – आमच्या घरांत कल्याणी टिचरीचीं सामकीं स्तोत्रां चालू आसतात. कल्याणी टिचर अशी, कल्याणी टिचर तशी... तुका मेळून सामकें बरें दिसलें... राव आं. आमच्या अवनीशा कडेन तुजी वळख करून दितां...''

अवनीश रूपा–दीपा आनी तांच्या ग्रुपांत खबरी मारतालो. मधूबाबान उलो मारून ताका आफयलो, तसो तो थंय आयलो.

''आरे, हीच आं ती आमच्या निकीली कल्याणी टिचर...!''

अवनीश आनी कल्याणी एकमेकांक पळेतच उरलीं.

''तूं...? कल्लू–कावळो?'' ताच्या तोंडांतल्यान आयलें.

''आनी तूं... तांबडो – बाळो... न्ही...? कल्याणीन विचारलें.

दोगांय हांसतच उरलीं.

''कितल्या तेंपान मेळटात गो आमी?'' अवनीशान म्हळें ''डॅडी, शाळेंत शिकतना हांव न्ही, कल्याणीक 'कल्लू कावळो'म्हणून चाळयतालों.''

''आनी हांव अवीक 'तांबडो–बाळो' म्हणटालें.'' कल्याणीन हांसत म्हळें,

– ''राग येतकीच ताचें नाक आनी कान सामकें तांबडेच जाताले...''

''परतें 'तांबडो–बाळो'! म्हळ्यार ल्हानपणांत खाताले तशें थापट खातलें आं तूं!''

''ल्हानपणांत मारलें तें फावलें. आतां हांव कराटे शिकलां... एक दिल्यार दोन खातलो तूं..'' आनी कल्याणी सदचे संवये प्रमाण खळखळून हांसलें. अवी ताच्या तोंडाक पळेतच उरलो... ''मातय बदलूंक ना तूं... तोच हांसो – तशेंच झगडाळ...''

''चल अवनीश, हांगा कितें करता? अजून म्हज्या सगळ्या दोतोर फ्रँडांची वळख करून दिवची आसा.'' रूपान येवन म्हळें.

''तुजीं फ्रँडां मागीर... आज म्हजें हें ल्हानपणाचें जिवाचें फ्रँड मेळ्ळां. ताचे कडेन अजून जायतीं झगडीं करचीं आसात. म्हाका...'' आनी ताणें कल्याणीक विचारलें – ''आनी गो... कल्याणी, ''बाई जातलें, बाई जातलें' म्हणटालें तें... शेवटाक तुंवे आपलेंच खरें केलें मुगो?'' आतां तूं सगळ्या भुरग्यांची आवडटी कल्याणी टिचर' खंय?''

'''आनी तूं दोतोर जातलो म्हणटालो तें...?''

''हांव जालोच न्हय दोतोर! दोतोर अवनीश घाणेकार M. B. B. S., M. D. F. R. C. S. London...''

''आवय! आवय! दोतोर, तुज्या बोल्सांत कितलेशेच फातर मरे...!''

''आतां मात तूं खातलें आं म्हजें कडल्यान...''

इतल्यान मम्मी थंय पावली.... ''कल्याणी, हांगा यो गो तें...!''

''मम्मी, हाका वळखली?... शाळेंत म्हाका मारतालो तो... हो 'तांबडो बाळो'.''

मम्मी कल्याणीचेर तापलीच! ''बाय, फटकळपणां म्हणून कितलीं करप गो? आनी कोणा कडेन करप?'' तिणें अवनीशाक म्हळें – ''तुमी रागार जावंनाकात आं! हे कल्याणी, मातशें फटकळच!... कल्याणी, तुंवें 'सॉरी' म्हळें?'' मम्मी दोळ्यांनी कल्याणीक कितें तरी खुणायताली.

''एक मिनीट आं अवी...'' कल्याणीन मम्मीक कुशीन व्हेली आनी विचारलें, ''मम्मी, तूं म्हाका कितें सांगूंक सोदता? सारकें सांग मगे...?''

“आगो, तो दोतोर घाणेकारालो सगळ्यांत धाकलो चलो, इंग्लंडच्यान दोतोरकेची व्हडली डिग्री घेवन आयला. आतां हांगाच बापायच्या हॉस्पिटलांत काम करता. तुज्या पप्पान रूपा खातीर ताच्या बापाय कडेन उतर घालां. रूपाक आवडला तो...” मम्मीन सकयल्या आवाजांत कल्याणीच्याय कानार घालें.

कल्याणीक आयकून अजाप जालें. फकत अजाप...? काय आनीक कितें तरी? ओगीच काळजांत कांटो रोमिल्ले वरी कित्याक जालें हें? कल्याणीन फाट करून अवनीशाकडेन पळयलें. पप्पा ताका घेवन वतालो.

अवी मेळिल्ल्याची खोस खंयचे खंय नाच्च जाली. कल्याणीचें तोंड एकदम बाविल्ले भशेन जालें. आपले जिणेंतलें कांय खीण ताका ओगीच येवजत रावले. ... ताचे तांबडे मोचे... मम्मीन अपुरबायेन हाडिल्लो मोरपिशी सलवार... हट्टान मम्मी कडेन मागून घेतिल्लो मोतयांचो कंठो... एक हांसो ताच्या तोंडार आयलो. मनांतले विचार... नाका जाल्ले विचार काडून उडोवपाक हालयिल्ले भशेन ताणें नेटान मान हालयली.

रूपा आनी अवी दोगांय सुंदर – गोरीं. दोगांय दोतोर. बरी जोडी दिसतली. ताणें येवजिलें. पूण ताचें हांसतें मुखामळ मातशें बाविल्ले भशेन जालें.

पप्पा मधूबाबाकडेन रूपाचे गूण गायत आशिल्लो. ताची हुशारकाय – ताचीं मॅडलां – “पळयात मधूबाब, दोतोराक दोतोर बायलच बरी... एकामेकांक समजून घेवपाक आनी दोगांय मेळून हॉस्पिटल चलयतलीं. आमचें रूपा म्हळ्यार...!” रूपाचें नांव घेतना पप्पाच्या उतरांतल्यान सामको अभिमान ओततालो. ‘म्हज्या रूपाक कोण नापसंत करूंक शकता?” असो अहंकार...!!!

मागीर मधूबाबान ताकतिकेन म्हळें – “तें जालांच न्ही! आतां घरा वतकच घरच्या सगळ्याचें मत घेतां... अवनीश कितें म्हणटा तें पळयतां...”

पप्पान रूपा कडेन हांसत हांसत खबरी करपी अवनीशा कडेन पळयलें आनी म्हळें – “तो कितें म्हणटलो तें तांचें कडेन पळयल्यारच समजता...”

पार्टी बरी रात मेरेन चलताली. त्या कारणान सकाळचीं सगळी सुशेगाद उठलीं. मम्मीन केल्ली च्या कल्याणीन मेजार हाडून दवरली आनी सगळ्यांक दिली. ताचें कालचें बावकुरें तोंड आज परतें हांसकुरें जाल्लें. नसती आस धरपाचें ताच्या सभावांतूच नासलें. ल्हानपणांत ताका अवी बगर आनी अवीक ताचे बगर जायनासलें म्हणून कितें जालें? अवी तेन्ना ताका चाळयतालो. मारतालो. पूण

रो कोणय कल्याणीचे वाटेक गेल्यार वाग कसो ताचेर गुरकेतालो – म्हणून तें जालें? अवीक अजून ताची याद उरली, हेंच व्हडलें अजाप कशें! नाजाल्यार र्सांच्या हुंवारांत ल्हानपणाच्यो यादी अश्श्यो व्हांवन वतात...

पप्पान च्या पिवन सोपयली तशें ताचें कोप कल्याणीन परते भरलें, पप्पाक दांच दोन कोपां च्या लागता.

इतल्यांत फोन वाजलो.

दीपान फोन उबारलो... बेगीबेगीन फोन पप्पाकडेन दीत ताणें म्हळें, – मधूबाबाचो फोन...''

आनी दीपान रूपा ओगीच धोंगशिल्ले भशेन केलें. रूपान ताचेर दोळे मोट्ठे ले आनी हांसलें.

''हॅलो, आं. उलयात मधूबाब'' पप्पान हांसत म्हळें – ''केन्नाचो म्हूर्त रया...?''

''हें पळयात. तुमचे कडेन सोयरीक जोडूंक आमकां खोशीच आसा. हाका आनी अवनीशाकच न्ही. घरांतल्या सगळ्यांकच चली पसंत आसा... ण...''

''पूण कितें?'' पप्पान उमळशिकेन विचारलें.

''पूण पसंत आसा ते रूपा न्ही!''

''मागीर कोण पसंत आसा? दीपा? हरकत ना...''

''सगल्यांनी कल्याणीक पसंत केलां...!

''कितें....???''

आनी थंडसाणेन सगळ्यांच्यो पिल्ल्यो कपबशयो ट्रेंत भरतल्या कल्याणी कडेन प्पा पळयतच उरलो.



9

# पलतड - आलतड

"दोतोर आयलो...! दोतोर आयलो...!!!"

अजिताच्या कानार उतरां पडटात. कोण उलयलो? आई...?? काय
मावशी...??

मावशी केन्ना आयली आमगेर?

इतलें चिंतुनूच ताका पुरो जाता. तो पंरवता... थारा पडटा...!

अजित जोरान खतखतता. नंदू दोतोरान थर्मामिटर घालून जोर पळयलो..
इंजेक्शन केलें आनी हात धुवपाक गेलो.

आवयस्! काटमूय चाबली हाताक...! आईन काटमुयेक कित्याक मारलं
ना?... अजित परतोऽ पंरवता.

अजिताच्या जोराचो हो तिसरो आठवडो. सारके वीस दीस जाले, अजित
बरो ना जाल्यार.

जोर चडटा, देंवता... चडटा... देंवता...

आजो देवळांतल्यान आयलो. हातांतल्यान पंचपात्रांतलें तीर्थ पळयेन पयली
दोतोराच्या हातार घालून मागीर आईक, आबाक, मावशेक घालें आज्यान.

"अभिशेकाक गेल्लो आज्या?" दोतोरान तीर्थ पिवन दोळ्यांक लायत
विचारलें.

"हय रे! म्हज्या हातांत आसा तें करतां हांव! पांच वरांचेर न्हावन देवळांत
वतां... अभिशेक करतां आनी देवा मुखार मृत्युंजय जप करीत बसतां... तो एक
देवळांतलो दोतोर आनी तूं एक घरांतलो दोतोर... दोगांचेरूच सगलो भरिभार
आतां..."

आजो खांद्यावेल्या वाल्यान दोळे पुसता.

अजित न्हिदेंत परतो सपनेता... पंरवता.

आई, आबा, आजो, दोतोराच्या तोंडाक पळयतात. देवाकडेन पळयिल्ले भशेन... भावार्थान,

दोळ्यांत प्रस्नचिन्नां...!!

''भिवपाची गरज ना. पूण दीस-रात राखूंक जाय. जोर चडल्यार ही गुळी दिवपाची... नाजाल्यार शारोप कुलेरभर... कपलार थंड उदकाच्यो घडयो घालपाच्यो.... जोर चड जाल्यार थंड उदकान आंग पुसून काडपाचें... चडूच जाल्यार म्हाका आफोवंक धाडात...'' नंदू दोतोरान आईक समजायली. ''घसघशीत घाम येवन जोर देवंक जाय... मागीर भिरांत ना... ते मेरेन सारको राखूंक जाय...''

''तूं गांवांत आसा म्हूण धीर आमकां, दोतोर, नाजाल्यार खंय धांवतले आसले आमी?'' आबान म्हळें.

नंदू दोतोर हांसलो.

''आबा, म्हाका कळूंक लागत सावन तूं म्हाका ''नंद्याऽ'' म्हूण उलो मारतालो. आतां अकस्मात हें 'दोतोर-दोतोर' कितें काडलां तुवें?'' ताणें म्हळें.

''ना रे बाबा! सगळो गांव तुका आतां 'दोतोर' म्हणून उलो मारता. हांव कित्याक दोतोर म्हणचोंना? जावं बाबा! आपल्या गांवाक एक दोतोर जाय ही याद तुवें दवरली. नाजाल्यार चार जाण दोतोर जाले गांवचे भुरगे, पूण सगळे धांवले शारांनी! पयलीं व्हडल्या हॉस्पिटलांनी अणभव घेवंक, मागीर अमेरिकेक चड शिकूंक... थंय गेलो तो गेलोच! परतो येवंक कठीण...!''

नंदू दोतोर हांसलो. आबा आपल्या धाकल्या भावा विशीं उलयता तें ताका कळिल्लें.

नंदू दोतोराली आजीच ह्या गांवांतल्या लोकांक पाळां-मुळांचीं वखदां दिताली पयलीं! तिणेंच आपल्या ह्या नातवाक गुरुमंत्र दिल्लो - ''पुता, पयशा फाटल्यान लागुंनाका. कितेंय विद्या शिकली ती आपल्या लोकां खातीर वापर. शारांनी जायते दोतोर आसात. हांगा आमच्या लोकांक कोण आसा?''

जाग्रणां करून, न्हीद खळोवन आईचे दोळे भोकणांत गेल्यात. तातूंत
गुरवार. पयरूच आठवो सोंपला.

मावशेक आधाराक आपोवन हाडल्या. पूण आई अजिताक मावशे
पातयेवंकूच भिता.

दोतोराच्या वखदां परस मावशेचो गांवठी वखदांचेर भरवंसो. शिवा
देवस्पणाचेर चडूच!!

आयल्या त्याच दिसा तिणें दिश्ट काडटलेक आपोवन अजिताची दिश्ट काड
उडयिल्ली. अजिताच्या उश्या पोंदा घाडयान दिल्ली बिबूत दवरिल्ली. दंडाक को
तरी मुल्लान मंत्रून दिल्लें तावज बांदिल्लें. आनी घाडयान सांगिल्ले प्रमाण उमा
रातीं घोडका मुळांत कोंब्याचो मान बी करून देवचारांक थंड केल्ले.

मावशी आई परस व्हड उलोवपूय बी मातशें मोठ्यानूच आनी तापसाणेचें!

आपल्या जाणटेपणाच्या नेटार ती आईक उतरा उतराक केंचकेंचायता, दटाय
अशेंच आयकतल्याक दिसपाचें.

"शांतू, कितें तें कॉलनवॉटर आनी घडयो घेवन बसलां? म्हजें आयक! मिरय
वांटून घालया तकलेर... आंगाक मिरयांचो खतखतीत खतो काडया. जोर देंवत
काय ना, पळय!"

"नाका गो ताई. दोतोरान सांगिल्ले आयकुपाचें आमी..." आई ल्ह
आवाजांत उलयता.

"दोतोरान सांगलां खंय!! तो पोरांटो दोतोर चड जाणा? आमचे गांवच्य
वैजालो कसाय हाडला हांवें. तो शिजोवन दिवया म्हळ्यार आयकना तूं...!!"
मावशी आईचेर बेजारता.

आई कलकलत्या काळजान उतरा उतराक दोतोराचे फाटल्यानच लिपता...

"ताई, दोतोरालें वखद दिवया न्ही पयलीं, मागीर मातशें बरें दिसतकच कसाय
दिवया..." आई भीत भीत मावशेक समजायता.

मावशी अजिताच्या कपलार हात दवरून जोर पळयता.

"आगो, परतो तापलो पळय तो जोरान. चार कांदे चेंचावन कवळ घालय
माथ्यार म्हळ्यार आयकना तूं... जोरांक पयलीं ताळू राखूंक जाय! जोर माथ्याक
मारल्यार कितें करतलें?" मावशी आईचेर धेंगशेता.

''पूण दोतोरान कॉलन वॉटराच्यो...'' आई परती-परती कपला वेल्यो घडयो बदलता.

मावशेक आधाराक आफोवन हाडल्या खरी, पूण केन्ना केन्नाकय आईक मावशेचो आधार परस भंयच चड दिसता. रातची बी ती अजिताक मावशे कडेन चड पातयेचना. पूण आधार हो जायच. म्हूण मावशी सांगता तें ती आयकून घेता.

तीन समनां जालीं, अजिताचो जोर चडटा देंवता. पोटांत कांयच ना. उदक, पेजेचो निवळ, लारांजाचो रोस आनी नंदू दोतोराच्यो गुळ्यो, वखदां...

''कसो गुबगुबीत पोटलो कसो दिसतालो अजित! हो दिसांचो जोर आयलो आनी कसो पळय सामको सुकड बडी जाला...'' आईक उतरां येतात.

''दिश्टूच गो शातू... आनीक कांय न्ही! सगल्या लोकांचे दोळे सारके आसनात... तुमकां फट दिसता हांव सांगतां तें...!'' मावशी फणफणटा.

अजिताच्या आंगांत मात्तय शक्त उरूंक ना. उठोवन बसयल्यार लेगीत ताका घुंवळ येता.

''बाब, इल्लो निवळ पिता मरे? तोंड ''आं' कर आं.! हांव कुलेरान घालतां...' ''मावशेन मायेन महळें.

अजित गुर्मेंत आसा. पूण तोंड उकतें करता. एक कुलेर निवळ तोंडांत पावलो. पूण गिळपाची लेगीत शक्त गेल्ले भशेन अजित तो घोंट तोंडांतूच धरून न्हिदता.

''गीळ रे बाबा... गीळ आं!'' मावशेचो तो काकुळटेक आयिल्ले भशेन आवाज कानार पडना फुडें अजित बळान आंवडो गिळटा.' अर्दो निवळ पोटांत, अर्दो ओंठांचे केरेंतल्यान गळटा. मावशी वालो घेवन तोंड पुसून काडटा. दोन तीन कुलेरां निवळ पितकच अजिताक सामकें पुरो जाता. तो धांपेवंक लागता.

मावशी वाटी-कुलेर पयस दवरता.

शेजारचें निमू आका खबरीक येता. पयसुल्ल्यानूच खबर घेता. अजिताचे लागीं गेल्यार आपल्याकूय दिसांचो जोर येत ही भिरांत निमूआकाक भितल्यान खाता. प्रसादाक, नंदनाक, दीपाक पयलींच सांगून गच्च करून दवरल्यांत. 'अजितागेर पांय दवरशात जाल्यार दोंकेच मोडून घालतलें' म्हणून! भुरगींय बी भिल्ले वरी जाल्यांत. अजिताच्या घराच्या दारांतल्यान वचपाक लेगीत भितात.

''कशें आसा आतां अजिताचें?'' निमूआका वयलेवयर अजिताचेर नदर

घालीत विचारता.

"आतां पळोवया केन्ना जोर देंवता तो." आई म्हणटा.

"पोटाक कितेंय घेता मूं? पोटाक घेता जाल्यार कसलोच भंय ना..." निमूआका आपलें तत्वज्ञान सांगता.

"घेता खंय! फोर्सान दोन कुलेरां निवळ घालतां पोटांत..." मावशेन सांगलें 'पेजेचें कूंय लेगीत पोटांत शिरकूंक जायना. दोतोरान फर्मायलां...'' दोतोराचें नांव घेतना मावशेच्या आवाजांत फकाणां मारिल्ल्याचो वास येता.

"सांबाळात बाये अजिताक. हांव वतां. न्हावचे पयलीं खबर घेवन वचय म्हळें हांवें! ... दिसांचो जोर न्ही...?" निमूआका घरा पळटा. मागीलदारांतल्यान भितर सरून मान्न्यांत वता आनी न्हावनूच घरांत पावल दवरता.

"तुमी दोगांय सुशेग घेयात मातसो. हांव रावतां अजिता म्हऱ्यांत..." आबा आयतार आशिल्ल्यान आज घराच आसलो, नाजाल्यार वतलो आसलो दुकानार..."

"नाका म्हळ्यार... तुमी चलात भायर. आमी दोगांय पळोवन घेतात." आईन आबाक भायर धांवडायलो.

अजित कूस परतिता. कूस परतुपाचे श्रम लेगीत ताच्यान सोंसूंक जायनात. दोळ्यांर न्हिदेची गुर्मी. तातूंत तरेकवार सपनां. तरेतरेचे भास दोळ्यां सामकार.

पोरबूच्या गोठ्यांत वागरूं आयिल्लें. एक पाडूक ओडून व्हेलें.

गोठोभर गोरवांचेर वागरें पडलां. तीं गोठ्या भायर वचुंकूय भियेतात.

सांजचीं वागरें काडपाक सगलीं जमल्यांत. पोरबू - काकीन येऽद्दो व्हडलो पिठाचो वाग करून दोनूय हातांनी धरला. सगलीं पोरांटोरां रोमट खेळूंक भायर सरिल्ले बशेन लातां, डबे बडयतात... बडयांनी... दांड्यांनी. सगल्यांच्या हातांत ल्हान-व्हड लातां. पेत्रोलाचो रितो डबो घेवन अजित धोल बडयिल्ले बसेन ढमढमें वाजयता... हुर्योऽऽ... होरगयो... हुर्र... होरगयो... सगलीं भुरावळ व्हडले व्हडले आवाज करीत गांवाचे शिमे मेरेन वतात. पोरबीण थंय तो पिठाचो वाग शिमे भायर उडयता. मागीर सगलीं मोन्यांनी घरा परततात.

आंगणांत मोगरू-गायेन केल्ल्या शेणा थाप्यार अजित निरसता... ढब्ब करून पडटा... आवयस्...!!

"पळय गो ताई, कशें कच्च करून आंग काडलें पळय... बाबा.... अजित... कितें कितें जालें म्हज्या बाबाक? हांव हांगाच आसा आं!" आई अजिताक पोशेता. अजित 'अं... आं...' करीत परतो कूस परतिता. पूण परते भास दोळ्यां मुखार...

वणटीचे खांचींतल्यान कितल्ल्यो ह्यो मुयो? भसभस भसभस करून ओततात सामक्यो! आनी मुयांनी तोंडांत कितें धरलां हें? जण एके मुयेच्या तोंडांत धवेंच इल्लेंशें तांतीं! मुयो तांतयां घेवन खंय वतात? कश्यो एके हारीन वतात... एक्लूय मूय रांग तोडना... शाळेंत मास्तर कसो दटायता... "मुलांनो, नीट रांगेत चला. रांग तोडू नका" ... पूण मुयांचो मास्तर खंय काय? तो दिसचना. आतां मुयो मुखावेले वणटीचे खांचींत भितर सरतात. भायर मळब दाटलां... पावस येतलो काय?... आनी हें कितें? मुयांक पाखां कशीं फुटलीं?... मुयो भिरीभिरी उडपाक लागतात..? तिनसांज जाल्या दिसता.. दिवे पेटल्यात, थोड्यो मुयो दिव्या भोंवतणी नाचूंक लागतात. पांखां लासून जमनीर पडटात... थोड्यो मुयो लापयांवा भोंवतणीं नाचतात. त्योय पांखां लासून जमनीर पडटात... आनी हें कितें? अकस्मात मुयो तोंडा भोंवतणी? नाकांत... कानांत... दोळ्यांत... तोंडांत... मुयोच मुयो... पाखांच्यो मुयो... आवयस्... आईऽऽ... आई गेऽऽ....

परवता गो पोर! जोरान फणफणटा सामको. तोंड कित्याक बुड्डिता रे बाबा? कपला वेली घडी परती भिजय. कॉलन वॉटर आनीक घालया? झेलाचें उदक घाल्यार बरें?....

आई आनी मावशी घडयो बदलतात.

"हांव सांगतां, कांदो वांटून माथ्यार कवळ घालया." मावशी आईक सांगता, तशी आई रोकडीच म्हणटा, "पूण दोतोरान सांगलां..."

मावशी मागीर तिडकून बडबडत रावता.

"येदें व्हडलें हांव सांगतां, तें कोणाकूच मानवना...? तो पोरांटो दोतोर... काय फातोर?? थंड उदकान आंग पुसून काडात खंय...!! थंड उदकान आंग पुसल्यार थंडी भरचिना हड्ड्यांत? पुलमावां भरचीं नात?"

तोंडान उलयताली पूण हात मात बेकार नासले मावशेचे! पटापट घडयो भिजोवन कपलार दवरत आसली...

जोर देंवता, तशी आई थंयच शेंदरेर आडवी जाता.

"अर्दवरान उठय आं म्हाका दोळो लागल्यार..."

"उठयतां... न्हीद तूं..." मावशी धेंगशेता.

आई दोळे धांपता. पूण सावचीत शी रावता. मावशी सादूरतायेन घडयो बदलता. परतोऽ जोर चडटा. जोराचे गुर्मेंत परतेऽ भास...

फिलीपा बरोबर अजित भाटांत भोंवता. अजिताच्या हातांत गोफीण. अजिताचो तीर सारकोच लागता. कस्सोच चुकना.

"खंय आसा रे शेड्डो? फिलीप, म्हाका दिसचना मरे शेड्डो...?"

"राव... हिंगाच राव... हांव चोयतां..."

"पूण फिलीप, शेड्ड्याक कित्याक मारपाचो रे?"

"जित्तोच मारपाचो तेका... तेणेंच जेजूक दाखोवन दिल्लो..."

"जेजूक कोणाक दाखोवन दिल्लो?"

"आनी कोणाक? त्या जुदेवांक...!"

"पूण जुदेव जेजूक कित्याक मारूंक सोदतात?"

फिलीप उडकी मारता... नाचता...

"हो तो चोय रे अजित! चोयलो? माडार आहा... तांबडेऽ बोडाचो... एऽद्दो व्हडलो शेड्डो... चोयलो?"

"हय रे हय! पळयलो. पूण फिलीप, तो शेड्डो आपलें बोड माडार आपटिता कित्याक?"

"केसो बोड हालोयता चोय! होऽ चोय जेजू! होऽ चोय जेजू... एशें कोरून बोडानूच दाखयलो तेणें जोजूक! मागीर जुदेवांनी जेजूक दोल्लो आनी फुरसार माल्लो... सोमतोच मार त्या दुस्मानाक!"

गोफणींतल्यान गुणो सुटलो... धब्ब करून शेड्डो माडामुळांत पडलो.

दोगूय माडामुळांत धांवले.

"चोय रे आजित, आजून हापाप आहा तेका..." फिलीपान म्हळें.

शेड्डो तांकांच पळयता. तोंड उगडटा-धांपता, उगडटा-धांपता.

"ताका तान लागल्या दिसता..." उदक जाय दिसता... अजित काचाबूल जावन फिलीपाक म्हणटा.

मावशी आईक धोंगसून उठयता.

"ऊठ गो शांतू. इल्लें उदक हाड. ताळो सुकला दिसता पोराचो... परतो परतो तोंड उकतें करता धांपता... पळय..."

आई धडपडत उठ्ठा. आठ म्हयन्याचें पोट सांबाळीत रांदचेकुडींत धांवता. शिजोवन थंड केल्लें उदक घेवन येता. एक कुलेर उदक अजिताच्या तोंडांत घालता.

"गुळी दिवया जोराची? कितलो आसा जोर?"

"चड ना... दोन आसा..."

मावशी थर्मामिटर फांफडून परतो नळयेंत भरून जाग्यार दवरता.

परतोऽ जोर चडटा. आई गुळयेचो बारीक पिठो करता आनी उदकांत भरशिता. कुलेर अजिताच्या तोंडाकडेन व्हरता.

"अजित, वखद घे रे बाबा! जोर देंवतलो मागीर! घे आं.... आं कर..."

अजित आं करता. पूण तोंडांतल्यान सगळें उदक रकता.

"नाजाल्यार तें शारोप दी न्ही, जोर देंवपाचें!" मावशी सुचयता. तें घालून पळय... गीळ आं... बाबा, गीळ आं...!!!"

शोभा तलगां फाटल्यान धांवता. ताचे फाटोफाट अजित. शोभागेर कितल्योशोच कोंबयो! वचत थंय तांतयां घालतात. मागीर रवाण्यांक पडटात. शोभा-आवय तांतयां पुंजायता. थोडीं विकूंक दवरता. थोडीं उबोवंक दवरता पिलां जावचे खातीर-कोंबयो तांतयांचेर बसून रावतात.

आवय तांतयां घेवन भितर वतकच शोभा हळूच तांतयांर बशिल्ले एके कोंबयेक दोक्यांक धरून कुशीन शेंवटिता... आनी तांतें चोरता. कोंबडी कों-कों-कों- करीत परती धांवत येता, तांतयांचेर बसपाक. शोभा तांतें कट-कट करून वणटीचे धडेर आपटिता. वयलो कपचो काडटा आनी गुळूक् करून तें आपल्या तोंडांत रकयता.

"तुका जाय? तूं पितलो तांतें?" तें अजिताक विचारता.

"बरें लागता?" अजिताचो दुबावीत प्रस्न.

"बरेंऽ लागता. आनी साउदीक कितलें बरें! शक्त येता मागीर... हांव पळय, तुका एकाच हातान उडयतां..."

“म्हाकाय दी तर! म्हाका शक्त येवपाक जाय. मागीर हांव झगडटना सगळ्यांक एकाच हातान आड घालपी.”

शोभा दुसरे कोंबये फाटल्यान लागता. कोंबडी शोभाक चोंच मारता. कों-कों-कों करून बोव्वाळ घालता. पूण शोभा एक तांतें चोरताच!

“घे मरे! फोडलें हांवें... ताळ्यांत ओत... पी...”

अजित पळयता-तांतयांत उदका भितर हळडुवोच गुळो... असो-असो हालता.

“तें कितें हळडुवेंच?”

“तें मरें पील! तातूंतल्यान कोंबयेचें पील जाता... घे... पी... तोंड उकतें कर. आतां गीळ...”

शोभा तांतें अजिताच्या तोंडांत रकयता.

बुळबुळीत!... गिळगिळीत...! शीऽऽ नाका गो! नाका गो...! अजिताचें आंग शिरशिरता... पोटांत धवळटा... ओंकारो येता...

“अशें करचें न्ही रे अजित! गीळ रे! जोर देवंक नाका? घे आं... पी... गीळ... ताई, तो ओंकारो आयिल्ले बसेन करता मुगो!” आई मावशेक सांगता.

“आनी जोर कितलो खतखतता पळय! त्या दोतोराक आपोवंक धाडल्यार बरें न्ही? आतां मात हांव तुजें कांयच आयकुपी न्ही आं.... पळय तिनाचे वयर गेला जोर....! जोर तकलेक मारल्यार मागीर? तूं बस हांगा... हांव कांदो धोडावन वांटून हाडटां...”

मावशी आपलें तेंच खरें करपी! आई अजिताच्या कपलार थंड घडयो घालता. ओल्या वाल्यान ताचें आंग पुसूंक लागता...

हे वटेन मावशी ताच्या माथ्यार कांदो थापता... कवळ काडटा, दुसरें थापता...

आवयस्! जल्लो? जल्लेमामाची पालकीऽ!! मुयो जल्ल्याक चारी वटेन लागल्यात. येद्योश्यो मुयो... एऽद्दो व्हडलो जल्लो...! तांकां जड लागना काय? कशी ताची पालकी करून ओडून व्हेलो पळय वणटीचे खांचींत!

पूण मुयो परत्यो कित्याक भायर आयल्यो? कितल्योश्योच मुयो... म्हज्या आंगार... शे... शे... सोडात म्हाका....

मुयो अजिताच्या आंगार चडटात... येदो व्हडलो अजिताचो देह... अजिताक मुयो हांथरूणा वेल्यान सकल ओडटात... ल्हवू ल्हवू वणटींतल्यान बिळा कडेन हाडटात. पूण अजिताचो देह बिळांत भितरूच सरना. मुयो तकलेवटेन ओडटात... तकली भितर वचना... मागीर पांया वटेन भितर ओडूंक सोदतात... अजित भायर – मुयो भितर... मुयो पलतडीन... अजित आलतडीन.

"ना! ना! हांव बिळांत येवचोंना", अजित भिता, आड्डता... घामेता... घामान चिप्प भिजता... भिवन किळच्यो मारता. "आईऽ, आई गेऽऽ! आई गेऽऽ!"

मुयो मागीर ताका थंयच सोडून बिळांत पळटात.

"कितें जालें रे? हांव हांगाच आसां पळय. तुजे म्हऱ्यांत! पळय गो ताई, अजित कसो आईऽ करून आड्डलो तो!"

"शांतू, आगो, पोर घामेला गो! हांथरूण लेगीत चिप्प भिजलां पळय.. वालो हाड बेगीन..."

आईन आनी मावशेन अजिताक पुसून काडलो. पुसता तितली आनी हूम येता. अजिताचे कपडे काडून दुसरे घाले. हांथरूणांतल्यो चादरी – गोयड्यो काडल्यो. दुसऱ्यो घाल्यो. दोन कुलेरां उदक पिवोवन ताका हांथरूणार परतो न्हिदयलो.

अकस्मात मावशेन म्हळें, "शांतू, तुगेल्या त्या पोरांट्या दोतोरान कितें सांगिल्लें याद जाता तुका? तो म्हणटालो, घसघशीत घाम येवन जोर देंवल्यार मागीर भंय ना म्हणून...! आतां बरो जातलो गो अजित!!

"तोंडात साकर पडूं गो तुज्या, ताई! देव आतां वाटायतलो...! आईन हात जोडलें. दोळ्यांतल्यान उदकां व्हांवक लागलीं.

"लारांजाचो रोस काडटा इल्लो? दोन कुलेरां पिवयतां..."

आईन अजिताक कुलेरान रोस पिवयलो... पांगरूण सारकें करून न्हिदयलो.

अजिताक न्हीद लागता... सुस्त.... कसलींच सपनां नाशिल्ली.... कसलेच भास नाशिल्ली...



10

# कांय खीण... भांगराळें...

शिरी मागीलदाराचे पडवेर, नाल्लांचे राशी कडेन उबो आसलो. 'हालिंसराक नाल्ल म्हारग जायत सावन, नाल्ल चोरपी संवकल्यात...' तो चिंततालो.

मीराक चोरा भशेन पावलांचो आवाज करी नासतना भितर येतना ताणें पळयलें. साडयेचो पदर आंगभर आनी माथ्यारय घेतला.

'कोण तें नाल्ल चोरूंक आयलां? माथ्यार पदर घेवन तोंड लिपयता, चोरा...'' ताणें हडकिलें.

शिरीक खंय खबर, हें काकीचेंच सोयरें म्हूण? तांगेरच आयिल्लें. शेजारच्या रंजना बरोबर पासयेक गेल्लें. तिनसांज जाल्ली. उलोवणीं पडत म्हूण फाटल्या दारांतल्यान घरांत भितर सरूंक पळेतालें.

'तोंड कित्याक लिपयता? तो बुरखो देंवय पळोवंया...'

मीरान पदर तोंडार चडूच ओडून घेतलो आनी खरेलीच बुरखेवाली जावन थरथरत उबें रावलें.

'आरेच्या, भेरें काय कितें गो? तोंड दाखय म्हणटां तें आयकूंक येना?'

मीराच्या तोंडांतल्यान जापच फुटना जाली.

'तोंडय धरलां गो तुजें? नांव कितें तुजें?'

'...हांव... हांव...' आतां आपल्याक रडूंक येतलें अशें मीराक दिसलें.

'अशें हांव-हांव करून खावंक येवं नाका. सगळीं संवंगां ज्युस्त वळखून आसां हांव...'

आनी शिरीन बळान ताच्या तोंडावेलो पदर दोनय हातांनी फाटीं ओडलो...

आनी तो अजापान पळेतच उरलो...

आपले अठरा वर्साचे जिणेंत जायत्यो चलयो ताणें पळयल्ल्यो. पूण असली सुंदरकाय...! गोरपाण तांच्या घराण्यांतूच आशिल्ली. शिरी स्वतः गोरीपिट्ट. पूण ही गोरपाण वेगळीच! पोले अशे गुंगुल्लो जाल्ले. शिरीक दिसलें, पोल्यार चिरपूट मारल्यार रगताचो थेंबोच भायर सरतलो. काळे काळे उदकाळशे दोळे... तांबडेच ओंठ.

शिरी कितलो वेळ ताका पळेतच उरलो.

म्हणटासर उदकाचीं कोणां कशे ताचे ते दोळे उपाट भरले. आनी पोल्यांवेल्यान ओतूंक लागले.

आतां काचाबूल जावपाची पाळी शिरीचेर आयली.

'नाका, तूं रडूं नाका. हांवें... हांवें कांयच करूंक ना तुका...!'

मीरान दोनय हातांनी शिरीक कुशीन धुकळ्ळो. खंयच्यान ताका धीर जालो, ताकाच कळ्ळें ना – आनी ताणें घरांत धांव मारली.

शिरीच्या सगळ्या आंगाक शॉक बशिल्ले भशेन जालें. ताणें आपल्या हातांक पळयलें. हातांवेली ल्हंव रंध्रां-रंध्रांचेर उबी राविल्ली.

तिनसांजच्या वेळार लक्षीम घरांत भितर सरता हें तो ल्हानपणा सावन आयकून जाणा आसलो. आनी हें सोबीत मुखडें लक्षीमीक सोब सारकेंच! पूण तें मागीलदारच्यान कित्याक...?

भोवन भोवन शिरीच्या दोळ्यां सामकोर तेच दोळे. तेच थरथरपी ओंठ – घरांत वचून कितें सांगलें काय ताणें? पळोवचेंच पडलें.

वासरे वेल्यान सांलांत, रांदचे – कुडीकडच्यान भायल्या सालांत शिरी पासयो मारीत रावलो.

'कितें रे शिरी, जेवणा पयलींच शतपावली करता?' आकून ताच्यो मस्कऱ्यो केल्यो. आज तिचो शेनवारचो उपास. एक जेवण जेवप म्हूण ती कॉफी आनी रोटयो घेवन खावंक बशिल्ली.

हरशीं जाल्यार तो आकू कडेन वाद करूंक बसतलो आशिल्लो. 'आकू, उपास म्हळ्यार पोटाक मातसो सुशेग दिवप न्हय? मागीर ह्यो रोटयो खावन पोट भरतलें मगो! ते परस डायरेक्ट शितच जेवल्यार कशें?'

पूण आज तो आकूचे वाटेक गेलो ना. इतल्यांत देवा-कुडींतल्यान काकी भायर सरली. देवाक दिवो लावन जालो दिसता तिचो.

'शिरी, भुरगीं परवचा म्हणूंक बसल्यांत जाल्यार मातसो लक्ष दी रे...!' तिणें म्हळें. 'पयर सातांचो पाडो जातकच अठराचो पाडो म्हणूंक लागलीं खंय परवचा बेगीन सोंपोवपाक...!'

शिरीक हांसूंक आयलें.

'ताका आनी कितें सांगता? तोय ल्हानपणांत असलींच चिकानां करतालो...' आकून म्हळें.

इतल्यांत शिरीची नदर देवाकुडींत पडली. तेंच आसलें. ताणें ल्हवूच दारांतल्यान तकली भितर घाली. आतां तकलेर पदर नाशिल्लो. काळिकिट्ट लांबशी विणी फाटीर. दोनय हात जोडिल्ले. दोळे धांपिल्ले... लांबश्यो पातयो. दिवलेच्या उजवाडांक ताच्यो सांवळ्यो पोल्यांचेर पडिल्ल्यो... त्या मंद उजवाडांत देवतेची मूर्त कशी! पळयत रावन दिसपाची! दोळे धांपिल्ले आसतनाच ताणें आपले भोंवतणी एक भोंवताडो घेतलो आनी देवाच्या सामकार धोंपरां तेंकोवन जमनीक तकली तेंकयली.

भितल्ल्यान काकीन उलो मारलो. 'मीरा, जालें काय ना गो तुगेलें? मातशें हांगा यो...'

फाटल्या पांयांनी शिरीन कूस मारली. तो बद्द पडवेर गेलो. नाल्लाचे राशीक तेंकुनच एक कदेल आसलें. राखणे मानायाची खाटय थंय आसली. कदेलार बसून ताणें खाटीर पांय मेंकळे सोडले आनी दोळे धांपून घेतले. तनरी लागिल्ले भशेन! दोळ्यां सामकार तीच मूर्त! ''मीरा' कितलें सोबीत नांव! पूण कोण हें? काकीलें सोयरें काय? अशें जाल्यार केन्ना आयलें? शी! ओगीच ताईगेर दोन दीस रावलों मडगांवां... आतां कितले दीस रावतलें काय तें आमगेर? रोखडें वचचे बी ना मूं हें?'

तें वतलें ह्या विचारानच ताची तनरी भंगली. ताणें बेगीन वचूं नये. आपले कडेन उलोवचें, हांसचें, केन्नाय मस्कऱ्योय करच्यो... धुकळचें लेगीत.'' येदोळ धुकळिल्लें तशें... शिरीच्या आंगार कांटो फुलून आयलो. ताचो जीव भिल्ले भशेन जालो. तो उठलो आनी सरळ आपले कुडींत गेलो. हारशांत ताणें पळयलें. बानयानाचेर सदरो चडयलो. केंसार फणी मारली आनी रांदचे-कुडी वटच्यान

गेलो.

'कितें रे आज बेगीन भूक लागली?' ताचे आवयन विचारलें, 'काय खंय वचचें आसा?' तसो शिरी कांयच उलय नासतना भायर शेंवटलो.

कारणा शिवाय कोणूय दादलो मनीस रांदचे - कुडींत पांय घालनासलो. सगलें बायलांचें राज्य. भुरग्यांचीं जेवणां चलतालीं. मनी, कुकुलो, टुटू जेवतालीं. तशीं तांचीं नांवां वेगळींच आसलीं. पूण भुरगेपण सोंपसर कसलें तरी एक नांव त्या घरांतल्या भुरग्यांक चिकटतालेंच! शाळेंत वचसर त्या नांवाचें भुरग्यांक कांय दिसनासलें. पूण जशीं काय शाळेंत वतकच तांकां आपलीं खरीं नांवां कळटालीं. मगीर नांवां वेल्यान झगडीं आनी झुजां.

शिरीक आपल्या ल्हानपणाची याद जाली. काय बरें 'श्रीनिवास' नांव ताचें! ल्हानपणांत बारीक शिडशिडीत बडी कसो जावेस ताचो! ताका कोणें म्हळें - 'हो शिल्ली कसो मरे' जालें! तेंच नांव चिकटलें मागीर - शिल्ली खंय गेलो?... शिल्ली हांगा यो... शिल्ली मस्ती करूं नये! बुद्द येत सावन हेंच नांव ताच्या कानार पडिल्लें.

शाळेंत पावतकच मास्तरान हजेरी घेतना 'श्रीनिवास देसाई' अशें तीन तीन खेपो म्हळें. पूण हो मोन्यांनी बसलो. मागीर मास्तरान म्हऱ्यांत येवन ताका उबो केलो आनी 'श्रीनिवास' म्हणटकच 'हजर' म्हणचें हें शिकयलें.

'श्रीनिवास' कितलें सोबीत नांव! आतां घरांत सगळीं 'शिल्ली म्हणपा वाट्याचीं अपुरबायेन 'शिरी' म्हणटात. पूण शशी, हेमंत सोमू बी सगळेच खेळटना बी 'एऽ शिल्ली' म्हुण्णूच उलो मारतात.

'श्रीनिवास' नांव तकलेंत घोळटनाच इंटरवल जालो. ग्रांउंडार खेळटना सोमून म्हळें - 'एऽ शिल्लीऽऽ सांजचो येता मरे आमगेर खेळूंक?' ताचें उतर सोंपचे पयलींच शिरीन जमनीवेलो हातांत येता तो गुणो उबारिल्लो आनी रागान सोमूचेर मोखिल्लो. सोमूच्या कपलाक कोंक... रगत... मागीर बोवाळ. सोमू रडटा, शिरीय रडटा. शेवटाक सरान सगल्यांक क्लासांत व्हरून सगल्या भुरग्यां हुजीर रुजवात केल्ली. क्लासभर भुरगीं साक्षीक - 'पूण सर, ताका 'शिल्ली'च म्हणटात.. म्हूण...'

'आयच्यान कोणेंच ताका शिल्ली म्हणप ना. जो म्हणटलो ताणें परिणामाक जाबाबदार रावचें!' अशें सांगून सरान झगडें पालयिल्लें. आनी सोमूचे कोंकीक

वखद लावन क्लास... सुरू केलो. तेन्ना सावन शिरीचो 'श्रीनिवास' जालो.

फाल्यां मनी आपलें नांव 'मानसी' म्हूण कळटकच ओगी रावतलें? कुकुल्याक आपलें नांव 'कमलाकर' आनी टुटूक आपूण 'तुषार' म्हणून कळटकच ते आपलीं हीं भुरगेपणांतलीं नांवां शाळेंत वापरूंक दितले?

'टुटू'चो रागीट सभाव पळेल्यार, हांवें एकच तकली फोडल्या थंय हो चार तकल्यो फोडटलो.'

शिरीक पोटांतल्यान हांसूंक आयलें.

आतां हें मीरा घरांत आसासर तरी म्हाका घरांत 'शिरी-शिरी' म्हूण उलो मारिनात जाल्यार पुरो! शिरीन चिंतलें. इतल्यांत काकीन भितल्ल्यान म्हळें - 'चल रे टुटू. शिरीभाऊक जेवंक आपय.'

'हांव वतलों आपोवंक, हांव वतलों' करीत तिगांय धडपडत, एकामेकांक धुकलीत पडवेर आयलीं. धांवतना टुटूच्या पांयांत कुकुल्याचो पांय घुसपून दोगूय पडले आनी मनी एकलेंच शिरीचो हात धरून ताका जेवपाक ओडूंक लागलें. टुटू-कुकुल्याचीं झगडीं चलतालीं. तीं झगडीं सोडोवपाक आज शिरी थंय रावलो ना.

रांदचे-कुडींत तें आसतलें - मीरा - नांव मनांतूच घेतलें खरें, पूण आंगभर म्होंवाळ ल्हार चडलें. तेच तनरेंत तो रांदचे-कुडींत गेलो.

रांदची-कूड म्हळ्यार व्हडलें सालच कशें. एका तोंकार रांदपाचें आनी उरिल्ल्या जाग्यार वणटीक मेज तेंकोवन दवरिल्लें. आनी दुसरे वटेन लायनीन पाट वणटीक तेंकोवन दवरिल्ले. आज काकीन मेजारच ताटां दवरिल्लीं. शिरी वचून जेवंक बसलो. शिरीलो बापूय आनी काका दोन दीस जाले काणकोणां गेल्ले. आज तो एकलोच जेवपाक - ना. मुखार मीरा बशिल्लें. थंयच ताचे सामकार तकली सकल घालून जेवतालें. शिरीक पळोवन तकली आनिकच सकल गेली. काकी कडी घेवन आयली आनी मीराक शीत वाडूंक लागली. तें तिका 'नाका नाका' म्हणटासर पानार एक दाय वाडलीच तिणें.

'आगो लजता कित्याक? हो म्हज्या व्हडल्या देरालो चलो - श्रीनिवास, आनी शिरी. हें म्हजे मावशे भयणीलें चली - मीरा. थंऽय कोल्हापूराक कॉलेज शिकता. सुटयेंत आयलां. दोन दीस रावनूच वाजेलें.' फाल्यां वता म्हणटा. ताका मातशें भोंवडाय मरे भाटांतल्यान बी! झर दाखय, तळी दाखय, कशीं कुळागरां शिंपतात - कितें तरी आयलां म्हूण पळोंवदी ताका.'

'तुमच्या गांवांत भाटां, कुळागरां नात काय कितें?' शिरीन मीराक धिटायेन विचारलें.

ताणें जाप दिवचे बदला काकीच्या तोंडा कडेन पळयलें. तशें काकीनच सांगलें – 'घांटावेलें मरे तें! शारांनी खंयचीं कुळागरां? एद्देंशें आसतना पळयिल्लें हाका – आतां इतल्या वर्सांनी मावशेगेर आयलां. भास लेगीत पळय मरे – कोंकणी उलयतना अर्दी मराठी उतरां. घरांत आवय कोंकणी उलयता म्हूण ही पोरां कोंकणी जाणांत. नाजाल्यार घरा भायर पावल घालें की, 'हिकडं ये ग, थिकडं जा ग' करपाचें.'

शिरीक काकीली मराठी आयकून हांसुंकूच आयलें. ताणें म्हळें, 'फाल्यां सकाळीं हांव कुळागरां शिंपता थंय वतलों. मागीर मड्डेवेल्या भाटांतले थोडे नाल्ल पाडपाचे आसात. पाडेली येतले सातांक. पाडो बी जातकूच परतुपाचें. तूं ताका खावंक बी कितेंय बांदून दी.'

'नाका मावशी, आमच्या तात्यांक आवडचें ना. नाकाच!' तें घुसपलें. शिरी मुखार कशें सांगतलें ते? चल्या भुरग्या बरोबर भाटांत एकलें बी भोंवलें म्हूण कळ्ळ्यार ताचो तात्या ताका जितो दवरचो ना.

'– समजलें! तुज्या बापायक चलयांनी चल्यांकडेन उलयल्लें लेगीत सोंसना, मागीर भोंवप कशें सोंसतलें? पूण हें गोंय मुगो. हांगा चलता! आनी शिरी केदो भुरगो गो. तुजे परस कितलोसोच ल्हान. दांगांनी वाडला म्हूण एद्दो व्हडलो दिसता तुका. पयरच मॅट्रीक जाला तो. चल तूं ताचे बरोबर – एक म्हयनो पांजऱ्यांतल्यान भायर काडटां तुका हांव.' आनी आपणें व्हडलो विनोद केल्ले भशेन ती आपुणूच हांसूंक लागली.

'काकी, तुज्या फकाणांनी ताका वायट दिसत मगे...'

'हांव मीठ घालतां काय कितें?' काकी चडूच नेटान उलोवंक लागली. 'हांवें सुलूताईक लेगीत सांगलां – कितें हीं भावोजीचीं पिशेपणां! साड्यो न्हेस... पदर आंगभर घे... माथ्यार ओड... आरे, तांच्या घराण्याचें खंयच्या तरी राजघराण्या कडेन पोंत लागता खंय – लागूं... पूण ह्या भुरग्यांक कशीं पळय कादयेंत घाल्ले भशेन वागोवप! मोठ्यान उलोवप ना, मोठ्यान हांसप ना – कांय ना...! शाळांनी आनी कॉलेजांत घालां तें फकत चलयांच्या शाळांनी आनी कॉलेजांत... खंय धाडप ना करप ना. आतां लेगीत ताचो मामा वचून बळयां घेवन आयला ताका. ना जाल्यार गोंय पळोवप नशिबांत नासलें ताच्या.'

'असूं दे ना मावशी, पुरे न्ही आतां...' तें खांकडत उलयलें. तशी काक
थांबली.

'येतलें जाल्यार सकाळीं स वरांचेर उठून तयार जा.' शिरीन मीरा कडे
पळयत म्हळें.

मीरान ताटावेली नदर काडनासतना मान हालयली. शिरी उठून आंवपा
गेलो.

काकी मीराक वेंगेंत घेवन ताचो राग काडपाक लागली. 'राग आयलो ग
शिरीक सांगलें म्हूण? आगो आमच्यो गोंयच्यो चलयो पळय मुगो कश्यो मेकळ्य
दिसतात. चल्यां वांगडा उलयतात, भोंवतात. एकठांय शिकतात. पूण आपल
मर्यादा जण एकलें जाणून आसता. ती शीम तांकां आपशींच कळटा. पांजऱ्यांतल्य
शेवण्याकच चड भंय आसता...'

मीरान आपणाक राग येवंक ना म्हळें तेन्नाच काकीची बडबड थांबली.

शिरीक सारकी न्हिदूच पडली ना रातभर! मीरा आपले बरोबर कुळागरां
येतलें. तो सामकोच भुल्लुशिल्लो. झिळमिळ्यार उठून पांचांकच तयार जाव
रावलो तो!

मीराय बेगीनूच तयार जालें. मावशेन दिल्ली टिफिनाची पिशवी ताच्या हातां
आसली. शिरीन पिशवी आपल्या हातांत घेतली. ताणें पावल उबारलें तशें मीर
ताचे फाटल्यान चलूंक लागलें. मर्यादेन. माथ्यार पदर ओडून.

कुळागरांत पावतकच मात तें लजेस्त भिडेस्त चली एकदम बदलून गेलें.

अजापीत जावन तो पाचवोचार वाटार दोळ्यांत भरून भरून घेतना ताच्य
माथ्यावेलो पदर केन्ना खांदार देंवलो ताका कळ्ळेंच ना.

ती तळी, तळयेंतलें उदक, उदकार उफेवपी तीं वोवळां. तळये धडेर आशिल्ल
'वोंवळ, वोंवळां फाफसयत आसली. 'बकुळं - बकुळं' करीत दोनय हातांचे
पोसो करून उदकांतलीं वोंवळां ताणें एकठांय केलीं. पोसो भरतकच पदराचे होटींत
घेतलीं. उदकांत नाचलें, तोंडार उदक शिंपडायलें...

शिरी ताका अजापान पळयतच रावलो. मागीर भानार येवन ताणें तळयेंतले
उदक पाटांतल्यान सोडलें.

कामेरीं कल्ली घेवन सपासप माडयो शिंपतालीं. शिरी उदक सोडटालो. उदक

हें बांदयेंतल्यान ते बांदयेंत वतालें.

मदींच माकडांचें भिरें आयलें. जांबांच्या झाडांनी रिगलें. माकडां गुलाबी-धवे जांब खावंक लागलीं. कितलेशे जांब सकल पडले. माकडिणीच्या पोटाक वेंग मारून बशिल्लीं बारकेलीं पिलां आनी त्या पिलां सकट ह्या झाडावेल्यान त्या झाडार उडक्यो मारपी त्या मकाडिणींक पळोवन हांसून हांसून मीराच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.

सगळ्या कुळागरभर सुरंगांचो, नागचांफ्यांचो आनी कुडचाफ्यांचो घमघम सुटिल्लो. शिरीन झाडार चडून मीरान 'पुरो पुरो'! म्हणसर चांफीं काडून दिलीं. हळडुवीं चांफीं ताणें हे पयलीं पळयल्लीं. पूण हीं धवींच, मोठश्योच पाकळ्यो आशिल्लीं चाफीं... धव्याफुल्ल पाकळ्यां मदीं तो घमघमाचो हळडुवोच भांगरा गुळो कसो. ताचीं तीं नाजूक केसरां – मीरा तें चाफें कितलो वेळ पळयतच बसलें... कुळागराचे काळेकिट्ट जमनीक कितले रंग... कितले वास...!

हे मेरेवेल्यान ते मेरेर चडटना कितले खेपो शिरीन ताका हात दिलो. तेंय बी संकोच करी नासतना ताच्या हाताक धरून मेरो चडटालें. कमराक पदर खोवन स्वच्छंद निश्पाप पिसोळें कशें.

पूण मीराच्या मनाच्या एका कोनशांतल्यान 'अशें करप नासता... अशें भोंवप... हांसप बरोबर न्हय... अशें बागडूं नये...' असो एक आवाज करंदाय करतालो. पूण रोखडोच दुसरो आवाज 'आयचो दीस... फकत आयचो...' अशें विनयतालो. आनी मीराचो जीव थाऱ्यार घालतालो. 'तुमी-आमी' फ़ाटीं पडून केन्ना तीं 'शिरी' आनी 'मीरा' जालीं हें तांकांच कळ्ळें ना.

'एऽ शिरी, तें बघ! पळय रे तें... पिवळें पिवळें रे... कांटेरी पानां मदीं' मीरान ताका दाखयलें.

'आगो तो हातो मगो... कवासो म्हणटात ताका, तुका खबर ना?'

'हय रे! केवडा तो केवडा!' मीरान आनंदान म्हळें.

'गुणा, हेऽते केगदींत हातो ओंकला पळय..'

शिरीन मानायाक म्हळें. तसो गुणान तो हातो काडून हाडलो. शिरीन तो मीराच्या हातांत दिलो.

मीरा एक सारकें 'अय्यो!... अय्यो...! करीत वास घेवंक लागलें.

'अय्यो अय्यो कितें करता? केवड्या म्हऱ्यांत नाग आसता नाग... व्हडल्य
जिवाणें...' शिरीन हाताचो नागफडो करून मीराक दाखयलो. 'सांबाळून काड
पडटा तो...'

मीराचें आंगपांग शिरशिरलें...

आतां ह्या मानायाक नाग चाबिल्लो जाल्यार?

ताचें भियेल्लें तोंड पळोवन शिरीन ताचो भंय काडपाक म्हळें, 'आगो, फकाण
केलीं तुजीं... तशें कांय ना.'

मागीर मीराच्या जिवांत जीव आयलो. तें परतें खळखळून हांसूंक लागलें
परते ताचे अजापभरीत दोळे चकचकपाक लागले. कवाशाची एक नाजूक पाकळ
काडून ताणे पिनीन आपल्या केंसांत माळ्ळी.

म्होंव्या पणसाक पणसुलां धरिल्लीं. बरीं मोठीं जाल्ली. पूण अजून जून जावं
नासलीं. शिरीन चिरपूट मारून वाजोवन पळेलीं. 'अजून तन्नींच आसात. जू
जाल्यार काडूंक जातालीं.' ताणें म्हळें...

'तुका कसें कळ्ळें? टिचकी वाजवून...?'

'कळटा गो तशेंच! चिरपटू मारप... आवाजा वेल्यान समजता...'

मीरान दोन-तीन उडक्यो मारून पणसुलां कडेन हात पावयलो. पूण चिरपू
मारूंक जमना जालें...

– आनी शिरीन अचळय ताज्या कमराक धरून ताका वयर उबारलें. मीरान
पणसुलाचेर चिरपूट मारून ट्रक ट्रक आवाज काडलो... आनी धादोस जावन
हांसलें.

मागीर ताका शिरीन आपल्याक उबारलां म्हणपाचें भान जालें... 'सोड...
दवर सकल म्हाका...' अशें म्हणून धडपडत तें सकल देंवलें.

शिरीलें सगळें आंग पुलकेल्लें. ताचो स्वास व्हडान चलतालो. व्हडली चडण
धांवन चडिल्ले भशेन. धांपेतालो तो... 'कसलो हो भार आयिल्लो म्हजेर?' ताचें
ताकाच अजाप जालें. दोगांय तकली सकयल घालून चलूंक लागलीं.

भाटांत पावता म्हणसर तो परतो जाग्यार आयलो. 'तुका पुरो जालां जातलें.
हो तो मांगोर आसा न्ही, थंय वचून बस. तानेलां मुगो? आडसर काडूंक
लायतां...'

काकीन दिल्लो तो टिफीन शिरीन मीराच्या हातांत दिलो. पाडेल्याक दोन आडसरां काडूंक सांगलीं. येशान आडसरांचें तवलें मारून तीं शिरील्या हातांत दिलीं. आडसराचें थंड म्होंवें उदक पीत पीत ताणें मीरा म्हऱ्यांत बसकण मारली. मीरान टिफीन उगडलो. दोगांनीय खावन घेतलें.

'हांव आतां पाड्या कडेन वतां. तूं सुशेग घे.'

शिरी पाड्या कडेन गेलो. येसो आनी शंकराचें माड पाडप चालू आसलें. आबोलें, सुरंग बी ओज्यांनी नाल्ल भरून ते व्हरून राशीक मारतालीं. हरशीं तल्लुकीचे देठ मेजतना शिरी सादूर रावपी. पूण आज कोणें कितलें देंठ, सांगले ते ताणें मानून घेतले.

पाडेल्यांनी नाल्लांचे माप घेवपाक सुरवात केली – 'लाऽब, दोऽन, तीऽन...'

मांगरांत सांवळेंत वणटीक तेंकून बशिल्ले कडेन मीराचो दोळो लागिल्लो. नाल्ल पिकपींत भरून जाल्ले. शिरीन मीराच्या खांदाक धरून हालयलें. 'मीरा, चल या मगो घरा?'

मीरान सपनांतल्यान जागें जाल्ले भशेन दोळे उकते केले. सकाळचो मायतोभर भोगिल्लो तो आनंद... सैमाचे मांडयेर नाचिल्ल्या – भोंविल्ल्याचें तें सुख... तो मुक्त हांसो... जिणेंत एक नविदाद कशी... फाल्यां घरा वचपाचें...? घरा...!!

शिरीचो हात अजुनूय ताच्या खांदार आसलो. एकदम हात धुकलून उडोवन तें उबें रावलें. खांद्यावेलो पदर परतो माथ्यार चडलो. तकली सकल घालून ताणें विचारलें, 'संपलें कुळागरांतलें काम?'

शिरीन निराशेन म्हळें, 'हय, सोंपलें!'

सादो प्रस्न... ताची सादीच जाप!!!

खरें म्हळ्यार शिरीच्या मनांत एक सुंदर सपनूच सोंपिल्लें. फाल्यां सकाळीं मीरा वतलें. ताका म्हजें नांव तरी याद उरत काय?

मीरा चिंततालें... ह्या भांगरा खिणाच्यो यादी हांव काळजांत लिपोवन दवरपी... पूण शिरीक केन्ना म्हजी याद तरी जायत काय?



11

# भुरग्यांचें मानसशास्त्र.....

नंदू भितरल्या रुमांत बसून खेळटालें – एकटेंच! नीनीन ताका खेळपाक चिरमुल्यो दिल्ल्यो.

''हांव आतां बाजारांत वतां, नुस्तें आनी भाजी हाडपाक...'' तोंडान बडबडटना ताची ॲक्शन चालूच आसली.'' ...कपडे बदलले, केंस वळयले, पावडर लायलो, लिपस्टीक लायली, बुटां घालीं, पर्स घेतली, स्कुटरिची चावी घेतली...''

खेळांतले सायकलीक चावी लायिल्ले भशेन करून तें आपले सायकलिचेर बसलें आनी तोंडान स्कुटरिचो आवाज काडीत ताणें एक रावंड मारलो आनी सायकली वेल्यान देंवलें. परतीय ताची बडबड आनी ॲक्शन चालू जाली.

''बुटां काडलीं, कपडे काडले, गावन घालो, हात पांय धुयले... नुस्तें उजरायलें, भाजी शिनली...' ताची ॲक्शन चालूच आसली. ''वेळ जालो,मिकीक आनी बार्बीक भूक लागली... आतां बेगीन बेगीन रांदता...''

खेळांतल्या गॅसार धाकटुलो तोप दवरून ताणें चिरमुल्यांचे शीत केलें, दुसऱ्या तोपांत चिरमुल्यांचे कुडके करून भाजी केली तिसऱ्या तोपांत चिरमुल्यांचें हुमण केलें. गॅसार तवो दवरून चिरमुल्यो तळ्ळ्यो. मिकीक आनी बार्बीक म्हऱ्यांत बसोवन ताटांनी जेवण वाडलें. एक चिरमुली बार्बीच्या तोंडाकडेन व्हरप, दुसरी मिकीच्या तोंडाकडेन व्हरप... आनी दोनय चिरमुल्यो आपणेंच खावप... अशें करीत सगळ्यो चिरमुल्यो ताणें सोंपयल्यो. एके कुशीक वचून नळार आयदनां घांशिल्ले धुयिल्ले भशेन केलीं आनी मागीर आपलो तो स्टिलाचो चकचकीत खेळ भरून दवरपाक तें पांटलो सोदूंक लागलें.

पूण पांटलो रुमांत नाशिल्लो!!

"नीनीऽऽ, नीनीऽऽ!!" ताणें उलो मारलो.

"कितें जालें गो नंदू?" नलिनीन विचारलें.

"नीनी गोऽ, तुवें म्हजो पांटलो पळयला? म्हजो पांटलो गो! हांव खेळ भरून दवरतां तो! म्हाका व्हडले आईन दिल्लो तो...!"

नंदू त्या पांटल्याचो आनिकय कुरवो सांगपाचें, पूण इतल्यांत पप्पान घब्ब करून तो पांटलो ताचे मुखार उडयलो... उब्यांनीच!

पांटल्याची दशा पळोवन नंदूच्या पोटांत कुचमळ्ळें सामकें!

पाटल्याक माती लागिल्ली, ताची दोन वेळा सुटून आयिल्ली. ताचो काय बरो सोबीत पांटलो सामको म्हेळो, बुरसो दिसतालो.

नंदून दोनूय हातांनी पोट आंवुळ्ळें आनी तें रडपाक लागलें.

"कितें जालें गो? पोटाक धरून शें रडटा?"

"नीनीऽऽ, म्हज्या पोटांत दुखताऽऽ" नंदून ओंठ परतून हिमट्यो काडल्यो.

"कितें खाल्लें आज? गोड, साखर खावंक दिवं नाका ताका म्हूण सदांच सांगतां तुका. दंत जाल्यात जातलें. चॉकलेटी तर भकता सामकें. आयच्यान चॉकलेटी खावप बंद..." राघव व्हडल्यान तापूंक लागलो.

राघव भायर गेलो. तें पळोवन नलिनीन नंदूक वेंगेंत काडलें. "शाण्या, खरेंच सांग आं. तुज्या पोटांत खंय दुखता?"

नंदूच्या दोळ्यांतल्यान बुळ्ळ करून परतीं दुकां आयलीं. नीनीच्या गळ्याक वेंग मारून ताणें कानांत सांगलें, "नीनी, म्हजो पांटलो सामको बुरसो जालो न्ही?... आनी पप्पान केदया व्हडान तो जमनीर आपटिलो गो! पांटलो पळोवन म्हज्या पोटांत न्ही कितें जावंक लागलें सामकें. पोटांत दुखलें ना गो... पूण कितें तरी..."

नीनीक नंदूची भास बेस बरी समजली. त्या पांटल्याचेर नंदूचो कितलो जीव हें तें जाणा आसलें. नंदूचीं खेळणीं जळामळा पडटात तें पळोवन व्हडले आईन–नलिनीचे आवयनच तो पांटलो मुद्दाम सांगून करून घेतिल्लो. नंदूचीं खेळणीं भरपाक.नंदूक तो पांटलो दितकच ताचें फुलून आयिल्लें तोंड पळोवनूच व्हडली आई धादोस जाल्ली.

म्हजो पांटलो? सामको म्हाका मगे?"

नंदून व्हडले आईक विचारिल्लें...

‘हय आं! तुजोच. तुजी खेळणी भरपाक आनी कोण्णाचो न्ही!’’

कुळारच्यान येतना नलिनीन तो पांटलो यादीन घरा हाडिल्लो. नंदून कितले खेपो ‘म्हजो पांटले घेतला मगो?’ म्हूण ताका विचारिल्लें.

आनी पप्पान आज ताच्या पांटल्याक हात लायिल्लो. पप्पाक पोरसांत झाडां रोवपाची आवड! काल कितल्योशोच रोपयो हाडिल्ल्यो... गुलाबाचीं कलमांय हाडिल्लीं... त्यो रोपयो भायर गार्डनांत व्हरतना ताणं नंदूचो खेळ ओतोवन तो पांटलो घेतिल्लो... पांटल्यांत भरून रोंपयो भायर व्हेल्ल्यो.

‘‘नंदू, आज हांव पप्पाचेर रागार आं! हांव मगो, भितर किचनांत आशिल्लें. पप्पा तुजो पांटलो व्हरता तें हांवें पळोवंकच ना...

नाजाल्यार हांव हात लावंक दितां म्हजे बायेच्या पांटल्याक?’’

आवयचीं उतरां ल्हवू ल्हवू नंदूच्या कानांतल्यान काळजामेरेन देंवलीं. तशें ताचें रडें कमी-कमी जायत थांबलें. आपल्या पांटल्याची ही अवस्था नीनीक खबर नासतना जाल्या,

नीनीक खबर आसल्यार तें पांटलो पप्पाक व्हरूंक दिवचें नासलें हें ताका समजलें. पूण पांटल्यांचेर नदर पडटकच तें परतें हिमट्यो काडूंक लागलें.

ताका थातारपाक कितें करचें तेंच नलिनीक समजना जालें. निमाणें ताणें म्हळें, ‘‘चल नंदू, आतां आमी तुज्या पांटल्याक न्हाणोवन निवळ करूंया.’’

नंदूची रड थांबली. दोगांयनीय मेळून पांटलो बाथरुमांत व्हेलो. नलिनीन शाबवाच्या उदकान तो धुवन नितळ केलो. पांटल्याचीं दोन वेळा सुटून आयिल्लीं. तींय सुतान बांदून आशिल्लीं तशीं केलीं.

नंदू तरिकय विरूस आशिल्लें.

‘‘पांटलो सुकतकीर मुगो, आमी तो तांबड्याच रंगान रंगोवया आनी चकचकीत तांबडोच करया.’’

‘‘खरें?’’

‘‘सामकें खरें!’’

नंदूच्या पोटांत दुखतालें तें सामकें थांबलें. तें परतें हांसूंक-नाचूंक लागतकच नलिनीच्या जिवाक सुशेग जालो.

"आज जेवण बी पडपाचें आसा काय ना आमकां? काय दिसभर तो पांटलोच धुयत बसता?"

पप्पाचीं उतरां कानार पडटकच नंदू ल्हवूच पांटलो घेवन आपले कुडींत गेलें.

नलिनीन मागीर राघवाक सारकोच वयर-सकयल केलो.

"तुका नंदूच्या पांटल्याक हात लावपाची कसली गरज आशिल्ली.? जाय जाल्यार म्हजे स्टिलाचे बालदेंत भरून व्हरच्यो आशिल्ल्यो रोपयो... ताची रड थांबयतासर म्हजो जीव काबार जाता... खबर ना?"

"आगो, पूण असल्या गार्डनांतल्या कामाक पांटलोच वापरतात, स्टिलाच्यो बालद्यो न्हय...!"

"तशें जाल्यार एक पांटलो हाड आनी गार्डनांत दवर. तुमकां दादल्यांक म्हणून भुरग्यांचें मन कशें सांबाळचें तेंच समजना! नंदूचो त्या पांटल्यार कितलो जीव?! ताचे आज्जेन ताका अपुरबायेन दिल्लो तो... ताचो खेळ भरपाक स्पेशल करून घेतिल्लो..."

राघवाक मागीर नलिनीचीं फकांडां मारपाची कूय आयली.

"हांव विसरिल्लों गो बाये! 'तुजे' आवयन दिल्लो न्हय तो पांटलो? मागीर तुजोय जीव आसतलोच त्या पांटल्यार...!"

"ओगीच कितेंय उलयनाका हां! हांवें तुका इतलेंच सांगलां, भुरग्याचें मन राखूंक जाय..."

"आनी पोटांत दंत जाल्यात ते? पोट कोणे राखूंक जाय भुरग्यांचे? मेळटा तशें गोड-साकर दी ताका खावंक! भुरग्यांचे आरोग्य राखूंक नाका... फकत मनां राखुंया भुरग्यांची...!"

"पोटांत खंय कोणाच्या दुखता? आपल्या पांटल्याची दुर्दशा पळोवनूच ताच्या पोटांत चकनळ्ळें सामकें. ताका खंय सांगूंक कळटा? पोटांत दुखता म्हळें ताणें..."

राघव आतां मात गंभीर जालो. फकांडां करपाचीं सोडून ताणें विचारलें, "खरें काय कितें?"

"आनीक!"

''तशें जाल्यार चुकलेंच म्हजें तर!''

''आतां तुजे चुकिची ख्यास्त तुका भोगचीच पडली.''

राघवाच्या तोंडावेल्या प्रस्नचिन्नाक जाप दीत नलिनीन हांसत म्हळें, ''सांजची म्हाका एक तांबडी वॉटरकलरची बाटली हाडून दी... पांटलो रंगोवपाक...''

''तशें कित्याक? हांवच दितां ताचो पांटलो रंगोवन!''

आनी खरेंच, जेवन बी आड पडचे बदला राघव बाजारांत गेलो आनी रंगाची बाटली आनी ब्रश घेवन आयलो.

पप्पा आपलो पांटलो रंगयता हें पळोवन नंदू सामकें खुशाल जालें. पप्पाच्या फाटल्या-फुडल्यान नाचूंक लागलें.

''पप्पा, हांवय पांटलो रंगयतां... म्हाकाय दी ब्रश!''

''आतां तूं ओग्गी बस आं एका जाग्यार! तुजो पांटलो हांव रंगोवन दितां...'' पप्पा ताचेर तापलोच.

नंदू मागीर इल्लेंशें तोंड घेवन नलिनी म्हऱ्यांत गेलें.

''आतां परतें तोंड कित्याक गो वांकडें? पप्पा रंगयता मगो तुजो पांटलो?''

''पप्पा म्हाका पंटलो रंगोवंक दिना... आपूण एकलोच रंगयतलो म्हणटा... हांव म्हऱ्यांत गेल्यार तापता...''

आतां ह्या पप्पाक कशें समजावचें तेंच नलिनीक समजना जालें. पूण मागीर नंदूकच ताणें समजायलें.

''रंगोवं दी गो पप्पाक एकल्याकच! आमी मागीर पांटल्याचेर बरींऽ फुलां आनी थिबके बी काडया... तुज्या स्कूल-बॅगार आसात न्ही, तशे. पप्पाक सांगूंच नये!

नंदूक वेंगेंत घेवन थापटीत नलिनीन ताका न्हिदयलें. सांजचें रंगोवपाचें प्रॉमीस उशाक घेवन तें न्हिदलें. ताच्या खुशालभरीत तोंडार नदर घाल्यारच समजातलें.

नंदूच्या आंगार पातळशें पांगरून उडोवन नलिनी भायर गेलें.राघव शिळोणी घालीत सामको भुरग्या भशेन पांटलो रंगोवपांत रंगून गेल्लो.

''पळय गो नीनी, काय बरो पांटलो रंगयला हांवें!''

''आता तूंय लागलो 'नीनी' करून फकांडां मारपाक? म्हजें नांव नलिनी...''

“पूण तुजे धुवेन तुजो परतो बारसो केला आनी तुका ‘नीनी’ नांव दवरलां तें विसरलें?” राघव ताका चाळोवंक लागलो.

राघव ताका सदांच ‘नल्गी’ करून उलो मारतालो. आनी वासंती-नलिनीची नणंद ‘वैनी’ म्हणटालें. नंदून उलोवंक येतनाच तांणी शिकयल्लीं ‘पप्पा’ जावं ‘मम्मी’ हीं उतरां म्हणचे बदला पयलेंच उतर तोंडांतल्यान काडलें तें ‘नीनी’. आतां सगळींच फकांडांनी ताका ‘नीनी’ म्हणटाली.

‘एऽऽ नीनीऽ, आतां तोंड कित्याक धरलां गो?”

“हें पळय, तुका जाय जाल्यार आनिकय दोन नांवां दवर म्हाका आनी उलो मार... पूण एक मात म्हजें सामकें आयकून घे...”

“कितें तें?”

“नंदूच्या मनाचो मातसो विचार कर.”

“आतां आनी हांवें कितें केलें?” राघवान अजापान विचारलें.

“नंदूच्या हातांत मातसो ब्रश दिल्यार कितें जातलें आशिल्लें?”

“जातलें आशिल्लें तर! पांटल्या बरोबर नंदूचें आंग-पांग तांबडेंच जातलें आशिल्ले.”

“मागीर ताका तशें समजावन सांगचें आशिल्लें. ब्रश कसो धरचो, आंगाक रंग कसो लागूंक दिवचो न्हय हें ताका शिकोवचें आशिल्लें.”

“नल्गी, आतां मात चड जालें आं तुजें! तूं आनी वासंती... भुरग्यांचें मानसशास्त्र शिकत बसात... म्हाका शिकय नाकात. तें वासंतीय तशेंच. केन्नाय पळय, म्हाका भुरग्यांचें ‘मन’ कशें राखचें तें शिकयता...”

“पूण, आपल्या पांटल्याक आपणेच रंगोवपाची खोस कशी आसता, जाणा तूं? तांतलें सूख... आतांच पळय, तूंच कसो रंगलो तो पांटलो रंगोवपांत!”

“आगो, पूण भुरग्यांक तातुंतलें कितें समजता?”

“हांगाच चुकता तूं! भुरग्यांच्या मनाक आमच्या जाणट्यां परसय चड तळ आसता. तांच्यो भावना...’

“पुरोऽ!” राघव आड्डलो... ब्रश सकयल दवरून दोनय हात जोडून राघवान कोंपरा सावन नमस्कार केलो. म्हळें, “आतां कान धरून उठाबशो काडूं? परतो म्हणून तुजे चलयेच्या वस्तूंक हात लायना सायबिणी!” आनी तो थंयचो उठूनच

गेलो.

नलिनीक हांसचें काय रडचें तेंच समजना जालें.

सांजची च्या घेतना लेगीत राघवाचो मूड तसोच ऑफ आशिल्लो. आतां हाका रंगाची बाटली हाडपाक सांगप म्हळ्यार... ताणें भोंगूंच म्हळें मनांत! नलिनीन आपणेंच वचून लागशिल्ल्या दुकानांतल्यान दोन रंगाच्यो बाटल्यो घेतल्यो – धवी आनी पांचवी.

मागीर सगळी सांज बसून ताणें आनी नंदून पांटल्याचेर पांचवीं पानां आनी धवीं फुलां काडलीं. मर्दी मर्दी बरेऽ थिबके काडले. आतां पांटलो सामको सुंदरच दिसूंक लागलो.

"आतां ह्या पांटल्याक माती लावपाक तुजो पप्पा लेगीत भितलो." नीनीन म्हळें तशें नंदू निश्चिंत जालें.

दुसऱ्या आयतारा वासंती आनी अमेया आयलीं. वासंतीक कुळारा रावपाक तरी खंय मेळटालें? तेंय नोकरीवालेंच! केन्नाय आयतारा बी अशें येतालें. सकाळीं येवन सांजचें परतें घरा वतालें.

अमेया येतकीर नंदू सामकें खूश! ताणें अमेयाक आपलो रंगयिल्लो पांटलो दाखयलो. दोगांय पांटल्याक बरोऽ वेळ तोखेलीं. मागीर दोगांचोय खेळ सुरू जालो.

"आमी, हांव बाजारांत वचून चिकन घेवन येतां." नंदून म्हळें. आज दोगांनीय चिकन रांदपाचो बेत केल्लो. "तूं शीत बी करून दवर. आयदनां बी घांस."

अमेयान 'आं' म्हळें. पूण ताचो दोळो आशिल्लो मिकीचेर. "पूण मिकीक फाटीर घेवन आयदनां घांसतां हांव."

"ना! ना! मिकी म्हजे बरोबर बाजारांत येतलो. तूं बार्बीक मांडयेर घेवन कामां कर."

नंदू अमीक आपलीं सगळीं खेळणीं दितालें. पूण आपल्या मिकीक मात ताका हात लावूंक दिना आशिल्लें. मिकी म्हळ्यार नंदूलो माकोड... धवेफुल्ल ल्हंवचो आनी लांब शेंपडेचो. ताच्या दोनय हातां आनी पांयांक 'वेलक्रो' आशिल्लो म्हूण मिटीक फाटीर मारून ताचे दोनय हात गळ्यांत घालून चिकटावन भोंवंक मेळटालें. पांय पोटार घेवन चिकटावंक मेळटाले. मिकी नंदूचे फाटीर बसला, ताणें नंदूच्या गळ्याक हातांनी वेंग मारल्या, पायांनी ताच्या पोटात खेंव घाल्या आनी

शेंपडी लांबयत तो नंदू बरोबर भोंवता अशें सदांच दिसतालें. नंदूक तो जिवाक जाय आशिल्लो. खेळटना तें ताचे कडेन खबरी मारतालें. रातचें न्हिदतना लेगीत उशाकडेन मिकी ना जाल्यार नंदूक न्हीद पडनासली.

आनी ज्युस्त तोच मिकी आज अमीक जाय जाल्लो. ताका फाटीर मारपाक तें सामकें लालेतालें.

जेवणां जातकीर दोगांकय न्हिदोवन नलिनी, वासंती भायर खबरी करूंक बसलीं.

नंदू न्हिदलें पूण अमीक न्हिदच पडना. तें उठून भायर आयलें आनी मिकी जाय म्हूण रडूंक बसलें. नंदू न्हिदलां तें पळोवन राघवानच मागीर मिकीक हाडून अमीचे सुवादीन केलो. म्हळें, 'जाय तितलें खेळ, पूण रड थांबय.'

नंदू सांजचें उठलें. पळेत जाल्यार, म्हऱ्यांत मिकी ना. आतांच तर ताका उशाकडेन दवरून हांव न्हिदिल्लें... अमीन बी हात लावंक ना मू? तें धांवतच हॉलांत गेलें. पूण आतें, अमी कोणच सालांत ना. तें नीनी म्हऱ्यांत गेलें.

''नीनी, अमी, आतें गेलीं?''

''येदोळ गेलीं. तूं न्हिदिल्लें म्हूण उठयलें ना तुका टाटा करपाक...''

''नीनी, म्हजो मिकी...'' नंदूचो गळो भरून आयलो. ''नीनी गोऽ, म्हजो मिकी खंय...?''

''तुजे खाटिरच आशिल्लो मुगो उशाकडेन...! चल, सकयल बी पडला जाल्यार पळय.''

'नंदू मागीर धांवतच बेडरुमांत गेलें. खाटी सकयल बी सगळ्याक सोदून पळयलें ताणें... मिकी मेळ्ळोच ना.''

''नीनीऽ म्हजो मिकीऽऽ'' तें रडूंक लागलें. नलिनी बेजारलें!

''दिस्सभर रड हाची! शेणलो जाल्यार सोदचें ना आपूण... त्याय कामाक आवयच जाय! बापूय तर आंग हालोवचो ना... धुवेचें कितेंय आयकल्यार...'' नलिनी बडबडत किचनांतलें उठून बेडरुमांत आयलें. पळेत जाल्यार नंदू सामकें आकूळ-पिकूळ जावन रडटालें.

''नाका गो बाय! अशें रडचें न्हय गो!''

''नीनी गोऽ, अमी म्हजो मिकी आपल्याक जाय म्हणटालें.'' हुडक्यांतल्यान

एक एक उतर काडीत नंदून नीनीक आपलो दुबाव सांगलो.

नलिनी चिंतूंक पडले. येदो व्हडलो मिकी अमीन व्हेल्लो जाल्यार तें वतना म्हाका दिश्टी पडचो नाशिल्लो?

''ना गो नंदू... ताचेर बाबड्याचेर आळ घालनाका. हांवें ताका 'टाटा' केलां न्ही वतना... ताच्या हातांत कांयच नाशिल्लें.''

''ताचे मम्मीच्या हातांत...?''

''फकत तांची कपड्यांचें बॅग...!''

नंदू परतें हुडकेवंक लागलें... चडच जोरान...

''कितें जालें आतां...?''

''नीनीऽ... म्हजो मिकी बॅगांत घुसमट्टलोऽ.''

इतल्यांत राघवच थंय आयलो.

''आज कितें रडपाचो आयतार काय कितें?''

ताणें नंदूक वयर उबारत म्हळें. ''कितें जाय म्हजे बायेक?''

''पप्पाऽऽ, म्हजो मिकी... खंय गेलो?''

''तुजो मिकी?... आं. हय! हय! तें अमी रडटा म्हणून हांवें ताका खेळपाक दिल्लो...!''

''पप्पा! तुवें...? म्हजो मिकी...?'' नंदूक सामकें भितरल्यान दुखलें तें ताच्या दोळ्यांवेल्यान समजतालें.

''तूं न्हिदिल्लें मुगो? तें जागेंच आशिल्लें. तुजी भयण न्ही ती? थोडो वेळ तें घेवन खेळ्ळें तुजो मिकी जाल्यार अशें रडटात? ताणें खेळून जातकच दवरला जातलो खेळांत तुज्या. चल... पळय वचून!''

पूणा खेळां भितर मिकी मेळ्ळोच ना. नंदू भितरले भितर घुसमटूंक लागलें. 'कितें जाता गो बाय?' म्हूण विचारल्यार सांगूंक लागलें, 'नीनी, म्हाका खांक येता.' म्हण सर

''नीनी, म्हाका ओंकूंक येता!'' म्हणूंक लागलें. शेवटाक, ''म्हाका मिकीची याद येताऽ'' म्हणून ताणें हांबेरच फोडलो.

नलिनीक हुस्को जालो. आतां कितें करूं? वासंतीगेर फोन ना. राघवाक

धाडल्यार बरो? पूण राघवान आयकूंक नाका? तो वेल्यान नलिनीचेर तापलो. ‘व्हेलाच मिकी जाल्यार हाडून दितलें वासंती फाल्यां’ म्हणूंक लागलो.

रातचें नंदू जेवलें लेगीत ना. नलिनीन बळयां ताका दूद पिवयलें. पूण सगळें ताणें ओंकून उडयलें.

रातचो नंदूक सणसणीत जोर भरलो. जोरांत बडबडूंक लागलें. नलिनीन भियेवन राघवाक दोतोराक हाडूंक लायलो. दोतोरान इंजेक्शन दिलें तशें नंदू एकदम जागें जालें.

‘‘दोतोरकाका...!’’

‘‘नंदू, कितें गो? जोर आयला मुगो तुका?’’

‘‘दोतोरकाका, म्हाका मिकीची याद येता...!’’

मागीर दोतोरान वतना राघवाक कुशीक आपयलो.

‘‘हें पळय राघव, तो मिकी आसा न्हय, ताका आफोवन हाड दोन दीस...!’’

‘‘दोतोर, तो मिकी म्हळ्यार खेळांतलो माकोड!’’

‘‘तशें जाल्यार तो हाडून दी ताका...’’

दोतोरान वतां वतां सांगलें.

राघव सकाळचो ऑफिसांत वचचे पयलीं वासंतीगेर गेलो. सकाळीं फुडेंच राघवाक दारांत पळोवन वासंती अजापलेंच.

‘‘कितें रे भाई, सगळीं बरीं मरे?’’

‘‘नंदूक जोर आयला. ताचो मिकी शेणला’’

‘‘मिकी शेणला? कोणें व्हेलो? कालच अमी घेवन खेळटालें मरे.’’

‘‘नंदू अमीचोच दुबाव घेता.’’

‘‘ताका कितें जालां दुबाव घेवंक? म्हजें अमी चोर काय कितें? म्हजी देख तूं नकळ...’’

‘‘तें म्हाका खबर ना.’’

‘‘अमी हुजीर बी कांय म्हणुं नाका भाई! भुरग्यांचें मन... एकदां परिणाम जाल्यार...!’’

“तें हांव नकळ...” राघव बेजारलो.

“अमीऽ, अमी हांगा यो गो तें...!”

अमी धांवतच भायर आयलें. फाटीर मिकी...!! वासंती अजापान पळयतच उरलें. ताच्या तोडांतल्यान उतर फुटना जालें. हो वेळ मेरेन ताका मिकी आपल्यागेर पावला हें खबरच नाशिल्लें.

“अमी, मिकीक कोणें हाडलो हांगा?” तें अमीचेर ताणशेलें.

“मम्मी, मिकीच आपूण येतां येतां म्हणूंक लागलो, म्हणून हांवें ताका बॅगांत घालो...”

“फट उलयनाका आं, म्हाका राग येतलो.

मिकी तुजेकडेन उलयलो?”

अमीचे तोंड सामकें बावलें. तकली सकयल घालून ताणें म्हळें, “ना गे! हांवेच मिकीक विचारले, आमगेर येता काय म्हणून... ताणें तकली हालयली, ‘हय’ म्हणून...”

“हें पळय अमी, दुसऱ्याची वस्त विचारी नासतना हाडप म्हळ्यार चोरीच! आतां तुवें मिकीक चोरून हाडलो...”

राघव सामकोच बेजारलो. ताणें ताकतिकेन म्हळें, “वासंती, तें सगळें आसूं, भोंगूं आतां. एक काम कर. नंदूक जोर आयला. आनी ताचे नीनीक म्हजेकडेन झगडपाचो सामको जोर चडला. रातभर न्हीद ना म्हाका... तेन्ना तूं मातशें घरा वच... आनी मिकीक घरा पावय...!”

वासंती समजलें. सांजचो ऑफिसांतल्यान घरा पावतकच तरी भाईक मातसो सुशेग जाय..

“भाई, तूं चल ऑफिसांक. हांव सगळें सारकें करतां पळय!”

वासंती अमीक स्कुलाक पावोवंक भायर सरलें. मिकीक बॅगांत घालून बॅग खांदयाक लायलें. अमीक स्कुलांत पावोवन बदूद कुळारा गेलें. बॅल मारना बराबर सामकें दारांतच बशिल्ले भशेन नलिनीन दार काडलें.

“वासंती, मिकीक हाडलो?”

“हय वैनी!” ताणें खांदयाचें बॅग दाखयलें.

“नंदू कशें आसा? जोर चड आयला?...”

“कांय विचारूं नाका...! चली बाये कसले शेळे राशिचें खबर ना! रातभर सतायलें गो...!”

“सॉरी वैनी, भाई सकाळचो घरा येयसर म्हाका खबर लेगीत ना, मिकीक अमीन उबारला म्हणून...!” उलयतां उलयता दोगांय बेडरुमा कडेन पावलीं.

बेडरुमाच्या दारांत नलिनीन वासंतीक आडायलें. “नंदूक कितें सांगपाचें?”

“हांव सगळे सारकें करतां वैनी! पळयच तूं! हांव भुरग्यांचें मानसशास्त्र झरोवन पिलां सामकें! चल, या भितर...”

नंदू खाटीर दोळे धांपून पडिल्लें.. पावलांचो आवाज आयकतनाच ताणें दोळे उकते केले. “नीनी गोऽ, म्हजो मिकी?”

“आयलो गो बाये! म्हाका सामकें नाकापुरो केलें आं तुज्या मिकीन...! काल पयलीं आमगेर येतां म्हूण जीव खालो... हांवें नाका म्हळें म्हूण बॅगांत लिपून बसलो.”

“खरें?” नंदूचे दोळे अजापान चकचकूंक लागले

“मागीर कितें हांव फट सांगतां? रातभर न्हिदूंक दिवंक ना. नंदूची याद येता म्हूण... आनी सकाळच्यान फाटीकच लागलो सामको, नंदू म्हऱ्यांत पावय म्हूण... बुरकिलें लेगीत म्हाका...”

नंदू उठून बसलें. ताचो जोर खंयचो खंय नाच जालोसो दिसतालो.

“खंय आसा मिकी?”

“खंय आनीक? हांवें नंदूगेर वतां म्हणून बॅग खांदयाक मात लायिल्लें, आपल्याक बॅगांत घाल म्हूणन आयलो सामको... मागीर भरलो बॅगांत आनी हाडलो.”

उलयतां उलयतां वासंतीन बॅगाची चेन उगडून मिकीक भायर काडलो. नंदून एकदम मिकीक वेंगेंत घेतलो.

“मिकी, तूं घुसमटलो ना मरे बॅगांत? अशें करता रे? म्हाका सोडून दुसऱ्यांगेर वता?”

मिकीन कांयच जाप दिली ना. चुपूच रावलो. “पळयलें मुगो? कसो ओग्गी रावला पळय आतां चोर! नंदू मेळ्ळें न्ही... खूश जालो!... वैनी, चल गे, म्हाका इल्लो च्या करून दी. ताळो सुकलो सामको...”

नलिनी वासंतीक घेवन किचनांत गेलें. च्या पितां पितां वासंतीन नलिनीक सांगलें, ''पळयलें मुगे, अशी नाटकां करचीं पडटात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र हेच खातीर शिकूंक जाय. भुरग्यांचें मन राखपाक तांकां अशें समजावचें पडटा. आतां पळय, मिकी आपूण जावन आमगेर आयलो हें खरें दिसलें ना नंदूक?... सगळें जाग्यार आतां...! बरें वैनी,येतां हांव आतां. आज ऑफिसाक लेट मार्क पडटलोच!''

नलिनी ताका दाराकडेन पावोवंक उठलें. बेडरूमाच्या दारांत दोगांचींय पावलां आपसूक थाबलीं.

भितर नंदू मिकीकडेन सदचे भशेन खबरी करतालें. व्हडा व्हडान...

''मिकी, आतें फट उलयता तें तुका कळ्ळें मरे? ही जाणटीं मरे अशींच! नीनीय तशेंच... म्हाका सांगता, फट उलयल्यार पाप लागता म्हणून आनी आतें सरळ सरळ फट उलयता तें मात आयकून घेता पळय! पूण मरे, ओगी रावचें पडटा... पप्पाकडेन, नीनीकडेन, आत्या कडेन... टिचरी कडेन लेगीत... जाणटीं सांगतात तें खरेंच दिसलां अशें दाखोवंक जाय! तांचें मन राखूंक जाय! अशें वांकडे तोंड करूं नाका रे तूं! आत्यान तुका चोर म्हळ्ळो मरे? पूण म्हाका खबर आसा न्ही, तूं वचून बसूंक ना बॅगांत... अमीच चोर... अमीनच तुका बॅगांत भरून व्हेल्लो... मिकी, तूं बॅगांत घुसमटलो ना मरे?''

मिकीक घट्ट वेंगेंत घेवन नंदू परती परीत ताची पापी घेतालें.

आनी दारा भायर नलिनी वासंती नंदून केल्ली 'जाणट्यांच्या मानसशास्त्रा'ची विसकावणी मोन्यांनी आयकतालीं.



# 12

# किर्र कुटूर...

आजय सकाळचें तें शेवणें आपल्यालें पद गावंक लागलें.

“किऽर्र कुटूर किर्र... किर्र कुटूर... कीऽऽर्र...”

मागीर म्हज्या आंगांत खंयच्च्यान भुरगेपणां संचरलीं, कोण जाणां, हांवें ताचोच सूर काडून म्हळें – ‘किर्र कुटूर कीऽऽर्र...”

थोडो वेळ सगळ्याक थंड. कसलोच आवाज ना. मागीर मात त्या गच्च पानांनी भरिल्ल्या जांभळी रुखा वेल्यान एक मूठभर आकाराचें शेवणें भुर्ऽ करून आयलें आनी आमच्या पोरसाचे वंयेच्या खुंटारच बसलें. मान वांकडी करून कोणाक सोदिल्ले भशेन पळोवन ताणें साद घालो – ‘किर्र कुटूर कीऽऽर्र...’ हांवेंय ताचे भशेन साद घालो – ‘किर्र कुटूर कीऽऽर्र...”

कितलो वेळ तें म्हाका मान वांकडी करून पळयतालें. मागीर भानार आयिल्ले भशेन भुर्र करून उडून त्या रुखांत नाच्च जालें.

हांवें मागीर थोडे खेपे ‘किऽर्र कुटूर...’ केलें ना...!! पूण ना...! परतो ताचो आवाजय ना आनी तें शेवणेंय ना.

“कितें त्या शेवण्या फाटल्यान लागलां गो? आड्डून आड्डून ताचे भशेन चोंच बी येत तुका...” आवयन फकाणां केली. तशें हांव हांसतच घरांत भितर सरलें आनी म्हळें, “पळय मगे आई, धड-मडवळणय न्ही... चिमणीय न्ही... बजबजेंय न्ही... नवेंचशें शेंवणें! दिसता मातशें मडवळणी बशेन, पूण शेंपडो ना. माथ्यार काय बरो पांखांचो लकलकीत तुरो... आनी अशी अशी मान काय बरें घुंवडायता जाणा! तूं जाणां गे ताचें नांव, आई?”

“... आगो, खंयच्च्या खंयच्च्या तेर्राक सावन येतात गो अशीं शेवर्णी ह्या

दिसांनी. मागीर तांतयां घालून पिलां काडटात. त्या पिलांक उडूंक येयसर रावतात. आनी मागीर एक दीस भुर्र करून वतात.''

आईन अशें म्हणूं नाका, तो विशय तितल्यारच सोंपलो. पूण दुसऱ्या दिसा सकाळी तेंच्च संगीत. मातशें लागींच्यानशें... आनी हांव पोरसांत वंयेकडेन धांवलें. धांवतना फातराक आदळून आंगठ्याचें बोट फुटलें आनी रगत व्हांवक लागलें. घे – आईचो बोवाळ मागीर! येद्दी व्हडली घोडी जाली... धांवता कितें? कळना तुका? आतां घोवागेर वचचें जालें... अशें आनी तशें....

शेवटाक साद घालून घालून तें 'किऽर्र कुटूर' ओगी पडलें आनी उडून गेलें. हांव मात मागीर वंये कडेन वचून तें बशिल्लें तो खूंट सांसपीत रावलें.

लग्न थारलां म्हूण आई म्हाका चांटे पावलाक उपदेश करीत आसता – अशें करचें, तशें करचें... चलयांचे जातीन दादल्यां भशेन धुमशेणां कांडुंनये... मातशें भितर रांदचे कुडींत येवन आदार करचो. रांदप करपांत हातबोट घालचें... होः होः होः करून हांसूं नये... घब घब करून चलूं नये...

शेवटाक बेजारून हांवें म्हणलें ''आई गे, आतां जाल्यार म्हाका नाका तें लग्न! कोणें त्रासांत पडचें?... नाकाच तें लग्न म्हाका...''

''शीः! शीः! थुमेकाल म्हण!' तशें उलयनात आं! पयलेच खेपे तुका दाखयता खिणीं पसंत पडलां तू! नक्षत्राक बरेंऽ पडलां आनी लग्न थारलां. ना जाल्यार त्या सुलूचें पळयता मुगो? धा कडेन दाखयलें. पूण पत्रिकाच जुळना. नक्षत्राक पडना म्हूण कितलें खेपो परतें आयलें नक्षत्र!! तुजें अशें सोंपेपणी थारलें, आनी लग्न नाका म्हणटा? परतें असलीं उतरां तोंडांतल्यान काडचें ना तूं आं!!''

''आगे आई. हांवें ते खातीर म्हणूंक ना गे! तूं म्हजे फाटल्यान लागता न्ही? अशेंच्च कर... हेंच्च कर... अशेंच्च उलय... मोठ्यान हांसुंनाका.... म्हणचे लग्न जातकच हांवें घुसमटून मरप काय कितें? पूण हांवूय सांगून दवरतां, हांव म्हजे सदचे भशेन वागतलें – उलयतलें!! जाय जाल्यार घेयात, ना जाल्यार भायर उडयात...''

म्हज्या ह्या उतरांचेर आई सामकीच शेळेली. ''हें पोर केन्ना सुदारतलें, देव जाणा! तरी बरें, बदली जावन घोव पयस रावता. नाजाल्यार घरांत मांय–मांव, नणंद, देर–जाव अशें भरिल्लें घर...'' आई बडबडत रावली. हांव म्हज्या फुटिल्ल्या आंगठ्याक वखद लावन टेप बी मारून दुयेंत–पार्त जाल्ले भशेन, पांयां कडेन

दुखेस्त नदर मारीत वंये कडेन उबें आसलें... आनी म्हजे फाटल्यानच आवाज आयलो - 'किर्र कुटूर कीऽऽर्र..''

हांवें खोशये भरशीं फाटल्यान परतून लेगीत पळय नासतना ताका विचारलें, ''किर्र कुटूर, म्हज्या आंगठ्याचे खबरीक आयलां?''

ताणें बशिल्ले कडेन मान वांकडी करून म्हाका पळयत परतें आपलें गीत सुरू केलें.

येदेंशें हें किटूर... भुकेलां काय?? कितें खाता काय तें? हांवें भितर वासरेर नदर मारल्यार आजी एकादशीच्या उपासाक वरी-तांदूळ वेंचीत बसल्या. आजयेचें वेंचप तें! नाकार वक्ल बी लावन बारीक पळयता. आनी अचूक फातरा बदला तांदूळ भायर उडयता. हांवें तिचे म्हऱ्यांत बसून वेंचिल्ले बशेन करून जमनी वेले तांदूळ आनी सुपांतले मूठभर तांदूळ उबारले, वंये कडेन जमनीर फाफशिले, हेवेटन तेवटेन वांकडी चोंच करीत किटुरान ते चोंचींत भरले आनी उडून गेलें. पानां मदीं नाच्च जालें.

मागीर हो सदचोच कार्यक्रम जालो. तांदळांच्यो कणयो, नाचणे, वरयो... सदांच वंयेकडेन फाफशिल्ल्यो दिसूंक लागल्यो.

आनी म्हज्या लग्नाचो दीस लागीं लागीं पावलो तशें म्हाका येवजलें - आतां हांव वतकच म्हज्या ह्या किऽऽर्र किटुराक नाचणे, कणयो, वरयो कोण घालतलो?... कसो योगायोग...!! म्हज्या मनांत हे विचार येवपाक तें किऽर्र कुटूर येवचेंच बंद जालें... अकस्मात ! कित्याक काय??

हांवें ताका कितलें सादयलें... तरेकवार कणयो बी वेगळ्या वेगळ्या जाग्यांनी दवरून पळयल्यो... पूण ना! कावळे मात काव काव करीत तें खाण खावपाक घिट्ट्यो घालूंक लागले.

मन ओगीच अखीनशें जालें. खंय गेलें काय म्हजें किटूर? कोणें फातरायलें बी ना मूं?... भुरगे जांबळां खातीर त्या झाडार फातर मोखीत आसतात. फातर बसून दोंको बी मोडूंक ना मूं ताचो?... हजार विचार...! आईक म्हळें लेगीत, ''आई गे, ह्या दिसांनी किऽर्र कुटूर ना मगे...!!''

''आगो, हांगाचें न्हय जातलें गो तें शेवणें! गेलें जातलें आपल्या तेर्राक! तूं ओगीच ताची चिंता करून मनाक लावन घेवंनाका...

मागीर लग्न लागीं पावलें... लग्न जालें! आनी प्रदीपाच्या मोगा मुखार किटूर

खंयचें? कुळारची लेगीत याद येना जाली. केन्नाय आयताराक बी मूळ घरा वतकच मांय-मांवाच्यो अपुरबायो... नणंदेच्यो जावेच्यो मस्कऱ्यो, फकणां... सगळ्यांनी माथ्यारशें घेतिल्लें म्हाका!... सुखान आंगानय मातशें भरलें हांव! कुळारा गेल्ले कडेन आई बी म्हणूंक लागली, ''लग्न बरेंऽ मानवलां आं आशाक...''

वर्सां खंय रावतात? दोन वर्सा भितर हाची मुंबय बदली जाली. चवथ्या माळ्यार फ्लॅट दिलो कंपनीन. सामको पॉश! थंय चार दीस बरेंऽ दिसलें. मागीर मात जीव लागलो घुसमटूंक. खंय एक झाड दिसना, पान दिसना. खबरी मारतलें म्हळ्यार शेजान्न ना... सगळीं दारां बंद! चाळीस फ्लॅटांची ती बिल्डिंग पूण कोण दिसपाक कठीण. सकाळीं भायर सरून गेल्लो लोक सांजचो पुरो जावन घरा येवपाचो... प्रदीपय तसोच! जो सकाळीं आठाक वता तो रातचो साडेआठ - णवांक उदेता. उदेता खंयचो? न्हावन, जेवन पोटांत घाल्ले भशेन करता तो हांथरूणार अस्तमता!!

''आरे, नजो रे म्हज्यान हांगा रावंक! खंयय चार झाडां-पेडां लागीं आसात अशें तरी घर सोद...''

''आशा, हांगा तुका कसले त्रास आसात गो? सगळ्यो सोयी आसात... नळाक चोवीस वरां उदक येता. कामाक कामवाली आसा... लिफ्ट आसा. सकलच बाजार आसा, थंय सगळें मेळटा. लागींच शॉपिंगाक दुकानां आसात...''

''पूण एक लेगीत झाड दिसना मरे! दोळ्यांक मातशें पांचवें कितेंय दिसचें म्हूण सगळीं जनेलां उकतीं करून बसलें जाल्यार चारी वाटेन फकत बिल्डिंगो...''

शेवटाक सिटी भायर डोंबिवलीक अशेंऽ बंगलो टायप घर भाड्यान मेळ्ळें. फाटले वटेन ल्हानशें पोरसूं कशें. चार झाडां. दोन पेरीचीं, थोडीं दशणीचीं. सारकें कुळारा आशिल्ले तसलें धव्याफुल्ल फुलांनी भरिल्लें अनंतांचें झाड. सकाळच्या पारार तांचेर थोड्यो चिमण्यो. थोडीं बजबजींय बी! जावंदी म्हळें, हांव रोयीन चार फुलझाडां. म्हाका घर आवडलें!

सकाळीं फुडें ह्या झाडां म्हऱ्यांत वचून उबें रावलें तशी कुळारची याद येवची. तें जांबळीचें झाड... तें म्हजें किऽर्र कुटूर. ताचें तें मान वांकडी करून पळोवप... हांवें त्या यादींनी तल्लीन जावचें! आयजय अशेंच हांव उबें आसतना हाणें म्हळें, ''आशा, कितें जालां गो तुजें? सामकें सतर - वितर जाल्ले भशेनशें! इतलो वेळ हांव तुका कितें सांगता. तें आयकलां तरी तुवें?''

... खरेंच! घोव कितें तरी सांगतालो तें हांव आयकतालें... पूण तकले भितर गेलेंच ना...

"हय! फाल्यां खंय तरी वचूंक जाय म्हणटालो न्ही तूं... कित्याक ते कळ्ळें ना.."

आनी हो खोः खोः करून हांसत रावलो. "देवा, बायल गेली रे म्हजी कामांतल्यान!... आतां म्हजें कसें जातलें तूंच जाणा...!" देवाक होरायत हो म्हजीं फकाणां मारूंक लागलो.

"पुरो! पुरो!... आतां केन्नाय मातसो मनांत दुसरो विचार आयलो जाल्यार हांव सामकें कामांतल्यान गेलें काय कितें? सांग न्ही म्हाका? कितें सांगतालो तूं? खंय वचपाचें आसा फाल्यां...?

मागीर प्रदीपान सांगलें, "आगे सायबिणी, फाल्यां न्हय... आज! आज सांजचो पांच वरांचेर सुरभीचो साखरपुडो. तयार रावता न्ही? याद उरतली? येतलें मुगो?"

खरेपणीं आज म्हाका खंयच भायर सरन दिसनासलें. पूण सुरभी म्हजी मावशेनणंद! जीव घालता पोर म्हजेर. वचुंकूच जाय. म्हणून वेलेचाराक हांसून हांवें म्हळें, "आब्बा! हांव आनी साखरपुडो बी चुकयतां?... सारकें साडेबारांक तयार पळय!"

हो जाणा आसलो, म्हाका लग्नाक, साखरपुड्याक, जावं कसल्याय फंक्शनाक बी वचपाक, मिरोवपाक खूब आवडटा म्हूण...! हाचे वेल्यान घोवानच न्हय, घरांतल्या सगळ्यांनी म्हाका चाळोवप! मागीर हांवें म्हणप, "आनी ह्यो आलमारभर, तरेकवार रासभर उंची साडयो आसात तांचें कितें करूं?... त्या साडयां खातीर वतां हांव! ... म्हाका कितें मिरोवपाचो व्हडलो घोस्त ना..."

लग्ना उपरांत तीन वर्सांनी ना-ना म्हणून रोहन जल्मलो. बाळंटेराक कुळारा वचून दोन म्हयने जातकच परतें मुंबय वचपाचें थारिल्लें. पूण मागीर "हें आनी अबरगत रोहनाक कशें सांबाळटलें? न्हाणयतना बी जमनीर मारलो जाल्यार...?" अशें म्हणत आवयन म्हाका आनीक दोन म्हयने तरी धाडचिना म्हळें...

... पूण कुळाराच रावन म्हजो सासुरवाससो सुरू जालो - हांगा वचुनाका... हे खावंनाका... बांगडे खाल्यार भुरग्याच्या पटोत घोंशे जातात. सुंगटां खाल्यार भुरग्याच्या पोटांत मुड्डतलें. हरवीं तोरां - आमाडे खावंनाका, भुरग्याक थंडी

भरतली. फ्रिजांतलें उदक पिवप ना... सरबत पितना तातूंत झेल घालप ना. एक आनी दोन...?

आतांच पळय... सकाळचें मातशें पोरसांत झाडां मदीं गेलें जाल्यार, ''आगो, ओली बाळंत तूं... हांगा थंय अशें भोंवनाका. स्वेटर घाल.. वारो सुटला पळय... काना वेल्यान पदर गुठलाय...'' आईचें सुरू जालें.

''आं गे आई! हो पळय पदर पांगुरला हांवें! आनी ही शाल आसा न्ही? पळय, घेतां पांगरून.'' अशें म्हणत हांव गेलेंच पोरसांत... वंये कडेन उबें रावलें... पेरी वेल्यान एक शेवणें देंवलें तेंच अनंताच्या झाडार बसलें... मान वांकडी करून म्हाका पळोवंक लागलें...

ताका पळयतनाच मन खोशयेन भरूनशें आयलें... कितें तरी शेणिल्लें मेळिल्ले भशेन... तेंच काय?? मागीर भरिल्ल्या आवाजांत हांवे प्रश्न केल्ले भशने म्हळें, ''किऽर्र कुटूर कीऽर्र??''

आनी तें शेवणेंय बी खोशयेन भरचें तशें नाचिल्ले बशेन अनंताच्या एका खांद्यावेल्यान दुसऱ्या खांद्यार येत मान वांकडी करून गावंक लागलें, ''किऽर्र कुटूर कीर्र... किऽर्र कुटूर कीऽर्र!''

मागीर कितलोसोच वेळ आमी दोगांय एकामेकांक पळयतच उरलीं.



# 13
# हांव आनी आजी

शाळेंत आमकां शिकोवपाक बाई आयली आनी आमी सामकीं 'रंगा-खूऽऽश' जालीं. हें 'रंगा-खूऽश' शाली, माली आनी म्हजे भितरच? खूब्ब खोशी जातकच आमी म्हणप – 'हेऽऽ आमी रंगा-खूऽऽश'

आमचो पयलींचो मास्तर सामकोच मारकुटो. ओगीच पट्टी घेवन मारत सुट्टालो. अभ्यास केलो ना तांकां मारप – बरें आसा! पूण अभ्यास केला तांकांय मारप??? एक दीस हांवें म्हजो बसपाचो साका कुडको सारको करतना पांय मुखार काडून ताच्या पांयांक पांय घालून ताका उडयिल्लो. केद्दो 'ठोऽ' करून आवाज जाल्लो ताचो तकली आपटल्याचो ...!! हांवे मागीर सोमतेंच रडपाक कोमेस केल्लें. – "मी साक सारका करताना मास्तर मदींच आयलाऽऽ माझ्या पायांत खोंट घालून पडलाऽऽ"

तेन्नाच्यान मास्तर म्हाका पट्टी मारूंक गेलो ना. शाली – माली म्हणटालीं – "आमींय एक दीस वडयतलीं ताका" म्हणून.

पूण आतां तो गेलोच न्ही! बाई आमकां शिकोवपाक आयली आनी आमी सामकीं उमेदीन भरलीं. आमची बाई कितली बरी म्हूण सांगपाची! ती आमकां अभ्यास शिकयतालीच. त्या खेरीज पदां म्हणूंक शिकयताली. नाच करूंक शिकयताली...! शेऽ!! आमी बाईचेर सामकीं 'रंगा-खूऽऽश'

त्या दिसा बाई आमकां "आईचा भाऊ मामा... बापाचा भाऊ काका" करून शिकयताली. मदींच तिणें म्हळें – "जण एकल्याक दोन आज्यो आसतात. बापायची आई ती आजी आनी आईची आई ती आजी..."

हांव सामकें 'रंगा-खूऽऽश!' केन्ना काय घरा वतां आनी त्यो दोन आज्यो

खंय काय आईक विचारतां अशें म्हाका जालें. आज्यांक पळोवपाची मोठीच उमळशीक लागली जिवाक!

शाळा सुटतकच धांवत - धांवत घरा गेलें. दप्तर जाग्यार उडयलें तेंच आईक घट्ट धरून विचारलें - ''आई गे, म्हजी आईची आई - आजी आनी बापाची आई - आजी - दोगांय खंय रावतात गे? दोन - दोन आजयो आसात मगे म्हाका?... खंय गे त्यो?''

''दोगीय देवागेर गेल्यात.'' आईन सांगलें.

''मागीर गे? परत्यो केन्ना येतल्यो त्यो?''

''आगो, देवागेर गेल्ले मनीस परते येनांत...'' आईन सांगलें. आनी म्हजें मन मोठेंच विरूस जालें. दोनय आजयो म्हाका फटोवन देवागेर गेल्यो?

दुसरे दिसा शाळेंत वतकच हांवें बाईक म्हळें लेगीत - ''बाई, मला एकूय बी आजी न्हाई. दोग्गय देवागेर गेल्या...'' कोणें तरी म्हाका खूब्ब फटयलें अशें कितेंशें मनाक दिसून अवचीत शे म्हजे दोळे भरून आयले आनी दोनय पोल्यां वेल्यान घळ-घळ करून दुकां व्हांवक लागलीं.

बाईन म्हाका वेंगेंत काडलें आनी म्हळें, ''आगो, त्या कामाक रडूंक कित्याक जाय? म्हजी आजी आसा न्ही... ती हांव तुकाय दितां... सांजचें यो हां आमगेर...''

कितली बरी म्हजी बाई! बाईच्या मोगान म्हजें हड्डें भरूनशें आयलें आनी हांवें तिच्या कमराक घट्ट वेंग मारिल्ले भशेन केलें. मागीर म्हजी म्हाकाच लज - शी जाली. बाईक म्हणून अशी वेंग मारप शाळेंत! सगळीं भुरगीं हांसतलीं म्हाका...

हांव चोरा भशेन हळूच म्हजें दप्तर घेवन म्हज्या जाग्यार वचून बसलें.

केन्नाकाय सांज जाता आनी हांव बाईगेर वतां अशें म्हाका जालें...

शाळा सुटतकच घरा येवन दप्तर जाग्यार उडयतां थंय आसां, हांवें आईक म्हळें - ''आई गे, हांव बाईगेर वचून येतां हां मातशें...''

''कित्याक गो बाईन आपयलां?''

आईन म्हळें.

''हय! हय! बाईन आपयलां...''

आईक कितें निमित्त सांगपाचें हें आईनच म्हाका सुचयलें.

''तिळसांज जावचे पयलीं घरा पाव हां.'' आई म्हज्या फाटल्यान आइ्डली.

हांव धांवतच बाईगेर पावलें.

केदें व्हडलें बाईलें घर!! भायरच वासरेर एऽद्दी व्हडली आमटाणीची रास पडिल्ली आनी थंय अर्दे केंस पिकिल्ली जाण्टेली आदोळेचेर बसून आमटाण कल्लायताली. 'हीच आजी जातली.' हांवें चिंतलें. आदोळेच्या पोंदा एद्दी व्हडली चिंचाऱ्यांची रास जाल्ली. चिंचारे पळोवन म्हजे दोळे सामके चकचकलें. इतलें सगळे चिंचारे!! कोण खाता काय?

हांव तिच्या तोंडाक पळयतां. चिंचाऱ्यांक पळयतां. एके वटेन हळदुवीच आमटाण पळोवन तोंडाक सामकें उदक सुटिल्लें.

ती म्हाका पळोवन हांसली. इतलें म्होवाळ हांशें? हांव तिच्या तोंडांक पळयतच उरलें.

''आजी...?'' हांवें म्हळें.

''यो-बस... आमटाणीचो बोटारो जाय मगो? घे, पूण चड खाल्यार थंडी जाता हां...''

''हां.'' तिणें दिल्लो बोटारो तोंडांत घालून चोखत हांवें म्हळें, ''आजी... इतले सगले चिंचारे... बाईक बी चड जावंचे नांत?... म्हाका मगे, भाजिल्ल्या चिंचाऱ्यांचो वास बरोऽ लागता... आनी खावपाकय खूब आवडटात...''

आजी खूब हांसली. म्हज्या व्हिस्तिदार्ची दोनय बोल्सां तिणें चिंचाऱ्यांनी भरलीं आनी आईन व्हिस्तिदाक दोनच बोल्सां शिवल्यांत... तीन बी बोल्सां शिवलीं नांत म्हूण म्हाका मनांतल्यान आईचो रागच आयलो...

''चड चिंचारे खायनाका हां. मागीर जीब दाट जातली आनी विद्या येवची ना...'' आजीन सांगलें.

हांवें ''बरें'' म्हळें.

आतां कितें करप? आजी काय फट सांगची ना. विद्या येवपाकच जाय... पूण चिंचारेय खावपाक जाय.

मागीर हांवें मनांतच चिंचाऱ्यांची वांटणी केली. थोडे शालीक, थोडे मालीक, थोडे उषाक आनी थोडे भाजून दप्तरांत घालून शाळेंत व्हरप. खेळटात तेन्ना सगल्यांक

एक-एक दिवप...

इतल्यांत बाई थंय आयली.

"आयलें तूं? मेळ्ळी मगो आजी? आजी हें आपल्याक आजी ना म्हूण रडटालें... म्हणून हांवें..."

बाई आनीकय सांगूक वताली. हांवे बेगीबेगीन आज्जेक म्हळें, "आतां तूं म्हजी आजी. म्हाका मेळ्ळी न्ही? आतां हांव रडचें ना... आज तूं म्हाका काणी सांगतली मुगे?"

"आगो, काणी रातची सांगप, दिसाची काणी सांगल्यार तुजो मामा वाट विसरतलो." आजीन म्हळें आनी 'वारे व्वा!" करून हांवें ताळीच मारली.

"कितें जालें गो?" बाईन अजापान विचारलें.

"आजी, सांग तूं काणी म्हाका... म्हाका मामाच ना..." हांवें नेटान सांगलें.

बाई आनी आजी हांस - हांस - हांसलीं.

आजीन मागीर म्हाका कुंडेकुस्कुराची काणी सांगली.

काणी आयकतना हांव तोंड 'आंऽ' करून आजीच्या तोंडाक पळयतच उरलें.

इतली बरी काणी हांवे केन्नाच आयकूंक नासली.

"आगो पोरा, तिळसांज जायत आयली. चल आतां घरा..." आजीन म्हळें.

काणी सोंपसर तिळसांज जाल्या हें म्हाका कळ्ळेंच ना.

आईन बेगीन घरा यो म्हणिल्लें.

कितले बेगीन ही तिळसांज जाता म्हणत, फडफडत, दोनय बोल्सांचेर घट्ट हात धरून हांवें घरा धांव मारली. आनी काळोख जावचे पयलीं एकदांचो जीव घरांत घालो.

म्हजी आजी म्हाका खूब्ब म्हणजे खुब्बच आवडिल्ली.

ते खोशयेभरशीं हांवें हात-पांय धुवून देवाक पांयां बी पडलें. पटपटीत परवचा म्हळी, पाटयेर दोनय वटेन भरून अभ्यास बरयलो. कसलीच किटकीट करिनासतना जेवलें आनी न्हिदलें.

‘‘शाणें भुरगें तें म्हगेलें...’’ आईन मायेन म्हळें.

कुंडेकुस्कुराची काणी येवजीत येवजीत हांव न्हिदलें. आजीन मागीर म्हाका कितल्यो काणयो सांगल्यो... कोंतच ना. -

राखण्या पोराची, सुबूर - राजाची, भाजी-पाल्या भुताची, पडवळाची आनी भंवराची...

त्या खेरीज सीता - स्वयंवराक रामान धनुष्य कशें मोडलें. सीतेन रामाक कशी माळ घाली, कृष्णान रुक्मिणीक रथार घालून कशी व्हेली, आत्मलिंग व्हरतल्या रावणाक गणपतीन राखणो जावन कसो फटयलो... शबरीन रामाक घांस मारून चोखिल्लीं बोरां कशीं खावयलीं...

इतलें सगळें गिन्यान आजी खंयचे शाळेंत शिकिल्ली काय? म्हाका अजाप जातालें. आजीक विचारल्यार ती तर आपूण शाळेंत गेलीच ना म्हणटाली.

आठ-धा चरणांभितर तिणें सगळें रामायण गावचें... हांवें तें पाठ करचें...

‘जुल्मुनियां रघुवीर रघुकूळ भुषविलें।

लक्षुनियां त्राटिके प्रति संहारिलें।

कोदंड भंगिलें रामें जनक - सीते वरिलें’

आजीन आपल्या किनऱ्याशा म्होंवाळ आवाजांत गावप... हांवें पाठ करप..

‘‘बाईगेर वतां गेऽ’’ म्हळें की आई ‘हां’ म्हणटालीच! बाई म्हळ्यार आईच्या मत्तान सगळ्यांक एक आदर्श! तिगेर वचपा कसलीच आडखळ नासली.

आजी एक खीण लेगीत बेकार रावनासली. हातांनी कितें ना कितें काम करीत आसताली. हांवें तिच्या फाटल्या - फुडल्यान भोवन तिच्यो खबरी आयकप.’’

‘‘माजरा पील कशें पांयांकडे घुसपुनाका गो पोरा...’’ तिणें म्हणप. हांवें मातशें कुशीन सरप.

एकादशी दिसा आजीन म्हणप - ‘‘आयलें गो म्हजें पोर? घे. आजीलो उपासाचो भोबो खा.’’ गोड - सोय घालून केल्ल्या गंवापिठाचो भाकरे - कुडको तिणें म्हाका दिवप. मागीर तो चाबडायत हावें तिचे फाटल्यान भोंवप!

आजीगेर आंब्याझाडांक खूब आंबे लागताले. कोबल्यान आंबे देंवयतना जमनीर पडून धडवल्ले आंबे आजी मीठ घालून उकडटाली आनी व्हडल्या बुयांवांत

भरून दवरताली.

"घे गो पोरा. उकडआंबो खा." अशें म्हणून म्हज्या हातार दवरिल्ली उकडआंब्याची पेस खावन घरा वचून हांवें आईक मोठेंच अजाप सांगलें - "आई गे, आजी मुगे बरेऽ उकडआंबे म्हणून करता. आमीय करया मगे..."

आईन 'बरें' म्हणप आनी करपय बी! पूण आजील्या उकडआंब्या भशेन ते जावपच नात.

मागीर हांव व्हडलें जालें. चार यत्ता शिकून पांचवेक पावलें. आजीय म्हातारी जाली. तिका दोळ्यांनी सामकें दिसना जालें. हांव पांचवी यत्ता शिकपाक मावशेगेर वचपाचें...

हांव वतां म्हूण आजीक सांगपाक गेलें.

"आजी, हांव मावशेगेर वतां... थंय शाळा शिकपाक..." हांवें आजीक सांगलें.

"चल्लें गो म्हजें पोर? बरें करून शाळा शीक हां..." आजीन म्हज्या दोनय पोल्यांवेल्यान हात भोंवडायले... खरखरीत घट्ट हात! पूण जिवाक दिसलें - तिणें ते हात परते - परते म्हज्या पोल्यावेल्यान भोंवडावचे.

सुटयेंत घरा येतकच आजीबरोबर पाणट्यार न्हावपाक वचप. आजी खोंटलोभर ओलीं घेवन पाणट्यार उमळपाक वताली.

"आजी, तूं मगे कर्मयोगी."

"हो आनी कोण गो?" आजीन विचारलें.

मास्तरान सांगलां - 'खिणभर लेगीत बेकार बसनासतना दुसऱ्यांखातीर झरता तो कर्मयोगी. तूं घरांतलीं सगळीं कामां करीत आसता - त्या कर्मयोग्या भशेन..." हांवें सांगलें.

"पोरा, ही न्हंय पळय मगो! व्हांवता म्हूण जिवी आसा. एकाच जाग्यार रावल्यार कोंड जावन मरतली. तशेंच मनशाचें." आजीन सांगलें.

मागीर अभ्यासांत मन गेलें... आजीची याद चड येना जाली.

ते सुटयेक घरा गेल्लें तेन्ना आईन सांगलें - "आगो, आजी सामकी बरी ना खंय, मनशांक वळख लेगीत ना..."

हांव आजीक मेळूंक गेलें.

खाटीर पडिल्लो हो देह... ही म्हजी आजी? माथ्यार केसांच्या जटांचो घंयरांव... सुरकुत्यांनी भरिल्ले तोंड... हाताच्यो काती लोंबतात...

आजीक पळयलें... तिचो हात हातांत घेतलो. आनी काळजांतल्यान असोऽ उमाळो फुटलो – ''आजीऽ कितें जालां गे तुका?'' इतलें म्हणून हांव पळय रडलां – बक – बक करून दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतात... आवंडो गिळूंक येना... आनी काळीज फुटसर घुसमटून हांव फकत रडटां... फकत रडटां...

भोंवतणी बशिल्ल्यांनी म्हाका थातारलें. कुशीक व्हेलें... उदक पिवपाक दिलें आनी हांव तडक घरां आयलें. कित्याक रावचें थंय?... आजी काय म्हाका वळखना...

दुसरे दिसा आजी गेली. हांव रडलें बी काय ना. वचून पांयां पडून आयलें.

मागीर सांजचें कुंदा आमगेर आयलें. म्हणूंक लागलें – ''आगो, आजी गो! तूं वतकच सगळो वेळ कितें बडबडटाली जाणा, म्हजें पोर आयलें रड – रड रडलें. भुर्रकन्न आयलें... भुर्रकन्न गेलें... भुर्रकन्न आयलें... भुर्रकन्न गेलें...

म्हणजे आजी म्हाका वळखल्ली तर!!



## 14

# पसंती

'आई, इल्लें हुमण वाड', राजेंद्रान तिसरे खेपे म्हळें, आनी ताच्या पानार परती भाजीच पडली.

आतां मात ताका हांसूंक आयलें. ताणें म्हळें, ''आई...' तो फुडें उलोवचे पयलींच आईन भाजयेचो दवलो हातांत काडलो. तशे दोनय हात ताटार धरून ताणें तिका आडायली.

'कितें जालां गे तुजें? कितें चिंतूंक बसल्या? हुमण मागल्यार भाजी वाडटा?'

'– मन थाऱ्यार ना रे...'

'अशें जालां तरी कितें?'

सदांच मन–मेकळेपणान वागपी आपणाली आवय अशी शेणिल्लेभशेन कित्याक वागता हेंच ताका कळना जालें.

'आई, तूं कितें तरी म्हाका लिपयता! हाचे पयलीं अशें केन्नाच करूंक ना तुंवें...'

'... आनी तुंवें तरी म्हाका केन्ना कितें लिपयलां? आतां मात...' उतर अर्दुकुटेंच दवरून ती सुस्कारली.

राजेंद्र शिटकावलो. सादूर जालो!! कोणें सांगलें काय हिका?

वाड्यावेलीं कितलिंशीच भुरगीं कॉलेजींत वताली. एक – दोग जाण तो वता तेच कंपनींत सिर्विस करताले. आमी बरोबर भोंवतात हें कोणेंय तरी आईच्या कानार घालां आसतलें.

आतां कशें? कितें करप?

ताणें बळगें हाडलें. थारायलें, करप कांयच ना. 'धरलें शिंगार, घेतलें आंगार' म्हणटात न्हय, तशेंच करप.

पूण... आईचें मन दुखूंक फावना... कितल्यो राती ताणें तळमळून काडल्यात... आईक आपलें गुपीत कशें सांगचें, हें येवजीत...!!

ताणें ल्हवूच म्हळें, 'आतां तरी हांवें कितें लिपयलां आई? फकत एकूच खबर तुका सांगली ना... तीय बी हांव सांगूंक लजतालों म्हणून... तुका कशें सांगचें हें कळना जालें म्हणून!!''

'लजपाक तूं कितें चली तर? एदो व्हडलो पंचवीस वर्सांचो तरणाटो...'

ना म्हळ्यार आवयक सूऽऽ जालें. पुताक आपलेपसून कितेंय लिपोवपाचें ना हें जाणून ती मात्शी सुखावली.

'कितें जालां जाणा आईऽ, तें मगे, एक चली गे... कॉलेजींत शिकता, बीए करता... निमाणें वर्स ताचें...' राजेंद्र उलयतना घुस्पतालो. मागीर एकदम स्फूर्त आयिल्लेभशेन उमाळ्यान ताणें म्हळें, 'आई, तें सभावान कितेलं बरें जाणा तूं?'

आवय तोखणयेन पुताच्या तोंडाक पळेताली. हो म्हजो अपुरबायेचो चलो. घोवाफाटल्यान केदे जतनायेन हाका सांबाळ्ळो. हालीं हालीं मेरेनूच तर म्हजे पदराक धरून म्हज्या फाटल्या फुडल्यान भोंवतालो.... हाचीं पुस्तकां आनी कपडे लेगीत म्हाका सोदून दिवचे पडटाले... तोच येदो व्हडलो जालो? आपली व्हंकल सोदून काडपा इतलो व्हडलो?

तिचें मन पुताच्या मोगान उपाट भरून आयलें.

तो सांगतच आसलो - 'दिसूंक व्हडली सुंदर न्हय गे, पूण स्मार्ट आसा...'

'सुंदर न्हय? तुका तर सुंदरूच सगळें आवडटा मरे! आनी, सुंदर नाशिल्लें चलीं कशें आवडलें तर तुका?'

'सांगूं? ताची चाल - चलणूक, ताचो सभाव, ताची नितळसाणेची आवड - बद्द तुजेभाशेन... आई, ताचें उलोवप इतलें म्हौंवाळ आनी हांसप इतलें गोड...'

आवय पळयत रावली. तो ते चलये भितर पुराय घुसपला म्हणपाचें तिका कळ्ळें.

तो भितरले भितर मुरगुटलो. केन्ना काय ही खबर ताका वचून सांगन अशें ताका जालें...

... पूण... परतोय दुबावाचो धुंवर... ह्याच दुबावाच्या धुंवरांत घुस्मटत एक वर्स काडिल्लें... आईक सारकें सांगुंकूच जाय... आनी, धांपून धांपून म्हणून कितलो वेळ दवरतलों?

'पूण आई... तें आमचे जातिचें न्हय...'

आईक तकलेर तोणको मारिल्ले भशेन जालें. ज्या कर्माक भितालें तेंच धडलें! देवा, आतां कितें करूं? सोयऱ्यां कडल्यान, शेजाऱ्यां कडल्यान एक एक खबर आयकूंक मेळटा - कोणें किरिस्तांव व्हंकल हाडली म्हूण, कोण मुसलमान चलयेकडेन लग्न जालो, वेगळें बिराड घालून बसलो... दुसरे जातींतल्या चलयांक आमचे रीत-रिवाज कितें खबर आसतले? चवथ म्हणून आसा, दिवाळी आसा... नमिचें देवकारें, अनवाळें - भश्टें आसा... तिचेर सामको कलकल आयलो.

आईचें तोंड बाविल्लें पळोवन तो निर्शेलो.

'आई. तें मात्शे सकयले जातिचें, पूण हिंदूच. तुका सांगतां आई, आमच्या घरापरस तांच्या घरांत नितळसाण आसा. ताचे आवयकय तुजेभाशेन अनवाळें - भश्टें लागता. पूण तें जात-धर्म मानिना. तें एकच धर्म मानता...

'कसलो धर्म?'

'मनीसधर्म...'

'हो आनी कसलो धर्म?'

'आई, आमी मागीर उलोवया, मागीर सांगतां तुका सगळें. आतां म्हाका वचूंक जाय.'

भायल्या सोफार बसून तो बूट घालूंक लागलो. 'येतां गे आई!' कानार पडलें तशें संवयेन तिणें म्हळें, 'बरो करून रे! बेगीन यो!'

मागीर तिणें सगळें जेवण तशेंच धांपून दवरलें. जेवणाची वान्साच ना जाल्ली. भूक तर भितरूच मेल्ली.

कितल्यो उमेदी, कितल्यो व्हडविकायो तिका आपल्या पुताच्यो !! आतांच शिक्षण पुराय जावन नोकरेक लागला. फुडल्या वर्सा बरीऽशी चली पळोवन दोनाचे चार हात करचे म्हूण तिणें थारायल्लें. पूण हो तर शिताफुडेंच मीठ खावन

मेकळो!

‘आईऽ!!’

पुताच्या उल्यान ती भानार आयली. दनपार सरून सांज केन्ना जाली तिका कळुंकूच नासलें. बेगीबेगीन ती भायर आयली...

राजेंद्रा फाटल्यान तें उबें आसलें. ताच्या तोंडाक पळोवन तिका तें वळखिचेंशें दिसूंक लागलें... खंय पळयलां काय हाका हांवें? गोरें म्हळ्यार गोरें न्हय, पूण काळसावळेंय न्हय! मध्यम! तोंडार आरोग्याचें तेज आशिल्ल्यान गोरें दिसतालें. दोळे मात्शे मोठेशेच... व्हडलें सुंदर न्हय, पूण नितळ – निर्मळ शें! साडी न्हेशिल्लें, पूण घुस्पतालें... साडयेची संवंय ना हें कळटालें. मुजरत आज न्हेसलां जावंये! केसांचो आंबाडो – शे! आंबाडो न्हयच, पूण लिंगां – गांच लावन आंबाड्याचो आकार हाडून वयर जाळी घाल्ली. कपलाक तिकली लायिल्ली. उजव्या हाताक चार कांकणां आनी दाव्या हाताक घड्याळ... कोण तरी आपलें निरिक्षण करता हे जाणविकायेन खांकुडटालें, कांचवेतालें.

हांवें खंय तरी पळेलां जावंक जाय हाका... पूण खंय तें कशेंच याद जायना.

‘आईक पांयां पड मुगो...’ राजेंद्रान ताका ल्हवूच सांगलें.

तशें तें दोनय हात जोडून ओणवें रावलें आनी नमस्कार करून तिचे मुखार उबें रावलें.

‘बरेंऽ जावं! देव बरें करूं तुजें!’ तिणें संवयेन आशिर्वाद दिलो. तशें तें तोंड भरून हांसलें.

ती पळेतच उरली.

ताच्या त्या गोड हांसपान, ताचें सामान्यांतलें मुखामळ कितलें सोबीत दिसलें...!! उजवे वटेन दांतार दांत चडिल्लो – ‘सुण्या दांत’. ल्हानपणांत तीं म्हणटालीं, ‘भाग्याचो दांत’... आनी एकदम तिचे यादिची कोर्द घुंवली...

हे चलयेक ती मेळ्ळ्या... खूब खूब लागिंच्यान ताका पळेलां...

त्या दिसा ती मडगांवां भावागेर वताली. ताकतिकेन बस धरिल्ली. बस गच्च भरिल्ली. कसो तरी तिका बसूंक जागो मेळिल्लो. तरिकूय कंडक्टर मनशां भरीत आशिल्लो. ‘फुडें सरात, फाटीं सरात... मात्शे घोळात’ असो ताचो बोवाळ चालूच

आशिल्लो. बस सुरू जाली तसो उबो आशिल्लो लोक एकामेकांचेर लवंडलो. कॉलेजिच्या चलयांचो एक ग्रूप एके वटेच्यान किटकिट्टालो. आपल्याक कोणाचो धक्को बसुंनये, कोणें आंगाक घश्टूं नये म्हणून जावंये, ताणें एके कुशीन - सो आपलो ग्रूप केल्लो. तांच्यो आपले भितर खबरी चलताल्यो. दुसरे वटेन चार-पांच तरनाटे तांचीं फकाणां मारूंक संद सोदत राविल्ले.

तिच्या मुखावेल्या सिटार एकलो जाण्टेलो बशिल्लो. कपड्यांवेल्यान ताचे परिस्थितिचो अदमास येतालो. पुडवें पिंजकें न्हय, पूण आनीक चड दीस काडत - सें दिसनाशिल्लें. काळी ज्युदी, काळी तोपी... हातांत एक म्हेळी जाल्ली पोती...

'घुवेगेर वयतां, पयलीं चलोनूच वतालों, आतां अशें चलप म्हळ्यार व्हडलो याग जाता... चेड्यान पैशे दिल्यात मोटारान वचोन यो म्हूण..' आपले म्हऱ्यांत बशिल्ल्या मनशाक तो सांगतालो. धुवेगेर वचपाची खोस काय पुतान पैशे दिल्यात ताची खोस, कोण जाणा! पूण तो धादोस - सो दिसतालो.

आयकुपी जाता तितलें आंग चोरून आपल्या शर्टा - पँटाक ताची पोती घुश्टुंनये हाची जतनाय घेतालो. कपलाक आटयो घालून हाची भरडकथा सोंपपाची वाट पळेतालो. एक दोन खेपो 'सारको बस रे जाण्टेल्या' अशेंय ताणें म्हणून जाल्लें.

पूण जाण्टेलो काना-मनार घेनाआसतना आपलें चेडूं आपल्याक पळोवन कशें भुल्लुसतलें हेंच परतें परतें ताका सांगतालो. आनी तो शेजारी 'खंयची ही पिडा आपले म्हऱ्यांत बसल्या' अशें तोंड करून बशिल्लो.

इतल्यांत 'पैशे काडात, पैशे काडात' करीत कंडक्टर थंय पावलो. जाण्टेल्यान बोल्सांत हात घालून पाकीट काडलें. त्याच वेळार बसीन ब्रेक मारिल्ल्यान जाण्टेल्याचें पाकीट सकल पडलें. सगळ्यांचे पयशे दिवन जाले तरी हो आपलो हात सकला घालून पाकीट सोदता, हाचे पयशे येनात हें पळोवन कंडक्टर ताचेर तापलो.

'आरे, बेगीन काड रे, पयशे काड.'

'दितां बाब, राव मातसो' अशें म्हणून तो सिटापोंदा सोदत रावलो.

मदींच फाटीं वळून, 'बाय, म्हजे पयशे पडल्यात फाटल्यान पावल्यात जाल्यार पळे' म्हणून राजेंद्राचे आवयक सांगूंक लागलो. तिणेंय ओणव घालून सोदले. पूण कांयच मेळ्ळें ना.

'बाप्पा, शेनां नाकात तुजीं! पयशे काड, नाजाल्यार देंव हांगाच,' कंडक्टर ताचेर ताणशेलो.

थोड्यांक टायमपास मेळ्ळो.

'बाप्पा, कितले पयशे पडले?'

'शंबरांची नोट न्हय मरे?'

'आरे पळय! उडून बी वचत!'

'नाजाल्यार हेऽताच्या बोल्सांत पावली जाल्यार पळय!'

मागीर चलयांचें किटकिटप... 'शीऽ बाये!' 'आंवय! आंवय! एका रुपयाक लागून अशें शेण खावपी आसतात आं...' – एक रिमार्क.

म्हातारो रडकुरो जालो. कंडक्टर आनी सगले बसभरचे लोक मेळून आपल्याक सुळार दितात काय अशें ताका दिसलें.

'ना सायबा, खऱ्यांनीच म्हाज्या पाकिटांत दोन रुपया आसले. येवपाक आनी वचपाक म्हणून चेड्यान दिल्ले.... हांव फट उलयना...'

मागीर आनीक बोवाळ, हांसो.

'नाटकां करपाक संवकल्यात!'

'लजच सोडल्या!'

'पाडा पडूं' म्हणून तोंडांतल्या तोंडांत पुटपुटत कंडक्टर कडेक सरलो.

'हे घे तुजे पयशे! म्हज्या पांयांकडेन पाविल्ले!' अशें म्हणून एके चलयेन ओणव घेवन दोन रुपयांची नोट काडून ताचेकडेन दिली. सगळीं ताका पळोवंक लागलीं.

सलवार कमीज, केंस कापिल्ले, साधारण रुपाचेंच चली, कपलाक कुकूम ना, हाताक कांकण ना, धेणलो कशें दोन पुस्तकां घेवन उबें आसलें चलयांच्या ग्रुपांत.

म्हाताऱ्यान नोट हातांत घेतली. ताचेकडेन पळेलें. ताचे दोळे भरिल्ले.

कंडक्टराक ताणें पयशे दिले. ताणें दिल्लो उरिल्लो रुपया घेवन परतून ताणें ते चलयेच्या तोंडाक पळेलें. तशें तें हांसलें... आनी तोंडभर लक्ख उजवाड पडिल्लेभशेन दिसलें. उजव्यान दांतार दांत चडिल्लो – सुण्यादांत! एका हांश्यान मनशाचें तोंड इतलें बदलता? परतें पळयसर कंडक्टराक पयशे दिवन तें देंवन

गेल्लें...

जाण्टेलो मात फाटल्यान बडबडत रावलो. 'देव बरेंऽ करूं पुता तुजें... बरें देखिचें... व्हड मनाचें... कोणा भाग्यवंताचें भांगर चेडूं..'

'पयशे मेळ्ळे मरे? ओगी बस आतां, बेश्टो बोवाळ!' म्हऱ्यांत बशिल्ल्यान धेंगसो घालो...

तशें फाटल्यान एके चलयेन म्हळें, 'ताका मेळ्ळे, ताणें दिले! कोणूय दिता! त्या कामाक येदो व्हडलो आकांत कित्याक? इतल्याच कामाक 'भांगर चेडूं' खंय.

आतां मात जाण्टेलो तापलो. 'तुमी चेडवां किटकिटपाकूच जाणांत. तुमचे मदलेंच तें. पूण, म्हाज्या म्हाताऱ्याचे पयशे शेणले ते तुमकां मेळ्ळे नात. म्हाजे म्हऱ्यांत आशिल्ल्यांक मेळ्ळे नात. थंऽय उबें नाशिल्लें ताका ते मेळ्ळे... भांगर चेडूं कोणालें... जाण्टेल्याची काकूट पळोवंक नज जाली म्हूण ताका मेळ्ळे... पापयांनो, म्हजी दोन रुपयांची नोट शेणूंक नासली, दोन रुपयांचें नाणें शेणिल्लें...'

बसींतलीं बडबडपी तोंडां मात्शीं बंद पडलीं. म्हाताऱ्याच्या शेजारच्या मनशान आऽऽ करून आळस दिवन पांय लांब केले. ताच्या बुटापोंदच्यान खण्ण आवाज जालो आनी, दोन रुपायंचे तें नाणें काडून ताणें जाण्टेल्याच्या हातांत दिलें. म्हाताऱ्यान तें घेवन बोल्सांतल्या पाकिटांत दवरलें. बडबडलो. 'भांगर चेडूं कोणालें! देव बरेंऽ करूं पुता तुजें!'

तेंच तें 'भांगर चेडूं' म्हजे मुखार अशें खांकडून, लजेत उबे आसा, राजेंद्राचे आवयन चिंतलें. ताचें नांव, ताचें धरदार, ताची जात-पात कित्याक विचारूं? राजेंद्राचीं उतरां तिका याद जालीं-

'आई, तें एकूच धर्म मानता - मनीसधर्म!'

ते येदेशे चलयेन म्हज्या मनाभितर हो गिन्यानाचो उजवाड घालो. तिणें चिंतलें, सोदूंक गेल्यार लेगीत इतली बरी सून मेळूंक कुस्तार.

दोनय हातांनी तिणें ताका वेंगेंत ओडलें आनी राजेंद्राक म्हळें,

'पसंत रे पसंत! म्हाका सून एकदम पसंत!'



# 15

# अजाण जाण

"संतोशीऽऽ, एऽ तोशीऽऽ" आईन उलो केलो, तशें अलका बरोबर तांच्या आंगणांत खेळटालें तें तोशी धांवतूच घरा आयलें.

"कितें गे आई?"

'रातचें नाटकाक वतलें मुगो? आतां खेळ बंद करून मातशी न्हीद काड आं..." आईन मायेन सांगलें. तोशीन 'आं' म्हणून मान हालयली.

गांवच्या म्हादेवाच्या देवळांत कालो सुरू जाल्लो. काल्याक दर वर्सा तीन नाटकां जातात. गांवचो लोकूच न्हय, दुसऱ्या गांवचे लोक लेगीत काल्याचीं नाटकां पळोवंक मुजरत येतात. आनी नाटक सोंपतकच संकासूर नाचपाचो आसा.

तोशीक काल्याचो संकासूर पळोवंक खूब मजा येताली. हरदासाचें आनी संकासूराचें कॉमीक उलोवणें आयकून पोटभर हांसूक मेळटालें. शे! संकासूर कस्सोच चुकोवप ना आज...

"आज्या, म्हाका संकासूर पळोवंक व्हरतलो मरे? न्हीद लागल्यार लेगीत हालोवन उठयतलो मरे? पळय आं, नाजाल्यार हांव मागीर रडटलें... म्हाका यादीन उठय आं..." तोशीन आज्याक सांगलें.

आज्यानूय मागीर "म्हजेर पावलें न्ही!" अशें तोशीक उतर दिलें. कितलो वेळ तोशी थंयच सोपणार बसून चिंततालें...

दोन नाटकां जालीं.... दोनूय चुकलीं... न्हिदून उरलें... आज निमाणें नाटक...! पाडापडिल्ली ही न्हीद... तिनसांज जातनाच जी दोळ्यांत रिगता ती सकाळ जायसर वचचना. आतें म्हणटा, "तोशी मूं? तें एक फावट न्हिदलें तशें मागीर ताका कितलेंय हालय-धोलय... तें उठल्यार जाय ती पैज...!!"

तोशीक आपले न्हिदेचो राग येता.

''तोशी, आज तरी नाटकाक येतलें मुगो? चल तर, आतां बरीऽ न्हीद काड...'' ताईन - तोशीले व्हडले भयणीन - ताका सांगलें. ''तें आनी जागरण करतलें?'' ...भंगलेंऽ!!'' व्हडल्या भावान म्हळें.

''पळय तूं भाऊ... आज हांव जागेंच रावतलें.'' संतोशीन ताका नेटान सांगलें. तसो भाऊ व्हडान हांसलो...

तोशीक राग येवपाक तितलेंच पुरो जालें. तें रडूंक लागलें. आईक उलो मारूंक लागलें...

''आतां रडपाक कितें जालें? हांवें कितें केलां तुका? सामकीच आळुबाय जाल्या आईची...!!'' भाऊन म्हळें.

''आईचें कुसखरपणें न्ही तें?'' ताईन म्हळें.

''आईऽऽ आई गेऽऽ--'' तोशीलो आवाज चडलो. ''भाऊ म्हाका चाळयता पळय गेऽऽ... बाप्पालें शेंडयेचें म्हणटा...''

''आरे, ताचे वाटेक कित्याक वतात रे?'' आईन भायर येत म्हळें.

''व्हडली आळुबाय न्ही ती?.. आनी हांवें ताका कांयच म्हणूंक ना आं...'' भाऊन सांगलें. ''फट दिसता जाल्यार ताईक विचार...''

ताईन चिंतलें, तोशीचेंय वांकडेपणा नाका आनी भाऊचेंय नाका...

''आई, भाऊन तोशीक 'तूं आनी जागरण करतलें?' अशें विचारिल्लें.'' ताईन खरें तें सांगून उडयलें. फकत भाऊ कुचित्र्यांनी ताका हाशिंल्लो हे सांगपाक तें बळयां विसरिल्लें.

आई मागीर तोशीचेरूय तिडकली - ''तोशी, येदें व्हडलें जालें तरी कसल्याय कामाक बुळुबुळू करून रडपाची संवंय वचना तुजी? ताळवेक शेकूच बसलो ना तुज्या?... कुकुलेंच जाता दिशीं दिशी!! - दोळे पूस ते आनी चल भितर... मातशी न्हीद काड... मागीर रातचें जागरण करूंक जमतलें तुका...''

तोशीन न्हिदपाचो यत्न केलो. पूण ताचे दोळे धांपुंकूच तयार नासले.

ताका अजापूच जातालें...

आजी कशी पापड लाट्टना लेगीत झेम काडटा?

व्हडले काकीक तांदूळ वेंचतना लेगीत कशी लकण येता?

आतें तर दांत्यार बसून दळटा जाल्यार दोळे धांपुनूच दांतें घुंडायता.

ही न्हीद तांची सामकी इश्ट कशी! तांकां जाय तेन्ना येता...

बाप्पा जेवण जातकच शेंदरेर आड पडना फुडें घोरेवपाक लागता... आनी ज्युस्त साडेतिनांक उठून बसता... 'च्याक दवर गेऽ' म्हणून आईक सांगता.

म्हाकाच दिसाची न्हीद कित्याक येना ती?

तोशीक न्हिदेचो इतलो राग आयलो की ते भिरके भरशीं तें उठून मागीलदाराच्या आंगणात अलका बी'खो-खो' खेळटालीं. थंय खेंळूक गेलें.

खो-खो खेळपाक संतोशीचो हात धरपी कोणूच नासले. "तोशी आमकां... तोशी आमकां..." करीत दोनूय गटांची तोशीक आपले वटेन ओडूंक सर्त लायली. मागीर तोशीन म्हळें, "हांव भानूच्या गटांत..."

भानून मागीर आपल्या गटांतल्या रंजूक भायर दवरलें. नाय जाल्यार रंजूक धांवंक खंय येतालें? गडी कमी पडटात म्हणून घेतिल्लें.

चलयांचो 'खो-खो' चो खेळ रंगांत आयिल्लो.तोशीचो धाकलो काका सोमेश थंयच सोपणार दाराक वणकून पांय सोडून बशिल्लो आनी अभ्यास करतालो. फॉर्मुले पाठ करतां करतां तो मर्दीच खेळपी चलयांचेर नदर मारतालो.

तोशी सामकें वारो कशें धांवतालें... कितल्या जाणांक ताणें आवट केलीं. कोंतूच नासलें. ताईन मागील दारांत येवन तोशीचेर एक नदर घाली आनी तें सोमेशाचेरूच तिडकलें - "बारावेची परीक्षा मरे तुजी? आनी हांच्या बोवाळांत अभ्यास कसो जाता तुजो?

चल, पयलीं - भितर वचून भाऊच्या रूमांत बसून अभ्यास कर..."

सोमेशाक भितर धांवडावन तें आई म्हऱ्यांत गेलें.

"आई, तोशी पळय कशें नाचता तें आं!... धांवतना सगळें आंग... आई, ताका आतां भितर घालपाक कितेंय शिवंक जाय गे..."

आई ओलीं सुकत घालताली तीं तशींच उडोवन मागीलदारच्या आंगणांत गेली आनी तिणें तोशीचेर नदर घाली.

अकरा सरून बारावें लागिल्लें पोराक. घाल्ल्या व्हिस्तिदांत धरनासलें तें आतां... व्हांवते झरी बशेन ताचें हांशें व्हांवतालें... वतांत खेळून पोले गुंजुल्ले जाल्ले... मुखामळ घामाच्या थेंब्यांनी दंवेल्लें सामकें... आनी पाय तर धरूंक

आयिल्ल्या गड्याक चुकोवपाक हेवटेन तेवटेन थिरकताले... धांवून धांवून धांप लागिल्ल्यान सानुली छाती वयर सकल जाताली...

पूण तोशीक कसलेंच धंगण नासलें. तें मुक्त आनंदांत खेळपांत गुल्ल आसलें...

आतां हांव करूं तरी कितें हाचें?... हाची अपुरबाय करूं?... काय भितर आपोवन तापोवन काडूं...?

न्ही भुरगें... न्ही जाणटें! हें वयूच आसलें पाडें!!

भितल्ल्यान आयिल्लो उमाळो आंवड्या बरोबर आईन गिळून उडयलो आनी म्हळें,

''संतोशी, बाय खेळ पुरो गो आतां... म्हजीं भुजां दुखतात. म्हाका ओलीं सुकत घालूंक आदार करता न्ही बाय?''

तोशी विरूस जालें. पूण आईक ना म्हणुंकूय नजो जालें ताच्यान. जीब भायर काडून हाताच्या पंजाक थुकी लावन ताणें म्हळें, ''म्हजो आमेट्यो गोऽ... रंजूक घे आतां म्हज्या जाग्यार...''

भानू बरेंच पिकार जालें. ताणें रंजूचेर तिडक काडली, ''चल गो. सारकें धांवना जाल्यार पळे आं.''

ओलीं सुकत घालतां घालतां आईन म्हळें, ''तोशी, आतां हें धांवपाचे खेळ बी बंद करपाचे आं तुवें.''

''आनीक हांवे कितें खेळप तर...?''

''जायते खेळ आसात दुसरे... गजऱ्यांनी खेळ... पांचखुम्यांनी.... ताबुलफळें.... कांगांनी.... वागांनी...'' आई लिस्ट सांगत रावली.

''शीऽ!! ते खेळ?? ताई खेळटा तसले...?''

''आतं पळय, तुका अकरा सोंपून बारावें लागलें. वाडट्या-हुडट्या चलयांनी, तसलेच खेळ खेळपाचे...''

''पूण आई, रेखाक चवदा वर्सां मगे? तें खेळना?''

''आगो, तें खिन्नुटलां... तुजो जावोस घसघशीत...''

'तोशीक मागीर आपूण खिन्नुटूंकना... वाडटें-हुडटें, घसघशीत जालां. म्हणून आपलोच राग येवंक लागलो.

रेखाक पळय... चवदा वर्सां जालीं तरी ताका कोण कांय म्हणनात...

म्हाका मात आईच न्ही, शेजारचें कमलआका लेगीत धांवचेल्यांनी खेळ्ळ्यार तापयता. वेल्यान "घोडी जाली तूं आतां..." म्हणटा.

संतोशीन मागीर भितर वचून सगळो राग पुस्तकाचेर काडलो. आनी ताळो सरांटून व्हडा व्हडान कविता म्हणूंक लागलें.

तिनसांज जाली. आईन देवाक, तुळशीक दिवो दाखयलो... भुरग्यांचें 'शुभं करोति', पाडे बी म्हणून जालें. जेवणांय जालीं. मागीर नवो व्हिस्तीद घालून तोशीन ताई कडल्यान केंसांच्यो दोन विणयो घालून घेतल्यो. नवीं तांबडींच रिबिनां बांदून कानार तांची फुलां बांदूंक लायलीं. मागीर आईक सांगलें, "आई, तुमचें जायसर हांव मातशें आड पडटां आं हांतुणार... न्हीद लागल्यार म्हाका उठय आं."

"चुट्टी लागली हाच्या तोंडाक... नाटक पळयतलें खंय हें...!" आतें म्हणूंक लागलें.

सगलीं हांसलीं.... पूण आपणें कांयच आयकूंक ना अशें दाखोवन तोशी हांतुणार आड पडलें.

साडेआठांक नाटकाक वचपी सगलीं भायर सरलीं. आईन तोशीक धोंगसून – धोंगसून उठयलें, उबें केलें, दोळ्यांक उदक लायलें.

पूण तोशी दोळे उकते करुंकूच तयार नासलें...

"तुमी चलात... हांव आसा न्ही! उठून रडल्यार मागीर हांव सांगतां ताका कितें सांगपाचें तें!" आज्यान म्हळें. पळोवपाचो हट केलोच जाल्यार सोमेशा बरोबर धाडटां ताका...

"सोमेश येना तर नाटकाक...?" आत्यान विचारलें.

"शे:! फाल्यां एजाम आसा आनी नाटक खंयचें? हांवें रातचो बसून अभ्यास कर म्हळां..." आज्यान सांगलें.

सगलीं ताकतिकेन देवळांत पावलीं. नाटकाची पयली घांट जाली. मंडपात हीऽ गर्दी! तरी बरें – शामान पयलींच वचून मुखार शेंदरी पातळावन जागो धरून बशिल्लो. नाजाल्यार फाटल्यान बसून मागीर नाटकांतले संवाद आयकूंक तरी येतात?

सोमेश सालांत बसून आपलो अभ्यास करतालो. आपल्यो नव्योच आयिल्ल्यो

मिशयो सांसपीत फॉर्म्युले पाठ करतल्या सोमेशाक पळोवन आजो मुमुरखोच हांसलो... आनी पडवेर वचून आपल्या हांतुणार पडलो...

मध्यानरात जातकच सोमेशान पुस्तक धांपलें. आनी तो उठून आज्या म्हऱ्यांत न्हिदूंक गेलो.

मदल्या सालांत लायनीन हांतुणां घालून दवरिल्ली- आत्यालें, ताईलें, तोशीलें... तोशी हांतुणार सुस्त पडिल्लें... आंगा वेलें पांगरूण पांयां पोंदा पाविल्लें.

"हें एक पिसांट..." सोमेश ताचें पांगरूण ताच्या आंगार घालपाक ओणवो जालो... ताच्या दोळ्यां मुखार हेदोळ धांवतालें तें तोशी उबें रावलें. आनी कितें जालें ताकाच कळ्ळें ना... तो थंयच बसलो. ताचे नकळटां ताचो हात मुखार सरलो. कितें जाता मातसो हात लायल्यार?... तोशी तर न्हिदलां... ल्हवूच तोशीच्या आंगावेल्यान ताचो हात एक खेपे... दुसरे खेपे...

संतोशीन कच्च करून आंग काडलें. तें जागें जावन उठून बसलें... धोंगशिल्यार लेगीत जागें जायना अशें संतोशी... ताका कितें तरी जाणवतालें... कितें?... कशें?... कोण...?? तोशीक समजनासलें. पूण सात पड्ड्यां भितल्लें ताचें मन ताका जागयतालें? तें उठून बसलें आनी घुसमटून हुडक्या - हुडक्यांनी रडूंक लागलें.

सोमेशाचो आवरो उडलो.

"तोशी, तोशी... रडटा कित्याक? हो पळे हांव आसा न्ही हांगा... तुजो काका... तुका पांगरूण घालतालो..."

तोशी दोळे धांपिल्ले कडेन घुसमटून रडत रावलें.

"आगो, रडूंक कितें जालें? नाटक चुकलें म्हणून?"

"तोशीन रडत 'न्ही' अशी मान हालयली.

"मागीर कितें जालें?"

तोशीच्या हुडक्यांतल्यान एक एक उतर भायर सरलें - "म्हाका... भंय दिसता..."

"कसलो भंय?... पिश्या... दोळे उकते कर... पळय... हांव तुजो काका मुगो..."

पूण तोशी हुडकेत रावलें.

“तोशी, जागें जा... हांव तुजो काका...”

सोमेशान ताच्या बाबळ्यांक धरून हालयलें.

परतें आंग काडून थरथरत तोशीन म्हळें,

“... हो... हावक्याचो हात... म्हाका... म्हाका त्या हाताचो... भंय दिसता.”

हाताक उज्याची कोलती लागिल्ले बशेन सोमेशान हात फाटीं घेतलो... ताका दिसलें, कट्टीभर उदकांत नाक बुडोवन जीव दिवचो... शीः! शीः! शीः! कशें हें म्हजें मन...! कसो हांव...! हें अबुद्द अर्भक कशें तोशी... नितळ निर्मळ मनाचें बाळक... आनी हांव...? एकूच खीण कसलो सांवार आयिल्लो म्हजेर? देवा, म्हज्या विचाराची म्हाका भोगसणी कर...!

अपुरबायेन तोशीच्या केंसां वेल्यान हात भोंवडायत ताका थापटीत तो थंयच बसलो...

“तोशी, बाय... भिवनाका आं! न्हीद आं तू... तुका भेशटायतलो तो हावक्याचो हात परतो आयल्यार हांव तोडून मोडून उडयतलों... असो... असो.... असो...” आपलो हात जमनीर धोडायत सोमेशान म्हळें.

संतोशीक जाणवलें, ताका थापटितालो तो हात ताच्या काकाचो... त्या हाताचो ताका आतां मात्तूय भंय दिसनासलो...

दोनूय दोळे सताड उगडून तोशीन सोमेशाच्या दोळ्यांत पळयलें... हुसक्या मेकळें हांसलें आनी एक पांय ताचेर उडोवन सुस्त घोरेवपाक लागलें.



## 16

# व्हऽऽडलो पावस येवंदी आनी...

रीतू स्कुलांतल्यान घरा आयलें. बॅल मारना फुडें शांतून दार काडलें. रीतूचे फाटीर एद्दें व्हडलें स्कूलबॅग...

"आयलें रीतूबाय... हाड, म्हाजेकडेन दी तें धपटें... कितलें म्हणून जड गो बाये... तुजे परस जड....!!" शांतून रीतूलें स्कूलबॅग घेतलें आनी तें भितर रुमांत व्हरून दवरलें. रीतून शांतूक जापच केली ना. तोंड फुगोवन ताणें बाथरुमांत वचून हातपांय धुयले.

शांतून चिंतलें... आज परतो म्हारू खुबपाचो आसा... ताई ऑफिसांतल्यान बेगीन आयल्यार पुरो... ना जाल्यार म्हाजो जीव खातलें हें...!

रीतून युनिफॉर्म देंवयलो आनी घरांतले कपडे घालून तें जेवपाक गेलें. शांतून मेजार ताट मांडुनूच दवरिल्लें ताका...

"शांतू, हांव बुरश्या ताटांत जेवचें ना आं...!"

"रीतूबाय, हांवें ताट आत्तां बरें करून धुवनच दवरलां."

"शी! परत धूय म्हज्या दोळ्यां मुखार..."

शांतून ताट बरें करून परतें धुयलें.

"जेवता मुगो...? आज पळय मुड्डशांचें हुमण केलां हांवेंन..."

"नाका म्हाका! म्हाका मुड्डशांचें हुमण मात्तय आवडना. तळिल्ल्यो मुड्डश्यो आवडटात...!"

"तळ्ळ्यात हांवेंन मुड्डशो. चल, कडयेन जेव. वालांची भाजी खाता?"

"म्हाका नाका तुगेली भाजी..."

कडयेन शीत जेवतां जेवतां ताका सायन्सिचो पिरियड याद जालो. टिचरीन आज तांका भाजयांचें म्हत्व सांगिल्लें. खंयचे भाजयेंत कसलीं व्हिटामिनां आसतात तें सांगिल्लें. आनी, निमाणें, भाजयो सगळ्यांनी मुजरत खावंक जाय अशेंय सांगिल्लें.

खावंया इल्लीशी भाजी काय नाका? ताणें चिंतलें.

"शांतूऽऽ."

शांतू कपडे उमळटालें तें धांवतच आयलें.

"कितें जाय रीतूबाय?"

"भाजी वाड म्हाका..."

"आत्तां खायना म्हणटालें न्हू तूं..."

"आतां खातां म्हणटां..."रीतून म्हळें.

शांतून मोन्यांनी ताच्या ताटांत वालांची भाजी वाडली आनी तें परतें कपडे उमळूंक गेलें.

जेवन रीतू आपल्या रुमांत गेलें. ताणें होमवर्क करपाक वही काडली. आज ट्यूशन - टीचरीन येवची ना म्हूण सांगलां. होमवर्क करतां करतां रीतूची तकली परती उसळपाक लागली. सकाळसावन ताची तकली उसळटाली. मम्मीक सांगल्यार तिणें गुळी दिल्ली कसली तरी. पुस्तकां मेजार सांडून रीतू खाटीर वचून न्हिदलें. मम्मी-पप्पा सांजवेळा घरा येतलीं. सांजचीं खंयचीं... साडेसातांक ना जाल्यार आठांक... रातचींच पावतलीं तीं घरा...

तीं येयसर एकलेंच घरांत!... शांतू आसा पूण तें आपलें काम करीत आसता...

मम्मी केन्नाच घरांत नासता... सकाळ जायना फुडें शांतून रांदिल्लो डबो घेवन पप्पा बरोबर तीय बी ऑफिसाक वता.

रीतूक कितलें दिसता... तें स्कुलांतल्यान घरा येतकच मम्मीन ताका दार काडचें... "आयलें गो बाय? पुरो जालें मुगो?" म्हणून वेंगेंत काडचें... आपल्या हातान वाडचें... आपणें जेवतां जेवतां तिका स्कुलांतल्यो खबरी सांगच्यो... टीचरीन आपल्याक 'व्हॅरी गुड' म्हळें तें सांगचें... होमवर्क करतना मम्मीन ताच्या म्हऱ्यांत बसचें... ताका मदत करची... ताच्यो वह्यो पळोवच्यो... टीचरीन ताचे

वहीचेर 'व्हॅरी गुड' बरयलां तें वाचचें... ताका वेंगेंत काडून 'शाब्बास गो म्हज्या शाण्या' म्हणचें... शोभाची आई म्हणटा तशें...!

रीतूच्या दोळ्यां मुखार शोभाची आवय उबी रावली. शोभाची आवय ऑफिसाक वचना... ती घरांतलीं कामां करता.. पूण शोभान उलो मारल्यार हातांतलें काम उडोवन येता. शोभाची डिफिकल्टी बरी करून सोडयता... शोभा रीतू भशेन ट्युशन टिचरी कडेन शिकना. ताची आईच ताचो होमवर्क बी पळयता... काय बरी ताचे म्हऱ्यात बसून ताचो अभ्यास बी घेता... शोभालें घर इल्लेंशें... रांदचे कुडींतूच जेवपाचें... थंयच मेजार बसून अभ्यास करपाचो...

काल तें शोभागेर गेल्लें खेळूंक! पूण शोभा पुस्तकां घेवन बशिल्लें.

''शोभा, चल मुगो! गार्डनांत या खेळूंक!''

''रीतू, फाल्यां युनिट टॅस्ट आसा न्ही? तुजो अभ्यास जालो गो?''

''हय! म्हणून तर आयलें हांव!''

'शोभाची आई 'महिला मंडळां'त वचपाक भायर सरताली.

''आई, म्हजो हो सायन्सिचो अभ्यास जायना...''

''जायना म्हणजे कितें गो? चल, हांव घेतां तुजो अभ्यास.'' ताचे आवयन म्हळें.

''पूण तूं महिला मंडळांत वचपाक...''

''भोंगूं गो तें! चल, आमी पयलीं तुजो अभ्यास पळोवया...''

शोभा मागीर आवयचे मांडयेर तकली दवरून न्हिदलें... ताची आई ताच्या केसां वेल्यान हात भोंवडायत ताका प्रस्न विचारूंक लागली. शोभान पट-पट करून जापो दिल्यो. मागीर ''शाब्बास गो म्हज्या शाण्या'' अशें म्हणून तिणें ताची पापी घेतली...

रीतूक तेन्ना शोभाची सामकी कुन्नाटकाय जाली.

म्हजी मम्मी म्हाका कित्याक अशी मेळना?

भोवन भोवन तोच्च प्रस्न ताचे मुखार उबो रावता.

केन्नाय डिफिकल्टी घेवन मम्मी म्हऱ्यांत गेल्यार मम्मी बेजारता. ''आगो, दीसभर काम करून पुरो जावन आयलां ऑफिसांतल्यान! मातसो सुशेग घेवं दी म्हाका! ट्युशन - टिचर येवंक ना आज? तिका विचारचें गो!'' अशें म्हणून

रीतूक तापयता.

“मम्मी, तूं ऑफिसाकच वचुंनाका गे फाल्यां सावन!” रीतून एक दीस धीर करून मम्मीक सांगलें.

“कित्याक गो?” मम्मीन अजापान विचारलें.

“तुजें ऑफीस बरें न्ही!”

“म्हज्या ऑफिसाचो दुस्वास कित्याक करता गो?” मम्मीन हांसून विचारलें.

“ऑफिस ना जाल्यार तूं म्हाकाच मेळटली... सद्दां मेळटली...”

“हें पळय रीतू... आमकां मागीर पयशे कशे मेळटले?”

“पप्पा जोड्डून हाडटलो गे...!”

“आनी पप्पान एकल्यानच जोडिल्ले पयशे आमकां पुरो जातले? जाय जाय तें घेवंक मेळटलें?... म्हजे बायेक नवे नवे कपडे, नवे नवे बूट... आनी आमकां घरांत नवे तरेचो व्हडलो फ्रीज... आनी एक कम्प्यूटर बी घेवंया म्हणटालो पप्पा...”

“नाका, म्हाका कांयच नाका. म्हाका तूंच जाय!”

“पिशें गो पिशें आतां अशें म्हणटा तूं, पूण रोखडेंच ‘मम्मी, म्हाका आत्तां हेंच्च जाय, तेंच्च जाय’ करतलें. आनी म्हजें बाय शिकून व्हडलें जातलें जाल्यार कितलो पयसो जाय जाणा तूं?”

रीतूक समजचना! मम्मीक कशें समजावप? इतलो पयसो कित्याक जाय? हावें खुब्ब कित्याक शिकूंक जाय? तरेतरेचे प्रस्न ताका पडटाले. पूण जाप मात मेळनासली.

आज खाटीर न्हिदिल्ले कडेन ताका मम्मीची खुब्ब याद आयली. तकली दनपारच्यान उसळटालीच. आतां चडच दुखूंक लागली. दोळे धांपिल्लेकडेन तें चिंतूंक लागलें... खीणभर ताका दिसलें –

शोभाचे आई भशेन मम्मी ताचे म्हऱ्यांत बसल्या. मम्मीचे मांडयेर तकली दवरून तें न्हिदलां... मम्मी ताच्या केंसां वेल्यान, तोंडा वेल्यान हात भोंवडायता...

सपनांत आशिल्ले भशेन कितलो वेळ तें मम्मीचें सूख भोगत रावलें.

पूण दोळे उकते केले तेन्ना कुडींत तें एकलेंच! शांतू भितर काम करता ताचो आवाज मात आयकूंक येतालो.

येवजितां येवजितां रीतूचे दोळे आपशींच व्हांवपाक लागले...

शांतू सुकत घाल्ले कपडे घेवन आयलें आनी तांकां फॅर्र मारूंक लागलें. रडिल्ल्याचो कसो आवाज आयलो म्हूण ताणें पळयलें... जाल्यार ल्हान भुरग्यां भशेन हिमट्यो काडून रीतू रडटा... शांतून बेगीबेगीन फॅर्र ऑफ केलें... कपडे तशेच उडोवन तें रीतू म्हऱ्यांत बसलें.

"रीतूबाय, कितें जालें? अशें रडटा कित्याक?"

रीतू कांयच उलयलें ना. शांतून रीतूच्या कपलार हात दवरलो... पळेत जाल्यार सामकें जोरान खतखततालें! शांतूक कितें करचें तेंच समजना जालें. पूण जोर येतकच क्रोसीन दितात हें तें जाणा आसलें. ताणें भितर वचून एक क्रोसीन सोदून हाडली.

"रीतूबाय, ही गुळी घे... जोर वतलो..."

रीतू कशेंच गुळी घेवंक तयार ना.

कशें तरी बाबा-पुता करून ताका गुळी घेवंक लायली. पांगरूण घालून न्हिदयलें. आनी शांतू परतें फॅर्र मारूंक गेलें. इतल्यांत 'वॉक्' करून रीतू खाटीरच ओंकलें... तोंडांत 'मम्मी... मम्मी...' हो जप चालू...

शांतूक कितें करचें तेंच समजना जालें. खाटीवेलो चादर ओडून ताची तशीच गुठली करून ताणें सकयल उडयली आनी दुसरो चादर घालो. ताचेर रीतूक न्हिदयलें.

रीतूचे गळसल्ले हात - पांय, ताचें ते जोरान हुमलो कशें जाल्लें तोंड... आतां शांतूकच रडूंक येवंक लागलें.

"रीतूबाय, आतां येतली आं मम्मी...!"

'कितलीं वरां जालीं गो?"

"पांच जालीं पळय! आनीक वरां भरान पावतलीच मम्मी!"

पूण शांतूक खबर आसा, आज ताई ओव्हरटायम आसा म्हूण सांगून गेलां... आठां बगर घरा पावचेंच ना तें...

रीतूक झांपड लागल्याशी पळोवन ताणें शेजारच्या फ्लॅटाची बॅल मारली. कल्पेशान दार काडलें. कल्पेश रीतू येदोच भुरगो.

"कितें जाय?"

"तुजी मम्मी आसा? रीतूक जोर आयला..."

"मम्मी ऑफिसाक गेल्या.."

कल्पेशान धडाम् करून दार घालें.

सकयल्या मजल्यार ताईची फ्रँड रावता. ती ऑफिसाक वचना. शांतू धांवतच सपणां देवलें...

बॅल मारतकच तांगेल कामाक आशिल्ल्या विमलान दार काडलें.

"कितें गो शांतू, कितें जाय?"

"रीतूबायक जोर आयला. तुजी मेमसाब खंय आसा?"

"मेमसाब पार्टेक गेल्या.. रातची इकरांक येतली..."

शांतू धांवतच वयर आयलें आनी रीतू म्हऱ्यांत बसलें. रीतू बडबडटालें... "मम्मी गेऽ! मम्मीऽ, बेगीन यो गे!"

शांतूचो जीव वयर सकयल जावंक लागलो. कितें करचें तेंच ताका कळना जालें. ते रीतू म्हऱ्यांत बसून ताका थापटीत रावलें.

रीतून दोळे उकते केले.

"शांतूऽ... मम्मी आयली गो? कितली वरां जालीं?"

"रीतूबाय, आत्तां येतली आं मम्मी... येवपाचीच जाली पळय..! हांव आतां तुका कोल्याची आनी कोलयेची काणी सांगतां आं..."

शांतू मागीर ताका कोल्या-कोलयेची काणी सांगपाक लागलें. मनांतल्यान देवाक होरावणी चलिल्ली - "देवा, ताई बेगीन येयल्यार पुरो..."

'हूं... हूं...' करून काणी आयकतां आयकतां मदींच रीतूच्या दोळ्यारं झांपड येताली. तरी ताचे कान काणयेचेरच आसले.

शांतू सांगताले, "कोलो झाडार चडून म्हों‌व खाता. मेण सकयल उडयता... कोलयेन सगळें मेण एकठांय केलें आनी मेणाचेंच घर बांदलें... कोल्यान पळयलें, कोलयेन घर बांदलां... ताणें गोरवांचे गायरींतलें शेण पुंजायलें आनी आपणेंय शेणाचें घर बांदलें..

रीतूक मागीर काणयेंत गोडी दिसपाक लागली. "मागीर गो? मागीर कितें जालें?" ताणें विचारलें.

“‘मागीर कोलो भायर येयलो आनी वयर पळोवन म्हणों लागलो, ‘व्हऽऽडलें कडक वत येवं दी आनी कोलयेचें घर कडोन वचूं दी...’ मागीर व्हऽडलें वत येयलें आनी कोलयेच्या घराचें मेण कडूंक लागलें... तशी कोली भायर येवन म्हणों लागली, ‘व्हऽडलो पावस येवं दी आनी कोल्याचें घर व्हळोन वचूं दी.’ तसो दडकांनी पावस येयलो आनी कोल्याचें घर व्हळोन गेलें...”

रीतून एकदम दोळे उकते केले.

“शांतू गोऽ!”

“कितें रीतूबाय?”

“अशें म्हळ्यार खरेंच जाता?”

“कितें खरेंच जाता?”

“असो पावस येवं दी म्हळ्यार... व्हांवन वचूं दी म्हळ्यार ...?”

“जाता गो! काणयेंत तरी जाताच! पोटांतल्यान म्हणूंक जाय... वयर पळोवन, मळबांतल्या देवांक सांगों जाय...”

तशेंच रीतू एकदम खाटीर उठून बसलें. जोरान तांबडेच जाल्ले दोळे वाटारीत, वयर पळोवन म्हणूंक लागलें... “देवा, मम्मी, बेगीन घरा येवं दी... मागीर व्हडलो पावस येवं दी... खुब्ब व्हऽडलो पावस येवं दी... आनी मम्मीचे ऑफीस व्हळून वचूं दी...”



# 17

# पोसको

“ म म्मीऽऽ… मम्मीऽऽ… रसिकान म्हजें पेन काडलें…”

शौनकाचो बोवाळ आयकून शोभा किचनांतल्यान भायर हॉलांत पावलें.

दोनय हातांनी पेन घट्ट हड्ड्याकडेन धरून रसिका घुम्म पोले फुगोवन उबें आसलें. शौनक कशेय भशेन आपलें पेन परतें घेवपाचे तयारेंत…

…. आतां झगडीं, मारामारी, दोगांचीय रड… शोभान येवजिलें. अशें रसिकाक पोशेलें, “रसिका, शाण्या, ताचें पेन ताका दी पळोवया… हांव तुका बरेंऽ दुसरें पेन हाडून दितलें हां… चल, दी पळोवया दादाचें पेन… आमकां नाका तें…” शोभान रसिकाक फुसलायलें.

एद्देंशें चार वर्सांचें पोटलो कशें पोर… पूण तकलेन फीन सामकें. मम्मीच्याच भशेन हेल काडीत सांगता कशें. “हां मम्मीऽ हांव दादायें पेन दितां पलय… दादा, म्हाता मम्मी नवें पेन दितयीऽ…. मागील हांव तुजें पेन पलतें दिऽतयें…”

रसिकाचीं तीं लुबडीं उतरां आयकलीं तशी शोभाक ताची अपुरबाय करन दिसता. आजय ताणें रसिकाळ वेंगेंत काडून ताची पापी घेतली आनी म्हळें, “बाय, तूं शाणें न्ही? म्हजें आयकतलें न्ही? दी पळोवया दादाचें पेन परत…”

“पूण तूं म्हाका तांबलेंच पेन दी मदे पयलीं…”

शौनकाक मम्मीचो रागच आयलो. हांव मातसो तीन वर्सांनी व्हड आसां… जाल्यार मम्मी म्हजें कांयच आयकूनच घेना… फकत रसिकाच्योच अपुरबायो… रसिकाचेंच सगळें आयकता…”

तिडकी भरशीं ताणें रसिकाच्या हातांतलें पेन ओडून घेतलें. रसिकाचो हात बरोच दुखलो… तांबडोच जालो… शोभान मागीर शौनकाच्या कुल्यार एक थापट

दिलें. धाकले भयणीक अशें करतात रे? तुजी भयण मरे ती? मातशें पेन काडल्यार कितें जालें? दितलें आसलें तें परत..''

मम्मी शौनकाक तापयता तें पळोवन रसिकाक आतां नेट आयलो आनी शौनकाच्या हाताक ताणें कडकडून घांस मारलो. 'आवयस!' करीत शौनकान रसिकाक भुरको काडलो. मागीर घे बोवाळ! रसिका रडटा... शौनक रडटा... तांचो बोवाळ थांबयता म्हणसर गॅसार दवरिल्लें दूद ओतून गेलें. शोभा सामकें बेजारलें. रसिकाच्याय कुल्यार एक थापट पडपाचें ताचें, इतल्यांत पप्पा आयलो.

...मागीर सगळो बोवाळ जाग्यार पडलो.

पप्पा आयलो की रसिका फाटलें सगलें विसरून वता आनी पप्पाकडेन कीराभशेन किरावंक लागता. शौनक आपल्या पप्पाक पुरो जावन येतकच त्रास दिवंनये हें जाणा. पप्पाचो मूड पळोवनच तो वागता आनी दीसभर काम करून पुरो जावन आयिल्ल्या घोवाक त्यो आनी घरच्यो कटकटी नाकात म्हूण शोभा तोंड धांपता...

शोभान रसिकाचेर थापट मारूंक उबारिल्लो हात तसोच सकयल काडून पदराक पुशिल्ले भशेन केलें. तोंडार हांसो हाडून 'च्या करतां' अशें म्हणून भितर गेलें.

रणमैदान जाल्लें ते घर खिणाभितर थंड जालें.

पप्पाक सदांच सांजचें च्या बरोबर कितेंय खावंक जाय आसता. शोभा एक दीस फोव करता, एक दीस शिरो, केन्नाय भजीं करता. आज मात शोभान च्या बरोबर बिस्किटी दिल्यो त्यो पळोवन पप्पान हांसत विचारलें, 'आज भुरग्यांनी चड त्रास दिलो गो शोभा ?''

''आयज कांयच करूंक जमलें ना.'' इतलेंच शोभान म्हळें.

शोभा केन्नाच चड उलोवंक वचना. तोंडभर हांसप, थोडेंच उलोवप, आनी उलयतल्याचें बरें करून आयकून घेवप, ह्या आपल्या गुणांनी तें सगळ्या सोयऱ्यांक, शेजाऱ्यांक जिवाक जाय आसलें. आनी शोभाकडेन हाचें ताका, ताचें हाका' करपाची वृत्तीच नाशिल्ल्यान सगळीं आपल्यो सेग्रेद' खबरी लेगीत शोभाक सांगतालीं.

आतांय कामतीलें उषा अशेंऽ दारांत येवन परतें गेलें. पप्पान ताका हटकिलें तर 'कांय ना... सहज अशेंऽ आयिल्लें...' अशें म्हणून तें परतें गेलें. पूण शौनक शिटूकच! ताणें म्हळें, ''पप्पा, मम्मीकडेन खबरी सांगूंक आयिल्लें तें... तूं आसा

न्ही, म्हणून परते गेलें.''

पप्पान मागीर हांसून म्हळें, ''बरे, बरें! तूं बस तुज्या अभ्यासाक... जाणट्यांच्यो खबरी तुकाशो लागतात रे?''

आतां शाळेक सुटी पडटकच शौनक मामागेर वचपाचो आसा... तो चिंततालो, ''सगली सुटी सोंपसर आतां मामागेरूच रावप... मम्मीक करूं दी हांगा रसिकाच्यो अपुरबायो जाय तितल्यो... मामाल्या सुशांत-रोहना बरोबर दीसभर धुमशेणां कांडपाक कितली मज्जा येतली... आमल्यो, तोरां बी फातरावन उडवप... काजूचे मुट्टे खावप... आडसरां पियेवप... मामा बरोबर पाण्ट्यार न्हावंक वचप... मामान म्हाका पेंवपाक शिकयतलो म्हळां... मज्जा... आनी मामीन केल्लें धोणस... साठां... तिणें भाजून दिल्ल्यो काजूबियो... शौनकाच्या नाकांत आतांच काजूबियांचो तो वास भरिल्ले भशेन जालो. हांगा मम्मी फकत म्हाकाच उलयता... थंय कोण उलोवपी ना... दटावपी ना... फकत मामा-मामीच्यो अपुरबायो... बाबू, हें घे रे... बाबू, तें घे रे...

शौनक आपल्या चिंतनांत सामको रंगून गेल्लो. इतल्यांत रसिकान थंय येवन म्हळें, ''दादा, दादा, म्हाता पेन दीऽ न्हीऽ... तूं म्हाता पेन दीना मये... हांव तुदेकलेन कत्ती...'' आनी तें बोंचो फुलोवन ताचे मुखार हाताची घडी घालून उबें रावलें.

शौनकाक ताची इतली अपुरबाय दिसली... मामागेर वचपाचे खुशींत ताणें आपले तांबडें बॉल पेन रसिकाक दिवन उडयलें. तेंय बी दादाच्या पोल्यार पापी दिवन खोशयेन उडक्यो मारीत, नाचत गेलें.

फाल्यांचो दीस... परवां मामा येतलोच म्हाका व्हरपाक... मागीर हांव मामागेर... मज्जाच मज्जा... शौनकान चिंतलें.

पूण सकाळीं उठून मम्मी कमरार हात धरून उबी! कपलाक आंठयो... दोळ्यांत आग... शौनक अजापलो. सकाळीं सकाळींच मम्मीचें हें रूप पळोवपाची ताका संवय नासली. ''उठ रे राजा, चल बेगीन तोंड धूय, शाळेंत वचपाक वेळ जातलो...'' अशें म्हणून उठोवपी मम्मी आज पांगरूण ओडून शी उठयता!! ताका कांयच समजलें ना. तशें मम्मीनच ताका हाताक धरून ओडीत हॉलांत व्हेलो आनी वण्टीर बोट दाखयलें.... फाटींच दिवाळेकडेन सुंदर रंग काडून घेतिल्लो हॉलाच्यो वण्टी तांबड्या पेनान भिरकटावन भिरकटावन सामक्यो बुरशो करून

उडयिल्ल्यो.

‘‘पूण मम्मी... हांवें न्ही...’’

‘‘आनी पेनां कोण हांव वापरतां?’’

‘‘पूण मम्मी, हांवें तांबडें पेन रसिकाक दिल्लें...’’

‘‘तोंड पळयात पेन दिवप्याचें!... तूं आनी रसिकाक पेन दिवपी? काल ताणें मातशें पेन हातांत काडल्यार तुवें ताका कशें रडयलें... म्हाका याद ना काय कितें?’’

आतां मम्मीकडेन कशें उलवपाचें हेंच ताका समजना जालें.

‘‘पूण मम्मी...’’

‘पूण बीण कांय ना. चड जाली तुजी मस्ती. आतां तुका ख्यास्त ही जावंकच जाय... खंयच वच्चो ना तूं आज खेळूंक...’’

शौनक येवजिता... आयचो दीस ख्यास्त... फाल्यांच्यान हांव मामागेर... मनांतले विचार केन्ना ओंठार आयले आनी तो उलोवन गेलो ताकाच कळ्ळें ना.

पूण मम्मीन आयकलें न्ही...

‘‘खंयच धाडना तुका... मामागेर बी...! सगळी सुटी हांगाच... घराच रावप...’’ मम्मीन रागान म्हळें.

आतां मात शौनक सामको निर्शेलो. मम्मीचें हें सदचेंच! मम्मी म्हजें कांय म्हळ्यार कांयच आयकून घेना... सदांच म्हाकाच तापयता...

– व्हडान रडचें कशें ताका दिसलें.

पूण रडप कोणें चलयां भशेन? पप्पान आयकल्यार म्हाका हांसचो ना? ताणें हाताची मूठ तोंडांत घाली आनी हुंदको भितरच दाबून धरलो. मम्मीन ताच्या तोंडातली मूठच ओडून काडली. रडपाचो उमाळो कस्सोच आटापा येन जावन शौनकान पेंपारें चालू केलें.

शौनकाक रसिकाचो राग–राग येता. भयण जाली म्हूण कितें जालें? ल्हान जालें म्हूण कितें जालें? सद्दां उठून ताचे बदला म्हाका उलोवर्णी?

शौनकान रसिकाचे गुबगुबीत पोले धरून बरेच चिमटायले. रसिका रडूंक लागलें. मागीर मम्मीचें एक थापट पडलेंच कुल्यार.

‘‘ताका आनी कित्याक मारता? आनी आतां रडून दाखयनाका म्हाका. चल,

तोंड धूय बेगीन.''

देवा म्हज्या! आज शाळाय ना. ज्युस्त नाका त्या दिसा ही सुटी... आज शाळा आशिल्ली जाल्यार हांव वचचों नाशिल्लों बेगीन पप्पाबरोबर...

मागीर शौनकान मोन्यांनी उठून तोंड धुलें. मम्मीन टोस्ट दिले ते खाले... दूद पिलो आनी भायर वचून ओग्गी बसलो.

इतल्यांत प्रसन्नाची आजी आयली. तिका सगळीं ताईबाय म्हणटात. शौनकाक ती मात्तय आवडना. सद्दां उठून घरांतल्यो खबरी मम्मीक सांगता. मम्मी बरी सोंशिकपणान सगळें आयकून घेता ओग्गी रावन... प्रसन्नाचे मम्मीच्योच खबरी चड सांगता. ह्यो म्हूण चाडयो न्हय काय कितें? मागीर मम्मी ओग्गी रावन आयकता कशी तर? आनी हांवें कसलीय खबर सांगल्यार ''अशो चाडयो करूं नये रे...'' म्हूण शिकयता ती!

येतनाच ताईबायन रसिकाक उबारून वेंगेंत काडलें आनी ताच्या पोल्याची पापी घेतली. रसिकाल्या गुबगुबीत, गोऱ्या गोऱ्या पोल्यांक हात लावन ती म्हणूंक लागली, ''शोभा, हें रसिका इतलें गोरें पिट्ट... सुंदर... आनी हो शौनक असो काळो कसो गो?''

त्याबरोबर मम्मीन म्हळें, ''शौनक मातसो काळो-सांवळो न्ही? जिवान सामको हाडकुटो... म्हणून चड काळो दिसता.''

''काय सुपभर कुंड्याक विकतो घेतला गो ताका?'' ताईबाय शौनकाच्यो मस्कऱ्यो करूंक लागली.

शौनकाची मम्मी गोरी गोरीच! पप्पा मातसो सांवळो. शौनकाक आयडिया आयली. ताणें ताईबायक सांगलें, ''ताईबाय, रसिका मम्मीच्या पोटांतल्यान आयलां न्ही? तें मम्मी भशेन गोरें गोरें! हांव पप्पाच्या पोटांतल्यान आयलों - म्हणून हांव काळो...''

मम्मी आनी ताईबाय पोट फुटसर हांसूंक लागलीं. शौनकाक आपलें कितें चुकलें तेंच कळ्ळें ना. इतल्यांत पप्पा ऑफिसाक वचपाक कपडे करून बी भायर आयलो. मम्मी हांसता तें पळोवन ताणें विचारलें, ''कितें जालें गो शोभा? इतलें हांसता कित्याक?''

''पळय न्ही, शौनकाचें एक-एक! रसिका खंय मम्मीच्या पोटांतल्यान आयलां म्हणून तें गोरें... आनी तो खंय पप्पाच्या पोटांतल्यान आयला, म्हणून

तो काळो..."

पप्पान मागीर शौनकाक वयर उबारलो. "म्हज्या पोटांतल्यान आयला रे तूं राजा? अशें म्हणून वेंगेंत घेतलो." तशी शौनकाची लज, राग सगळें सगळें खंयचे खंय नाच्च जालें. ताणें आपल्या धाकटुल्या हातांनी पप्पाच्या गळ्याक घट्ट वेंगावन रसिकाक जीब दाखयली.

पप्पा ऑफिसाक गेलो... मम्मी किचनांत गेली. शौनकाक कितें करचें तेंच कळना जालें. ताका खेळपाक वचनाका म्हळां...

इतल्यांत अर्जून आयलो. "चल रे शौनक, गड्ड्यांनी खेळया चल..." ताणें म्हळें.

"हांव येना..." शौनकान म्हळें.

"चल, यो मरे, आयचो दीस खेळया. फाल्यां तूं मामागेर वचपाचो न्ही?"

"ना रे, मम्मी म्हाका धाडना खंय.. रसिकान तांबड्या पेनान भिरकटावन हॉलाच्यो वणटी बुरश्यो करून उडयल्यात... आनी मम्मी म्हाकाच उलयता... हांवेंच केल्यात त्यो बुरश्यो म्हणटा.... सदांच अशेंच करता ती.... रसिकाक कांयच उलयना.... म्हाकाच उलयता..." उलयतां उलयतां शौनकाचो गळो भरून आयलो. मागीर अर्जुन थंयच ताच्या म्हऱ्यांत बसलो आनी सेग्रेद सांगिल्ले भशेन ल्हव आवाजांत ताणें म्हळें, "कळ्ळें म्हाका, तूं पोसको!"

"म्हळ्यार कितें?"

"काकील्या वसंता भशेन रे! काकीगेर भुरगें नाशिल्लें तेन्ना तिणें वसंताक आपले भयणीकडच्यान मागून घेतिल्लो खंय! ताका पोसको केलो... मागीर तिगेर रतन तिच्या पोटांतल्यान जालें खंय! वसंत काकीच्या पोटांतल्यान येवंकच ना... म्हणून ती रतनाच्यो अपुरबायो करता आनी वसंताक मेळटा त्या कामात तापयता... वसंतच सांगतालो म्हाका."

"पूण हांव पप्पाच्या पोटांतल्यान आयलां मरे."

"पिशा, दादल्यांच्या पोटांतल्यान भुरगीं येनात."

"पूण हांवें येदोळ ताईबायक लेगीत सांगलां... पप्पाय बी हयच म्हणटालो."

"तो तुजीं फकाणां करतालो दिसता..."

मागीर शौनकाची तकली उसळपाक लागली. ताका मम्मीचो राग आशिल्लोच... पप्पाचोय ताका राग आयलो.

"हांवूय कांयच आयकुचों ना मम्मीचें आतां..."

मम्मी भितर आसाशी पळोवन तो हळूच अर्जुनाबरोबर खेळपाक गेलो. पावसाळो केन्नाचो सोंपिल्लो. पूण काल एक व्हडली दडक पडिल्ली पावसाची! सगळ्याक चिक-चिक आनी रेबो... तातूंतच हांचें गड्ड्यांनी खेळप चलतालें. आतां मुकेश आनी चंदनय खेळूंक आयले. शौनकाचें मन खेळांत नाशिल्लें. तो चिंततालो... "खरेंच काय हांव पोसको? काय येदोळ ताईबाय म्हणटाली तसो सूपभर कुंडो दिवन..."

शौनकाचो गड्डो मिलांत वचच ना. ताचेर हार येता... ताका 'घूस... घूस...' करतकच हातांनी गड्डो मिलांत घुसवचो पडटा. ताचीं धोपरां, हात चिखलान, रेब्यान भरतात. ताका वीट दिसता. तो हात तशेच आपले पँटीक पुसता... आतां पावसय शिरशिरूंक लागला... पूण तांचो खेळ चालूच! मागीर शौनकाक शिंकेर शिंको येवंक लागल्यो...

"शौनऽऽक.. एऽ शौनऽऽक... जेवपाक येता मरे? काय दीसभर खेळूच आज?"

मम्मीन सादायलें तसो शौनक धांवतच घरा गेलो. ताची ती चिखलान भरिल्ली अवतिकाय पळोवन मम्मीक सामकी तिडक मारली... हातपांय बुरशे, चिखलान भरल्यात... पँटीची वाटच लागल्या... ती म्हणटा, "चल पयलीं बाथरुमांत... न्हा बेगीन... कपडे बी सगले वेगळेच कुशीन दवर... बाकिच्या कपड्यांत भरशिनाका..."

शौनकाक वायट दिसलें. मम्मी म्हजो राग-राग कित्याक करता असो म्हजे कपडे वेगळेच दवर म्हणटा... खरोच काय हांव पोसको? काय बरो हांव मामागेर वचपाचों, थंय धाडना म्हणटा..."

तो रागानच न्हालो... जेवणय विचकावन उठलो. ताचे जिबेक रुचच नाशिल्ले भशेन जाल्ली.

"शौनक, पानार सांडूंक जायना... अन्नाचो अपमान जाता... खबर ना तुका? जेव सगळें मोन्यांनी... असो जेवना जाल्यार व्हडलो कसो जातलो रे तूं?"

मम्मीन अशें सांगतकच ताणें नाका आसतना ताटांतलें सगळें शीत पोटांत

भरलें. ताका धवळिल्ले भशेन जावंक लागलें पोटांत... तो मोरयेंत गेलो आनी बकाबक ओंकलो. ताची तकली चडच फोडपाक लागली.

मम्मी रसिकाक भरयताली ती उठून धांवतच आयली. "कितें जालें रे?" म्हणूंक लागली.

"तकली उसळटा..." शौनकाक सांगलें.

मम्मी बेजारिल्लीच आशिल्ली. "वतांत खेळ पयलीं... मागीर पावसांत नाच... खेळूंक वचनाका म्हणिल्लें न्ही तुका? कांय ना... खंयच्यान म्हाका त्रास दिवंक येता तें पळय..."

रसिका रडूंक लागलें. तशी ती ताका भरोवंक गेली.

शौनक रागारागान बेडरुमांत वचून न्हिदलो. थंयच ताका न्हीद पडली. तिनसांज जाली तरी तो न्हिदूनच आसलो.

पप्पा ऑफिसांतल्यान घरा आयलो. "शौनक खंय तर?" ताणें विचारलें. शोभा रागनच आसलें. ताणें म्हळें, "पळय अजून शौनक घरा आयला जाल्यार! सुटी आसल्यार असो दीसभर खेळ..."

"येतलो, अर्जुनागेर बसला जातलो खेळत..." पप्पान बूट-मेय काडीत म्हळें.

च्या पिवन जाली तरीय शौनकाचो पत्तो ना, हें पळोवन पप्पाय बेजारलो. सहज म्हणून बेडरुमांत गेल्यार शौनक कुरगुंटी करून खाटीर पडला. आंगाक हात लायल्यार आंग खतखतता.

"शोभा, हाका जोर आयला मुगो!"

"कितें?" शोभा धांवतच बेडरुमांत आयलें. "आरे देवा, आनी सगळो वेळ हो हांगाच न्हिदिल्लो आसा? हांव समजल्लें..." चड कांय उलयनासतना शोभा धांवन वचून कॉलन वॉटराची बाटली, उदक घेवन आयलें आनी शौनकाच्या कपलार थंड उदकाची घडी पडनाका, शौनकान तकली हालयली आनी जोरांत बडबडूंक लागलो. पप्पान दोतोराक फोन केलो.

"राजा, कितें जालें रे? तकली चड उसळटा?" शोभान शौनकाक वेंगायलो.

"मम्मी, हांवें न्ही गे... हांवें न्ही गे वणटीर भिरकटायलां... हांवें रसिकाक

तांबडें पेन दिल्लें गे..."

"हय रे राजा... हांवें पळयलें... रसिकाच्या हातांत..." शोभाक आतां रडूंक येवंक लागलें.

"ताईबाय सांगता... म्हाका विकतो घेतला म्हणून..."

पप्पान मागीर शौनकाक वेगेंत काडलो तसो तो पप्पाकडेन उलोवंक लागलो. "पप्पा, मम्मी म्हाका मामागेर धाडना म्हणटा... पप्पा, म्हाका मामागेर धाड न्ही...!"

पप्पान शौनकाक थापटीत म्हळें, "शौनक, तुका आतां जोर आयला न्ही? आतां दोतोर येतलो... तुका वखद दितलो. तू बरो जातलो. तुजो जोर गेलो तसो तुका हांव मामागेर धाडटलों... आतां न्हीद हां... न्हीद..."

"पप्पा, म्हाका सगळे कळ्ळें. हांव तुज्या पोटांतल्यान येवंक ना न्ही? हांव पोसको... काकीले वसंता भशेन... हय मरे? म्हाका सगळें खबर आसा..."

शौनकाची बडबड आयकून शोभाक रडपाचो उमाळ्यार उमाळो येवंक लागलो. एका हातान रडटल्या शोभाक थातारीत, दुसऱ्या हातान शौनकाक थापटीत पप्पा हतबुद्दसो सत्यभास काडिल्ले भशेन शौनकाक पळेतच उरलो.



# 18

# व्यथा

वंदनान अजापान घोवाच्या तोंडाक पळयलें. हरशीं सभावान कितलो थंड.... कितलो मोगाळ... म्होंवाळ उतरांचो हो मनीस... आवयचें नांव काडल्यार इतलो कित्याक खुबळटा हेंच ताका समज नासलें. आवय तर अशी की पुताक ऑफिसांतल्यान येवंक मातसो वेळ जाल्यार सकल वयर जाताली.

''वंदन, सोमेश आयलो ना मगो अजून! फोन बी केल्लो गो ताणें, वेळ जातलो म्हणून...?'' अशें कितें कितें विचारीत रावताली वंदनाक. सोमेशाली कार दारा मुखार पावसर तिचो जीव थाऱ्यार नासतालो.

जेवणा-खाणाक लेगीत सोमेशाचे आवडिचेंच रांदूंक सुचयताली. केन्नाय नुस्तें बी हाडूंक वाज आयल्यार वंदन दाळचो रोस करतालें. तर हिणें रोखडेंच म्हणचें, ''सुक्या बांगड्यांची किसमूर कर गो वंदन! सोमेशाक दाळच्या रोसा बराबर किसमूर खूब घोस्ताची!'

वंदनान पोळ्यांक तांदूळ फुगत घालतां म्हळ्यार तिणें म्हणचें, ''उकडे तांदूळ घाल. सोमेशाक उकड्या तांदळांची कांद्याची भाकरी खूब आवडटा. बरोबर इल्लें लोणी दीत जाल्यार सामको राजा तो!''

पयलीं पयलीं वंदनाक दिसचें, हिकाच हें खायन दिसता जावंये. पूण ताणें पळयलें, तिणें सांगिल्लें कितेंय तें करतालें तेन्ना खावपाक तिका व्हडली रुचच नासताली. ओगीच इल्लें खाल्ले भशेन करताली. पूण रांदिल्लें सोमेशान पोटभर खातकच मात तिचें तोंड सामकें फुलतालें.

इतली मायेस्त आवय, पूण सोमेशाचें तिचेकडेन चड उलोवपच नासलें. ओगीच 'हय... ना... बरें आसा...' असलें नांवा पुरतें उलोवणें. केन्नाय मायेन

आवय म्हऱ्यांत बसून बऱ्यो गजाली केल्यो, तिका जाय नाका कितेंय विचारलें अशें केन्नाच नाशिल्लें.

वंदनाक सोमेशाचें अशें वागप विचित्रच दिसचें.

वंदनाची तर मांय विशीं कांय तक्रार नाशिल्ली. मांयची ताका घरकामांत खूब मदतय जाताली. नितीन तर दिसभर तिचेच भोंवतणीं आसतालो. नितीनाक न्हाणोवप, ताका लावप, बरे कपडे करून गार्डनांत पासयेक व्हरप... सगळें ती अपुर्बायेन करताली. नितीनय आजयेचो खूब मोग करतालो.

अशें आसताना सोमेशाच्या मनांत तिचे विशीं कसलें किल्मीश आसा तेंच वंदनाक समज नासलें.

आनी आज अकस्मात ऑफिसांतल्यान येना फुडें सोमेशान म्हळें, ‘‘वंदन, म्हाका प्रोमोशन मेळ्ळां गो! पूण बदली जाल्या. पयस अहमदनगराक...!’

‘‘अहमदनगराक? इतले पयस?’’ वंदनाक गोंय सोडून वचप म्हळ्यार जिवार आयिल्ले भशेन जालें. ताची सगळीं सोयरीं-धायरीं गोंयांतूच! ह्या आयताराक नली मावशेगेर, त्या आयताराक सुमुलीमावशेगेर, मर्दीच कमाक्कागेर, म्हयन्याभराक चार दीस कुळारा वचून रावप अशें सदांच चलतालें ताचें. आतां इतलें पयस परकी शारांत वचप? येवजुनूच वंदनाक कलकलपाक लागलें.

‘‘तुज्यान ऑर्डर कॅन्सल करून घेवंक जायना? वयर तुज्यो इतल्यो वळखी! कोणाकय सांगून पळय न्ही...!’

‘‘प्रोमोशन मेळचें ना...’’

‘‘नाका मेळूं. आमकां हांगां कितें कमी आसा म्हणून चड पयशांक लागून देशांतराक वचून पडप?’’

‘‘तूं केन्नाच समजुचें ना... म्हाका जायच आसली बदली...’’

‘‘पूण कित्या खातीर?’’

‘‘सांगतां तुका मागीर एक दीस. पूण सध्याक वचपाची तयारी कर आमची. आनी आतां मम्मीची व्यवस्था करची पडटली न्ही...!’

‘‘मम्मीची व्यवस्था? म्हणजे? मम्मी येवची ना तर आमचे बरोबर?’’

वंदनान अजापान सोमेशाच्या तोंडाक पळयलें.

‘‘तिका आनी थंय पयस व्हरपाचें आसा? तिचें जालां जाणटेपण. त्या परकी

गांवांत तिका आनी कित्याक? तिची व्यवस्था करतां हांव वृद्धाश्रमांत.''

घोवाचेर हो कसलो सांवार आयला तेंच वंदनाक कळना जालें.

आवयची वृद्धाश्रमांत व्यवस्था? ह्या वयांत तिका दुसरेकडेन दवरप?

आनी फाटल्यान उबी रावन मांय हें सगळें आयकता तें पळोवन वंदनाचो आवरोच उडलो. कितें उलोवचें तेंच ताका कळना जालें. सोमेशान मात कसलीच भीड-मुर्वत धरनासतना तिका सांगलें, ''मम्मी, तुजें सामान बांदपाक लाग आं... कर तयारी...'

सोमेशाचे आवयचें तोंड धवेंफुल्ल पडिल्लें. थरथरिल्ले भशेन तिणें एकदम कदेलार बसकणच घेतली.

''सामान बांदपाचें? खंय वचपाचीं आसात आमी... केन्ना?...'' तिणें विचारलें.

''आमी न्ही गे... तूं... म्हजी बदली जाल्या न्ही... आमी चल्लीं अहमदनगराक. तुजे खातीर स्नेहमंदिराचो फॉर्म हाडला हांवें. एकदम फस्टक्लास जागो जाणट्यांक रावपाक.''

''नाका रे... ह्या वयांत म्हाका... आनी नितीनाकडेन किरायले बगर म्हाका उंडी लेगीत ताळ्या सकयल देंवना... ताका दोळ्यांनी पळयलें बगर जिवाक सूख लागना म्हज्या... सोमेश, नाका रे... म्हाका ताचे पसून पयस करूं नाका...''

ते बरोबर सोमेशाचें गोरेंपिट्ट तोंड एकदम तांबडेंच जालें. खरखरीत आवाजांत ताणें म्हळें, ''संवंय जातली तुका. चार दीस याद येता. मागीर आपशींच संवंय जाता... खरें काय न्ही? तुजींच उतरां... याद जातात तुका?''

दर एका उतरार नेट दीत सोमेश खरसाणेन, तिडकीन उलयतालो. आवयन कच्च करून आंग काडून एकदम सोमेशाच्या तोंडाक पळयलें. सोमेशाचे दोळे कसल्या तरी यादिंनी खतखतताले.

आवयन ताका कितें तरी सांगपाक तोंड उकतें केलें. पूण तो फट् करून थंयच्यान उठूनूच गेलो.

हाता-पायांतलें त्राण गेल्ले भशेन तिणें सोफार घालून घेतलें. तिच्या काळजांत कलकलपाक लागलें. ''वंदन...'' तिणें कसो तरी सुनेक उलो केलो. ''वंदऽऽन.''

वंदन रांदचे कुडींत आशिल्ले. आवय-पुताच्या उलोवण्यांत आपलें उतर मर्दी पडुंनये म्हणून ते पयसच राविल्लें. ताणें मांयच्या उल्या सरशीं हॉलांत धांव मारली.

''मम्मी, कितें जाता तुका? राव आं, उदक दितां...'

मेजार आशिल्ल्या जगांतलें उदक ग्लासांत ओतून वंदनान तो ग्लास मांयच्या तोंडाक लायलो. तिच्या दोळ्यांक उदक लायलें.

'चल मम्मी, तूं भितर वचून मातशी आड पड पळोवया... आंग-पांग सगळें थंड पडलां पळय तुजें... दोतोराक फोन करतां हांव...'

''नाका गो बाय... दोतोर बी कोणच नाका. हें देहाचें दुखणें जाल्यार दोतोराक आफोवपाचें. पूण मनाचें दुखणें...'' आनी ती होः होः करून रडपाकच लागली.

वंदनाक कितें करचें तेंच कळना जालें. ताणें पदरान मांयचे दोळे पुसले. तिका थातारीत थातारीत उठयली आनी भितर तिचे कुडींत व्हरून न्हिदयली.

''तुका च्याचो घोंट करून दितां पळय आत्तां.'' वंदन भितर वचूंक लागलें तशें मांयन ताच्या हाताक घट धरलें.

''नाका... च्या बी कांयच नाका. तूं बस मातशें म्हजे म्हऱ्यांत. आतां सोंसना म्हाका...'

''मम्मी... मनाचें दुखणें म्हणटा न्ही तूं... मनांतलीं दुख्खां दुसऱ्याक सांगून उडयल्यार आपशींच कमी जातात...'' वंदन खाटीर बसलें.

वंदनाचो हात आपल्या हातान घट धरीत ती उलोवंक लागली. ''म्हजेच करणेचे भोग हे... म्हाका भोगचे पडटात.... भुरग्याचें मन इतलें खर आसत अशें हांवें केन्नाच येवजूंक नाशिल्लें...'

वंदन ओग्गी मांयचे म्हऱ्यांत बसून रावलें. आनी वंदनाची मांय आपलो ओग घालीत रावली.

आपली आख्खी संवसारीक जीण वंदनाचे मांयच्या दोळ्यां मुखार रावली –

सुनीलाचें लग्न ठरलें आनी सगळींच ताच्या नशिबाक तोखेवंक लागलीं. पुरत्यान सुनीलाचे आवयक चडच खोस जाली. इतल्या ल्हान वयार बँकोच मॅनेजर,

केतन दिसुंकूय गोरो आनी राजबिंडो आसलो. खासा आपलो बंगलो, दारांत कार आनी भाव-भयण कोणच नात. आवय-बापूय आनी केतन. 'सुनीलान आपले सुंदरकायेचेर नशीब काडलें. ना जाल्यार पोस्टांतल्या कारकुनाची चली... घालप-करप कांयच नाका करून कोण गिरेस्त करून घेतलो आसलो?' अशेंच सुनीलाचे आवयक दिसतालें. सुनील तर सामकें भुल्लुसून गेल्लें. सुनीलाचे सुंदरकायेन आनी लागोळ्या वागपान केतन तर सामको सुनीलमय जाल्लो.

मांय-मांवान तर सुनीलाक सामकें माथ्यार घेतिल्लें. आपले सोबीत सुनेच्यो कसल्यो तोखणायो करूं आनी कसल्यो नाका, अशें माईक - केतनाचे आवयक जातालें. घरांतल्या कसल्याच कामाक हातबोट घालूंक लेगीत दिना आसली माई सुनीलाक! फकत राणी कशें सुनील त्या घरांत वावुरतालें.

आनी सोमेशाचो जल्म जायत सावन तर माई-आबाचे खोशयेक शीममेर उरली ना. सोमेशाचें करपाक, ताका न्हाणोवपाक खेळोवपाक, आल्लयो म्हणून न्हिदोवपाक माईक दीस पावनासलो. तिची सगळी जिणच सोमेशमय जावन पडिल्ली.

सुनीलाकय तें पथ्यारच पडिल्लें. भुरग्याचें सगळें माई करता म्हणटकच सुनील केतना रोबर पाट्र्योंनी वचूंक, वीकएण्डाक बऱ्या बऱ्या हिल - स्टेशनांनी वचूंक, क्लबांनी वचूंक सदांच मेकळें आसतालें.

"सुनील, तुका पळयल्यार तूं एका भुरग्याची आवय कशें दिसचना... कशें गो जमता तुका अशें रावपाक?" सुनीलाच्या फ्रँडांक ताची सदांच अपुरबाय दिसताली.

सुनीलान फकत हांसचें!

व्हड जातां जातां सोमेशाक माई म्हळ्यारच सर्वस्व जाल्ली. माई बगर दुसऱ्या कोणेंय न्हाणोवप ताका मानव नासलें. माईनच ताका जेवण लावंक जाय आसलें. माईनच थापटून, गावन न्हिदोवंक जाय आसलें.

ह्या सुखाच्या संवसारांत पयली दुख्खाची कीट पडली ती आबाक अॅटॅक आयलो तेन्ना. आबाची कूड उजवे वटेन सामकी धरली. माईक मागीर आबाचें करूंक दीस पावना जालो. घरच्या कामांत सुनीलाक लक्ष घालचें पडलें.

"बाय सुनील, कुकर लायला तो मातसो पळय गो... हांचें आंग पुसून काडटां हांव..."

“सुनील, चपात्यो करता मातश्यो? हांकां बॅडपॅन दिवंक वतां...”

सुनीलान मागीर पोले फुगोवन घोवा कडेन कागाळ्यो करच्यो. “पळय, म्हज्या हातार ऊब आयली... पळय न्ही, बोटच हुलपलें रोटी फुलयतना... बोट कापलें पळय भाजी शिनतना...”

केतनान मागीर फूलटायम बायल कामाक दवरली. रांदप–करप सगळें तिणेंच करपाचें.

सोमेशान सुनीलाकडेन न्हाणोवन घेतना व्हडल्यान रडप. “माई काय बरी न्हाणयता... तूं दोळ्यांत शाबू घालता... म्हाका माईनच न्हाणोवंक जाय...”

“...माई, आबाक जेवण लावन जातकच म्हाका लाय न्ही...”

सोमेशान माईचे फाटल्यान लागचें.

“बाबू, वेळ जातलो तुका, भूक लागतली. चल, शाणो तो म्हजो...’ तुजी मम्मी लायतली आं तुका शाण्या...” माईन म्हणचें.

“ना... ना... म्हाका तुवेंच लायल्यार हांव जेवतलों.” सोमेशान हट्टान माईकच जेवण भरोवंक लावचें.

सोमेशाक आपले परस माईच चड जाय हें पळोवन सुनीलाक आतां माईचो रागच येवंक लागलो. घराकडेन लक्ष दिवचें पडिल्ल्यान ताच्या सोशल लायफाक मार बशिल्लो तो खेरीजच!

एक दीस सोमेश इश्कॉलांतल्यान आयलो तोच माईक सोदूंक लागलो.

“माईऽ... माई मज्जा दाखयतां पळय...”

माई आबाचें आंग पुसताली म्हणून सुनीलान सोमेशाक मदींच आडायलो. “माई आबाक न्हाणयता... म्हाका दाखय तुजी मज्जा...” आनी अपुरबायेन ताका वेंगेंत ओडलो.

“तुका मागीर... पयलीं माईकच दाखयतलों...” अशें म्हणून सोमेश तस्सो सोफार बसून रावलो. माईचें काम सोंपसर...!

सुनीलाची तकली सामकी सणसणली. “चड हट्टी जाला तूं? राव, पप्पाक येवंदी तुज्या. आवयचें आयकना?” सुनीलान थापट मारूंक ताचेर हात उबारलो, इतल्यांत माईच रुमांतल्यान भायर सरली.

“आगो सुनील, जालें कितें?.. बाबू... शाण्या कित्याक उलो मारतालो?”

"माई, हें पळय... म्हाका पयलें बक्षीस मेळ्ळें उलोवपाचें सर्तींत..."

ताणें बॅगांतल्यान कप काडून माईक दाखयलो.

माईन दोनूय हातांनी ताका वेंगायलो. "असोच खूब बक्षिसां मेळय आनी शिकून व्हडलो जा..." तिणें आशिर्वाद दिलो.

"मम्मी, पळय न्ही, म्हाका प्रायझ कितें मेळ्ळां तें...!" सुनीलाच्या कमराक वेंग मारून सोमेशान कप सुनीलाच्या दोळ्यां मुखार धरलो.

"आतां कित्याक दाखयता म्हाका? तुजे आज्जेकच दाखय तो..."

सुनील रागान ताका धुकलून थंयच्यान गेलें.

दिसानदीस सुनीलाची मांयचे विशिंची तिडक वाडत वताली. मागीर तर ताका मांय दोळ्यां मुखार नाकाशी जाली. बारीकसारीक कामांकतें मांयचेर चिडचिडूंक लागलें.

"सुनील, बाय, घोंटभर काफी करता गो? हुनहुनीत-शी... ताळो सामको सुकिल्ले भशेन जाला..."

"आतां काफीय बी हांवेंच करून दिवंक जाय? तुमकां करून घेवंक येना?" सुनीलाच्या कपलाच्यो आंठ्यो पळोवन माईन मागीर आपणेंच काफी करून घेतली. आतां हें सदचेंच जाल्लें.

आबाक दुसरो ॲटॅक आयलो आनी आबा हो संवसार सोडून गेलो. माई सामकीच सतरवितर जाली. हार्लिसाराक तिका याद उरनासली. कसलीच... आतां तर ती सामकीच पिशार पडिल्ले भशेन जाली. आत्तां केल्लें आत्तां याद उरना... कितेंच करूंक उमेद येना... अशी माई फकत सोमेशाकडेन सारकी उलयताली. सोमेशय माईक पातये नासलो.

तांतूंत केतनाची बदली जाली. सुनीलान केतनाक सांगलें, "पळय, हिचीं पिशेपणां आजवेर सोंसलीं हांवें. म्हज्यान जाता तशें हिचें केलें. पूण आतां दुसऱ्या गांवांत वता थंय ही म्हाका नाका आमचे बरोबर! हिची खंयूय वृद्धाश्रमांत बी तुमी सोय करात... बांदोडें काय खंय पळय तो वृद्धाश्रम आसा... स्नेहमंदिर... बरो आसा खंय... हांवें वासपूस केल्ली."

"आगो, पूण सुनील... ह्या वयार तिका वृद्धाश्रमांत दवरप म्हणजे..."

"तें तुमी म्हाका कांयच सांगुंनाकात! म्हज्यान तिचीं हीं पिशेपणां आतां सोसूंक

जायनात. हिचे संगतीन हांवच पिशार पडटलें एक दीस. मागीर कळटलें तुका...'' आनी सुनील रागान थंयच्यान उठुनच गेलें.

मागीर केतनाचो उपाय ना जालो. ताणें वृद्धाश्रमांत वचून वासपूस केली. थंयचीं मनशां रूम, व्यवस्था सगळें पळोवन आयलो. बरोबर सुनील आशिल्लेंच.

''काय बरो जागो, न्ही? आनी सगळीं जाणटीं मनशां एकामेकांक सांगात दितात. माई हांगा रमतली आनी सुधारतली लेगीत...'' सुनीलान म्हळें.

केतन ओगीच रावलो. तो चिंततालो, माई सोमेशा बगर कशी जियेतली? आनी सोमेश?

माईक वृद्धाश्रमांत दवरपाक व्हेल्या त्या दिसा सोमेशान केला तो आकांत...!!!

रडून आड्डून सगळें घर ताणें माथ्यार घेतिल्लें. 'हांव माई बरोबर वतलों' हो एकच ध्यास ताणें घेतिल्लो. रडून रडून ताचें आंग सामकें थंड किरांव पडिल्लें.

आनी माई? थरथरत तिणें बाबूच्या माथ्यावेल्यान हात भोंवडायलो. ताची पापी घेतली. ''बाबू, बरो करून शिकून व्हडलो जा आं... मस्ती करूंनाका आं...'' उलयतां उलयतां तिचो गळो भरून आयलो. पुता कडेन भरिल्ल्या दोळ्यांनी पळयत तिणें ताका विचारलें, ''केतन, हांव बाबू बगर कशें जियेतलें रे?''

केतनाचे दोळे भरून आयले. अश्या वेळार सुनीलानच काळीज घट केलें आनी म्हळें, ''संवय जातली तुमकां... चार दीस याद येता... मागीर आपुणच संवंय जाता...''

माईन आनी सोमेशान दोगांनीय सुनीलाच्या तोंडाक पळयलें. माईची हताश, निर्शेल्ली, काकुळटेन याचना करपी नदर आनी सोमेश – ताचे इल्लेशे जिणेक दुख्ख म्हणून कितें आसता हें अजून मेरेन खबरच नाशिल्लें – शॉक बशिल्ले भशेन तो थिजिल्ले नदरेन आवयच्या तोंडाक पळयत राविल्लो.

वृद्धाश्रमांत वतकच माईन एक म्हयनो लेगीत काडलो ना. एक दीस रातचो फोन आयलो केतनाक – आवयक मेळून वच म्हणून. केतन लीव्ह सुद्दां घेनासतना तश्या तसो धांवन गेलो. बरोबर सुनील आनी सोमेश. माईच्या रुमांत पावना फुडें सोमेशान 'माई गेऽ' म्हणून धांवत वचून तिका वेंग मारली. तेन्ना माईन दोळे उकते करून सोमेशाकडेन पळयलें, हांसली आनी दोळे धांपले ते सासणाचेच! तोंडार मात तृप्त हांशे आसलें.

त्या दिसाच्यान सोमेश आपलेच भितर, आपलोसो आपूण, भुरगेपण शेणिल्लो भुरगो कसो! केतनान सुनीलान यत्न केलो ताणें पयलीं भशेन जावचें, हांसचें-खेळचें, हट्ट करचो, कितेंय मागचें म्हूण... पूण ना तें ना! भुरगेपण शेणिल्लो तो भुरगो मागीर अभ्यास एके अभ्यास करीत सगळ्यो परीक्षा पयल्या नंबरांनी पास जालो. एम. बी. ए. क हायॅस्ट आयलो आनी बापायभशेन ताणें बँकेंतूच नोकरी धरली. आपले आवडिचे चलयेकडेन लग्न जालो. वंदन घरा आयलें आनी दोन वर्सां भितर नितिनाचो जल्म जालो.

केतनाक मरण बरें आयलें. व्ही. आर. एस्. घेतल्या त्या दिसा ताणें घरा व्हडली पार्टी केली. सगळ्या सोयऱ्यांक, इश्टांक, कलिगांक आपोवन खोस मनयली. आनी रातीकडेन न्हिदिल्लो तो केतन सकाळीं उठलोच ना...

आपले संवसारीक जिणेचो हो सिनेमा वंदनाची मांय दोळ्या सामकार हाडून वंदनाक सांगत रावली... वंदनाचो घट्ट धरिल्लो तो हात तिणें दुकांनी न्हाणयलो. रडून रडून दुकां सोंपिल्ले भशेन जाली तशी ती जीव नाशिल्ले वरी पडून रावली. आनी वंदन...!!! ही काणी आयकून ताचो आवंगाय उडिल्लो.

आपले कडेन, नितीनाकडेन वागतना इतल्या म्होवाळ काळजाचो सोमेश आपले आवयकडेन वागतना इतलो रखरखीत सुको सडो कित्याक जातालो हाचें कुवाडें वंदनाक आज सुटिल्लें.

खिणभर तें चिंतत रावलें. मागीर कितें तरी येवजून ताणें म्हळें, "मम्मी, तूं चिंता करूं नाका. सोमेशाक कितें सांगपाचें तें हांव पळयतां. तूं आमचे बरोबर अहमदनगराक येतली, ना जाल्यार आमची बदलीच कॅन्सल जातली."

"कितें तरी कर गो वंदन... ना जाल्यार हांव वांचचें ना गो... कसो तरी समजाय ताका."

मांयचे दोळे पुसत वंदन उठलें. "आतां हांव आसां न्ही, तूं कितेंच चिंतुनाका आतां... हांव च्या करतां..." आनी मांयन नाका म्हणचे पयलीं ताणें म्हळें, "म्हाकाय जाय."

दुसऱ्या दिसा सकाळींच सोमेस ताकतिकेन भायर सरतालो. वंदनान दिल्लें च्याचें कॉप तोंडाक लायत ताणें म्हळें, "वंदन, हांव धा वरांचेर परततलों. फॉर्मां बी घेवन येतां. रूम पळोवन येतां. मम्मीलें सामान बी बांदून दवर.."

वंदनान थंडसाणेन सांगलें, "हय. हांवें कालच सगळें एकठांय केलां. बॅग बी

भरलां... नितीनाक मात कसो समजावपाचो तें तूं पळय. आजी खंय वता? तिचें सामान कित्याक बांददतात? हांवूच तिचे बरोबर वतलों म्हणून हट धरून बसला. हांवें सांगलें ताका, तुज्या डॅडीकच विचार म्हणून... फाल्यां म्हजे कडेन ताची वायटपणां नाकात, आपले आज्जेक हांवें वृद्धाश्रमांत धाडली म्हणून..."

आनी हांसत मागीर ताणें विनोद-सो केलो, "आमच्या म्हातारपणांत मागीर आमकांय बी धाडूंक उणो ना तो वृद्धाश्रमांत...!!!"

हातांतली ब्रीफकेस सोमेशान परती सकल दवरली आनी केसांतल्यान हात भोंवडावंक लागलो. टिपिकल संवंय ताची. मन थीर नासतकच केंसांतल्यान बोटां घुंवडायत, केंस ओडीत रावतलो...

सोफाचेर बसकण मारून ताणें वंदनाक विचारलें, "तुका कितें म्हणचें आसा तें सरळ सांग पळोवया...!"

"आनीक सरळ कितें सांगपाचें तुजे आज्जेचो जीव तुजे भितर घुसपल्लो. वृद्धाश्रमांत कितलो तेंप जगली ती? नितीनाचे आज्जेचो नितीनाचेर जीव आसा. नितीनाचोय तिचेर आसा. तांची ताटातूट करप तुका समा दिसता? हें चक्र खंय तरी थांबूंक जाय अशें दिसना तुका?"

सोमेशान सोफाचेर लवंडिल्ले कडेन दोळे धांपून घेतले. आपले आज्जेचे यादीन ताचे दोळे भरून आयिल्ले. थोडो वेळ तो तसोच बसून रावलो. मागीर फोन उबारून नंबर घुंवडायलो.

"हॅलो, हांव सोमेश उलयतां... हय हय! पूण म्हाका अहमदनगराक वचप जमत शें दिसना. हय हय... फॅमिली प्रॉब्लेम... जाणटी आवय... ना... तिका थंयची हवा मानपाची ना... कितें करतलों? बरें. हय. मि. कवळेकाराक प्रोमोशनाचेर धाडटात...? बरें आसा. थँक यू सर. थँक यू व्हॅरी मच...!!"



19

# कपयाळें

आतां हें कपयाळें घडोवनच उठ्ठलें अशें हांवे थारायिल्लें. आज जर घडोवन पडत तर फाल्यां सकाळी मांडूंक मेळटलें. मागीर दोन दिसांभितर शिंवून मेकळें कतलें. बीनूले चलयेचो सोमारा बारसो. बारशाक आईचें कपयाळें जायच अशें बीनून सांगून धाडलां.

भायल्यान मोटार थांबिल्ल्याचो आवाज आयलो. तशे सोल्तेर, हेडगो, घारसूल सगळीं एकदमच भोंकूंक लागलीं. मागीर विलू–शकूचो बोवाळ.... आनी प्रशांतालो होः होः करून सातमजली हांसो... नात जांवय घरा आयला म्हणपाचें रोखडेंच समजलें.

''पूण उठलें ना. ही निमाणी कपी घडयतां. आतां कपयाळें घडोवच उठ्ठलें कपयाळें घडयतना कान मात भायर लागिल्ले. प्रशांतालें 'च्या फस्कलास जाला' म्हणून परती मागून घेवप... 'लाडू कोणे केला' काय विचारप... ताचें हें सदचेंच...!! ताका खांवक–पिवंक घालतल्याक आपल्या वागण्यान सामको भुल्लुसायतालो! खातलो – पितलो हो पूण खावयतल्याकच तृप्त करून सोडटलो... आतांय विलूचें खुमणें म्हजे नदरे मुखार आयलें.... जांवयान च्या बरो जाला म्हळें न्ही, म्हणून एऽद्दें जालां जातलें ताचें तोंड...!!

मागीर व्हडल्यान ''माई खंय गेली'' म्हणून ताणें विचारिल्लेंय आयकलें. आतां येवंदी ताका... म्हजें कपयाळें घडोवन जाल्लें.

''माई कितें चल्लां तुजें? अर्दवर जालें हांव आयल्यार! म्हजी खबर एक सोड, पूण बीनूची आनी बायची खबर घेवंक लेगीत झळकली ना ती?''

''तूं म्हाका मेळ्ळेबगर वचचोना हें हांव जाणाच न्ही रे! आतां हें कपयाळें

घडोवनच उठ्ठलें म्हणून निश्चेव केल्लो.''

''कित्याक गे तूं हें घेवन बसल्या... कमर-मान एक करून? आतां तुका कपयाळें कोल्च.... सगळें - सगळें विकतें मेळटा...! तुज्यान आतां खंय जाता? म्हाका सांग! हांव हाडून दितां तुका एक कपयाळें... मागीर दी तें बीनूक...!!''

''विकत्या वस्तींत आनी आपल्या हातान घडयिल्ल्या वस्तींत जायतो फरक आसता रे! तुका समजुचेंना तें!''

हावें कपयाळ्याचो निमाणो सुताचो धागो दातांन तोडलो, सूय रिळाक तोपली आनी कपयाळें फाफडून उगडून ताचेमुखार धरलें.

''पळय कशें जालां?''

मागीर प्रशांतान 'वॉव' करून तोखणायेचें तें उतर काडलेंच! ''आपल्या हातांनी घडयिल्ल्या वस्तींक माया-मोग हांची ऊब आसता हें हांव जाणां आशिल्लों... पूण कलेचें इतलें सुंदर प्रदर्शन आसता, हें मात तुजें कपयाळें पळयतकच कळ्ळें हां...!''

बारीक - बारीक त्या त्या रंगाच्यो कपयो घडोवन केल्लें णव सूर्यफुलांचें तें कपयाळें हातांत घेवन तो तोखेवपाक लागलो. ताचे फाटोफाट थंय आयिल्ल्या विलू-शकून कपयाळ्याचेर नदर घाली, मात - 'कितलें सुंदर केलां गे माई! म्हाका केल्लें तें सादें कमळांचें आशिल्लें...''

''आनी म्हाका केल्लें तें फिरक्या फुलांचें'' बीनूक बरेंऽ सूर्यफुलांचें नकसूद केलां...!! 'मागीर? पणटेक केलां तें म्हज्या! म्हाका पणजी केल्या न्ही बीनूच्या बायन...!! ''प्रशांतान सांगलें तुका माई? बारशाक सगळ्यांक सकाळींच आफयल्यांत...'' विलून म्हळें, ''म्हाका जाणटेलेक आनी थंय कित्याक गो? तुमी वतलींच न्ही सगळीं? तुमी वतकच म्हाका पावलें...''

हाचेर प्रशांत व्हडाव्हडान हांसलो. तांच्या पायांक घशटतल्या सच्चू-दातून एकदमच आंग काडिल्लेभशेन 'म्यांव' केलें.

''तू अशें म्हणटली, म्हणूनच बीनून म्हाका धाडला आज. तूं आयली ना जाल्यार हांव जीप घेवन येतलों आनी तुजी पोटली उबारून जीपींत घालून व्हरतलों.... कितें तें तूंच थाराय...!''

- आनी हांसत - हांसत प्रशांत गेलो लेगीत!

बीनूल्या बायच्या बारशाक म्हाका वचचेंच पडलें. बायक हांवें भांगराची सरपळी करून घेतिल्ली. सरपळेक एक भांगराची पणटी करून घाल्ली. पयलीं तेंपार खंय भांगराचे पणटेंत तेल वात करून त्या उजवाडांत पणटेचे तोंड पळयताले. एक एक शास्त्र! आनी कितें? पुण सांगपाचें म्हळ्यार बारशाक बोवाळ फक्त माईच्या कपयाळ्याचो! कितले जाणांनी ताचें मोस्त्र मागलें! तितल्यांकूय बीनून दिता म्हणून सांगलें...!

विलू आनी शकू भायलेभायर पुण्यांक वचपाचीं. शकूलो सौरभ अंदू एस्. एस्. सी. क. कशेतरी दोन दीस काडून म्हाका मेळपाक आनी बारशाक हीं दोनय कामां एकठांय करून तें आयिल्लें. आपले बरोबर विलूक हाडिल्लें ताणें!.... विलूलें आरोग्य हालींसराक बरेंच उरना. म्हणून प्रवास करतलें जाल्यार ताका बरबर कोणतरी जायच! आपलें आरोग्य सांबाळप होच ताचे जिविताचो वावर जावन बसला ह्या वर्सांनी.

पूण नातीक पळोवंक आनी माईक मेळूंक म्हणून ताणेंय उडी घालीच! बीनून बायेक ताचे आवडीचें 'प्राजक्ता' हेंच नांव दवरिल्ल्यान तें चडच खोशी जाल्लें.

दोगांय जाणां म्हजे फाटल्यान लागिल्लीं – घर बंद कर आनी आपल्यागेर यो म्हणून. विलू तर शेखर भायर वचत साकून सामकेंच फाटीक लागिल्लें. ... पूण घर बंद करून कशें वचपाचें? आनी म्हजें घर हें बंद करप म्हळ्यार फकाणां न्ही!! मागीलदारच्यान केळी आनी पोरसांतलीं झाडापेडां जालींच... पूण हीं 'म्यांव... म्यांव करीत पायांक घुसपवपी सच्चू-दातू? आनी रान्नी पोल्ल्यांत पडून आसपी म्हातारें बिंगेल...? मागीलदारांत पडून आसपी घारसूल आनी ताचीं पोरां... फुडल्या दाराचो सोल्तेर आनी हेडगो... हांकां सगळ्यांक घेवन खंय वतलें? आतां आनी पैर मन्वरान एक पांयमोडकें चानये पील हाडून म्हज्या कपलार घालां. पांय सारको जायसर ताका पांदऱ्यांत घालून सांबाळ खंय!! पूण तें पील सांबाळप म्हणल्यार एक दिव्यच जालां. सच्चू-दातू त्या पिलाचो पांदरो सोडून कुशीक वचूंक तयारूच नात! बिंगेल मात आपलो दुदाचो, नुस्त्याचो टायम सांबाळून चानयेचेर नदर दवरून आसा. तांकां तो इल्लोसो जीव हुंदरा पेटो बी दिसला जावंये! केन्नाकाय ताका मट्ट करन, अशेतरेन जिबल्यो चाट्टात पाड पडिल्लीं. तांकां धांवडायसर म्हाका येता खरस सामकी!!

शकू त्याखातीर मनवराचेर कसलें तापलें जाणां? ''आरे मनोहरमाम, कित्याक रे माईक त्रासांत घालता ही जिवावळ हाडून? सगलीं कानकात्रीं, हेडगीं, पायमोडकीं

हाडून घरादाराक जमयल्ल्यांत...''

''तुवें आनी अशें उलोवपाचें गो शकूबाय?'' जाण्टेलो मन्वर आपलो पांय ओडीत वतां-वतां म्हणूंक लागलो. ''असलीं मोडकां-धडकां जमोवन तांकां वयर काडप होच माईलो जल्माचो वावर न्ही?''

शकूक ताच्या उतरांतली खोंच समजली ना! काय कळ्ळी काय ताका?... पूण तें कांयच उलनासतना हांसलें आनी भितर गेलें. म्हाका मात मन्वराचो रागच आयलो. ...पूण तो सतच उलयिल्लो न्ही...!!

शकू म्हज्या हाताक पाविल्लें तो दीस याद जालो - मागीरदारच्या मांगरांत यशवंत आनी आनंदी हांणी आपलो गरिबीचो संवसार थाटिल्लो. यशवंत पोस्टमन, सद्दां सकाळी आपलो खाकी ड्रेस चडोवन कामाक वतालो, तो सांजे घरा येतालो. आनंदी आपल्या स म्हयन्याच्या पोराक घेवन म्हज्या म्हऱ्यांत येवन बसतालें. शकूचो अवतार म्हणून कितें - हातापांयाच्यो काडयो आनी पोटाचो नगारो असो तो जीव... आपल्या लिकलिकीत दोळ्यांनी बिटी - बिटी पळयतालें, आनी कसल्याय कामाक विच्च करून हांसतालें... पळयतल्याक आपल्याक उबारून घेवंक लायतालें....

आनी एक दिसा पत्रां वांटूंक गेल्लो तो यशवंत घरा आयलोच ना... आयलें तें ताचें मडें... मोटारीपोंदा कुचमल्लें... पोस्टमार्टम केल्लें... आनंदीक आकांताचो शॉक बसलो... दोळ्यांतल्यान दुकां नात, हाय ना, हूय ना... उलयना कांय ना...! कितें कितें केलें शेजाऱ्यांनी... समजायलें... पूण ना. त्या स म्हयन्याच्या पोराक वाऱ्यार वडोवन... घोवाफाटल्यान जमनीर कोसळील्लें तें आनंदी परतें उठलेंच ना...

- शेजार पाजार कळवळलो... त्या पोराचे चुरचुरे केले, काकूट केली... आनी आपापल्या कामांक गेलीं सगळीं. हावेंच मागीर ताका वेंगांत काडलें... आनी हिमट्यो काडून रडटालें तें पोर विच्च करून हांसलें... आपूण अनाथ जालां म्हणपाची सुलूस तरी खंयच्यान आसतली ताका...?

पूण मागीर ते अनाथ कशेंच उरलें ना. तें 'माईलें शकू' जालें. 'कशें तरेन ताका वयर काडलां, कितल्यो बाकाल्जांवांच्यो बाटल्यो ताका खावयल्यात... हांवूच जाणां...!!

केन्नाय कसल्याय कार्याक चार बायलो एकठांय जाल्यो आनी शकूली खबर

आयली तर कोणे तरी हटकून म्हणचेंच – ‘तिगेल्या विलू बरोबरूच ल्हानाचें व्हड जालां न्ही तें! तिचें न्ही म्हणटलो कोण ना ह्या संवसारांत! दोगांकय सारक्याच अपुरबायेन, सारक्याच शिस्तीन वाडयलीं, शिकयलीं, लग्न करून दिलीं, कुळारपणां बाळांतेर सगळें सगळें कडलें... आपलें परकें भेद केन्नाच केलो ना...’’

– हांवें आयकून आयकना आशिल्लेभशेन करचें! विलू... म्हजें?? – घोवालें चली म्हणजे म्हजेंच जालें ना! घोवान एक दिस हाडून म्हजे सुवादीन केल्लें... म्हाका फटोवन न्ही... सरळ सरळ सांगून... ‘‘तुजें मन खूब व्हड आसा गे हांव जाणां... म्हणूनच म्हजी ही चूक तूं सांबाळ... आवय नासून अनाथ जालां तें!’’

जल्मच गेलो जें येता ताका माथें मारपाक ! मुकाट्यान पोराक वेंगांत काडलें... तेंय म्हज्या वेंगांत रिगलें... म्हजेंच जालें!!

आतां शेखराची खबर वेगळी!! – नवी ताल्ल मारूती हाडपाक ताई आनी भावोजी पणजे गेल्लीं. शेखराक जोर आयिल्लो म्हणून म्हजे म्हऱ्यांत दवरून गेल्लीं. धवी फुल्ल मारूती घेवन दोगांय येतालीं... मनांत कितले बेत... कितली उमेद...!! शेखर गाडी पळोवन कसो भुल्लुसतलो... बाबडीं चिंततालीं जातलीं... पूण तांचें दैव दुसरेंच चिंततालें... पणजेच्यान येतना खुरसाकडेन पाविल्लीं... अवचीत ब्रेक फेल जाल्ली ती बस... वाटेवयल्या स्कूटरीक धक्को दीत आयली... ताईल्या माऽरूतीक धक्को मारलो... ताई भावोजी आक्ताक सोंपलीं.

– एदो व्हडलो ऍक्सिडेंट... सगळ्या गोंयभर बोवाळ जाल्लो. हांव खबर आयकून घुंवळूनच पडिल्लें... सुद्दीर आयलें तेन्ना शेखर बाबडोऽ जावन म्हऱ्यांत बशिल्लो... मागीर काळीज फातरा भशेन घट केलें... सांगलें ताका... ‘‘आमकां फटोवन पप्पा – मम्मी देवागेर गेल्यांत म्हणून....’’ कितलेशे दीस पोर फोना म्हऱ्यांत बस्सून रावतालो. – देवागेरच्यान तांचो फोन येतलो म्हणून वाट पळेतालो...

केन्ना भुरूभुरू वाडलीं, संवसाराक लागलीं कळ्ळेंच ना. शकू–विलूलीं बीनू, संजू सौरभ अशीं नातरां मेळ्ळीं... आतां तर बीनूगेर बाय जाल्ल्यान हांव ‘पणजी’ जाल्लें. शेखरागेर मात अजून कांय ना. दोतोर जालो. अमेरिकेक गेलो... थंयच्यान पॉमीकडेन लग्न जालो. हो दोतोर, तेंय दोतोर, लोकांनी सांगप अमोरिकेक गेल्लो भुरगो परतो येवंकच सोदना... जादू जाल्लेभसेन थंयच रावता... हांगचे लोकांचो, हांगचे मातयेचो ताका मोग उरना... दिसलें, विसरलो तो माईक...

– पूण शेखर पॉमीक घेवन आयलो... माईक दाखोवपाक... पॉमीय मोठें

लागोळें चली... साडी न्हेसून, कुकुम लावन आयलें... शेखरान ताका शिकयल्लीं चार कोंकणी उतरां उलयलें, पायां पडलें! दिसताय पोर - भांगरा केसांची, निळ्या दोळ्यांची बावली कशें!! पूण पंदरा दीस रावलीं कशीं करून परत गेलीं अमेरिकेक!!

- एद्दें व्हडलें हें घर म्हजें...! विलू, शकू, शेखर घरांत आसतना कशें भरिल्लें भरिल्लें दिसतालें. तांचे ते मांजरांबरोबरचे खेळ, घारसुलाच्या पोरांबरोबर लडामुंडी, ... तांचीं झगडीं सोडोवप... दिसच पावनासलो. ... आतां सत्तरी लागीं पावली... हाड घट्ट म्हणून जाता तशें काम करून दीस काडटां....

हे विचार, हीं चिंतना... फाट सोडीनात. मागीलदाराच्या वासरेर वचून बसलें तशें घारसूल 'कूंव कूंव' करून म्हऱ्यांत आयलें... शेंपडी हालयत, ओग्गी म्हऱ्यांत बसून तोंडाक पळयत रावलें. ताच्यां दोळ्यांतलो मोग पळोवनच पोट भरपाचें. मागीर दातू म्हऱ्यांत लंवडलें... शेंपडी हालयत पिलांक खेळोवंक लागले. दोनूय पिलां ताचेभशेन धवीं फुल्ल आनी काळेच कान आशिल्लीं जाल्यांत. तीं उडक्यो मार-मारून दातूली शेंपडी धरतात. सच्चू आपल्याक उणें जाल्लेभशेन आयलो आनी म्हजे मांडयेर बसलो. दोळे धापून पोटांतल्यान घुर्र घुर्र आवाज काडूंक लागलो. खरें म्हळ्यार ताका धुकलूनच घालपाचो हांवें. पूण कितलोय धुकल्ल्यार परतो येवन बसतलोच मांडयेर! ताका हो खेळच दिसता... म्हाकाच मागीर पुरो जाता...!!

- काल हेडमास्तर परतो आयिल्लो. हें घर तो शाळेक दी म्हणटा. शाळेक म्हजें नांव दिता म्हणटा. तुज्या धर्मान गांवचीं भुरगीं शिकतलीं म्हणटा...

- आनी जॉनय म्हाका मेळून गेला... घर मोडून सात मजली बिल्डींग बांदता म्हणटा. चार फ्लॅटांचो एक मजलोच म्हाका रावंक दिता म्हणटा...

कितें करपाचें? कांयच येवजना, म्हज्या जिविताचो हेत आतां कितें उरला? म्हजो सगळो संवसाराच म्हळ्यार एक कपयाळें जावन पडलां. हांगच्यो थंयच्यो कपयो एकठावन गांठायल्लें कपयाळें... आतां हें कपयाळें विटलां... सामकें विटलां...

- चलयो वचपाच्योच आपापल्या घरा. पूण शेखर... दिशिल्लें हो घर घेवन बसतलो... चवथीचो गणपती पुजतलो - दिवाळे दिसांनी लायटी घालून हें घर सजयतलो...

अंदू निमाणें वर्स ताचे दोतोरकेचें... व्हडलो दोतोर जावपाचें... पॉमी

ताका हांगा येवंक दीत काय? शिकून जातकच घरा येवन हॉस्पिटल घालतलो म्हणटालो... येवजितां येवजितां काळोख केन्ना जालो कळ्ळोच ना. सच्चू-दातू येवन पांयांक घश्टूंक लागलीं. 'म्यांव म्यांव' करून आपल्या पोटाक भूक लागल्या हें जाणोवंक लागलीं. आज ब्रेस्तार... दुदान इल्लें शीत कालोवन तांचे कपलार घालूंक जाय.. दातू कश्शेंच खावंचेंना हें जाणा हांव... ताका मेल्ल्याक नुस्त्याचो वास जायच! कालचें हुमण इल्लें वाटयेंत घालून ताचेपासत दवरलां... ताणें शीत कालोवन ताच्या कपलार फोडटां... पाडपडिल्लें म्हजे सगळे वार अशेच भश्टीयता... आफूडचें ना म्हळ्यार नुस्त्याक आफडूंक लायता.

पायमोडकें चानयेपील वायटेंतलें दूद पिता... पेर खाता... पांदऱ्यांत वयर सकयल नाचता... ताचो पांय बरो जाला.. मन्वराक सांगूक जाय... व्हरून सोड ताका झाडांनी म्हणून...

वसंताकडच्यान चीट बरोवन घेवन शेखराक धाडल्या. हेडमास्तराचें म्हणणें, जॉनालेंय म्हणणें कळयलां. शाळा करया काय सात मजली बिल्डींग... कितें तें ताकाच थारावंदी... पत्र घाल्यार म्हयनो जालो. अजून पोरान कांयच बरोंवक ना... फोनय करूंक ना...

आतां ताका ह्या पोरन्या घराचें कित्याक पडून गेलां जातलें? पॉमी तर थंयचेंच... ह्या मातयेंतली बायल केल्ली जाल्यार एखादो हाडयेत आसली ताका परतो हांगा... वतना बरो झेत मारतालो... हांव व्हडलो सर्जन जातलों... परतो हांगा येवन व्हडलें हॉस्पिटल घालतलों म्हणून... खंयचेकडेन कांय ना.. भोंगू तें... विचार केल्यार जिवाक आनीकच त्रास भोगतात. पूण आतां ह्या घराची उस्तवारी म्हज्यान जायना...

मागीलदारांतल्यान घारसूल भोंकता... कोणाक भोंकलें काय? बाबली आनी शांतू येवचो वेळ जाला... तींच आसतलीं... म्हाका म्हातारेक रातचे सांगाताक येतात... बाबली पडवेर न्हिदता आनी शांतू म्हजे खाटीकुशीन.... खंयचे जल्माची नातीं... पूण आपुण जावन येतात सांगाताक...

''माई, जालीं गे जेवणां सगळ्यांचीं?'' बाबलीलो सदचोच पेटंट प्रस्न... 'खंय रे? आतांच सच्चू-दातूक घालां पोटाक... अजून धारसूल आसा, सोल्तेर, हेडगें... 'रातीकडेन सुण्यांक जेवण घालचें न्हय म्हणटात. न्हिदोन पडटात मागीर...'' ''ना रे! तांकां ल्हानपणासावन संवय... दोनय वेळच्या जेवणाची... पूण एक दीस

रातचीं न्हिदून पडूंक नात.''

''माई, तूं जेवली? हांव व्हरोन घालतलें आसलें सुण्याक... पूण्ण...'' शांतून उतर अर्दकुटेंच सोडलें.

– म्हाका हांसूंक आयलें ताचे 'पूण्ण' चें... एक दिसा जिवाच्यान नज म्हणून हांवें शांतूकच सगळ्यांक जेवण घालूंक सांगिल्लें. अर्दवरान शांतू येवन सांगूंक लागलें – कोणूच शिताक तोंड लायनात म्हणून... हांवेच मागीर नजो जाता करून भायर वचून तांकां 'जेवात पयलीं' म्हळें. तेन्ना जेवल्यांत. ही मोनजात खरी... पूण मनशां परस...

भायल्यान सोल्तेर गुरगुरता... हेडगोय ताका साथ दिता... मागीर दोगूय व्हडान भोकूंक लागतात. घारसूलय धांवत येवन तांकां मेळटा... भोंकतात खरीं... पूण आयिल्ल्याक धांवडावन घालपाचें भोंकप न्ही हें... वळखिच्या मनशाक येवकार दिल्लेभशेन... हांगा बसून सांगतां हांव... तीगांय सुणीं भोकतना फोर्सान शेंपडी हालयतात जातलीं... कोण काय...??

''बाबली, पळय रे कोण आसा तो?'' बाबली ओडटाली ती विडी पालोवन कानाक खोयता आनी भायर वता.'' ... माई ऽ माईऽऽ, कोण येयला पळय...!!'' ''कोण रे?'' 'आमगे शेखरबाब...!!' 'कितें? शेखर...?'' धोंपरां दुखतालीं तें विसरून हांव सटक करून उबें जालें. भायर वचपाक पावल उबारलें. इतल्यांत शेखर आनी पॉमीच भितर सरलीं. आज पॉमीन व्हिस्तीद घाल्लो. पूण येनाफुडें पोर पांयां पडलें आनी आपल्या कोंकणींत विचारूं लागलें – ''मॉई कॉशी आसा...?''

शेखरान पांयाक हात लायिल्लेभशेन केलें आनी म्हज्या थरथरत्या देहाक वेंगांत काडलें. भरिल्ल्या दोळ्यांनी आमी एकामेकाक पळयत रावलीं... म्हाकाच पयलीं उतर फुटलें...

''आरे, अकस्मात कसो आयलो रे? चीट ना, फोन ना, 'धुत्त' करून दारांत उबो...?'' 'तुका अजाप जालें न्ही? पूण हांव भिल्लों तूं आमच्या घराचें कितें करता काय म्हणून!'' आरे, तूं अमेरिकेक... म्हाका एकल्याक कित्याक जाय रे एदें व्हडलें घर? आनी घराची उस्तावारी थोडी आसता रे? जावंक नाका ह्या म्हाताऱ्या देहाच्यान? म्हणून बरयलें तुका...'

''बरयलें तें बरें केलें माई! तें पत्र वाचलें आनी... माई हें घर म्हळ्यार सादें घर न्ही आमकां – हें देउळ मगे आमचें... म्हजें, विलूचें, शकूचें... ताणींय म्हाका

पत्रां घाल्लीं... माई भिरकीसरशीं कितेंय करीत म्हणून..."

"आरे, हेडमास्तर फाटीक लागला...." "कितें म्हणटालो तो? गांवच्या भुरग्यांक शाळा मेळटली म्हणून व्हडली? आनी मागीर म्हज्या भुरग्यांक नाचपाक खेळपाक घर खंयचें तर? शकूक, विलूक कुळार खंयचें? आमकांच न्ही... हो सच्चू - दातू, बिंगेल... तो हेडगो, सोल्तेर, घारसूल - सगळ्यांनी आपलें घर म्हणून सांबाळिल्ली ही वास्तू... म्हणून हांव परिक्षा सोंपतां खिणीं थंयचें सगळें कवळून परतों आयलों..."

म्हजो म्हज्या कानार विस्वासच बसना जालो... "तूं परतो आयलो शेखर...? हांगा रावंक...?" "अशें कितें विचारता तूं माई? हांवें तुका सांगूंक नाशिल्लें... शिकून जातकच परतो येतलों म्हणून...?"

"पूण... पूण सगळे म्हणटात थंय एकदां गेल्लो मनीस थंयचोच जाता म्हणून... आनी पॉमी?" "पॉमी कितें? पॉमीन आनी हांवें हांगा हॉस्पिटल उगडपाचें थारायलां..." हांवें पॉमीच्या तोंडाक पळयलें. ताका हांगा सदांखातीर रावपाक मानवत काय? पूण ताचें हांसकूरें मुखामळ पळोवन मनांतलो दुबाव पयस जालो.

"मॉई, आतां... हांगाच... रावप..." पॉमी सावकासायेन एकेक उतर उलयलें. हांवें दोगांकय वेंग घाली... दोळ्यांतल्यान व्हांवतलीं दुकां आडयत म्हळें - "आनी हांव चिंततालें... म्हजे संवसाराचें कपयाळें विटलें म्हणून..."

कपयाळें हें उतर कानार पडनाफुडें शेखराचे दोळे खोसयेन लिकलिकले. "माई, आतां नव्या कपयाळ्याचे तयारेक लाग तूं..." आनी ताणें पॉमीकडेन मस्कऱ्यांनी पळयलें. तें पोर बाबडें लजेल्ले भशेन जालें.

"म्हणजे? पॉमी....?" हांवे हळूच ताच्या पोटार नदर मारली, हय-न्हयशें पोट दिसतालें... धरिल्लें कमर, दुखतालीं तीं धोंपरां अकस्मात बरीं जालीं अशें दिसलें... जिवाक कितें करूं कितें नाका अशें जालें...

"खंय गेलें गो हें शांतू...? चल बेगीन, गॅसार आदन दवर... इतले रातचीं आयल्यांत... भुकेलीं आसतलीं पोरां..."

"माई, तूं बस पळोवया एका जाग्यार... आमी पळयतात सगळें, आमकां जायतें करून घेतात..." शेखरान म्हाका आडावपाचो यत्न केलो. पूण हांव खंय आयकतां? हांवें बेगीबेगीन वचून गॅसार आदन चडयलेंच...!!





श्रीमती सुधा गोविंद खरंगटे हांचें शिक्षण बी. ए. मेरेन जालां. ते भायर तांणी एस्. टी. सी. आनी राष्ट्रभाषा पंडित ह्यो पदविका घेतल्यात. थोडो काळ शिक्षिकेचो वेवसाय करून मागीर तांणी घरच्या पुस्तक - विक्रेच्या धंद्यांत योगदान दिलां.

तांणी भुरग्यां खातीर काणयो आनी नाटकुलीं बरयल्यांत. तेच भाशेन कथा - साहित्यांत भर घाल्या. आतां मेरेन तांचीं 'शींव आनी कासव' (काव्यांत काणयो), 'काणयो सैमाच्यो आनी मनशांच्यो' (काणयो), 'हांवें करचें तरी कितें?' (नाटकुलीं), 'काणी एका सुण्याची' (काणी), 'रँग - टँग' (काणी), एक - दोन - तीन - चार' (काणयो), अशीं बालसाहित्याचीं ६ पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत.

'काणी एका सुण्याची' ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीचो २०११ चो बालसाहित्य पुरस्कार मेळ्ळा. ते भायर साहित्य अकादेमीचो बालसाहित्य पुरस्कार, कला- संस्कृती खात्याचो कला गौरव पुरस्कार, बिम्ब प्रकाशनाचो विजयाबाय सरमळकार यादस्तीक पुरस्कार अशा साबार पुरस्कारांनी तांचो भौमान जाला.

तांचो नामो: सुधा खरंगटे
ए/4, कुरतरकर क्लासिक, दुसरी माळी,
पावर हाऊसा लागीं, आकें, मडगांव, गोंय.
फोन: 2750573 मो.: 9545020101